# जपान पळोवन आयलों



2008

मूळ मराठी
**जपान जसा दिसला**
[प्रकाशक : 1970, कॉन्टिनेन्टल प्रकाशन, पुणे-30]

**प्रकाशन क्र.** 874

**प्रकाशक**
प्रभाकर भिडे
राजहंस वितरण
1-मीनाक्षी बिल्डींग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी 403 001



**कंपोज**
श्रीगुरुकृपा टायपोग्राफिक्स, मडगांव

**छपाई**
राजहंस ऑफसॅट, पणजी




**मुखपृष्ठ**
अमृत गायतोंडे

**पूर्व प्रसिद्धी**
जाग म्हयनाळें

**Rs. 155/-**

ISBN. 81-7810-671-X




# मांडावळ


| | | |
|---|---|---|
| | संतोस | ४ |
| | आशिर्वाद | ६ |
| १ | तयारी | १३ |
| २ | तोक्योचे दिशेन | २२ |
| ३ | तोक्योंत | ३० |
| ४ | यासुकुनी | ३५ |
| ५ | आतामी | ४१ |
| ६ | ओश्योसामा | ५० |
| ७ | फुजीसान | ५७ |
| ८ | आशिनोको | ६२ |
| ९ | फुजीसानाचे फाटीर | ६७ |
| १० | गंधर्व नगरींतली भोंवडी | ७४ |
| ११ | जपानी न्हाण, जेवण आनी खाण | ८१ |
| १२ | जपानी काळीज | ९० |
| १३ | एका सुतान गुंथिल्लो देस | ९७ |
| १४ | आगळ्यो वेगळ्यो चाली | १०७ |
| १५ | आकामिझू | ११६ |
| १६ | आसोचें जाळमूख | १२१ |
| १७ | बेप्पू | १२८ |
| १८ | शिकोकू जुंव्यार | १३६ |
| १९ | गेयशा | १४० |
| २० | जपानी घरकान्न | १४६ |
| २१ | निक्को | १५१ |
| २२ | कामाकुरा | १६१ |
| २३ | क्योतो | १६८ |
| २४ | कूस परतुनूय जपान जपानूच उरलां | १८० |
| २५ | सायोनारा | १८६ |

# संतोस

जपानाक १९६७ तल्या जुलयंत गेल्लों. दोन म्हयने एका सारको थंय भोंवत राविल्लों. होनशू, क्युशू, शिकोकू ह्या तीन जुंव्यांर पळोवपा सारकीं जीं थळां आशिल्लीं तीं चडशीं सगळीं पळेल्लीं. फकत उत्तरे दिके कडलो होक्कायदो पळोवपाचो उरिल्लो. पुणून तीन जुंवे पळोवन जातासर दोन म्हयने सोंपिल्ले. आनी म्हाका 'व्हिसा' दोनूच म्हयन्यांचो मेळिल्लो. म्हूण, होक्कायदो पळे नासतना परतलों.

वांगडा हांवें एक कोरी पटी व्हेल्ली. तिका हांवें 'उगडास-पटी' नांव दिल्लें. दीस भर भोंवन रातचो राबित्यार परतलों म्हणटकूच न्हिदूंक वचचे पयलीं त्या दिसा जें पळेलें, आयकलें, वाचलें, अणभवलें ताची हे पटयेर हांव नोंद बरोवन दवरपाक लागलों.

घरा परतले उपरांत हे नोंदीचो आधार घेवन रोखडेच म्हजे भोंवडेचे उगडास बरोवपाक घेतले. तांकां 'जपानांतली आनंदयात्रा' नांव दिलें आनी ते 'राष्ट्रमता'च्या आयतारच्या आंकांत नेमान दीत रावलों. सात-आठ लेख छापून आयिल्ले तांचीं कात्रणां आचार्य काकासायब कालेलकरांक वाचूंक धाडलीं. भोंवडेचीं वर्णनां बरोवपी साहित्यकारां मजगतचे ते फकत राजाच न्हय, तर एक सम्राट. ते भायर, तांगेल्या जंगम विद्यापिठांतलो एक विद्यार्थी हांव. तांचे कडल्यान फाट थापटून घेवपाची म्हाका इत्सा जाली जाल्यार ती सभाविकच धरूंक जाय. तांची रोखडीच चीट आयली-

'हांवें कात्रणां वाचपाचो यत्न केलो. पुणून तुका एक उगडास करून दिवंक सोदतां - कितलींशीं वर्सां जालीं, हांव तुजे कडेन एक 'कोंकणी-मराठी कोश' मागतां. तुंवें अजून म्हाका तो दिवंक ना. ते मेरेन एक कर कोंकणींत सुरू केल्ली ही लेखां-माळ कोंकणींतूच पुरी कर आनी, उपरांत पुराय पुस्तक म्हजे खातीर मराठींत हाड... मराठींत बरोवंचोंच ना असं सोपूत घेतला व्हय तुंवें? हांव तुमकां सांगीत आयलां, तुमचे कडेन ना ते तुमी जोडूंक जाय. पुणून आसा तें सोडपाची इल्लीय गरज ना...'

फकत तांचे खातीर, कोंकणींत बरयल्ले सगळे लेख हांवें मराठीं[illegible] घाले. लेख म्हजेच जाल्ल्यान मराठींत घालतना मेकळिकूय घेतली. आ[illegible] इतलेंय हें मराठींत बरयलां म्हूण उरिल्लें सगळें मराठींतूच बरोवन हां[illegible] पुस्तकाचें हातबरप तांचे कडेन धाडून दिलें.

कांय दिसां उपरांत तांची चीट आयली -

'पुस्तक सगळें बारिकसाणेन वाचून सोंपयलें. जपानाचेर मराठींत एक पुस्तक बरोवपाचें म्हज्या मनांत आशिल्लें. तुगेलें पुस्तक वाचतकूच ताची आतां गरज उरूंक ना... तें छापूंक दी.'

आनी मागऽ नासतना तांणी एक प्रस्तावनाय बरोवन धाडून दिली.

म्हजे मुखार एक मोट्टो प्रस्न उबो रावलो. कोंकणींत बरयल्लें जाल्यार कशेय भाशेन तें छापून हाडटलों आशिल्लों. पुणून मराठींत बरयल्लें हें, कोणा कडेन धाडून दितलों? मराठी संवसारांत तर 'मराठी द्वेष्टो', 'महाराष्ट्र द्वेष्टो' म्हूण हांवें नामना ज़ोडल्या. कृष्ण करवार म्हजो इश्ट. मराठी प्रकाशकां कडेन दाट संबंद आशिल्लो. ताचे कडेन हांवें पुस्तकाचें हातबरप धाडून दिलें. आठ-धा म्हयने मेरेन वाट पळेली. म्हळें, ताकाय म्हजे 'नामने'ची आडखळ जाल्या जातली. (खरीच जाल्ली.) हांवें हातबरप परतें मागोवन घेतलें आनी काडून तें आरमारींत दवरलें.

कांय म्हयन्यां उपरांत एक दीस बाकीबाब आमगेर पावले. उलयतां उलयतां ह्या हातबरपाची खबर आयली. 'हाड पळोवया तें' तांणी म्हळें. हांवें हातबरपा वांगडा काकासायबांली चीट आनी प्रस्तावनाय तांकां वाचूंक दिली. चीट वाचून ते उसळिल्ले वरी जाले. म्हणपाक लागले, 'आरे! केदी व्हडली डॉक्टरेट मेळ्ळ्या ही तुका! आनी... तुका प्रकाशक मेळना?... हांव पळेतां यत्न करून.' आनी तांणी पुण्यांतल्या 'कॉन्टिनॅण्टल प्रकाशना'च्या अनंतराव कुळकर्ण्यांक बरयलें. कुळकर्ण्यांनी हातबरप रोखडेंच मागोवन व्हेलें आनी कांय दिसां उपरांत छापुनूय काडलें.

सुमार पस्तीस वर्सां जालीं हे खबरेक. अकस्मात पयर बाय माया खरंगटेन विचारलें, 'हांवें तुमच्या 'जपान जसा दिसला' पुस्तकाचें कोंकणी केलां... एक नदर मारून दिशात?' 'ना' कितें म्हणटलों, 'धाड' म्हळें. ताणें केल्लें सगळें हांवें बारीक वाचून काडलां. भाशेचे नदरेन हांगा थंय कांय उतरां बदलल्यांत. व्याकरणाचे नदरेनूय हांगा थंय थोडी निवळावणी केल्या. कांय प्रकरणां एकठांय गुथून काडल्यांत. बाकीचें सगळें तश्शें दवरलां. म्हजी शैली म्हजीच दवरून केल्लो हो अणकार पळोवन बाय मायाची फाट थापटूंक जाय, इतली म्हाका खोस जाल्या.

'जागां'त हें पुराय पुस्तक २५ खिस्तींनी आयलां.







**रवीन्द्र केळेकार**

# आशिर्वाद

म्हजे पिळगेन जपानाचें नांव पयलेंच आयकलें तें १८९४ वर्सा. हांव तेन्ना णव वर्सांचो. चिनी साम्राज्या आड जपान झुजलें, पयल्याच धपक्याक चीनाचीं तीन तारवां बुडयलीं आनी झुजांत व्हडलें जैत जोडलें - असल्यो खबरो कानार येताल्यो.

तेन्ना इतिहास-भुंयगोलाचें गिन्यानूय म्हाका व्हडलेंशें नाशिल्लें. म्हणटकच, निकटीं हीं उतरांच कानार पडलीं आनी उगडासांत खंय तरी उरलीं.

ते उपरांत जपानाचें नांव वाजत-गाजत कानार आयलें तें १९०४-१९०५ च्या अदमासाक. तेन्ना जपानान संवसारांतल्या दुसऱ्या एका बळिश्ट साम्राज्या आड - झाराचे रशिये आड - झूज मांडिल्लें. तेन्ना हांव निकतोच कॉलेजीक वचूंक लागिल्लों. मोटवेल्या जपान्यांनी धिप्पाड रशियन कॉझॅकांक कशी हार घाली, पोटतिडकीन झुजून पोर्ट आर्थरचो किल्लो कसो घेतलो, मुकडेनची लडाय ते कशी लडले, आनी, सुशिमाचे समुद्रधुनींत एके लडायेंत रशियेचें नांवाजतें बाल्टिक झुजारी तारूं तांणी दर्यांत कशें बुडयलें - ही सगळी वर्णना वाचतना आमचें हड्डें अभिमानान फुलून आयिल्लें. एका आशियायी राष्ट्रान येवरोपेवांक हार घाली हे एकेच गजालीक लागून पुराय आशिया खंडांत चैतन्याचें नवें वारें खेळूंक लागिल्लें आनी, पुराय आशियेचें फुडारपण आपशींच जपाना कडेन पाविल्ले वरी जाल्लें. तेन्ना सावन भारताच्या काळजांत जपाना विशीं आदराची आनी आपलेपणाची भावना आसा.

जपान म्हळ्यार आशियेच्या एका कोनशाक आशिल्लें पुर्विल्ल्या चाली-रितींचें एक राष्ट्र. सामकें कोनशाक आशिल्ल्या कारणान चेंगीझखान, कुब्लाईखान, तैमूरलंग सारकेल्यांच्या घुरयां पसून वाटावन उरिल्लें. हांगची संस्कृताय थळ, उदक, दोंगर बी देवां-देवतांची पुजा करपी, पितरांक देव मानपी आनी, राजांतूय देवपण आसता अशें मानून चलपी. चार व्हडले जुंवे आनी तांचे भोंवतणीं आशिल्ल्या शेंकड्यांनी ल्हान ल्हान जुव्यांचो हो देश. उदकांतल्यान येरादारी केले बगर हांगा कोणाक जियेवंकूच येवपाचें ना. ल्हान-व्हड जमीनदारांनी आपसांत बसून थारावन राजा जावंचें, प्रधानांनी राज्यसत्ता हातासून बसची, सोंपें पडटा थंय शारां वसोवचीं आनी जिणेची

उदरगत करीत रावची - हे तरेच्या साद्या सरळ आदर्शांचें राष्ट्र हें.

चवदाशें वर्सां फाटीं ह्या राष्ट्रांत बौद्ध धर्म पावलो. तशें पळोवंक गेल्यार, नांव घेवपा सारकीं सांस्कृतीक तत्वां जपानांत भायल्यानूच आयल्यांत. चिनी भास, थंयची चित्र-लिपी, कुन्फू (कॉन्फूशियस)ची समाजवेवस्ता वा सामाजीक स्मृती - हांचो जपानाचेर प्रभाव पडिल्लोच. तांतूंत महायान बौद्ध धर्म नेपाळ आनी बिहारांतल्यान हिमालय उंपून तिबेटांतल्यान चीन, मोंगोलिया, कोरिया - असो सांस्कृतीक प्रवास करीत विशाळ आनी गिरेंस्त जायत जपानांत पावलो. मुळच्या शिन्तो धर्माचेर केल्लें बुद्ध धर्माचें हें प्रभावशाली 'गार्फ' राष्ट्राक आवडलें, मानवलें. मुळचो शिन्तो धर्म, चीनांतल्या कॉन्फूशियसाचो सामाजीक आदर्श, महायानी बौद्ध धर्म आनी ह्या सगळ्यांतल्यान जल्मा आयिल्ली झेन वा ध्यानमार्गी जीवनसाधना - ह्या सगळ्याच्या एका रसायणाचे बुन्यादीचेर जिका आयज आमी जपानी संस्कृताय लेखतात ती उबी आसा. ह्या रसायणांतल्यानूच जपानी प्राणाक अजापांची पोसवण मेळ्ळ्या.

मुखार, सोळाव्या शेंकड्यांत येवरोपांतल्यान भारतांत क्रिस्तांव धर्म घेवन आयिल्लो सेंट फ्रँसिस झेवियर जपानांत पावलो. भोळ्या भावार्ती जपान्यांक दिसलें, बुद्ध भगवंताचे जल्मभुंयेंतल्यानूच धर्माचो संदेश घेवन हो कोण तरी सत्पुरूस आयला. तांणी झेवियराक घाळपणान येवकार दिलो. उपरान्त तांकां समजलें - हो मनीस आनी ताचो धर्म भारतांतलो न्हय, तो पयसलो अस्तंते कडलो; ह्या लोकांच्या हाडांत शुद्ध धर्म ना, तांतूंत सुवार्थी राजकारण भरलां. तेन्ना जपान्यांक भिरभिरी मारली आनी तांणी हो धर्म हुमटावन उडोवपाचो यत्न केलो. पूण तरी तो थंयच्यान सामकोच ना जावंक पावलोना.

जुंव्यार रावतल्या लोकांक सोंपेपणान येवजता तें जपान्यांचेय तकलेंत आयलें. भायल्यांनी आपल्या देशांत भितर सरचें न्हय आनी आपल्या देशांतल्या लोकांनी भायर वचचें न्हय म्हूण तांणी कडक नेम केले. पूण हे नेम गोऱ्या महत्वाकांक्षी वेपाऱ्यांक कशे सोंसतले? तांणी 'मान या न मान मैं तेरा मेहमान' ह्या न्यायान जपानाचीं दारां वेपारा खातीर (आनी धर्मप्रसाराय खातीर) बळयां उकतीं केलीं. ह्या भायल्यांचे तांकी मुखार आपणालें कांय चलपाचें ना म्हणपाचें समजलें तेन्ना जपान येवजणेंत पडलें. पूण जपानी

संस्कृतायेचो प्राण गळसलोना, निर्शेलोय ना. जपानी तरणाटे येवरोपांत गेले आनी थंयची विद्‌या शिकून परतले. आपणाल्या राष्ट्राक अस्तंती देख लावपाचें तांणी थारायलें आनी जपानी संस्कृतायेंत मुळा सावन क्रांती घडोवन हाडली.

म्हाझुजांत जैत जोडले उपरान्त संवसार भर आपणालो प्रभाव घालपाची करामत खंयचेंय राष्ट्र करून दाखयत. पूण अमेरिके सारकेल्या बळिश्ट राष्ट्रान सामकी चिड्‌डून उडोवपी हार घाले उपरान्तूय जपान गळसून गेलें ना. उरफाटें, आरे आरे म्हणटासंर ताणें संवसारांतली आपणाली मानाची सुवात परतीय जोडली. हाचे वेल्यान एक सिद्‌ध जाता - जपानांत असो एक प्राण आसा जो चिड्‌डून चेपून उडोवंक येना, जाचे भितर सगल्या तरांचीं अनुकरणां पचोवनूय आपणाल्या खाशेलपणाक, स्वत्वाक बादा येवंक दिना आसतना आत्मविश्वासान विकास आनी उदरगत सादपाची तांक आसा.

निकतोच हांव जपानाक पांचवे खेपे पाविल्लों तेन्ना 'आमचो देश आतां अमेरिकी संस्कृतायेचे भकीक गेला' म्हणटल्यांक हांवें हेंच सांगलें - शंबर वर्सां फाटीं मेइजी क्रांती घडोवन हाडटल्या लोकांच्या प्रतिनिधींनी दुःखी जावन, जपानांत आतां जपानीपण उरूंक ना अशें मानपाची गरज ना. उरफाटें, आगळें वेगळें जैत आनी तितलीच जीव घेणी हार - दोनांच्याय अणभवान शाणें आनी जाणटें जाल्लें तुमचें राष्ट्र आनी तुमची संस्कृताय आतां नवो विक्रम करून दाखोवपाचीं आसात म्हणपाचें तुमच्या लक्षांत कशें येना? भूतकाळांतलो पुरुषार्थ खरेलें भांडवल हांतूंत दुबाव ना. पूण पुरुषार्थी प्रजा हें भांडवल वाडयत वाडयत फुडाराचे वेटेन पावलां घालीत रावता. संस्कृताय सांबाळून दवरुपाची वस्त न्हय. वाडोवन तांकिवंत आनी गिरेस्त करपाची ईश्वरी प्रेरणा ती.

भारतांत स्वराज्य येवंक नाशिल्लें ते मुस्तींत विदेश-यात्रा करपाचें म्हाका काळिजूच जाय नाशिल्लें. देशूच पयलीं स्वतंत्र ना, हे स्थितींत भायल्या देशांनी वचून तोंड कशें दाखोवप अशीच लज दिसताली. स्वराज्य येना फुडें मात चारूय खंड भोंवलों. तांतूंत १९५४त फकत चवदा दिसां खातीर जपानांत पयलोच पाविल्लों. म्हूर्त इतलो सुंदर आशिल्लो की जपानी राष्ट्राची वळख दिवपी 'साकुरा' फुलां अजून फुलूंक नाशिल्लीं.

फकत कळयो तुकूतुकू पळेताल्यो. चवदा दिसांनी पुराय जपान चंवरून फुलून आयलें. तेन्ना हांवें अर्दें जपान पळेल्लें. परतो, १९५७ वर्सा दुसरे खेपे जपानाक पावलों. जपान सगळोच सुंदर देश. सैम-आवयचे अपुर्बायेचो. सैमीक सुंदरकायेची कदर करपी रसीक जपान्यांचो. पळेत थंय सौंदर्याचें वैभव पातळिल्लें दिश्टी पडटले. दोंगर, रानां, वनां उपवनां, तळीं, जाळमुखां, हून उदकाचे झरे आनी दर्या देगो - सगळीं एकामेकांचे सर्तींत देंविल्ले वरी. इल्लोसो माणकुलो देश आनी तश्योच आटोपशीर न्हंयो. भारतीय न्हंयांची भव्यताय हांगा पळोवंक कशी मेळटली? पूण ह्योय न्हंयो दोंगरांवेलें उदंक सुकण्यां सावदांक हाडून दिवन दर्या मेरेन पावोवपाचें काम चुकनासतना करत आयल्यात. आनी ह्या सगळ्यां कडल्यान देख घेवन मनीस जीण सोबीत करपी जपानी संस्कृताय. असल्या ह्या देशांत उत्तरे कडल्या होक्कायदोच्या सैमाची मस्ती मेकळी सोबितकाय खऱ्यांनीच ओडलायणी. तें सगळें दुसरे खेपे गेल्लों तेन्ना दोळे भरून पळोवन घेतलें. ह्या लोकांक म्हजी ओड अदीक लागली काय म्हाका तांची अदीक लागली, सांगप कठीण. इतलें खरें, भाशेची अडचण आसुनूय आमी काळजान लागीं आयले आनी, आज मेरेन पांच खेपो हांव जपान भोंवन आयलों.

दोन-तीन खेपो जपान भोंवन येतकच ताचें वर्णन हांवें गुजरातींत बरोवन काडलें. पुस्तकाक नांव दिलें, 'उगमणो देश'. म्हळ्यार, 'उदेंतेचो देस'. ह्या पुस्तकांत आशिया खंडाच्या गुरुस्थानार आशिल्ल्या ह्या माणकुल्या प्राणवान राष्ट्राची पुराय जाणकारी दिवपाचो हेत नाशिल्लोच. जपानाची गोडी लावची म्हणटकच आपशींच लोक थंय वचून येतले आनी परतले उपरान्त भोंवडे-वर्णन बरयले बगर रावचे नात ही म्हाका खात्री.

आनी, घडलेंय तशेंच. म्हजें 'हिमालयाचो प्रवास' हें पुस्तक घेवन कितलींशीं तरणाटीं हिमालयाच्या शिखरांचें आनी थंयच्या आपणाल्या भांवडांचें दर्शन घेवन आयलीं तशींच, कितलींशीं जाणां हांवें उदेंतेच्या देशा विशीं बरयल्लीं दोन उतरां वाचून जपान भोंवन आयलीं.

हांतूंत हें पुस्तक बरोवपी म्हजो तरणाटो इश्ट भौ. रवीन्द्र केळेकार, हाचोय आसपाव जाता. ताका आनी म्हाका एकाच वेळार जपानाक वचपाची संद मेळ्ळी. ताची पयली खेप आनी म्हजी चवथी. तो नव्या दोळ्यांनी पळेतालो आनी हांव तीन खेपो पळोवन घोळिल्ल्या वा तृप्त दोळ्यांनी

पळेतालों. म्हजे सगळे सांगाती म्हणूंक लागले, हे खेपे आमी म्हयनो भर बरे जपान भोंवल्यात. तेन्ना आतां तुमी जपानाचेर एक नवें पुस्तक बरोवंक जाय. हांवें रवीन्द्राक म्हळें, 'स्वये गतवयस्क मी, सरस वीर तू रे नवा'. तेन्ना, भोंवडे-वर्णन तुवेंच बरोवचें. आनी, ना-हय करीत निमाणें ताणें तें बरोवन काडलें. जपानाचे सुंदरकायेन, तेजस्वितायेन, ताच्या नाविन्यान आनी आतिथ्यान तो इतलो भारावन गेल्लो की दोळ्यांनी पळेल्लें, कानांनी आयकल्लें आनी उमेदी मनान चिंतून परिपक्व केल्लें सगळें ताका बरोवंचेंच पडलें. जपान पळोवन जी खोस जाली, जें अजाप जालें, जी धन्यताय अणभवली ती सगळी ताणें मेकळ्या मनान आमचे मुखार दवरल्या. अशें करता आसतना एका समृद्धशाली देशाचो आपूण भाट-चारण जावं येता हो दुबाव लेगीत मनांत हाडी नासतना जें जशें पळेलें, आवडलें तें तशेंच उमेदीन भरिल्ले भाशेंत ताणें उकतायलां. जपान पळोवन तो भारावन गेलो हांतूंत अजाप दिसपा सारकें कांय ना; पूण ताचें हें वर्णन वाचून हांव भारावन गेलों हें म्हत्वाचें आनी म्हुण्णूच म्हाका वाचप्यांक सांगन दिसता, हें पुस्तक तुमी मुजरत वाचात. तुमीय बी भारावन वतले. पूण तेन्ना फकत बरोवप्याक दिनवासून ओगी बसूं नाकात. जपानाक वचून येतलेच म्हूण निश्चेव करात.

जपान एक प्राणोपासक राष्ट्र. ह्या राष्ट्रान आपणाले मौलिकतायेचो थाव सगळ्यांत पयलीं कलेंतल्यान घेवन पळेलो. चित्रकला आसूं वा घर-निर्मणे कला आसूं, घरा भोंवतणीं पोरसूं उबें करपाची गजाल आसूं वा पुराय समाज-रचना निटायेर घालपाचो वावर आसूं, जपानी लोक तांतूंत आपणाली सगळी कलात्मकताय ओततले. थंय सगळे तरेचीं सोंपेपणां आसतलीं, वेवस्था आसतली, वेवस्थीतपण आसतलें आनी, सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, कलात्मक सादेपण, मेकळेपण, औचित्य आनी आंतरीक प्राणाच्या साक्षातकारांतल्यान येवपी समृद्ध संयम आसतलोच.

दुसरी गजाल म्हळ्यार, हें राष्ट्र एकवटान नवे नवे प्रयोग करपा खातीर सदांच तयार आनी तत्पर आसता. बौद्धीक चर्चे परस अणभवाचे कसवटणेकूच तें अदीक म्हत्व दिता. एके वेटेन पळोवंक गेल्यार, हें राष्ट्र परंपरेक सामकें म्हत्व दिता तें दिश्टी पडटा आनी दुसरे वेटेन पळेल्यार, परिवर्तनाक पर्याय ना म्हणपाचें पटलें जाल्यार बदल घडोवन हाडूंक एकवटान वावुरपाची ह्या

लोकांची सदां तयारी दिसता.

उलोवप उणें, वापरप चड - ह्या नेमाक धरून जपानान आपणालें धोरण चलयल्लें दिसता. देखुनूच जैतान भुल्लुसून वच नासतना हें राष्ट्र अखंडपणान आपणाली उदरगत करत आसा.

जपाना कडल्यान घेवपा सारकें खूब आसा अशें बरोवन बरोवन आतां लोकांक पुरो जालां. इंग्लंडा कडल्यानूय घेवपा सारकें उणें नाशिल्लें. घेवपा सारकें आशिल्लें तांतुंतलें आमी कितलें घेतलें आनी घेवंक फावना आशिल्लें तांतुंतलें कितलें आमचे भितर रिगलें हाचो हिशेब मांडूंक बसलें जाल्यार म्हणचें पडटा, जल्मभर रात-दीस निरीक्षण-परीक्षण करून लेगीत खंयच्याच राष्ट्राक हेरां कडल्यान सोंपेपणान (कांयच) घेवंक येना. "स्वभावो दूरतिक्रमः" एकलो इंग्लीश मनीस भारतांतल्या लोकां विशीं बरयतना म्हणटा, पृथ्वीराजाच्या काळा सावन हे लोक नवें कांय शिकूंक नात आनी पोरणें कांय विसरूंक नात. जपानाचें यौवन, जपानाचो उमेदी प्राण, जपानाचो सामाजीक एकवट आनी अणभवान शाणे जावपाची जपानी प्रयोग परायणता - इतलेंच आमी घेवंक पावलीं जाल्यार आमचें कल्याण जावं येता. प्रस्न इतलोच - हें सगळें आमी आत्मसात करूंक पावतलीं व्हय? आनी, तें आमकां पचत व्हय?

कितेंय जावं; नवजीवन, नवसर्जन आनी नवप्रस्थान ह्या उतरांनी ज्या युगाचो प्रारंभ जाला, ताच्या येवकारा खातीर जपानयात्रेच्या ह्या पुस्तकाक आमी सगळ्या नदरांनी येवकारूच दिवंक जाय. देशी भासांनी भोंवडे वर्णनां खूब उणीं आसात. हेय नदरेन ह्या पुस्तकान मराठी साहित्यांत अभिनंदनीय भर घाल्या. बरोवपी उत्तर जपानांतल्या होक्कायदो जुंव्याची यात्रा करून येतलो तेन्ना ताका असलेंच आनीक एक पुस्तक बरोवचें पडटलें. म्हूण, ह्या पुस्तकाक येवकार दिवन मराठी वाचप्यांनी आनीक एक पुस्तक बरोवपाची बरोवप्याक प्रेरणा दिवची, हीच एका जाणट्या, अणभवी भोंवडेकाराची शिफारस.

**काका कालेलकर**

# 9
# तयारी

*यात्री आमि ओरे*
*पारबे ना केउ राखते आमाय धरे*

- रवीन्द्रनाथ

जपान पळोवन येतलों, अशें थारावन भायर सरिल्लों. पयलेच खेप भारता भायर वचूंक सोदतालों. पासपोर्ट मेळिल्लो. 'व्हिसा'य मेळिल्लो. फकत 'पी फॉर्म' मेळपाचो उरिल्लो. तो दाखयले बगर भायर सरूंक मेळनाशिल्लें. कितलेशे दीस ताची वाट पळेली. अखेरेक, उबगून एक दीस मुम्बय, रिझर्व बॅंकेंत, पी फॉर्म दिवपी अधिकाऱ्याक नीट वचून मेळ्ळों.

'तुमी उद्‌देग कसलो करतात? आनी जपानांत कित्या खातीर वचूंक सोदतात?' ताणें म्हाका विचारलें.

प्रस्न आयकना फुडें खीणभर घुटमळ्ळों. जाप कितें दिवची, समजना जालें. 'प्रवासाक वचपाक कारणां बिरणां लागतात व्हय?' अशें ताका विचारचेंशें दिसलें. पांय 'या, या' म्हणपाक लागतात तेन्ना मनीस आपशीं घरांतल्यान भायर सरून चलपाक लागता. नवें थळ पळोवन येवपाक कसलेंच कारण लागना. भारतांत खूब-शे कडेन पावलां. भारता भायर अजून खंयच वचूंक पावूंक ना. खंयूय भायर भोंवन येवचें अशें आतां दिसपाक लागलां. यो म्हूण जपानांतल्यान इश्टांनी आमंत्रणूय धाडलां. आयिल्ली संद होगडावं? मूर्ख काय कितें, हांव?

पुणून खरो घुटमळ्ळेलों तो ताच्या प्रस्नाच्या पयल्या वांट्याक कितें

जाप दिवची तें कळना जाल्ल्यान. 'हांव कसलो उद्देग करतां', म्हजे म्हाकाच हांवें हो प्रस्न केलो. 'हाचो आयुष्य भर एकूच उद्देग चल्ला, सत्येर आशिल्ल्यां आड झगडपाचो. सत्येर, मागीर, भायले आसूं वा घरचे ... फिरंग्यां आड झगडपांत हाचीं कितलींशीं वर्सां खर्चल्यांत. फिरंगी गेले आनी सत्या घरच्या लोकांच्या हातांत आयली. तरूय हाचो तोच उद्देग चल्ला' अशी म्हजे कांय इश्ट - थोडी फकाणांनी, थोडी लुक्तुबायेन - म्हजी वळख करून दितात ती हांवें आयकल्या. एका अर्थान ती खरी. पुणून हाका 'उद्देग' म्हणूं येत व्हय? चडसोच जाल्यार सभाव म्हणूं येत. मनांत आयलें, 'हांव एकूच उद्देग करीत आयलां, वाचपा बरोवपाचो' अशें हाका सांगून उडोवचें. पुणून सांगपाचो धीर जालो ना. कित्याक, हाकाय 'उद्देग' म्हणूं येना. अखेरेक ज्या उद्देगाचें नांव घेना फुडें हो सरसमान लोकां परस कितेंय तरी आगळें वेगळें करता - कितें तें मात कोणाक सारकें सांगूंक येना - आनी ज्या उद्देगांत संत-म्हात्मे धरून चोरां फटिंगां मेरेनचे सगळे सारकीच लुडबूड करीत आयल्यात तोच उद्देग हांव करतां, अशें सांगचें म्हूण थारायलें आनी 'हांव एक सोशल वर्कर' म्हूण एक जाप जिबेर आयली. पुणून ती जिबे वयल्यान फुटचे पयलींच, तूं सोशल वर्क करता म्हळ्यार कितें करता म्हूण तो विचारीत जाल्यार परतोय, म्हळें, घुटमळ्यांत पडटलों. ते परस, म्हळें, आतां मेरेन कितें केलें तेंच ताका थोड्या उतरां भितर सांगून उडयल्लें बरें.

आनी, हांवें ताका सांगलें, 'एकवीस वर्सांचे पिरायेर डॉ. राम मनोहर लोहियांच्या प्रभावांत आयलों आनी गोंयचे सुटके-झुजांत पडलों. ऐन तरणे पिरायेचीं चवदा वर्सां म्हजीं ह्या वावरांत खर्चल्यांत. मदीं कांय वर्सां वर्ध्याक वचून एका आश्रमांत रावलों. थंय गांधीजींच्या कांय मुखेल सांगात्यांच्या पांयां कडेन बसून देशसेवेचे पाठ घेवपाचें भाग्य म्हाका लाबलां. गांधी-विचार समजून घेवपाचोय हांवें यत्न केला. फाटल्या वीस वर्सां सावन काकासायब कालेलकरांच्या मार्गदर्शना खाला कितें-न्हय-कितें करीत आसां.'

'हें सगळें बरोवन दिशात?' ताणें विचारलें.

'बऽरे भाशेन' अशी जाप दिवन ताचेच कडल्यान फोली घेवन ताच्या

कॅबिना भायर बसून बरोवपाक लागलों. जिस्त त्या वेळार चन्द्रकान्त नागवेंकार थंय पावलो. 'एअर इण्डिया'चो तो एक अधिकारी आनी म्हजो एक इश्ट. गोंयचो सुटके-झुजारीय बी. 'हांगा बसून कितें बरयता?' ताणें म्हऱ्यांत येवन विचारलें.

'आपजीण.'

'ती कित्याक?'

'हांव जाणां? ताणें बरोवन दी म्हळ्या म्हूण बरयतां.'

ताणें कपलार हात मारून म्हळें, 'हाचो अर्थ, तुका पी फॉर्म मेळना...'

'कित्या खातीर?'

'पी फॉर्म दिवपाचो अधिकार ताच्या हातांत आसा. दिवपाचो मनांत आशिल्लो जाल्यार तुंवें तुजी फाटभूंय सांगले उपरांत ताच्यान तो रोखडोच दिवन उडोवं येतालो. ज्या अर्थान ताणें तुका 'आपजीण' बरोवन दी म्हळ्या त्या अर्थान तो दिवपाची जापसालदारकी तो आपणा आंगार घेना, अशेंच म्हणचें पडटा... तुजी आपजीण तो आतां दिल्लीक धाडटलो. थंयचे अधिकारी ती वाचतले आनी तुका 'पी फॉर्म' दिवचो काय न्हय, हें ते थारायतले...'

'हे राम' - म्हजे जिबे वयल्यान उतरां फुटलीं.

जपानाक वचपाचो बेत करीत सावन एक आनी दोन न्हय, कितलींशीं आडमेळीं येत राविल्लीं. तीं सगळीं दोळ्यां मुखार येवन उबीं रावलीं. म्हजे सारकेल्या मदल्या वर्गातल्या एका 'कमाऊ खाऊ' मनशान जपाना सारकेल्या पयसल्या एका देसांत भोंवंक वचपाचो बेत करप हेंच मुदलांत एके तरेचें धाडस आशिल्लें. पुणून कितलींशीं वर्सां 'राजकर्ण करून करून' जीव उबगल्लो. कांय दिसां खातीर पयस खंय तरी, सामक्याच वेगळ्या अश्या एका वातावरणांत वचून रावचें, अशें मनाक खोलायेन दिसपाक लागिल्लें. एके तरेची ही भूक ताका लागिल्ली. भारतांत खूबशे कडेन संद मेळ्ळ्या तसो भोंवलां. पळोवचो-सो दिसचो असो एकूय नवो वाटार नदरे मुखार रावलो ना तेन्ना आपशीं जगाच्या नकशा वेल्यान नदर भोंवपाक लागली. येवरोप अमेरिकेंत खूबशे कडेन म्हजे कांय इश्ट सोयरे वचून रावल्यात. तांचे मजगतच्या एकल्याक कोणाकूय कळयल्लें जाल्यार ताचें आमंत्रण

रोखडें येतलें आशिल्लें. पुणून म्हाका जपानाची आकांताची ओड आशिल्ली. तीस पस्तीस वर्सां आदीं आमच्या घराब्यांतलो एक केळेकार जपान पळोवन आयिल्लो. त्या वेळार ताचे कडल्यान ज्यो खबरी आयकल्ल्यो त्यो म्हज्या तरण्या मनाक अरबी भाशेंतल्या काणयां सारक्यो अद्‌भूत आनी रुचीक लागिल्ल्यो. तेन्ना सावन जपाना विशीं ओड मनांत जागी जाल्ली ती तशीच तिगून उरिल्ली. उपरांत, संवसाराचो भुंयगोल आनी इतिहास शिकचो पडलो. तेन्ना जपानान म्हजें लक्ष सगळ्यांत चड ओडून घेतलें. प्रशांत म्हालसागरांत धोणवा वरी ओडून आशिल्लो हो माणकुलो देस संवसारांतल्या हेर खंयच्याय देसा परस आगळो वेगळो म्हणपाचें कळटकूच आयुष्यांत एक फावट तरी हो देस पळोवन येवंकूच जाय अशें मनान घेतिल्लें. येवरोपाची विद्‌या येवरोपा कडल्यान घेवन, ती थोड्याच काळांत पचोवन 'आर्विल्लो' जाल्लो आनी ते विद्‌येचो उपेग खासा येवरोपा आडूच करपाचें धाडस केल्लो आशिया खंडांतलो हो पयलोच देस म्हणपाचें समजलें तेन्ना एक आशियायी ह्या नात्यान म्हजें हड्‌डें फुलुनूय आयिल्लें. आपणाल्या स्वत्वाक बादा येवंक दिनासतना कायाकल्प करून पुराय नवो जाल्लो हो देस दुसऱ्या म्हा-झुजांत लासून सामको गोबोर जालो, तरूय फिनिक्स शेवण्या भाशेन आशिल्लो तसो परतो जिवो तट्‌टटीत जालो. इतलेंच न्हय, तर उद्‌येगाच्या मळार संवसारांतलो तिसरो चवथो देस म्हूण थोड्याच वर्सां भितर मुखार आयला म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना नवो भारत घडोवपाचीं सपनां पळोवपी म्हज्यांतल्या देसभक्ताक जाग येवन ह्या देसाची आंतरीक शक्त खंय आसा हें जाणा जावन घेवपाची जिज्ञासा वाडिल्ली. फिरंग्यांचे राजवटीच्या निमाण्या पर्वांत गोंयचे जपाना कडेन वेपारी संबंद खूब वाडिल्ले. इतलेंच न्हय, तर गोंय जपानाची एक बाजारपेठूच कशी जावन पडिल्ली. हाका लागून कांय गोंयकार जपानाक येवंक वचूंक लागिल्ले. तांच्या तोंडांतसून जपानाची सुमारा भायर तुस्त तोखणायूय आयकूंक मेळिल्ली.

हे वाटेन, काकासायब कालेलकरांचोय जपाना कडेन संबंद आयलो आनी तो दिशीं दिशीं वाडून दाटूय जालो. कितलेशे जपानी तरणाटे दिल्लीक येवन तांचे संस्थेंत (सन्निधींत) रावन हिन्दी भास आनी संस्कृताय

शिकपाक लागले. काकासायबांचे एक विद्यार्थी नरेश मंत्री जपानांत वचून जपानी भास आनी जपानी संस्कृताय शिकपांत गुल्ल जाले. ह्या सगळ्यां कडेन म्हजो दाट संबंद आशिल्लो. कांय जपानी तरणाटे गोंयांत आमगेर रावनूय गेल्ले. ह्या सगळ्या कारणांक लागून भायर खंयूय वचून येवंक जाय अशें दिसलां तेन्ना म्हज्या दोळ्यां मुखार सगळ्यांत पयलीं जपानूच येवन उबें रावलां. हांवें नरेशभाईक चीट बरोवन विचारलें, 'येवं?' जपान पळोवपाची म्हजी उमळशीक पळोवन काकासायबांनीय आपणाल्या थंयच्या इश्टांक बरोवन कळयलें.

पंदरा वीस दिसां भितर म्हाका जपानांतलें आमंत्रण आयलें. येतना गांधी विचाराचेर कांय उलोवपां करपाचे तयारेनूच यो अशी एक सुचोवणीय तांतूंत आशिल्ली. रोखडोच तयारेक लागलों. कशें वचचें, केन्ना वचचें, कसले तरेचे कपडे घेवचे, वासपुशी सुरू केल्यो.

इतल्यांत राजकी मळा वयल्या म्हज्या सांगात्यांक गोंयच्या महाराष्ट्रवादी सरकारा आड सत्याग्रह करपाचें येवजलें. 'काउन्सिल ऑफ ऍक्शन' नांवाची एक आघाडी उकती करून म्हजी वेंचणूक तांणी 'निमंत्रक' म्हूण केली. पर्थून एक फावट राजकर्णाच्या जाळांत घुसपलों आनी जपानाक वचपाची आयिल्ली संद होगडायली. 'ओपीनियन पोल' येवन गोंयच्या राजकी फुडाराच्या प्रस्नाचो सोक्षमोक्ष लागऽसर एका चित्तान सरकारा आड झुजत रावलों. पोल जिखतकूच आतां जिवितांतलें एक पर्व सोंपलें अशें खोलायेन दिसपाक लागलें आनी जपानाक वचपाचो बेत परतो उसळून वयर आयलो. हांवें नरेशभाईक चीट बरोवन भियेत भियेत सांगलें, 'आतां तुमी सांगशात तेन्ना येतां. केन्ना येवं, कळयात.'

रेखडीच जाप आयली, 'जुलयंत चुकऽ नासतना यो.'

जिरस्त ह्या वेळार काकासायबांकूय जपानांत येवपाचें आमंत्रण आयलें. हे पयलीं ते तीन खेपे थंय वचून आयिल्ले. म्हाका हो योग चुकोवपाचो नाशिल्लो. ते जपानांत आसतनाच हांवेंय थंय पावपाचें थारायलें.

पुणून वचप कशें? म्हाका आमंत्रण आयिल्लें तें 'निप्पोन झान म्योहोजी' संस्थेचें. थंयचो म्हजो सगळो खर्च ही संस्था करपाची आशिल्ली. इतलेंच न्हय, तर पुराय जपान म्हाका ती दाखोवपाची आशिल्ली. तिका म्हजे

खातीर कितलो खर्च करचो पडटलो हाचो अदमास म्हाका आशिल्लो. म्हजे खातीर इतलो खर्च करपाक मुखार सरिल्ले हे संस्थेचे तकले वयलें खर्चाचें वजें इल्लें ल्हव करूंक मेळटा जाल्यार करचें म्हूण म्हजो येतो वेतो खर्च हांवेंच करचो अशें थारायलें. विम:नाचो खर्च म्हाका पुटवपा सारको नाशिल्लो. म्हूण एक उपाय सोदून काडलो. गोंयचें मीन जपानांत व्हरपी बोटी मुरगांवां नेमान येतात वतात. तांतले एके खंयचेय बोटीन वचचें अशें थारायलें. बोटीच्या कॅप्टनाक आपणा वांगडा एका दोगांक व्हरूंक मेळटा म्हूण आयकल्लें. गोंयच्या खंयच्याय एका मिनेराक सांगलें जाल्यार तो ही वेवस्ता सोंपेपणान करून दितलो असो समज आशिल्लो. मिनेर सगळे वळखीचे. पुणून दिशिल्लें तितलें हें सोंपें काम नाशिल्लें. जे बोटीन वचचें थारायलां ते बोटीचे कंपनीची पयलीं लेखी परवानगी हाड, ती मुम्बयच्या 'डायरेक्टर जनरल ऑफ शिपिंगा'क दाखय, उपरांत 'मुरगांव पोर्ट ट्रस्टा'ची परवानगी घे, ह्यो सगळ्यो घुसपागोंदळाच्यो राटावळी म्हज्यान जावच्यो नाशिल्ल्यो. ते भायर, कांय दिसां पयलीं एकलो 'गांवठी सायब' असलेच एके बोटीन कॅप्टनाचो इश्ट म्हूण जपानाक गेल्लो. ताणें बोटी वयल्या तारवट्यांक खूब त्रास दिल्ले. परिणाम - असले बोटी वयल्यान कोणाय भारतीय मनशाक घेवन कॅप्टन आयलो जाल्यार ते बोटीचेर बहिष्कार घालपाचो थाराव जपानांतल्या गोदी कामगारांच्या युनियनान घेतलो. गुन्यांव दुसऱ्याचो. पानवळ भोगपाचें म्हज्या वांट्याक आयिल्लें.

पुणून हांव सोंपेपणान बँ म्हणपी मनीस नाशिल्लों. मुम्बयच्यान हांवें प्रवासी बोटीन वचपाचो बेत केलो. फकत अडेज हजार रुपयांचो प्रस्न. म्हळें, कशेय एकठांय करतलों. बोटीन वचपाच्या बेता फाटल्यान आनीक एक उद्‌देश आशिल्लो. ह्यो बोटी वाटेर कोलम्बो, सिंगापूर, मनिला, हाँगकाँग बी कांय बंदरांचेर एक एक, दोन दोन दिसां खातीर थांबतात. म्हळें, हे निमतान आशिया खंडांतले हेवूय देस पळोवंक मेळटले. पुणून जिस्त ह्याच वेळार इजिप्तांतल्या नासेराक इस्रायेल देसूच संवसाराचे फाटी वयलो ना करपाची पाडी बुद्‌द जाली. परिणाम - सुएज कानाल बंद जालो!

ज्या देसाक भुंयगोलानूच हिन्दी म्हालसागराचेर शेक चलोवपाचो आदेश

दिला ताचे कडेन लोकांक हाडपा व्हरपाक आपल्यो बोटीच नात म्हणपाचें कळटकूच म्हज्यांतलो राष्ट्रवादी दुखवलो. भारतांतल्या बंदरां वयल्यान जपानाक फकत एकेच कंपनीच्यो बोटी वतात. आनी ती एक फ्रँच कंपनी. हे कंपनीची 'वियेतनाम्' नांवाची बोट फ्रांसांतल्या मार्सै बंदरा वयल्यान भायर सरपाची आशिल्ली. तिचेर हांवें म्हजी कॅबिनाची तिकेट रिझर्व करून घेतली. पुणून अरब-इस्रायेल झुजाक लागून ती केन्ना भायर सरतली, कोणाक खबर नाशिल्लें. हांवें मुम्बयंतूच बसकण मारली. आनी 'बोट मार्सै साकून भायर सरली? केन्ना भायर सरतली? मुम्बय केन्ना पावतली' म्हूण म्हज्या ट्रॅवल एजंटाक फोन करून करून विचारपाक लागलों. एक दीस, बोट मार्सै साकून भायर सरल्या पुणून ती वाश्कु द गामा जे वाटेन भारतांत आयिल्लो ते वाटेन येवपाची आसा आनी ती कोलंबोक थांबून नीट मुखार वचपाची आसा, मुम्बयंत येवपाची ना म्हूण कळ्ळें. आतां कितें करचें? 'मुम्बयच्यान विमानान कोलम्बोक वचचें आनी 'चान्स' घेवचो.' म्हाका जाप मेळ्ळी.

कोलम्बोक वचून 'चान्स' घेवपाची आनी तो मेळ्ळो ना जाल्यार परतो येवपाची म्हजी इल्लीय तयारी नाशिल्ली. म्हजे मुखार आतां दोनूच मार्ग उरिल्ले. एक, वचपाचो बेतूच सोडून दिवपाचो, (म्हळ्यार, हे मुखारूय केन्ना जपानाचें आमंत्रण येवचें न्हय अशी वेवस्ता करून दवरपाचो) वा, स हजार रुपये खर्चून विमानान वचपाचो.

म्हज्या दोळ्यां मुखार काळोख पातळ्ळो. निर्शेवन हांव गुणगुणूंक लागलों-

I was not ever thus, nor prayed that
Thou shouldest lead me on
I loved to choose and see my path
But now lead Thou me on.

सगळे यत्न करून मनशाक जेन्ना सामकें पुरो जाता तेन्ना खंयच्यान तरी कोणूय तरी ताच्या आधाराक धांवन येता आनी ताका हात दिता. लोकीक भाशेंत हाका 'देव पावता' म्हणटात. ते भायर, खंयचोच खोलायेन केल्लो बेत फुकट वचना, तो केन्ना न्हय केन्ना शार्ती पावताच पावता असो खासा म्हजोच अणभव.

काकासायब सतरा जुलयक भायर सरपाचे आशिल्ले. सतरा जुलयक अजून म्हयनो आशिल्लो. ते मेरेन आनीक कितेंय करूं येता जाल्यार पळोवचें अशें म्हणत हांव गोंयां येवपाक भायर सरलों. मुम्बयच्या विमानतळार अवचीत वासुदेवबाब साळगांवकार मेळ्ळे. हांव जपानाक वचपाचो आसां म्हणपाचें गोंयच्या खबरेपत्रांनी छापून आयिल्लें तें तांणी वाचिल्लें. म्हाका पळेना फुडें तांणी विचारलें, 'खंय रे, जपानाक वचून आयलो?'

'ना.'

'केन्ना वता?'

'खबर ना.'

'कित्याक? कितें जालां?'

हांवें कितें जालां तें तांकां सांगलें. 'यँऽ तुका विमानाची येती वती तिकेट हांव दितां... आयल्या ती संद होगडावं नाका.'

हांव हुसक्या मेकळो जालों. आनी म्हणपाक लागलों, 'आतां म्हाका कोण आडायतलो?'

पुणून ऐन वेळार जिस्त पी फॉर्माक लागून सगळें अडून उरलें. रिझर्व बँकेंत बशिल्ले कडेन हांव येवजूंक लागलों, आतां कितें करपाचें? नागवेंकार मुखार आशिल्लो. हांव ताका शरण गेलों. म्हळें, 'now lead thou me on.'

म्हणपाक लागलो, 'आतां एकूच उपाय उरला. दिल्ली हालोवन सोड.'

हांवें मोरारजीभाई धरून दिल्लींतल्या वळखीच्या सगळ्यांक तेलेग्राम धाडले, 'पी फॉर्माक लागून अडून उरलां. कितेंय तरी करात, उपकार जातले' म्हूण. मधुकरराव चौधरी महाराष्ट्राच्या मंत्रीमंडळांत आशिल्ले. वर्ध्याक आमी वर्स दोन वर्सां एकठांय राविल्ले. तांकां वचून मेळ्ळों. तांणी दिल्लींत मोहन धारियांक ट्रंक कॉल केलो. 'महाराष्ट्र टायम्सा'चे संपादक द्वा. भ. कर्णिक म्हजे कडेन वात्सल्यान पळोवपी एक म्हालगडे इश्ट. तांकां सांगलें. ते रिझर्व बँकेच्या डेप्युटी गवर्नराक वचून मेळ्ळे. पी फॉर्म मेळचो म्हूण हांवें जितल्यो खटपटी केल्यात तितल्यो रिझर्व बँकेंत नोकरी मेळची म्हूण केल्ल्यो जाल्यार येन्नासर हांव बँकेचो गवर्नरूच जावपाचों.

कोणाक वशिलो लागलो, खबर ना. दुसऱ्या दिसा, अठरा जुलयक

नागवेंकारान पी फॉर्म मेळिल्ल्याची खबर हाडली आनी बँकेंत वचून तो रोखडो हाडुनूय दिलो.

आनी हांव दुसऱ्या दिसा - १९६७तल्या १९ जुलयक - एअर इन्डियाच्या विमानान जपानाक वचपाक सांताक्रूझ विमानतळार येवन हाजीर जालों. काकासायब आदल्या दिसा दिल्लीच्यान रवाना जाल्ले.

भारत सरकारान म्हाका खर्चा खातीर 'पॉकेट मनी' म्हूण फकत तीन पौंड व्हरपाची मेकळीक दिल्ली. तीन पौंड म्हळ्यार त्रेसठ रुपये. बोल्सांत दोनशीं तिनशीं तरी रुपये आसले बगर हांव अजून मेरेन गोंयच्यान मुम्बय वचूंक ना. आयज जपाना सारक्या पयसल्या एका देसांत दोन म्हयन्यांचे भोंवडे खातीर फकत त्रेसठ रुपये घेवन भायर सरिल्लों.



२

# तोक्योचे दिशेन

पावसाळ्याचे दीस. मुम्बयंत उटंगारांचो पावस पडटालो. सकाळीं सातांक विमान सुटपाचें आशिल्लें. साडे सात जालीं तरूय पावस थांबना. म्हजो जीव सकल वयर जावपाक लागिल्लो. पावणे आठांच्या अदमासाक मात्सोसो आसर जाल्लो पळोवन एअर इन्डियाचे कर्मचारी आमकां सगळ्यांक बसीन विमाना कडेन घेवन गेले. आठांक सुमार विमानान अंतराळांत झेंप घेतली. पुणून तें इतलें खर्रर्र खर्रर्र आवाज काडूंक लागलें की 'हें कोंसळचें बी ना मू?' असो एक दुबाव मनांत आयलो. मुखार पळे जाल्यार विमान कोंसळ्ळ्यार 'लायफ जॅकेट' कशें वापरचें हाचें प्रात्यक्षिक एकलो करून दाखोवपाक लागिल्लो दिश्टी पडलो. 'पाड पडलें तुजें' म्हळें आनी हांव जनेलांतल्यान भायलो वाटार पळोवपाक लागलों. धर्तरी सगळी कुपां सकल लिपिल्ली. फाटल्यान फुडल्यान, आशिकुशीक सगळे कडेन फकत कुपांच कुपां, कुपां सोडून दुसरें कांयच दिसऽ नाशिल्लें. इतल्यांत मुखावयल्यान एक व्हडलें, दाट कूप आमचेच दिकेन वेगान धांवन येता तें दिश्टी पडलें. विमान ताचेर जुडून मात गेलां, 'खड्ड' जालें. कोंसळ्ळेले वरी दिसलें. म्हणटासर एअर-होस्टेसीचो आवाज कानार पडलो. 'आयज हवा बरी ना म्हूण सगळ्यांनी आपापणाले पटे बांदचे.' हांवें पटो सोडोवंकूच नाशिल्लो. हेरां प्रवाशांचीं तोंडां पळे जाल्यार, सगळेच जशे कितें कोणाच्या मर्णाक आयिल्ले वरी सुतकी तोंडां करून बशिल्ले. कोण कोणा कडेन उलय नाशिल्लो. फकत एअर हॉस्टेसीचें हांसरें मुखामळूच धीर दितालें.

मुम्बयच्यान तोक्यो विमानान फकत बारा तेरा वरांचे वाटेर आसा. मदीं

अर्द अर्द वरा खातीर विमान कलकत्ता, बँगकॉक, हाँगकाँग अशें तीन कडेन देंवता. विमानांत प्रवाशांक खूब तरांच्यो सुखसोयी मेळटात. पियेवंक खावंक तर कितें कितें मेळटाच. ते भायर, न्हिदपाचें आसत जाल्यार सुशेगाद बरें न्हिदुंकूय मेळटा. पुणून खरो प्रवासी सुखसोयीं खातीर केन्ना भोंवता व्हय? ताका पळोवपाचें आसता, नवे नवे अणभव घेवपाचे आसतात. विमानाच्या प्रवासांत दोळे व्हडलो वाटार वेंगावन घेतात खरे. पुणून जमनी वयल्या प्रवासांत ज्यो बारीक सारीक गजाली पळोवंक मेळटात त्यो ह्या प्रवासांत मेळनात. एक एक देस सुरसूर करून फाटल्यान वता आनी आमी कितेंच पळोवंक पावनात. तेन्ना मनाक एके तरेची रुखरूख दिसपाक लागता. नकशा वयले देस पळेले म्हूण ते पळेल्ले वरी जाता व्हय? तशें-शें दिसपाक लागता.

आमचें विमान एक हजार किलोमिटराच्या वेगान धांवतालें. म्हाका जनेला सरीं बसूंक सुवात मेळिल्ली. कलकत्त्या उपरांत मळब निवळ जालें आनी हांव जनेलांतल्यान सकल पळोवपाक लागलों. पुराय बंगाल (उदेंत पाकिस्ताना सयत) सकल पातळ्ळेलो दिश्टी पडलो. एकेच नदरेंत येदो व्हडलो हो 'सोनार बांगला' वाटार पळेल्ल्याची खोस अणभवतां थंय आसां, हजार तोंडांनी दर्याक येवन मेळिल्ली गंगा दिश्टी पडली. आगळो वेगळो अणभव हो एक. तो काळजांत धरून दवरपाच्या म्हज्या यत्नांचो आनी विमानाच्या वेगाचो मेळ जुळना तें पळोवन खंती जालों. भारत-भूंय दोळ्यां मुखावयली ना जायना फुडें एक गजाल लक्षांत आयली - ह्या प्रवासांत पुराय उदेंत दक्षीण आशियेच्या देसां वयल्यान उडपाचो आसलों तरूय एकूय देस पळेल्ल्याची खोस म्हाका भोगूंक मेळपाची ना. कांयच अणभवूंक मेळपाचें ना. हाचे बदला, आसामाक गेल्लों, थंयच्यान मणिपुराक वचून ब्रह्मदेशांत भितर सरिल्लों आनी बस, ट्रक, टँकर, गाडी कितें मेळटा तांतूंत बसून - वा पांयांनी चलून मलाया, सिंगापूर, सियाम, थायलँड, वियेतनाम, काम्बोडिया बी देस पळेत पळेत कोरियांतल्यान जपानाक गेल्लों जाल्यार लागतीत आशिल्ले थंय पावपाक पांच सात म्हयने. पुणून अणभवान कितलो गिरेस्त जावंक पावतलों आशिल्लों! कितल्योश्यो नव्यो गजाली पळोवंक मेळटल्यो आशिल्ल्यो. कितल्याश्या लोकांच्यो वळखी

जातल्यो आशिल्ल्यो. कितलेशे नवे इश्ट जोडूंक पावतलों आशिल्लों. आनी, परतले उपरांत, मार्को पोलो, इब्नबतूता, फाइयान, ह्यु-एन-त्सांगा सारकेल्या पुर्विल्ले मुस्तींतल्या प्रवाशां भाशेन कितल्योश्यो गजाली, कितलेशे अणभव लोकांक सांगूंक पावतलों आशिल्लों. बरोवंकूय पावतलों आशिल्लों. हालिंसाराचे प्रवास सोंपे जाल्यात. म्हूण अळणीय जाल्यात. मुम्बयच्यान फुर्रर करून उडून बारा तेरा वरां भितर तोक्योक पावं येता. प्रवास इतले सोंपे जाल्ल्यान कोण कश्टांचे प्रवास करूंक तयार जायना. असले कश्टांचे प्रवास करपाक तांकां वेळूय मेळना, उमेदूय जायना. संवसार खंयचेय दिकेन वचूं, आयुष्यांत एक खेपे तरी मार्को पोलो, ह्यु-एन-त्सांग हांणी केल्लो तसलो प्रवास करतलों, असो तरणेपणांत पावल दवरलां तेन्ना बेत केल्लो. आयज मेळिल्ले संदीचो हे नदरेन हांवें कांयच लाव करून घेतलो ना, हाचो म्हाका आतां पश्चात्ताप जावपाक लागलो.

कितेंच चुकचें न्हय इतलेच खातीर जनेलांतल्यान भायर पळेतालों. पुणून मन दिश्टी पडनात असल्या गजालींनी गुल्ल जालें. ब्रह्मदेश काडून जातकूच बँगकॉक आयलें. थंय हळडुवें चिवर आंगार ओडिल्ले बौद्ध भिक्खू दिश्टी पडले. आनी म्हज्या विचारांनी एक वेगळीच दिका घेतली. म्हळें, आमचे परस आमगेले म्हालगडे कितले कर्तुत्वी आशिल्ले! आयचे सारकीं फिरपा - भोंवपाचीं साधनां नाशिल्लीं ते मुस्तींत ते पार करूंक येना असल्या दर्यातल्यान वा वाट काडूंक मेळना असल्या दोंगरां पर्वतांतल्यान हांगा मेरेन पाविल्ले. इतलेंच न्हय, तर हांगा पावन आपणाल्या विचारांचो आनी संस्कृतायेचो प्रचारूय करूंक पाविल्ले. बौद्धां भायर हिन्दूय पावल्यात. बँगकॉकाक सावन थोड्या मैलांच्या अंतरार काम्बोजाक (काम्बोडियाक) आंकोरधाम, आंकोरवाट नांवांचीं दोन व्हडलीं हिन्दू देवळां पळोवंक मेळटात तीं तांच्या ह्या कर्तुत्वाची गवाय दितात. ते भायर बुद्धमठ आसातूच. जपानांतल्यान परततलों तेन्ना, म्हळें, हीं देवळां आनी मठ पळेतलों. हिन्दी संस्कृताय हांगा येतकूच तिणें हांगासल्ले थळावे संस्कृतायेचे खंयचे संस्कार घेतले आनी तिका कसलें कसलें रूप मेळ्ळें तें, म्हळें, समजून घेतलों. आशिया खंडांतल्या ह्या वाटाराच्या फाटल्या काळा इतलोच आयचो काळूय अभ्यासाचे नदरेन म्हत्वाचो हाची जाणकारी म्हाका कितलीशी आसा? हे

देस स्वतंत्र जायत सावन अंतरराष्ट्रीय प्रभावाच्यो तांच्यो दिका रुंदावल्यात. आयज आशिया खंडाचो फुडार हो वाटार घडयता. ताचो परिणाम आमच्या देसाचेरूय जावपाचो आसा. पुणून हाची जाणवीक आमचे मजगतच्या कितल्याश्या जाणांक आसा? आशियायी देसां विशींच्या आमच्या अज्ञानाची खोलायेन जाणवीक जाली आनी खंती जालों.

बँगकॉक सोडटकूच दनपारचें जेवण आयलें. सकयल्यान एका फाटल्यान एक देस वतालो. लाओस गेलें, वियेतनाम गेलें, आरे आरे म्हणटासर विमान प्रशांत म्हालसागरा वयल्यान उडूंक लागलें. मदीं मदीं खंय खंय थोडी भोव भूंय दिश्टी पडटाली, पुणून चडशें म्हालसागराचें उदकूच उदक दिश्टी पडपाक लागिल्लें. एकेच तरेचो देखाव केदो वेळ पळेल्ल्यान दोळे पेंगूंक लागले आनी हांव सुस्त न्हिदलों. जाग आयली तेन्ना तिनसांज जाल्ली. धारे सकल वतल्या दिसाचो देखाव पळोवपाक भायर नदर मारली जाल्यार सकल कितलेशे ल्हान व्हड जुंवे दिश्टी पडले. हाँगकाँग आयिल्लें. एअर-होस्टेसीक विचारलें, ह्या जुंव्यां भितर माकाव आसा? ती कॅप्टनाक विचारपाक गेली. परती येतासर विमान हाँगकाँग विमानतळार देंविल्लें. माकाव - वयल्यान जाल्यार वयल्यान - पळोवपाची म्हजी इत्सा भागूंक पावली ना.

हाँगकाँग उदेंते कडलें एक उकतें बंदर - free port. खंयच मेळना इतलो सवाय माल हांगा मेळटा ही सरसमान लोकांची ओड ह्या बंदरा विशींची. ते भायर, ही एक विलासनगरी, एक दोन वर्सां पयलीं 'द वर्ल्ड ऑफ सुझी वाँग' नांवाची एक नवलकथा वाचिल्ली. तिचे वयल्यान हे नगरीचो थोडो भोव अदमास आशिल्लो. गोंयची सुटका जाले उपरांत गोंयचेंय उकतें बंदर करचें अशें कांय जाण म्हणटात तें आयकत आयिल्लों. गोंय उकतें बंदर जालें जाल्यार ताची कितें गत्त जातली ती हांगा देंवन म्हाका पळोवपाचें आशिल्लें. पुणून हालींच चीनाची नदर हे नगरीचेर पडिल्ली म्हूण हांगा दंगली सुरू जाल्ल्यो. परिणामीं, एअर इण्डियाचें विमान जें हांगा एक रात रावतालें - आनी पॅसेंजरांक हाँगकाँग भोंवन पळोवपाक मेळटालें - तें फाटल्या दोन चार दिसां सावन रातचें थांबनासतना - फकत अर्दवर रावन - नीट तोक्योक वचपाक लागिल्लें. हाँगकाँगाक

पावून लेगीत हांव हाँगकाँग पळोवंक पावलों ना. म्हज्या ज्ञानांत भर पडली ती इतलीच की हाँगकाँगचो विमानतळ काऊलून नांवाचे एके सुवातेर आसा आनी सुझी वाँगची विलासनगरी हांगा सावन बरीच पयस दुसऱ्या एका जुंव्यार आसा.

हाँगकाँग सोडटकूच रात जाली. सगळे कडेन काळोख पातळ्ळो. वरांच्या हिसपान आतां दनपारचीं साडेचार जावंक जाय आशिल्लीं. ताचे बदला हांगा रातचीं आठ जाल्लीं. उदेंतेच्या वाटारांत दीस बेगीन उजवाडटा. आमी उदेंते दिकेन वतात तेन्ना आमकां घडयाळीचे कांटे मुखार काडचे पडटात हें हांव जाणा आशिल्लों. तरी आसतना म्हज्या आयुष्यांतलीं साडे तीन वरां खंय गेलीं तें लक्षांतूच येना जालें.

जेवण जातकूच एअर होस्टेसीन म्हऱ्यांत येवन विचारलें, 'Mr. Kelekar, are you from Goa?'

म्हाका अजापांचो धसको बसलो. म्हळें, 'हय. तुका कशें कळ्ळें?'

'येदोळ तुवें माकाव खंय काय म्हूण विचारलें तेन्नाच तूं गोंयचो आसूंक जाय अशें म्हाका दिशिल्लें. हे वटेन हांव कितलेशे खेपे आयल्यां गेल्यां. आयजवेर कोणेंच म्हाका माकाव खंय काय म्हूण विचारूंक ना. हांवें पॅसेंजरांचे वळेरेंत नांव पळेलें आनी म्हळें, विचारून पळोवचें.'

म्हळें, हिवूय गोंयची आसूंक जाय. आनी हांवें तिका विचारलें, 'तूं गोंयची?'

'हय, कळंगूटची.'

म्हाका आतां ती एअर-होस्टेस उरूंक नाशिल्ली. गोंयकान्न जाल्ली. घरची जाल्ली. इंग्लीश सोडून आमी चक्क कोंकणींत उलोवपाक लागलीं. थोड्या वेळा भितर आमी कोण, खंयचीं सगळें एकामेकांक कळिल्लें. तोक्योक पावऽसर आमच्यो 'झांकड्यो' चलत राविल्ल्यो.

रातचीं बारा जावपाक कांय मिणटां आशिल्लीं. इतल्यांत मायकांतल्यान 'आमी तोक्योक पावल्यात... आतां थोड्याच वेळान विमान हानेदा विमानतळार देंवतलें' म्हूण ऍनाउन्समॅन्ट जालो. म्हजे म्हऱ्यांत बशिल्ली होस्टेस ताकतिकेन उठून गेली. हांवें जनेलांतल्यान भायले वटेन पळेलें. नियॉनच्या दिव्यांनी

तोक्यो झगझगतालें. अंतराळांत एक भोंवर मारून विमान देंवलें. हांव नीट पासपोर्ट ऑफिसरा लागीं गेलों. ताका पासपोर्ट बी दोकुमेन्त दाखयले. ते पळोवन ताणें म्हाका कस्टमा कडेन धाडलो. कस्टमा मुखार एक धांकिल्ली बांय गरगर करून घुंवताली. तिच्या धांकण्यार म्हजी सुटकेस आयिल्ली. सुटकेसीचें कुलप काडपाक हांवें बोल्सांतली चावी काडली. पुणून कस्टमच्या अधिकाऱ्यान ते पयलींच तिचेर खडू मारलो आनी कमर बागोवन म्हाका नमस्कार केलो - जसो कितें ताच्या देसांत येवन हांवें तांचेर व्हड उपकार केल्लो. जपानी आतिथ्याची पयलीच वळख हांगा जाली.

म्हाका व्हरपाक नरेश मंत्री भायर येवन राविल्लो. जपानांत येवन ताका चार वर्सां जाल्लीं. ह्या चार वर्सांत आमी एकामेकांक मेळूंक नाशिल्ले. वर्ध्याच्या आश्रमांत आमी चारेक वर्सां एकठांय रावल्यात. दिल्लीकूय वर्सभर रावल्यात. हिमालयाची यात्राय आमी सांगातान केल्या. नरेशभाई वांगडा शरदभाई आयिल्लो. तोय म्हजो तितलोच पोरणो सांगाती. काकासायबां वांगडा दोन दिसां पयलीं तोय जपानांत पाविल्लो. इतले पयसल्या देसांत घरच्याच लोकांक आयिल्ले पळोवन जग आतां खऱ्यांनीच एका घोंटेरा येदें जालां म्हणपाची जाणवीक जाली आनी बरेंऽ दिसलें.

तांचे वांगडा तोकुओसान मासुई आपणाली गाडी घेवन आयिल्ले. म्हाका जपानाचें आमंत्रण धाडिल्ले 'निप्पोन झान म्योहोजी' संस्थेचे एक वांगडी ते. नरेशभाईन तांची वळख करून दिली तेन्ना हांवें हात मुखार केलो. तांणी म्हजो हात हातांत घेतलो खरो. पुणून रोखडोच कमर बागोवन नमस्कार केलो. हांवेंय कमर बागोवन नमस्कार केलो. नमस्कार करपाची खाशेली जपानी रीत ही. तांचेच गाडयेंत बसून आमी विमानतळा वयल्यान भायर सरले. दुकानां सगळीं धांपिल्लीं. पुणून तोक्यो न्हिदूंक नाशिल्लें. हॉटेलांनी, रेस्तोरांनी, नाइट क्लबांनी लोक येताले वताले. रस्त्या वयल्यान मोटारीय एका सारक्यो धांवताल्यो. हांव आनी नरेशभाई उलयताले तेन्ना मदीं मदीं तोकुओसान तोक्योच्या कांय आंगांची वळख करून दिताले. 'हो तो टॉवर दिश्टी पडटा न्हय, ताका तोक्यो टॉवर म्हणटात... पारीसांतल्यान इफेल टॉवरा परसूय हो ऊंच...' '... हो तो एका मार्गा वयल्यान दुसरो मार्ग वता न्हय, तो ऑलिम्पिक्स गेमी हांगा

जाल्ल्यो त्या वेळार बांदिल्लो...', 'संवसारांतलें सगळ्यांत व्हडलें शार हें एक... विस्तारानूय आनी लोकसंख्येनूय...'

तोक्योचें आदलें नांव येदो. शंबर वर्सां जालीं तोक्यो हें नांव ताका पडल्यार. जपानाची आदली राजधानी क्योतोक आशिल्ली. क्योतो म्हळ्यार अस्तमे कडली राजधानी. राजधानी येदोक हाडली तेन्ना येदोचें तोक्यो केलें. तोक्यो म्हळ्यार उदेंते कडली राजधानी... जपानी भाशेंत ट ठ ड सारकीं व्यंजनां नात. म्हूण आमी जे तोक्योक टोकियो म्हणटात तें समा न्हय. तोक्योच म्हणूंक जाय... हें सगळें म्हाका म्हज्या थाण्यार पावऽ मेरेनचे वाटेरूच कळ्ळें.

अर्द वरा भितर गाडी 'सान-बांचो' नांवाच्या एका हॉटेला मुखार येवन उबी रावली. म्हाका अजाप जालें. 'कितेंऽ, एका हॉटेलांत म्हजी वेवस्ता केल्या? म्हाका हॉटेलांनी रावपाचें ना... खंयच्याय तरी घराब्यांत दवरात' म्हूण हांवें तांकां पयलींच कळयल्लें... 'म्हाका देस पळोवपाचो आसा म्हळ्यार लोकांक पळोवपाचे आसात; ते कशे रावतात, कितें खातात जेवतात पियेतात तें पळोवपाचें आसा. दोन वेगळ्या संवसारांतले लोक एकठांय रावतकूच दोगांकूय अडचण जाता खरी, पुणून ती सोंसून घेवंक जाय... हॉटेलांनी रावन लोकांक वळखूंक येना. आमच्या देसांत पर्यटक येतात ते हॉटेलांनी रावतात. ते ताजमहाल, अजंठा, वेरूळ, खजुराहो सगळें पळेतात. फकत देस पळोवंक पावनात... म्हाका जपान तांचे भाशेन पळोवपाचें ना.' हें सगळें हांवें हांकां पयलींच कळयल्लें. म्हजी चीट नरेशभाईन वाचिल्ली. हिन्दीचें जपानी करून ताणेंच तांकां म्हजी इत्सा सांगिल्ली. पुणून काकासायबांची वेवस्ता तांणी ह्या हॉटेलांत केल्या. म्हजी दुसरे कडेन केली जाल्यार अडचण जातली म्हूण काकासायबां सरींच म्हजीय वेवस्ता केल्या. काकासायब वतकूच तुजी वेवस्ता तुका जाय तशी करुंया अशें हांणी थारायलां, हें नरेशभाईन सांगतकूच हांवें हॉटेलांत भितर पावल दवरलें. भितर मात सरलां, मुखार सरोजबेन! काका परिवारांतल्या आमच्या सगळ्यांची व्हडली भयण ती. तिणें धाकल्या भावाक दितात तसो म्हाका येवकार दिलो आनी पांचव्या मजल्या वयले म्हजे कुडींत व्हरून पावयलो.

असलीं हॉटेलां आमच्या देसांत जायतीं आसात. पुणून हांव तसल्या खंयच्याच हॉटेलांत रावंक ना. म्हूण मात्सो घुटमळ्ळेले वरी जालों. एअर कंडिशन्ड कूड. मेजार फुलदाणयेंत शेंवतीं - निकतींच काडून हाडिल्ले सारकीं. वणटीर एक व्हडलें चित्र - फुजी पर्वताचें. खाटे सकल सापात. तांचेर कागदाची एक पट्टी - disinfected म्हूण सांगपी. उश्या कडल्या मेजार उदक पियेवपाचे दोन ग्लास. तांचेरूय तीच पट्टी. बाथरुमांत वॉशबेसीन, कमोड. सगळ्यांचेर तशीच पट्टी. हांवें मुस्तायकी बदल्ली. सुटकेसींतल्यान लुंगी बानयान काडलें आनी खाटेर आड पडूंक वतालों इतल्यांत फोन वाजलो. 'मोश मोशी.' एक गोड आवाज कानार पडलो. जपानांत कोण फोनार 'हॅलो' करिनात. 'मोश मोशी'च म्हूण उलोवपाक सुरवात करतात. हांवेंय 'मोश मोशी'च म्हूण जाप दिली. इतल्यांत काकासायबांचो आवाज कानार पडलो. 'आयलो? प्रवास कसो जालो?' बी विचारून जातकूच 'आतां विसव घे. फाल्यां मेळुंया' म्हणून तांणी रिसिवर सकल दवरलो.

विसव कितें घेतलों? दोन अडेज वरां मेरेन दोळोच लागलो ना. जपानांत पाविल्ल्याचे खोशयेन उचांबळीत जाल्लों.



# 3

# तोक्योंत

दिसा-उजवाडांत, सकाळीं, तोक्योचेर नदर मात पडल्या, हांव ह्या शाराच्या मोगांत पडलों. ताचें रुपूच म्हाका सुमारा भायर ओडलायणें दिसलें. इतलें देखणें आनी वेवस्तीत शार हांवें आमच्या देशांत आतां मेरेन खंयच पळोवंक नाशिल्लें. इतलें व्हड हें शार हांकां इतलें स्वच्छ कशें दवरूंक आयलें हाचेंच अजाप जालें. हॉटेलांत पळेल्ली तीच निवळसाण पुराय शारांत पळोवंक मेळ्ळी. पसऱ्यांनी मांडून दवरिल्ले खावपा पियेवपाचे जिनस - फळां, भाजी-पालो, दूद, तांतयां, नुस्तें सगळें निव्वळ. रस्त्यांचेर कागदाचो एक चिटारो लेगीत खंयच दिश्टी पडलो ना. हे लोक सिगरेट ओडून पोंतेरां खंय उडयतात काय देवा, असो म्हाका प्रस्न पडलो. पिंदके वा बुरशे कपडे न्हेशिल्लो एकलो लेगीत कोण पुराय शारांत दिश्टी पडलो ना. तें कित्याक, रडकुऱ्या, सुतकी तोंडाचो लेगीत कोण पळोवंक मेळ्ळो ना. तिनूय त्रिकाळ हांसकुरो लोक हो, अशीच मनाचेर तांची छाप पडली. रस्त्या वयल्यान मोटारी वेगान धांवताल्यो, पुणून हॉर्न खंयच कानार पडनाशिल्लो. वणटींचेर एक पोस्टर तरी दिश्टी पडचें! च्ये! एकूय पळोवंक मेळ्ळें ना. असलें शार पळोवंक मेळ्ळयार घडये येवरोपांत मेळूं येत, भारतांत ना.

तोक्योच्या उएनो पार्काच्या वाटारांत आमी सकाळीं दोन वरां भोंव भोंव भोंवले. मागीर, एके भुंयारी गाडयेन आओयामाक गेले. तोकुओसान आम्कां घेवन गेल्लो. वाटेर एके कडेन ताणें आमकां एक 'डिपार्टमॅन्टल स्टोअर' दाखयलो. तो पळोवन हांव जाल्यार सामकोच गांवढळा वरी अजापांत

पडलों. एकेच कडेन कितल्योश्यो वस्तू विकत्यो घेवंक मेळटात असलीं दुकानां आमच्या देशांत हांवें पळेल्यांत. पुणून हो 'डिपार्टमॅन्टल स्टोअर' म्हळ्यार वेगळेंच एक प्रकरण. शेंकड्यांनी दुकानां एकठांय केलीं जाल्यारूय 'डिपार्टमॅन्टल स्टोअरा'क लागपाचीं नात, येदो व्हड हो. फकत विमानां, मोटारी, बोटी, आगगाडयो हांगा मेळनात. बाकिचें सगळें - जपानांत जाता तितलेंय मेळटा. आनी जपानांत जायना अशें कांयच ना. इतलो तरेकवार माल पळोवन हो देस फाटल्या म्हाझुजांत मातयेभरवण जाल्लो म्हूण सांगतात तें खरेंच दिसना जालें. खंड पड नासतना एका सारके चडपी देंवपी एस्केलेटरां (इश्कादीं) वयल्यान स माळयो चडून देंवून आमी 'स्टोअर' बारिकसाणेन पळेलो. दिश्टी पडटा ती वस्त पळोवपा सारकीच न्हय, तर उबारून व्हरपा सारकी दिसली. बोल्सांत पयशे नाशिल्ले म्हूण वाटावलों. ना जाल्यार, भांकरोट जावन परतुपाचों. हांव सोड, कुबेर लेगीत हांगा पाविल्लो जाल्यार, सगळी संपत खर्चुनूय घेवपा सारकें कितलेंशें उरलें म्हूण चुरचुरत परततलो आशिल्लो.

सकाळीं आमी उएनो पार्का लागसारचो एक 'म्यूझियम' पळेल्लो. एकामेकांक तेंकिल्लीं दोन व्हडलीं घरां आनी सुमार पंचवीस 'शो-रुम्स' तांतूंत आशिल्ले. जपानी संस्कृताय आनी इतिहास दोनूय मळां वयल्यो तरेकवार हजारांनी वस्तू थंय दवरिल्ल्यो. दनपरां 'डिपार्टमॅन्टल स्टोअरां'त, आर्विल्ल्या जपानी कर्तुत्वाचो माल पळेलो. शरद पंड्याक तर हाणें इतलें पिशें लायलें की, मुखार, तोक्यो भायर खंयच वचपाचें नासलें जाल्यार तो तोक्योंतल्या खंयच्या-न्हय-खंयच्या स्टोअरांतच वचून पुराय दीस सारपाक लागलो. तोक्योंत असले अठरा वीस 'डिपार्टमॅन्टल स्टोअर' आसात. इतलेंच न्हय, तर ह्या स्टोअर्सांच्या नादाक लागून ताणें क्योतो, नारा सारकेल्या म्हत्वाच्या संस्कार-थळांचेर लेगीत उदक सोडलें. 'सभाग्या, जपानांत येवन क्योतो नारा सारकीं थळां पळेलीं नात जाल्यार लोक हांसतले मरे तुका, आग्र्याक वचून ताजमहाल पळे नासतना केन्ना कोण परततलो रे?' अशें म्हळ्यार ताणें म्हणचें, 'तीं पोरणीं देवळां आनी त्यो बागो पळोवन कितें करपाचें आसा? हांव आर्विल्लें जपान पळोवपाक आयलां, तेंच दोळे भरून पळेतलों म्हणटां.'

दीस भर भोंवन भोंवन सांजचो हॉटेलांत परतलों तेन्ना अवचीत लक्षांत आयलें, हें शार इतलें देखणें जावंक पावलां तें जपानी चलयांक लागून. खंयूय वच, राज्य तांचें. हॉटेलांतलीं सगळीं कामां त्योच करतात. 'रेस्तोरां'नीय त्योच. पसऱ्यांनीय त्योच. 'डिपार्टमॅन्टल स्टोअर्सां'नीय त्यो. दादले एक तर कारकुनी करतात वा कारखान्यांनी काम करतात. जंय चड स्रम करचे पडनात आनी बुद्दूय चड चलोवची पडना, थंय दादले कोण दिश्टी पडनात. तें राज्य फकत चलयांचें, बायलांचें. तांकांच लागून तोक्योक एक वेगळी कान्त मारता.

जपानी चलयो 'सुंदर' म्हणपा सारक्यो न्हय. सुंदर चलयांच्या आमच्या आदर्शांत जपानी चली बसना. फेंचीं नाकां, बारीक दोळे, वयर आयिल्ले गाल, आनी येदीशी गिड्डी मूर्त. इतलें हें चली सुंदर दिसपाक पावना. तरूय, त्यो आमचें लक्ष ओडून घेतले बगर राविनात. म्हजें लक्ष तांणी ओडून घेवपाक कारण, तांची चलणूक. खुबूच गोड चलणूक तांची. एका सारक्यो हांसत आसतात. आर्विल्ल्या काळांतली मेकळीक आनी चली-मनशेक सोबयता ती मुरवत हांचो इतलो सुंदर मेळ हेर कडेन चडसो खंयच पळोवंक मेळना. कित्याक म्हूण नकळ, जपानी चलयो म्हाका शेवण्यां सारक्यो दिसल्यो. त्यो उलयतात तेन्ना शेवण्यां वरीच चींवचींव करतात आनी चलतात तेन्नाय शेवण्यां वरीच चलतात. तांगेलें भोळें मुखामळ आनी लजेस्त चाल नदरेंत भरपा सारकी.

मुदलांत तांचो भेस किमोनो. आमचे साडये इतलोच सोबीत. किमोनोंतले चलयेचें गोमटें रूप आनी नाजूक चाल नदर ओडले बगर रावना. पुणून आयज लग्ना सारके कांय सुवाळे सोडले जाल्यार, किमोनो कोणूच न्हेशिल्ली पळोवंक मेळना. म्हाका किमोनोंतली चली वा बायल-मनीस तोक्योंत खंयच दिश्टी पडली ना. आयज तांचो भेस येवरोपी चलयां बायलां सारको जाला. केंसांनीय तांचीच मोद घेतल्या. किमोनो उरला तो खंय फकत गेयशां मजगतीं. भरदार आंबाड्याची कोणूय खंयूय दिश्टी पडली जाल्यार धरून चलपाचें, आंबाडो तिगेल्या केंसांचो न्हय. तो अडेच्या गंगावनाचो. केंसांच्यो तरांतरांच्यो मोदी चलोवपी 'ब्युटी सलून' आयज जपानांत पावला कणकणी उकते जाल्यात आनी तांचो धंदोय खंय नेटान

चलपाक लागला.

जपानी चलयां-बायलांच्या येवरोपेव मोदीच्या भेसांक लागून 'आमी येवरोपाक बी पावूंक नात मू' असो केन्ना केन्ना भास जाता. पुणून रोखडीच आमची नदर तांगेल्या रिती-रविसां कडेन वता. आनी 'ना, हें येवरोप न्हय, जपानूच हें' अशीं उतरां आमच्या वोंठां वेल्यान फुट्टात. जपान्यांनी हांगा एक नवें येवरोप उबें केलां खरें. पुणून फकत भायल्यान. तांगेलें अंतरंग जपानीच उरलां. तें येवरोपेव जावंक पावूंक ना. तांणी तें जावंक दिवंक ना.

जपानी रीत-रवीस जपानीच. दोग जपानी एकामेकांक मेळटात तेन्ना ते 'शेकहँड' करपाक हात मुखार काडिनात. चलयो बायलो तर केन्नाच कोणाचो हात आपणा हातांत घेनात. नमस्कार करपाची तांची रीत म्हळ्यार एकामेकां मुखार कमर बागोवपाची - वीस वा तीस डिग्री मेरेन बागोवप आनी दोन सेकंड तशेंच रावप, ही. चड संवकळीचो वा पिरायेन आपणा परस ल्हान कोणूय आसलो जाल्यार पंदरा डिग्रीच बागोवपाची आनी सेकंड भर तशेंच रावपाची. आनी पिरायेन वा हेर खंयचेय नदरेन आपणा परस व्हड आसत जाल्यार तीन चार खेपे बागोवपाची. पुणून कमर बागयले बगर तांगेलो नमस्कारूच जायना. कांय व्हड मनशांक टॅक्सी ड्रायव्हरांक लेगीत कमर बागोवन नमस्कार करतना हांवें पळेल्यात.

'साइकेइरेई' नांवाची तांगेली नमस्काराची आनीक एक रीत आसा. ती शिन्तोंच्या वा बुद्धाच्या देवळांत, राष्ट्रीय बावटो, सम्राट वा कोणूय पूज्य मनशा मुखार पळोवंक मेळटा - साष्टांग नमस्काराची.

जपानी रिती-रविसांची संवकळ जायत गेली तशीं तशीं तांचीं कितलींशीं बारीक सारीक आंगां म्हज्या लक्षांत येवपाक लागलीं. बसप कशें, चलप कशें, फाटल्यान वा कुशीन सरप कशें, इतलेंच न्हय, तर च्याचें चिक्र हातांत धरप कशें, वोंठांक लावप कशें, असल्या ल्हान सान गजालींनीय हे लोक आपणाल्या रिती-रविसांक जतनायेन पाळो दितात तें पळोवंक मेळ्ळें. आनी अजापान हांव तांचीं तोंडां पळेत रावलों.

जपानी रिती-रविसांच्यो देखी खंय पयलीं राजघराण्यांतल्या लोकांनी घडयल्ल्यो. आठव्या शतमानाच्या सुमाराक तांणी त्यो देसा मुखार दवरल्यो. शिन्तो संस्कार तांचेर मुदलांत आशिल्ले. उपरांत, चीनांतल्यान बुद्धधर्म

आयलो आनी ताचेच वांगडा कोन्फू-त्सूची नीत आयली. दोनींचोय प्रभाव रिती-रविसांचेर पडलो. बाराव्या शतमानाच्या सुमाराक रीत-रवीस हें एक 'शास्त्र' जालें आनी ह्या शास्त्राचे 'जाणकारू'य मुखार सरले. आमच्या देसांत संगिताचीं 'घराणीं' जाल्यांत तशीं जपानांत रिती-रविसांचीं 'घराणीं'य फुडें सरलीं. एकुणिसाव्या शतमानांत जपानान येवरोप अमेरिकेच्या लोकां खातीर आपणालीं दारां उकतीं केलीं. ते मेरेन तें एके तरेचें बंदिस्तच जिवीत जियेत आयिल्लें. भायल्या लोकांक दारां उकतीं करतकूच जपानी जिवीत सगळेंच वयर सकल जालें. तांतूंत जपानांतल्यो पोरण्यो चाली-रिती तिगून कश्यो उरतल्यो आशिल्ल्यो? त्यो इल्ल्यो इल्ल्यो करून मोडपाक लागल्यो. नवे नेम घडयले नात जाल्यार जपानाची सामाजीक जीण रिती जातली आनी सगळे कडेन चांचाळ बेबंदशाय माततली म्हणपाचो हुसको थंयच्या म्हालगड्यांक जावपाक लागलो. तेन्ना तांणी जाणकारांची एक समिती नेमली आनी हे समितीन नव्या काळांत चलोवं येतात, चलोवंक जाय असले रिती-रविसांचे नवे नेम घडोवन ते देसा मुखार दवरले. १९४३ वर्सा सरकारान जाणकारांची आनीक एक समिती नेमली आनी तिका ह्या नेमांचेर नव्यान चिंतात आनी सुचोवण्यो करात म्हूण सांगलें. हे समितीन सुचोवण्यो करून जे नेम घडयले तेच आयज जपानांत चलतात. मुजरत सांगूंक जाय, ही समिती सरकारान नेमल्या त्या वेळार जपान 'एक तर आमी उरतले ना जाल्यार, ना जावन वतले', हे तरेच्या एका व्हड झुजांत पडिल्लें. येद्या झुजांत घुसपल्लें आसतना लेगीत ताका चाली-रितींचे नवे नेम घडोवपा खातीर उसरपत मेळ्ळी ही एकूच गजाल जपानी जिवितांत चाली-रितींक, शिष्टाचारांक केदी व्हड सुवात आसा ती दाखोवन दिवपाक पुरो.

❑

# ४

# यासुकुनी

'सानबांचो' हॉटेलांतल्यान भायर सरून दावे वाटेन चलत मुखार वतकूच कुदान नांवाचो तोक्योचो एक वाटार लागता. रस्त्या पेले दिकेन एक बाग आसा - यासुकुनी नांवाची. देसा खातीर जांणी आपणालो जीव ओंपला तांचें थंय एक यादस्तीक आसा. पयले फावट हांगा पावलां तेन्ना म्हजें लक्ष बागेंत भितर सरपाच्या दरवट्याचेर गेल्लें. शिमिटाचे दोन व्हडले खांबे आनी तांचेर आडव्यो दोन व्हडल्यो (शिमिटाच्योच) पाटयो, इतलेंच ताचें वास्तुशिल्प. पुणून तें भितरले रुखावळी कडेन अशें कितें भरसल्लें की हो दरवटो मनशांनी उबो केला अशें सोपूत घेवन सांगचें पडटालें. भितरल्या रुखां वरीच जसो कितें तो जमनींतल्यान वयर सरिल्ले वरी दिसतालो. पांय आपशींच म्हाका ताचे सरीं घेवन गेले. ते मेरेन म्हाका हे बागेचें नांवूय कोणें सांगूंक नाशिल्लें आनी बागेंत पळोवपा सारकें कितें आसा तेंवूय खबर नाशिल्लें. भितर वचून पळेतलों आशिल्लों. पुणून त्या दिसा दुसरे कडेन वचपाचें थरिल्लें. वेळ नाशिल्लो. म्हूण, दरवट्या कडेन रावन भायल्यानूच बाग पळोवन परतल्लों.

दुसऱ्या दिसा मैजी युनिव्हर्सिटींतली एक प्रोफेसोरीण मिसेस कावाकामी म्हाका मेळपाक आयली. पुण्यांत कर्वे युनिव्हर्सिटींत ती शिकिल्ली आनी गोंयांत आयिल्ली तेन्ना आमगेर दोन दीस रावनूय गेल्ली. हांवें तिका येतां म्हूण कळयल्लें. सकाळच्या आदेसाक ती म्हाका कांय थळां दाखोवपाची आशिल्ली. चलत चलत बागे सरीं मात पावल्यांत, पावलां आपशींच दरवट्यांतल्यान भितर सरपाक लागलीं.

'अजून ही बाग पळोवंक ना?' मिसेस कावाकामीन विचारलें.

'ना.'

'चल, या भितर' अशें म्हणून ती म्हाका घेवन भितर गेली. भितर दावे वशीन एक पुतळो आशिल्लो.

'हो याजिरो शिनागावाचो पुतळो', तिणें म्हळें.

म्हाका कितें? म्हाका याजिरो शिनागावाय सारको आनी शिनिरो याजिगावाय सारको. आसतलो, म्हळें, कोणूय. 'बाबी शाबी पोउक दिफेरेंस'. आनी हांव पुतळो सारको पळे नासतनाच मुखार चलपाक लागलों.

म्हजेर याजिरो शिनागावा नांवाचो व्हडलोसो परिणाम जालो ना तें पळोवन मिसेस कावाकामीन म्हळें, 'मेइजी काळांतलो आमचो एक व्हड फुडारी हो.'

पांय मुखार चलपाचे थांबले. आनी हांव पुतळ्या कडेन पळोवपाक लागलों.

जपानी इतिहासांत एक आगळो वेगळो काळ येवन गेला हो 'मेइजी' नांवाचो. ह्या काळांत कितें घडलें तें सांगचे पयलीं ताची फाटभूंय इल्ली सांगूंक जाय -

जपानाचो येवरोपा कडेन पयलो वयलो संबंद आयला तो - सांगल्यार खरें दिसत? - आमच्या गोंयांत. जपानांतल्या सात्सुमा गांवांतल्या हानशिरो नांवाच्या एकल्यान कोणा एकल्याचो खून केल्लो आनी तो ख्यास्तीच्या भंयान थंयचो पळून गेल्लो. लिपत लिपत हांगा थंय भोंवतालो. एक दीस तो भोंवतां भोंवतां बद्द गोंयांत पावलो. गोंयांत सां फ्रांस्काचो लोकांक बाटोवन किरिस्तांव करपाचो वावर नेटान चलिल्लो. हानशिरो सां फ्रांस्काक मेळ्ळो. ताच्या प्रभावांत येवन किरिस्तांव जालो. सां फ्रांस्कान ताका 'पॉल' म्हूण एक नवें नांव दिलें.

ते मुस्तींत सां फ्रांसिश्क 'सन्त' जावंक नाशिल्लो. सादो 'पाद्र फ्रांसिश्क शावियेर' आशिल्लो.

हानशिरो कडल्यान पाद्र शावियेराक जपाना संबंदान म्हायती मेळ्ळी. दुसऱ्याच वर्सा पाद्र शावियेर कांय जेझुईत पाद्रींक घेवन जपानांत वचपाक भायर सरलो. वाट दाखोवपाक पॉल वांगडा आशिल्लो.

जपानी लोकांनी तांकां बरो येवकार दिलो. जपान एक बुद्धधर्मी देश. ज्या अर्थान हे लोक धर्म पातळावपाचो वावर करपाक आयल्यात त्या अर्थान ते हिन्दुस्तानांतल्यान बुद्धधर्माचें हालिंसाराचें, एक नवें रूप घेवन आयल्यात जातले अशें तांकां दिसलें. आनी तांणी धर्म पातळावपाची जेझुइतांक मेकळीक दिली. पाद्र शावियेराक हे लोक आवडल्यात जावंक जाय. कित्याक, जपानांत केल्ल्या वावराची म्हायती पुर्तुगालच्या राजाक दिवन बरयल्ले चिटींत 'आतां मेरेन मेळिल्ल्या लोकां मजगतचे हे सगळ्यांत बरे लोक' अशी ताणें तांची तुस्त केल्या.

जेझुईत पाद्री आपणाले चालीक धरून थळावी भास शिकले. आनी हे भाशेंतल्यान ते आपणालो धर्म पातळावपाक लागले. कांय जाणांनी तांचो हो धर्म घेतलो. पुणून एक दीस जपान्यांक दिसून आयलें, हे घेवन आयल्यात तो बुद्धधर्म न्हय. दुसरोच एक, क्रिस्तांव नांवाचो. तो हिन्दुस्तानांतलो न्हय. येवरोपांतलो. ते भायर, हे लोक येवरोपी संस्कृताय पातळायतात. इतलेंच न्हय, तर हे लोक घरभेद्यांचो वावर करपाक लागल्यात. फितुरीय करपाक लागल्यात. जपानाक हें संकश्ट पुटवपा सारकें नाशिल्लें. जपान शिटकावलें आनी ताणें खिणाचोय कळाव लाय नासतना क्रिस्तांव पाद्रींक जपानांतल्यान भायर घाले. इतलेंच न्हय, हे मुखार कोणूय भायल्यान जपानांत येवचो न्हय आनी जपानांतल्यान कोणूच भायर वचचो न्हय म्हूण देसाचे दरवटेय बंद केले. आनी, हे भाशेन, जँपान संवसारा पसून पयस, म्हळ्यार सामकेंच पयस, रावलें.

सुमार अडेजशें वर्सां तें संवसारा पसून पयस उरिल्लें.

एक दीस, अवचीत अमेरिकेच्या नावीक दळाचो एक अधिकारी कोमोडोर पॅरी अमेरिकेच्या राष्ट्राध्यक्षाचो एक खलितो घेवन जपानांत आयलो. वेपारा खातीर जपानान आपणाले दरवटे अमेरिकेक उकते करचे इतलीच मागणी खलित्यांत आशिल्ली. पुणून हे मागणे फाटल्यान एके तरेची धमकी आशिल्ली ती जपानान पारखिली. ते भायर, जाप व्हरपाक आपूण जिस्त एका वर्सान परतो येतलों अशें सांगून पॅरी गेल्लो. हे सांगणेंतूय एक धमकी आशिल्ली. आपणाचेर कोंसळ्ळेल्या संकश्टाचो जपानाक रोखडोच अदमास आयलो. त्या काळांत थंय 'शोगूनशाय' चलताली. महाराष्ट्रांतल्या

पेशव्यां सारकी ही राजवट. शोगूनची एक पदवीय 'सेई - ताई - शोगून' - म्हळ्यार, 'परकी लोकांक देसांतले धांवडावन घालपी' अशी आशिल्ली. जपाना मुखार एक मोट्टो प्रस्न उबो रावलो. देसाचे दरवटे अमेरिकेक उकते केले जाल्यार शोगूनचे पदवेक अर्थ उरना - म्हळ्यार, शोगूनशाय कोंसळून पडटा. आनी अमेरिकेक भितर सरपाक दिलिना जाल्यार, एका बळिश्ट राष्ट्राची दुस्मानकाय मोलावन घेवची पडटा. कोमोडोर पॅरीच्यो बोटी जपानाच्या धक्यार येवन उब्यो राविल्ल्यो तेन्नाच जपानाक थरथरो भरिल्लो. असल्यो बोटी जपानान केन्ना पळोवंक नाशिल्ल्यो. ताका अमेरिके खातीर देसाचे दरवटे उकते करचे पडले. अमेरिके फाटोफाट इंग्रज, फ्रँच आनी रशियन आयले. मागीर? जावपाचें तेंच जालें. शोगूनशाय आपशीं कोंसळून पडली. तिची सुवात जांणी घेतली तांचे मुखार आतां दोनूच वाटो उरिल्ल्यो. परकी लोकांक देस गिळूंक दिवन सदांकाळ फणफणत रावपाची, एक. वा, थोड्याच वर्सा भितर संवसारांत मुखार सरिल्ल्या देसां इतलो आपणालो देस बळिश्ट करपाची दुसरी. जपानान दुसरी वाट वेंचून काडली. आपणालें रुपूच सामकें बदलून उडोवपाचो ताणें नित्शय केलो. शेंकड्यांनी जपानी तरणाटे वेगळ्या वेगळ्या देसांनी वचून वेगळ्यो वेगळ्यो विद्या शिकून परतले आनी एके पिळगे भितर जपानाचें पुराय रूप तांणी बदलून उडयलें. बंदेपणाचें संकश्ट कोंसळ्ळेलें आसतना पुराय देसाचें थारावन येवजून करून रूप बदलपाच्या ह्या प्रयोगाचो जपानी जिविताचेर आकांताचो व्हड परिणाम जालो. सगळें सकल वयर जालें आनी जपान जो सामकोच फाटसार देस आशिल्लो तो एक बळिश्ट, आर्विल्लो, नवो ताल्ल देस म्हूण मुखार आयलो. फकत प्रजेन केल्ल्या कर्तुत्वाचो असलो नमुनो मनीसजातीच्या इतिहासांत दुसरो पळोवंक मेळना. तुर्कस्तानाक आर्विल्लो देस करपाचो केमालपाशाचो वावर हाचे मुखार 'किरकोळू'च दिसता.

येदो व्हडलो बदल ज्या काळांत घडलो ताका 'मेइजी' काळ म्हणटात. 'मेइजी' म्हळ्यार 'जागरूक', दोळे उकते दवरून बदल घडोवन हाडपी काळ.

क्रान्ती कुड्डीच आसता असो आमचो समज. ना, क्रान्ती दोळे उकते दवरुनूय करूं येता म्हणपाचें जपानान दाखोवन दिलां. ह्या 'मेइजी' काळांत

जपानांतल्या तरणाट्या फुडाऱ्यांनी खूब पयसलें पळोवन जो वावर केलो ताकाच लागून जपान मुळा थावन बदलून लेगीत जपानूच उरूंक पावलें.

हांव याजिरोच्या पुतळ्या मुखार उबो रावन ताचें रूप नियाळूंक लागलों. येदोळ जो फकत पाशाणाचो पुतळो कसो दिशिल्लो तो याजिरो आतां म्हाका चैतन्यान भरिल्लो जिवो मनीस कसो दिसपाक लागलो. ताच्या वोंठार एके तरेचो नित्शय दिश्टी पडपाक लागलो.

आनी -

जगांतल्यो सगळ्यो क्रान्त्यो जिचे मुखार अळणी दिसच्यो असली एक मुळावी, मनीसपणाची आकांताची क्रान्ती आमच्या देसांत जावची आनी हे क्रान्तींत एक पायक म्हूण वावरूंक म्हाका मेळचें असो एक हावेस म्हज्या काळजांत मदीं मदीं उसळून येतालो ताका जाग आयली.

'अजून जायतें पळोवपाचें आसा' अशें मिसेस कावाकामीन म्हळें तेन्ना उपाय नासून चलपाक लागलों. म्हऱ्यांतूच फातराची एक दिवली आशिल्ली. ती नियाळटां थंय आसां, असल्या दिवल्यांच्यो कितल्योश्यो रांगो दिश्टी पडल्यो. त्यो भोंवतणच्या पांचव्याचार वाटारांत भरसून गेल्ल्यो.

खरें म्हळ्यार 'यासुकुनी' ही 'बाग' न्हय. एक शिन्तो समाधी-स्थळ हें. मुखारूच समाधी दिश्टी पडटा. बद्द देवळा सारकी. तिच्या पाख्याचे चारूय कोनशे राजपूत मिशयो पिळटात तशेशे पिळिल्ले आशिल्ले. ती फकत लाकडान बांदून काडिल्ली. कसलीच कंगरखीस नाशिल्ली तिचे बांदावळींत. सामकी सादी. सादेपण आपशीं आयिल्लें न्हय, आयिल्ले वरी दिसचें अशें थारावन मुजरत हाडिल्लें.

शिन्तो संस्कारांत वाडिल्ल्या लोकांनी चिऱ्यांच्यो समाधी केन्ना बांदल्यो नात. चिऱ्यांचीं देवळांय बांदलीं नात. तें कित्याक, ते समाधी आनी देवूळ दों भितर फरकूय करिनात. सैमाची पुजा करपी एक संस्कार हो. गेल्ल्या म्हालगड्यांचोय ते सैमांत आसपाव करतात. हाका लागून समाधी आनी देवूळ तांणी सारकींच मानल्यांत.

शिन्तोंचें खरें देवूळ खासा सैम.

हांव देवूळ पळोवपाक गेलों. भायर एका कोनशाक एका आयदनांत निर्मळ उदक आशिल्लें. उदकान हात पांय धुयले. शिन्तो देवळांत वा

समाधींत भितर सरचे पयलीं खंय निर्मळ जावंक जाय. देवळांत पुजाऱ्याक सोडून कोणाक सामके भितर वचूंक मेळना. येताले ते सगळे एका अंतरार उबे रावताले. भितर मूर्त नाशिल्ली. फकत वांटकुळो एक हारसो आशिल्लो. लोक येताले आनी ताळयो वाजोवन देवांक वा म्हालगड्यांक आपयताले. मागीर, साइकेइरेई रितीन साष्टांग नमस्कार घालताले. मागीर उबे रावताले आनी परते ताळयो वाजयताले आनी आपयल्ल्या देवांक वा म्हालगड्यांक परते वचूंक सांगताले. येतना कोण तांदूळ, कोण पीठ, कोण कड्डण, कोण भाजी, इतलेंच न्हय, तर नुस्तें आनी सोऱ्या बोत्लीय भेटेक घेवन येताले. आनी ताळयो वाजोवन देवांक वचात म्हूण सांगतकूच सगळें परते व्हरताले.

शिजयल्लें कांयच हाडी नाशिल्लें.

अजाप म्हळ्यार, फुलां घेवन कोण आयिल्लो पळेलो ना. शिन्तोमत्त सैमाचें मोगी. झाडां वयलीं फुलां कोण तोडी नात. तोडिल्लीं तांकां आवडना.

शिन्तो हो एक धर्म अशें हांव मानीत आयिल्लों. हांगा येतकूच कळ्ळें, हो बौद्ध, हिन्दू, क्रिस्तांव धर्मा सारको धर्म न्हय. हो फकत एक संस्कार. धर्मान जपानी कोणूय आसूं, संस्कारान तो शिन्तोच उरला. सैमाचें जें जें रूप आमच्या काळजांत भक्तिभाव जागयता - मागीर तें झाड आसूं, दोंगर आसूं, न्हंय आसूं, दर्या आसूं, मळब, सूर्य, चंद्र कितेंय आसूं - पूज्य व्यक्तीय आसूं - ईश्वराचीच ती एक विभूती, तिचे मुखार तकली नमोवंकूच जाय हें ह्या संस्काराचें मूळ. जपानाचें पुराय जिवीत ह्या संस्कारान आपणाल्या सुतान गुंथून काडलां म्हूण जपान एक 'राष्ट्र' जावंक पावलां. जपानाची परंपरा, ताचो सभाव सगळें शिन्तो संस्कारानूच घडयलां. 'आमी सगळे एक' म्हणपाची जी एक खोल जाणवीक जपानी लोकांत पळोवंक मेळटा ती शिन्तो संस्कारांक लागुनूच तांच्यांत येवंक पावल्या अशें म्हणूंक जाय.

जपानी राष्ट्रीयताय शिन्तोन संस्कारीत केल्या.



५

# आतामी

तोक्योंतलीं पळोवपा सारकीं कितलींशीं थळां अजून पळोवपाचीं उरिल्लीं. तें कित्याक, तोक्योक पावना फुडें पयलेच रातीक कोणूय पावता तें गिंझा लेगीत पळोवंक नाशिल्लें. वेळूच मेळूंक नाशिल्लो. हाचें कारण म्हळ्यार, हांव काकासायबां वांगडा आशिल्लों आनी तांची भेट घेवपाक वेगळ्या वेगळ्या मळां वयले जपानी विद्वान एका सारके हॉटेलांत येत राविल्ले. तांचे मजगतीं जी भासाभास चलताली तीच इतली ओडलायणी आसताली की दारांत व्हांवपी ही गंगा सोडून दुसरे कडेन उदक भरपाक कित्याक वचूं, अशें जालें.

दोन दिसांत तोक्योंत जें पळेलें ताचेकूय कितलेशें चड हॉटेलांत हांवें काकासायबांच्या रुमांत आयकलें.

आनी इल्लें इल्लें करून जपान म्हज्या दोळ्यां मुखार एक रूप घेवपाक लागलें.

दुसऱ्या दिसा रातची सुचोवणी मेळ्ळी, 'फाल्यां आमी हाकोनेक वचपाचें थारायलां. सकाळीं णवांक सामान बिमान बांदून सगळ्यांनी तयार रावचें.'

दुसऱ्या दिसा जिस्त णवांक कांय गाडयो हॉटेला मुखार येवन उब्यो रावल्यो. एके गाडयेंतल्यान होरिउचीसान देंवले. ते आमकां व्हरपाक आयिल्ले. तोक्योंत सान्तोकू नांवाचें एक सुपरमार्केट आसा. कितल्याश्या वर्सां सावनचे ते ताचे अध्यक्ष. दोन वर्सां पयलीं सगळो व्याप सोडून ते भिक्खू जाल्ले. तांचे वांगडा आनीक कांय जाण आयिल्ले. साडेणवांक मोटारी सुटल्यो. आनी हाकोनेचे दिकेन वेगान धांवपाक लागल्यो. वरा

भरान तोक्योंतल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो फाटल्यान गेल्यो आनी चौकोनी जनेलांच्या ल्हान ल्हान बसक्या पेटलां सारक्या लाकडी घरांचे गांव एका फाटल्यान एक येत रावले.

तोक्योंतल्यान आमी भायर आयिल्ले. पुणून गाडयांची येरादारी मात लेगीत उणी जाव्ंक नाशिल्ली. तोक्यांतल्यो सगळ्योच गाडयो जश्यो कितें आयज मिरवणुकेन आमचे फाटल्यान येतात अशें दिसतालें. म्हजे गाडयेंत सुगियामासान नांवाचो एक ज़पानी आशिल्लो. एकामेकां कडेन कितेंय उलयतले म्हळ्यार, काळजाची सोडून दुसरी खंयचीच भास आमचे कडेन नाशिल्ली. भायले वटेन पळोवपा सारको एकाद्रो देखाव दिश्टी पडलो म्हणटकूच, 'लुक, ब्युतिफूल' म्हणून ताणें म्हजें लक्ष ओडचें आनी हांवें देखाव पळोवन 'यॅस, रियली ब्युटिफूल' म्हळें म्हणटकूच अभिमानान मान हालोवन ताणें 'थँक्यू' म्हणचें. हाचे भायर आमचें उलोवणें जाय नाशिल्लें. जपानी भास येना, समजना हाची खन्यांनीच म्हाका त्या दिसा खंत भोगली. भायले वटेन नदर लावन बसलों आनी दीस उदेता वा अस्तमता तो पळोवन जशे आमी हें कितें काय म्हूण केन्ना कोणाक विचारी नात तसो एक एक देखाव पळेत रावलों.

गांवा फाटल्यान गांव येवन गेले. कितल्यो तरी बाज़ारपेठो आयल्यो आनी गेल्यो. मोटारी एका सारक्यो धांवत रावल्यो. कोण कोणाक फाटीं उडोवन मुखार वच नाशिल्लो. भायर लोक काम-धंद्या बगर विडयो फुंकीत बसल्यात, येतल्या वेतल्यांच्यो टवाळ्यो चलल्यात; वाटेर भुरगीं नळकुट्यांनी वा गड्ड्यांनी खेळटात, सुणीं गोरवां आडवीं येतात, एकाद-दुकली पिशी वाटेर मदींच नाचता आनी लोक तिचे भोंवतणीं उबे रावन मजा पळेतात, असलो एकूय देखाव हे वाटेन पळोवंक मेळ्ळो ना. तोक्योंत जी नितळसाण पळोवंक मेळिल्ली तीच हांगा ह्या गांवांनीय पळोवंक मेळ्ळी. खंयच घाण नाशिल्ली, कोयर नाशिल्लो, दोळ्यांत भरचें अशें कितेंच नाशिल्लें.

इकरांच्या सुमाराक अवचीत आमच्या गाडयांचो वेग देंवलो. मात्श्यो सवकासायेन चलपाक लागल्यो. मुखेल रस्तो सोडून त्यो उजवे दिकेन

घुंवल्यो.

आमी चिगासाकीक पाविल्ले.

जपानांतले एके सोबीत दर्या देगेर आशिल्लो एक ल्हानसो गांव हो. 'पॅसिफिक' नांवाच्या एका हॉटेला सामकार मोटारी थांबल्यो आनी आमी ताच्या 'रेस्तोरां'त वचून बसले.

रस्त्या पेले कडेन पॅसिफिक म्हालसागर उसळटालो आनी हे वटेन रेस्तोरांचे कुशीक आशिल्ल्या स्विमींग पुलांत जपानी चलयो नुस्त्यां वरी मजेंत पेंवताल्यो.

वरभर बसून आमी भायर सरले. चिगासाकी उपरांतची फुडली सगळी वाट वेळेक तेंकून वताली. मर्दीं खंय खंय शेंकड्यांनी जपानी लोक तरांतरांच्या रंगांच्यो सत्र्यो फुलोवन वेळेर उकत्या आंगान वोत खाताले. दुसरे कितलेशे दर्याचीं ल्हारां आंगार झेलून न्हाताले. कितलेशे असले देखाव पळेले. कांय कडेन शाळेंतल्या भुरग्यांक घेवन तांच्यो 'टिचरी' आयिल्ल्यो. कांय भुरग्यांच्या आंगार रबराच्यो नळयो आशिल्ल्यो आनी टिचरी तांकां दर्यांत पेवंक शिकयताल्यो. जण एका जपानी भुरग्याक पेवंक येवंकूच जाय अशें ह्या देसाचें म्हणणें. पेंवप हो अभ्यासक्रमांतलो एक विशय म्हुण्णूय देसान मानून घेतला.

मुखार दुसऱ्या एका देखाव्यान लक्ष ओडलें. आमी एक दोंगुल्ली देंवपाक लागले. मुम्बय वाळकेश्वरा सावन देंवतना चौपाटेचो देखाव दिसता तसलो सो मात्सो ल्हान, हो देखाव आशिल्लो. चंद्रकोरी सारके वेळेर तिनूय वशिंनी ल्हान व्हड घरां आशिल्लें एक शार आशिल्लें हें.

आमी आतामीक पाविल्ले.

म्हाका अजाप जालें. आमकां वाटेर आतामी लागतलें म्हूण म्हाका कोणेंच ते मेरेन सांगूंक नाशिल्लें. आमी हांगा रावतले काय अशेच मुखार वतले, म्हाका प्रस्न पडलो. जपानाक येवंक भायर सरलां ते पयलीं हांगासल्ल्या कांय मुखेल थळांचीं वर्णनां वाचिल्लीं. तांतूंत आतामीचें एक आशिल्लें. लग्न जाल्ल्या नव्या जोडप्यांचें हनिमुनाचें हें एक थळ म्हूण खबर आशिल्लें. तोक्यो सावन आमचे फाटल्यान मोटारींची जी मिरवणूक

भायर सरिल्ली ती हांगा येवपा खातीर आशिल्ली म्हणपाचें हांगा पावतकूच लक्षांत आयलें. आयज शेनवार. शेनवार आनी आयतार आतामीचे खाशेले दीस. जांच्या शिरंत्रांनी तरणें रगत सळसळटा ते तोक्योंतले उमेदीचे पिरायेचे सगळे दोन दीस चैन करपा खातीर हांगा आयल्यात.

बाजाराक एक वाटकुळो भोंवाडो मारून आमच्यो गाडयो एके दोंगुल्ले वयल्यान फुजिया नांवाच्या हॉटेला मुखार येवन उब्यो रावल्यो. 'किमोनो' न्हेशिल्ल्या तरणाट्या हॉस्टेसींनी आमकां येवकार दिलो आनी आमचे खातीर राखून दवरिल्ल्या आपापल्या रुमांनी व्हरून पावयले. म्हाका मेळिल्ल्या रुमाचो एक वांटो कॉट, सोफा, कदेलां, मेज, स्टुलां, लॅम्प आशिल्लो येवरोपी तरेचो तर दुसरो वांटो 'तातामीं'चो - शेंदऱ्यांचो - जपानी तरेचो, फर्निचर नाशिल्लो, आशिल्लो. ह्या वांट्यांतले वणटीक एक पोकळ सुवात आशिल्ली आनी थंय एके चवायेर 'इकेबाना'च्या नेमांक धरून सजयल्ली एक फुलदाणी दवरिल्ली.

'इकेबाना' ही फुलदाणयेंत फुलां सजोवन दवरपाची एक खाशेली जपानी कला. जपानी मनाचेर सैम-मोगी शिन्तोचे खोल संस्कार आसात तशे बुद्धधर्मांतल्या झेन पंथाचेय आसात. ह्या संस्कारांनी ज्या कलांची हांगा वाड केल्या तांतली एक ही फुलां सजोवपाची कला. सामान्यतायेन जण एकले जपानी चलयेक ही कला येता. इतलेंच न्हय, तर येवंकूच जाय असो संकेत आसा म्हूण तिका ती शिकून घेवचीच पडटा. ते बगर तिचें शिकप पुरें जायना. पिडेन हांतुळणार पडिल्ल्या मनशांक धीर दिवपी तशें पुरो जाल्ल्यांक उर्बा दिवपी, सगळ्यांची उमेद जागोवपी म्हूण फुलान ह्या देसांत खूब नामना जोडल्या. जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याक जितलें म्हत्व आसा तितलेंच म्हत्व जिवितांत फुलाक आसा अशें जपानी लोक सदां मानीत आयल्यात. धक्याचपाट्यांक लागून निर्शेल्ल्या मनशाचो बऱ्याभल्या वयलो भावार्त उडून गेल्लो आसत जाल्यार फूल आपणाल्या रुपान, रंगान, गंधान तो परत जिवो तट्‌टटीत करतलें ह्या भावार्तान हे कलेची हांगा वाड जाल्या. आमच्या देसांतल्या संगिताच्या 'घराण्यां' सारकीं जपानांत इकेबानाचींय कांय घराणीं आसात. झाडा वयलीं फुलां काडटा आसतना

तीं अमकेच तरेन काडूंक जाय, फुलदाणयेंत तीं अमकेच तरेन लावंक जाय, शीन, सोये, ताई - स्वर्ग, मनीस आनी पिर्थुम - हीं तिनूय आंगां फुलांचे सजोवणेंत दिसूंक जाय हें इकेबानाचें एक बुन्यादी तत्त्व. म्हूण एकेच जातीच्या फुलांच्यो ताळयो काडच्यो आनी त्यो फुलदाणयेंत अमकेच तरेन खोंवच्यो असो नेम हे कलेचो. फूल उतराची अर्थावणीय ह्या लोकांनी खूब व्यापक केल्या. फुलांत पानांचो, तणाचो, कापट्यांचोय आसपाव जाता. एके जपानी म्हणणेंत तर स्वर्गाक आनी धर्तरेकूय खंय फुलाची ओपार दिल्या. इतलेंच न्हय तर मनशाच्या काळजाकूय ह्या लोकांनी फूल मानलां.

इकेबानांत फुलां तीन, पांच, सात वा णव आसूंक जाय. दोन, चार, स, आठ आंकड्यांक अपशकुनी लेखल्यात.

असल्या सगळ्या नेमांक धरून इकेबाना सजयतात तेन्ना तांतलें फूल फकत सोबेचें उरना. तें वेगळीच एक प्रेरणा दिवपाक लागता. आनी, वादळां मोडां कित्याचीच पर्वा करी नासतना फुलपी फुला कडेन आमचें काळीज एकतान जाता. काळजाक फुला कडेन एकतान करप ही इकेबानाची मोख.

जपानांत हांव दोन म्हयने भोंवलां. इकेबाना फकत दिवाणखान्यांतूच न्हय, तर जायत्या सुवातांनी पळेला. केन्ना मेजार दवरिल्लो पळेला, तर केन्ना वणटीर पांयजेला वरी हुमकळायल्लो पळेला. बसींत पळेला तर बोटींतूय पळेला. तें कित्याक, खूब कडेन टॉयलेटींतूय पळेला.

इकेबानान म्हजें लक्ष ओडूंक ना असो एक दीस वचूंक ना. आनी काल पळेल्लो तसलोच आयज पळेला अशेंय जावंक ना. सदांच नवे तरेचो पळेला.

खुशालभरीत मनान वारांदार येवन बसलों. पुराय आतामी थंयच्यान एके नदरेंत आसपाविल्ले वरी दिसतालें. एके दरींत तें वशिल्लें. तिनूय वशिंनी पांचव्योचार दोंगुल्ल्यो आनी चवथे वटेन अंतपार नाशिल्ल्या मळबा कडेन सर करपाक उसळपी पॅसिफिक म्हालसागर पातळ्ळेलो. मुखावेल्या दोंगरा माथ्यार एक पोरणो राजम्हाल आशिल्लो, तर ताचे पेले वटेन मुकूट

कसो निचिरेन पंथी बुद्धधर्मियांचो एक भव्य शान्तिस्तूप दिश्टी पडटालो. एका काळार खंय हें एक जिवें खतखतीत जाळमूख (volcano) आशिल्लें. आयज तें न्हिदलां. ताच्या तोंडाचो (craterचो) अर्दो वांटो दर्या पोटांत बुडला आनी अर्दो ह्या मुखार दिसतात त्या पाचव्या दोंगुल्ल्यांच्या रुपान हांगा दिश्टी पडटा. जाळमुखाच्यो खाणखुणो म्हूण हांगा हून खतखतीत उदकाचे झरे फुटल्यात. सैमाचे सोबितकायेन इतलो भरिल्लो हो वाटार एका काळार जाऴमूख आशिल्लो म्हणपाचें मात लेगीत खरें दिसना.

आतामीचीं जीं वर्णनां हांवें वाचिल्लीं, तीं खासा दोळ्यांनी पळेलें त्या आतामी मुखार सामकीं अळणी दिसपाक लागलीं.

तीनसांज जाली आनी ल्हवू ल्हवू सैमाची सुंदरकाय वाडट्या काळखांत लिपूंक लागली. आरे आरे म्हणटासर विजेच्या लखलखाटांत आतामीचें दुसरेंच एक रूप मुखार उकतें जायत रावलें.

रातचें जेवण करून हांव नरेश आनी शरद पासयेक भायर सरले. हॉटेलांत आमचे जण एकल्याचे कॉटीर 'युकाता' दवरिल्लो. युकाता म्हळ्यार एक लांब झगो. पाद्रीच्या लोबा सारको. कमराक बांदपा खातीर एक रुंद पटो. जेझुईत पाद्री बांदतात तसलो. हो भेस न्हेसुनूच हॉटेलांतल्यान पासयेक वचूंक जाय हो नेम हांगासल्लो. आमी आमचो सदचो भेस रुमांत दवरलो आनी युकाता आंगार चडोवन भायर सरले. हॉटेलांत दारांत आमच्यो व्हाणोय काडून दवरल्यो आनी थंय दवरिल्ल्यो खडावां सारक्यो 'गेता' घालून दरवट्यांतल्यान भायर आयले. आतामींत आयिल्ले सगळे (दादले बायलो) हेच तरेन आपापणाल्या हॉटेलांचे रंगरंगयाळे युकाता आंगार आनी गेता पांयांत चडोवन भायर सरिल्ले. हाका लागून पुराय शार पिसोळ्यांनी जशें कितें फुलून आयिल्ले वरी दिसतालें. मनशां मनशां मजगतचे भायले सगळे वेगळेचार युकातांक लागून पुसून गेल्ले. युकातांतल्या मनशांक नांवां नाशिल्लीं. गांव नाशिल्ले. पांवडे नाशिल्ले. दादलो आनी बायल हो एक फरक सोडल्यार, जण एकल्यान आपणालीं सगळीं वेगळेपणां रुमांत गुटलावन दवरिल्लीं. गेतांच्या खट्क खट्क आवाजांत आतामींत पिसोळ्यांचो एक नाच चल्ला असो भास जातालो.

रस्त्या कुशीनच्या पसऱ्यांचे दिवे, भायल्यो कागदी आकाश-दिव्यांच्यो रांगो, आनी सगळ्यांनी वयर बांदिल्लीं दिव्यांचीं तोरणां पळेत पळेत आमी बाजारांत भोंवपाक लागले. आमकां घेवपाचें कांयच नाशिल्लें. बोल्सांत पयशेच नाशिल्ले. फकत पळोवपाचें आशिल्लें. दर दोन पसऱ्यां मुखार 'पाचिंको' म्हूण पाटी लायिल्लो एक पसरो आशिल्लो पळेलो. भितर लोकांची सामकी खेट जाल्ली दिश्टी पडटाली. कितें आसा भितर हें पळोवपाक आमी एका 'पाचिंको' पसऱ्यांत गेले. पळे जाल्यार, कसल्या तरी धातूच्यो गुळयो एका मशिनांत घालून एक एकलो बटन दामता आनी आपल्या नशिबाची परिक्षा घेता. सगळे सुद्द विसरून खेळटाले. आयज नशिबाचो सोक्षमोक्ष लायतलों म्हळ्यार लायतलोंच ह्या तेमान पेटिल्ले.

मुखार दुसऱ्या एका पसऱ्यार दुसरे तरेचो एक खेळ चलिल्लो. हांगा मशिनांत गुळी घालपा वांट्याचो जण एकलो एका तुबकाचे नळयेंत गुळी घालून मुखार वांटकुळीच घुंवतले एके तबकडेचेर ती सोडटालो आनी थंय दवरिल्ली वस्त सकल उडयतालो. थंय जमिल्लो जण एकलो ह्या खेळांत धुंद जाल्लो.

जपानी लोक नशिबाची परिक्षा घेवपाक असो पेटिल्लो पळोवन मन खंती जालें. नशिबाची परिक्षा घेवपाक जिवितांत दुसरीं कितलींशीं मळां आसात. आनी जपानी लोकांनी तीं सगळीं व्यापल्यांत म्हळ्यार जाता. मागीर हांगा ही सर्त कित्याक? जुगडेंत एक कैफ आसता, मान्य. पुणून जुगडेंत पयशे मेळपाची थोडी आस्त तरी आसता. हांगा कितेंय मेळ्ळेंच जाल्यार सिगरेटीचें एक पाकिटूच मेळटा. पुणून ते खातीर वरांचीं वरां खेळत बसपाचें? जपानी मन खंय तरी चिड्डल्लें आसूंक जाय, कित्याक लागून चिड्डलां आसूंक जाय, ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदपाक लागलों.

खंती मनान भोंवत भोंवत आमी दर्या वेळेर वचून बसले. थंय एक वेगळेंच आतामी दिश्टी पडलें. कितलींशीं तरणीं जोडपीं हातांत हात घालून हांगा मजेंत भोंवतालीं. कांय वेळेर बसून मोग करपांत दंग जाल्लीं. हांवें मनांत म्हळें, हें खरें आतामी. जोडप्यांनी येवपाचें थळ. जोडपें लग्नाचेंच आसूंक जाय असो आतामीचो आग्रो ना. आग्रो एकूच - जें हांगा येता तें

एकामेकांचेर भाळिल्लें आसूंक जाय.

जपानांत घोव बायलेची निष्ठा लग्ना भायल्या मोगा आड येना. हेर कडेन लोक मोग करतात लग्न जावपा खातीर. लग्ना उपरांत घोव दुसरे खंयचेय बायलेच्या मोगांत पडलो जाल्यार कुटुंबाची विदर्णा सुरू जाता. जपानांत कुटूंब वेगळें आनी मोग वेगळो अशीं जिविताचीं दोन वेगळीं मळां मानून घेतल्यांत. एक मळ लागणुकांचें. दुसरें, मन रिझोवणेचें, चैनीचें. मनशाच्या जिवितांत ल्हानशीच जावं, पुणून चैनीक़ इल्ली सुवात आसूंक जाय हो जपानी संस्कार, कांय शतमानां पसूनचो. कोणागेरूय वचून न्हालो जेवलो म्हूण जशें पातक पुण्य कांय लागना तसो लग्ना भायर मोग केलो म्हुण्णूय पातक पुण्य लागना. फकत एका मळान दुसऱ्या मळांत मदीं पडूंक फावना इतल्या ह्या नेमाक पाळो दितकूच जालो. मागीर घरकान्न लेगीत आपणाल्या घरकाराक तागेले इश्टिणीगेर वचपाची मेकळीक दितली. ताका मागीर लिपचोरयांनी वचपाची गरज भासची ना. हेर कडली नीत आनी जपान्यांची नीत हांचे मदीं खूब फरक आसा.

मुखार एके कडेन एक म्हातारो एके तरणे पिरायेचे चलयेच्या कमराक विळखो घालून खोशयेंत वतालो तो पळेलो. हांव ताचे कडेन लक्तुबायेन पळेतां तें पळोवन नरेशान म्हळें, 'हाका ही इश्टीण भाड्यान मेळ्ळ्या!'

'कितेंऽ, हांगा इश्टिणी भाड्यान मेळटात? मागीर, हो मोग कसलो? हो वखवख जालो!' हातांत हात घालून जीं जोडपीं हांगा भोंवतात तांचे मजगतींय कांय जोडपीं काळजाची ओलसाण नाशिल्लीं आसतलीं. एकल्याचीं सपनां दुसऱ्याच्या अंतस्कर्णांत फुल्लीं नात जाल्यार तो मोग न्हय, तो बाजार. ज्या समाजाक मेकळ्या मोगाचें दायज मेळ्ळां थंय ही विकृताय खंयच्यान आयली काय देवा! म्हजें मन उद्‌विग्न जालें. ज्या मेकळ्या मोगाची हांवें कल्पना केल्ली तो असलो हळशिकावणो बाजार आसतलो अशें दिसूंक नाशिल्लें.

आतां, म्हळें, हॉटेलांत गेल्लें बरें. आनी आमी परतले.

येतना आमी मंद उजवाडाचे दुसरे एके वाटेन चलूंक लागले. हे वाटेन पावला काणकणी 'बार' आशिल्ले. एका बारा सरीं पावले तेन्ना भायर उबो

आशिल्लो एकलो 'हे भायले आसूंक जाय' असो अदमास लावन मोडके तोडके इंग्रजींत कितें तरी आमकां सांगपाक लागलो.

'तो कितें सांगता?' हांवें नरेशाक विचारलें.

'स्ट्रीप टीज' पळोवंक येयात म्हूण आग्रो करता.'

'स्ट्रीप टीज' म्हळ्यार एक खेळ. ह्या खेळांत एक तरणे पिरायेची चली स्टेजीर येता आनी नाचत नाचत आपणाल्या आंगा वयलें एक एक लुगट अळंग काडून उडयता आनी इल्ली इल्ली करून सामकी विवस्त्र जावन मुखार उबी रावता. शीऽ. खंयचे आमी आतामींत रात रावले, अशें म्हाका जालें. दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत अमेरिकेच्या प्रभावान ही घाण जपानांत रिगली म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना तर म्हाका अमेरिकेची सुमारा भायर भिरभिरी मारली. अणुबाँब घालून तिणें जपानाचो विध्वंस केला ताचेकूय हजार वांट्यांनी चड ही घाण हांगा हाडून केला अशें दिसलें.



६

# ओश्योसामा

आतामीक सावन हाकोनेक वता आसतना वाटेर फुजी पर्वत पळेलो. पुणून ते पयलीं आतामीकूच एक व्हड जपानी पळेलो. फुजी येद्याच ऊंच व्यक्तिमत्वाचो - ओश्योसामा.

जपान एक बुद्ध-धर्मी देश. पुणून थंय चलता तो बुद्ध-धर्म धर्मानन्द कोसंबी सारकेल्यांच्या पुस्तकां वेल्यान आमी वळखतात ते परंपरेंतलो न्हय. दुसरे परंपरेंतलो. दोनूय परंपरां मजगतचो फरक समजावन सांगपाची ही सुवात न्हय. पुणून जपानच्या रासवळ जिवितांतली ओश्योसामाची सुवात समजून घेवपा खातीर बुद्धधर्माच्या इतिहासा वेल्यान मातशी एक उडटी नदर भोंवडावन कांय गजाली जाणा जावन घेवंक जाय.

बुद्धाचें परिनिर्वाण जावन शंबरूच वर्सां जाल्यांत. म्हणटासर भगवंताच्या उपदेसाची खरी मोख कितें आशिल्ली ह्या प्रस्नाक धरून बौद्धां मजगतीं एक वाद उपरासून आयलो. त्रिपिटकांत आयिल्ल्या उपदेसाक धरून जे चलत आयिल्ले ते 'निर्वाण' हीच निमाणी मोख अशें म्हणपाक लागले. आनी 'निर्वाण' जोडपा खातीर घरदार सोडून जल्म-मरणाच्या चाकांतल्यान आपणाली सुटका करून घेवपा खातीर भिक्खू जावंक जाय, लोक आमचे फाटल्यान येतात काय येनात हें पळे नासतना मोख गांठूंक जाय, अशें सांगपाक लागले. तर, जांणी हो प्रस्न उपरासून काडिल्लो ते म्हणपाक लागले, निर्वाण हें साधनेचें एक आंग आसलें तरूय ती निमाणी मोख आसची ना. कित्याक, खासा भगवंत निर्वाण जोडले उपरांतूय आयुष्य भर लोकांच्या उद्धारा खातीर वावर करीत रावला. अशीर पाळणींतल्यान वता

आसतना उदार मनाचे लोक आपूण कुशीक सरून दुसऱ्यांक मुखार वचपा खातीर वाट मेकळी करून दितात. तशी, निजी निर्वाण कडेक दवरून दुसऱ्यांक वांगडा घेवन मुखार वचप हीच भगवंताच्या उपदेसाची खरी मोख आसूंक जाय.

ह्या वादाक लागून 'संघ' फुटलो. सगळ्यांक वांगडा घेवन जे मुखार वचूंक जाय म्हणटाले ते आपणाक 'महायानी' म्हणोवन घेवपाक लागले. तर जे परंपरेक दसून रावले तांकां 'हीनयानी' म्हणपाक लागले. परंपरेक दसून राविल्ले आपणाली वळख म्हालगड्यांचे वाटेन चलपी 'थेरवादी' म्हूण करून दिवपाक लागले.

ह्या दोन 'यानां' मदलो थेरवादी परंपरेंतलो बुद्धधर्म श्रीलंका, मियान्मार (ब्रह्मदेश), सियाम बी वाटारांत चलता तर महायानी परंपरा नेपाळ, तिबेट, मोंगोलिया, चीन, कोरिया, जपाना मेरेन पातळ्ळ्या.

जपान हो महायानी परंपरेंतलो एक बौद्ध देस.

मुखार महायानी परंपरेंतूय फूट पडून कांय संप्रदाय खेरीतपणान चलपाक लागले. तांतले होस्सो, जिशू, जोदो, केगॉन, रित्सू, शिंगॉन, तेन्दाय, झेन, निचिरेन अशे धा बारा संप्रदाय जपानांत आयज चलतात.

हांतलो निचिरेन संप्रदायूच नीज जपानी. हेर सगळे चीन देसांतल्यान आयिल्ले. हो संप्रदाय सुरू केलो निचिरेनान. धर्मा विशिंच्या जपानच्या पुराय इतिहासांत निचिरेना येदें प्रभावी व्यक्तिमत्व दुसरें पळोवंक मेळना. तो गिन्यानी आशिल्लो तसो झुजारीय आशिल्लो. बुद्धाच्या नांवान चलतात त्या संप्रदायां मजगतच्या खंयच्या संप्रदायाचो बुद्धधर्म खरो हाचो सोद घेत रावलो तेन्ना 'सद्धर्म पुंडरिक' ग्रंथांत सांगिल्लोच खरो बुद्धधर्म ह्या निर्णयार तो पावलो. मागीर भार आयिल्ल्या खंयच्याय पैगंबरा भाशेन तो ताचो प्रचार करीत रावलो. बुद्धाच्या नांवान चलतात ते सगळे पंथ फटकिरे, धोंगी, देशघातकी. तांणी जपानाचें नाशें केलां. सगळे हुमटावन भायर मारूंक जाय आनी सगळ्यांनी 'सद्धर्म पुंडरिका'क शरण वचूंक जाय - हे तरेचो प्रचार ताणें चलयलो. आपूण सांगतां तें जपानान मानून घेतलें ना जाल्यार भायले घुरयेचें संकश्ट एक दीस ताचेर कोंसळपाचें आसा, अशेंय शिटकावन सांगपाक लागलो. तागेल्या ह्या झुजारी प्रचाराक

लागून बाकिचे बौद्ध दुखावले. तांणी निचिरेनाचो विरोध सुरू केलो. इतलेंच न्हय, तर ताका मारपा खातीर लोकांक खुबळावन घाले. ताच्या घराक उजो घालो. तरूय निचिरेनान पर्वा केली ना. उरफाटो, विरोध वाडत रावलो तसो तसो तो शारां शारांनी, गांवां गांवांनी, वाड्यां वाड्यांनी वचून आपणाल्या मत्ताचो अदीक नेटान प्रचार करीत भोंवंक लागलो. निचिरेनाक लागून समाजाची सवस्तकाय इबाडटा हें पळोवन सरकारान ताका धरून इसा नांवाचे एके सुवातेर बंदिस्त दवरलो. तीन वर्सांनी ताची सुटका जाली तेन्ना तो आदले परस अदीक नेटान वावरूंक लागलो. तागेल्या व्यक्तिमत्वाच्या प्रभावान ताचे भोंवतणीं कितलेशे शिष्य एकठांय जाले. जिस्त ह्या वेळार कुब्लाईखान चीन कोरिया माड्डून जपानाचेर घुरी घालपाचो बेत करूंक लागला म्हणपाची खबर जपानांत पातळ्ळी. 'हांवें सांगूंक नाशिल्लें तुमकां जपानाचेर घुरी घालून कोणूय एक दीस येतलो म्हूण?' निचिरेनान सरकाराक आनी लोकांक आपणाले सांगणेचो उगडास करून दिलो. परिणाम - निचिरेन कुब्लाईखानाक फितूर जाला असो सरकाराक दुबाव आयलो. सरकारान ताची गोमटी कातरून उडोवपाची ख्यास्त फर्मायली. अशें म्हणटात, मारेकाऱ्यान ताचेर तरसाद मात उखल्ल्या - अवचीत मळबाक उजो पेटिल्ले वरी दिसलो आनी उज्याचो एक गुळो दक्षीण-उदेंत दिकेंतल्यान उत्तर-अस्तम दिकेक गेलो. हो चमत्कार पळोवन मारेकाऱ्याक थरथरो भरलो आनी ताच्या हातांतली तरसाद गळून पडली. निचिरेनाची तकली कातरूंक आतां कोण मुखार येतलो? खासा निचिरेनाचेर ह्या चमत्काराचो खूब व्हड परिणाम जालो. आपणाक नवो जल्म मेळ्ळा अशें ताका दिसपाक लागलें. ताचो आत्मविस्वास वाडलो. तो कितल्याश्या अदीक नेटान प्रचार करूंक लागलो. 'हांव म्हळ्यार खासा जपान. जपान म्हज्या भुजांचेर उबें आसा. म्हजे दोळे म्हळ्यार जपानाचे दोळे. जपान म्हज्या तोंडांतल्यान उलयता. म्हज्या दोळ्यांनी पळेता' ह्या नेटान तो उलोवपाक लागलो.

जिस्त ह्या वेळार कुब्लाईखानान जपानाचेर घुरी घाली. सरकार निचिरेना कडेन जुळोवन घेवपाक तयार जालें. निचिरेनान दुसऱ्या पंथांक उणे लेखचे न्हय हे एके अटीर. निचिरेन हाका तयार जावं नाका? 'कितल्याश्या

पंथां मजगतचो म्हजो एक पंथ? च्चे! सगळे पंथ ना जावंक जाय. म्हजोच एक पंथ चलूंक जाय. म्हजोच पंथ खरो. इतलेंच न्हय, तर हांगा सावन तो संवसारभर पातळूंक जाय...' अशें तो सांगूंक लागलो.

निचिरेनाचें जिवीत क्रान्तिकारी राष्ट्रीय संताचें. साहसांनी आनी संकश्टांनी उपाट भरिल्लें आशिल्लें. ताच्यांत झुजाऱ्याचीं कणखरपणां आशिल्लीं. संता सारको माया-मोग आशिल्लो. गिन्यानी मनशाची प्रज्ञा आशिल्ली आनी राष्ट्रनेत्यांत आसूंक जाय ती उर्बाय आशिल्ली.

तेराव्या शतमानांतल्या ह्या तेजिश्ट राष्ट्रपुरसाचे जपानाचेर खोल संस्कार जाल्यात. ओश्योसामाच्याय जिविताचेर ते जाल्यात. ओश्योसामांच्या जिवितांत निचिरेनाचें पडबिंब दिश्टी पडटा. एक खरें, सातशें वर्सां आदलो संवसार आयज उरूंक ना. हेर सगळे पंथ सोडून आपणालोच एक पंथ चलूंक जाय, अशें ओश्योसामा म्हणी नात. पुणून 'सद्धर्म पुंडरिक' ग्रंथांत जो धर्म सांगला तोच संवसाराक तारतलो, म्हूण ताचो प्रचार सगळे कडेन जावंक जाय म्हणपाचो आपणालो भावार्त तांणी लिपोवन दवरूंक ना. ह्या भावार्ताक धरून तांणी संवसारांत खूब कडेन एका परस एक भव्य स्तूप बांदल्यात आनी थंय आपणाल्या शिष्यांक धर्मप्रचारा खातीर धाडून दिल्यात. आमच्याय देसांत जायते कडेन तांणी बांदून घेतिल्ले स्तूप पळोवंक मेळटात आनी थंय तांगेले शिष्यूय दिश्टी पडटात.

ओश्योसामांक हिन्दुस्तानांतले तांगेले शिष्य *फुजीई गुरुजी* ह्या नांवान वळखतात. तांगेलें खरें नांव *निचिदात्सू फुजीई*. ओश्योसामा नांवाचो अर्थ जिवो बुद्घ - Living Buddha.

भावार्ती मनीस कर्तुत्वी आसत जाल्यार तो कर्मठ जावंकूच जाय. ओश्योसामा कर्मठ. तांगेल्या कर्मठपणांत तांगेलें चारित्र्यूय पळोवंक मेळटा आनी तेजिश्टपणूय दिश्टी पडटा. सभेंत ते उलयतात तेन्ना तांगेले हे दोनूय गूण तांच्यांत दिश्टी पडटात. शेंकड्यांनी लोक तांगेलीं उलोवपां आयकून तांगेले शिष्य जाल्यात. तांच्या प्रभावांत एक फावट आयिल्लो मनीस अखेर मेरेन तांचोच जावन रावला. मागीर ताणें आपणाली सगळी बुद्द, संपत, कर्तुत्व तांच्या पांयां सरीं हाडून ओतलां. सभावान ते लोणया परसूय मोव. पुणून केन्ना केन्ना तांकां वज्रा परसूय घट जावंक येता. शिष्यांचेर आवय

सारको मोग करपी ओश्योसामा शिष्या कडल्यान इल्लीशी चूक घडत जाल्यार ताका ख्यास्त करपा वेळार वज्रा परसूय खर जावपाक मात लेगीत अनमननात. इतलेंय आसून ते हुकूमशाह केन्ना जाले नात. सत्ये पसून सदां जितले पयस रावले तितलेच वैभवा पसुनूय पयस रावले. विसव तांणी केन्ना घेतलो ना. धर्मकार्याक जिवीत ओंपपाचो नित्शय केला त्या वेळार हो नित्शय घट करपाक तांणी एके तरेची अग्नि-दीक्षा घेतिल्ली. पेटयल्ल्यो दोन मेणवाती तांणी आपणाल्या दोनूय बावळ्यांक लायिल्ल्यो आनी ते भाजून काडिल्ले. ताच्यो मावो अजून आसात.

निचिरेना सारकेच ते एक कट्टर राष्ट्रवादी. अख्ख्या आशिया खंडाचेर जपानाचो शेक चलूंक जाय अशें एका काळार ते मानताले. दुसऱ्या म्हाझुजांत जपानाचो हो हावेस मातये भरवण जालो तेन्ना ओश्योसामांतल्या ह्या हावेसान दुसरें एक रूप घेतलें. आशिया खंडाक 'वाट दाखोवपी' एक देश म्हूण जपान मुखार येवचें अशें तांकां दिसपाक लागलें. हो हावेस तांच्यांत आयजूय आसा.

तरणे पिरायेर ते बौद्ध थळांची यात्रा करपाक हिन्दुस्तानांत आयिल्ले. तेन्ना गांधीजींच्या सेवाग्राम आश्रमांतूय कांय दिसां खातीर येवन राविल्ले. 'तुमी हांगा कित्या खातीर आयल्यात?' गांधीजींनी तांकां विचारलें तेन्ना 'हिन्दुस्तान जिखपा खातीर' म्हूण तांणी मेकळेपणान तांकां जाप दिली. गांधीजींनी अजापान तांच्या तोंडा कडेन पळोवन विचारलें, 'कशें जिखूंक सोदतात तुमी हिन्दुस्तान?'

'बुद्धान जपान जिखलें ते तरेन...'

'मागीर अडचण ना... खुशाल जिखात', गांधीजींनी म्हळें.

पुणून घडलें वेगळें. ओश्योसामांकूच गांधीजींनी जिखले. आश्रमांत रावन ओश्योसामांनी सत्याग्रहाचें तंत्र शिकून घेतलें. पुराय आत्मसात केलें. हिन्दुस्तानांत स्वतंत्रताये खातीर परतो सत्याग्रह जातलो तेन्ना तांतूंत वांटो घेवपाचें तांगेल्या मनांत आशिल्लें. पुणून ते आयल्यात त्या दिसांनी हांगा सत्याग्रह चलनाशिल्लो. म्हूण ते जपानाक परतल्ले. तितले म्हणसर दुसरें म्हा-झूज सुरू जालें. ह्या झुजांत जपानाक हार खावची पडली. आनी अमेरिकेन जापानाक बळयां निःशस्त्र केलें. ताचीं सगळीं शस्त्रां काडून

घेतलीं. ओश्योसामांक ही देवान जपानाचेर केल्ली कृपा कशी दिसली आनी राष्ट्रपुरसाचे कुशलतायेन ते जपान भर भोंवन 'आतां हे मुखार आमी झुजान कसलोच प्रस्न सोडोवचे नात आनी झुजा खातीर केन्नाच शस्त्रां निर्माण करचे नात.' अशें लोकांक सांगीत रावले. सेवाग्राम आश्रमांत रावन तांणी जें घेतिल्लें ताचो उपेग करपाची ही संद कशी तांकां दिसली. तेन्ना सावन तांगेल्या धर्मप्रचाराच्या वावरांत विश्वशान्तीच्या प्रचाराचीय भर पडली. त्र्यांयशीं वर्सांची तांगेली पिराय. हे उतार पिरायेर लेगीत ते विश्वशान्ती खातीर लोकमत संघटीत करपाक जपान भर भोंवत आसतात.

आमी आतामीक पावल्यात त्या दिसा ओश्योसामाय थंय पाविल्ले. एका दोंगरार एका भव्य देवळांत येवन राविल्ले. आमी तांची भेट घेवपाक गेल्यात तेन्ना तांगेली सांजची प्रार्थना सुरू जाल्ली. बुद्धाची मूर्त आशिल्ल्या एका देवाऱ्या मुखार एका ऊंच आसनार ते दिमी मोडून बशिल्ले. फाटले वटेन पांय दोडून तांणी जपानी तरेची मांडी घाल्ली. दाव्या हातांत चामड्याचो एक वांटकुळ्या आयण्या सारको ड्रम घेतिल्लो आनी उजव्या हातांत एक बडी. ही बडी त्या धोलक्यार (ड्रमाचेर) मारून ते *'नम् म्यो होरेंगे क्यों'* चो जप करताले. तांचे फाटल्यान तांगेले कांय शिष्य बशिल्ले. तांच्याय हातांत ड्रम आनी बडी आशिल्ली. तेय ड्रम वाजोवन तांकां साथ दिताले. दोशीं वशिंनी दोन व्हड धोल आशिल्ले. दोग शिष्य ते वाजयत बशिल्ले. आमी थंय पावल्यात तेन्ना तांगेल्या शिष्यांनी आमकां कमर बागोवन येवकार दिलो आनी प्रार्थना चलताली थंय आमकां घेवन गेले. आमच्याय हातांत तांणी ड्रम आमी बडी दिली. सुमार अर्द वर हो जप चल्लो. काकासायबांनी, उपरांत म्हाका त्या मंत्राचो अर्थ सांगलो. *'नम्'* म्हळ्यार संस्कृत भाशेंतलो *'नमः'*, *'म्यो होरेंगे क्यों'* हीं चिनी जपानी उतरां. 'आमी सद्धर्म पुंडरिक सूक्ताक नमस्कार करतांव, त्या ग्रंथाक शरण वतांव, ताचो जयजयकार जावं' असो ह्या मंत्राचो अर्थ जाता. निचिरेन पंथांतल्या लोकांच्या मत्तान ह्या मंत्रांत बुद्ध-धर्माचो आपरोस आयला. आमच्या देसांत कांय हिन्दू गीतेक शरण वतात तेन्ना *'गीते माते नमोस्तुते'* म्हणटात तशे हे बुद्धाक शरण वचपा बदला ज्या ग्रंथांत बुद्धाची खरी शिकवण सांगल्या (असो तांचो समज आसा) त्या ग्रंथाक शरण वतात. होच मंत्र संवसाराक



तारतलो असो निचिरेनाचो भावार्थ आशिल्लो. सुर्याक गवाय दवरून ताणें ही घोशणा केल्ली. म्हूण ह्या पंथांतले लोक एकामेकांक मेळटात तेन्ना चुकऽ नासतना हो मंत्र म्हणून एकामेकांक नमन करतात. खंयूय वचूं, तांच्या खांद्याक एक पिशवी आसता आनी हे पिशवेंत ड्रम आनी बडी आसता. तो वाजयत ते संवसार भर हो मंत्र म्हणीत भोंवतात.

प्रार्थना सोंपली आनी ओश्योसामा आपणाल्या आसना वेले उठले. सरसमान जपानी मनशा इतलेच ऊंच. वाळू मातशी व्हड. पिराय जाल्ली आसुनूय घटमूट. दांतांक भांगराची एक किनार. मुखामळ हांसकुरें. पळेनाफुडें तांचो प्रभाव पडटा. काकासायब बरोच वेळ तांचे कडेन उलयत बसले. काकासायब हिन्दींतल्यान तर ओश्योसामा जपानींतल्यान उलयताले. कात्सू नांवाची एक चली दुभाष्याचें काम करताली. हिन्दी शिकपा खातीर ही चली दिल्लीक आयिल्ली आनी सन्निधींत काकासायबां सरींच राविल्ली. चार पांच वर्सां आशिल्ली. तुर्ताक ती ओश्योसामाची भक्तिभावान सेवा करता. गांधीजींच्या सांगात्यां मजगतच्या काकासायबां विशीं ओश्योसामाक चड आपलेपण. तांकां आयिल्ले पळोवन ते खोश्शी जाल्ले. हरशीं दोगांयची जिविता कडेन पळोवपाची नदर आनी काम करपाची तरा वेगळी. भूंय मळबा इतलें अंतर आशिल्ली. पुणून काळजान दोगूय एक जाल्ले.

स्तुपा लागसारूच ओश्योसामाचे आवयची समाधी आसा. तिच्या यादस्तिकाचो बुन्यादीचो फातर काकासायबांनी घाल्लो. त्या वेळार तांणी एक ल्हानशें पुणून मनशाच्या जिवितांतली आवयची सुवात खंयची तें सांगून उलोवप केल्लें. तें आयकता आसतना खंयच्या तरी एका इंग्रजी कवीच्यो दोन वळी म्हाका येवजल्यो -

The sweetest sounds to mortals given
Are heard in Mother, Home and Heaven

आमी थंयच्यान भायर सरल्यात तेन्ना रात पडिल्ली. चन्द्रान आपणाली किरणां समुद्रांत पातळावन वातावरण प्रसन्न केल्लें.



## ७

# फुजीसान

धरबांद नाशिल्ल्यो आतामीच्यो लिला काकासायबांनी पळोवंक नाशिल्ल्यो. ते न्हिदूंक गेल्यात ते उपरांत त्यो सुरू जाल्ल्यो आनी न्हिदून उठल्यात ते पयलींच सोंपिल्ल्यो. तांणी फकत आतामी आशिकुशीनचें सैमूच पळेल्लें आनी ह्या सैमाचेर ते भाळिल्ले. भाळपा सारकेंच सैम आतामीचें. दुसऱ्या दिसा गोतेम्बाक वचपाक भायर सरले तेन्ना ओश्योसामांचो निरोप घेवपाक आमी बुद्ध मंदिरांत गेल्ले. थंय काकासायबांनी तांकां म्हळें, 'जपानांत पावल्यार आतामी पळेले बगर परतूं नाकात म्हूण आमच्या देसांत सगळ्यांक सदां सांगीत आयलां. हेय खेपे म्हाका आतामी पळोवंक मेळ्ळें हाची म्हाका खुब्ब खोस भोगता.'

'आतामी तुमकां इतलें आवडलां जाल्यार हांगाच कित्याक राविनात तुमी?' ओश्योसामांनी तांकां विचारलें.

काकासायब फकत हांसले.

हांवें मनांत म्हळें, सुंदर थळ पळेतकूच थंयच रावचेंशें दिसचें हो काकासायबांचो सभाव आशिल्लो जाल्यार हिमालयांतल्यान ते केन्ना परते येवचेच नाशिल्ले. सैमाचे सुंदरकाये कडेन एकजीव जावप आनी तेच वांगडा तिचे पसून अलिप्त रावप हें तांच्या सभावाचें एक खाशेलें आंग. म्हूण खंयचेच कडेन ते दसून रावूंक नात.

थोड्या वेळान आमी उठले. ओश्योसामाय आमचे वांगडा गोतेम्बाक येवपाचे आशिल्ले. म्हाका खंय खबर! तांकां भायर सरिल्ले पळोवन म्हाका खुब्ब खोस जाली. म्हळें, दोगां व्हड मनशांचो सांगात मेळप आनी तांच्यो

खबरोय आयकूंक मेळप ही पर्वणीच म्हणूंक जाय एके तरेची.

नागमोडे भोंवाडे मारीत आमच्यो गाडयो एक पर्वत चडपाक लागल्यो. चडत रावले तशें तशें भोंवतणचें सैम आपणालीं खाशेलीं आंगां आमचे मुखार उकतीं करपाक लागलें. आतामींतलें सैम सोबीत सुंदरूच. पुणून हें सामकें अद्भूत आनी अजापाचें. धारे मेरेनचो पुराय वाटार कुचकुचीत रुखावळीन भरिल्लो. शेंकड्यांनी दोंगर पांचवेचार रुखावळीन भारावल्ले. पांचव्या रंगाच्यो इतल्यो तरा पळोवन हांवूय भारावन गेल्लों. हालींच जपानी हाइकू वाचपाक लागिल्लों (इंग्रजींत). एक हाइकू येवजली -

In this land of ours

Even a grass puts forth

Flowers like cherry-blossoms

हांव उजवे वटेन पळोवपाक लागलों. म्हणटासर दावे वटेन नदर गेली. जपान म्हळ्यार बद्द स्वर्ग हाची जाणवीक म्हाका पयलेच फावट हांगा जाल्या.

दोंगरा माथ्यार पावतकूच अवचीत आमच्या गाडयांचो वेग देंविल्ले वरी दिसलो. आमचे मुखार आशिल्ले गाडयेंत काकासायब आनी ओश्योसामा बशिल्ले. दोगूय दावे वसल्यान कितें तरी पळेताले. म्हजीय नदर आपशीं ते दिकेन गेली. जाल्यार कितें दिश्टी पडचें - आकांताची व्हडली एक घळण, आंगार भंयान कांटो फुलोवपी, तेच बरोबर, सुंदर, दिश्ट लागपा सारकी, तांतूंत मदीं एक व्हड तळें, निळ्या रंगाचें आनी पेले कडेन अंतराळाच्या रंगा कडेन भरसल्लो आनी पुराय आसमंत वेंगेंत घेतिल्लो फुजी पर्वत! जपानांतल्या पर्वतां मजगतचो राजा!

आमी गाडयो थांबोवन देंवले.

सह्याद्रीचीं कितलींशीं रुपां पळेल्यांत हांवें. बेळगांवां सावन वाडये येतना वाटेर लागता त्या आंबोली घाटाचें रूप एक. बेळगांवच्यान गोंयां येता आसतना लागता त्या अनमोड घाटाचें आनीक एक रूप. जाल्यार दूदसागराक माथ्यार घेतिल्ल्या तिनईघाटाचें तिसरें रूप. कितलेशे खेपो हीं रुपां पळेल्यांत. तरूय मन अजून धादोसभरीत जावंक ना. सारकीं पळोवंकूच नात हीं रुपां अशें अजून दिसता. ते भायर, हिमालयांत दोन

सवाय दोन म्हयने भोंवलां. जम्नोत्री, गंगोत्री, केदार, बद्री सारकीं भव्य थळां पळेल्यांत. सदांकाळ उरपा सारकीं सपनां कशीं तीं मनांत आयजूय उरल्यांत.

आयज हांव जपानांतल्या फुजी पर्वता मुखार उबो आशिल्लों! ताचें काव्य घोंट भरू भरून पियेत रावलों.

पर्वतांचोच एक देस हो. एका फुडले एक पर्वत जपानांत आसात. शेंकड्यांनी म्हळ्यार जाता. पुणून ह्या पर्वतांत उठून दिसता तो मात एकलोच - फुजी. हिमालया येदो तो ऊंच न्हय. ताच्या अर्दानूय न्हय. पुणून 'या सम हा' म्हणपा सारको. इजिप्तांतल्या पिरामिडां सारको. पिरामीड मनशान उबे केल्यात. हाका सैमान हांगा उबो करून दवरला. पिरामिडां भाशेन हाच्यो चारूय कडो सारक्यो, समरुपी. जपानी काळजांत हाका सुवात मेळ्ळ्या ती साद्‌या पर्वताची न्हय, तर साक्षात देवाची. खंयचोच जपानी हाका फकत फुजी म्हणचो ना. फुजी'सान' म्हणटलो. 'सान' म्हळ्यार बाब - फुजीबाब हो तांगेलो. जपान्यांनी हाका फातर गुंड्यां तळपांचो पर्वत केन्नाच लेखलो ना. सदां देवूच मानला. बऱ्यांतल्या बऱ्या आनी व्हडांतल्या व्हड कवींक स्फूर्त दिवपी पर्वत हो एक. बऱ्यांतल्या बऱ्या चित्रकाराचें सपन हें एक. जपानी संस्कृतायेंत जें म्हूण कितें ऊंच, उदात्त, भव्य, पवित्र, थीर मेळटा ताचें प्रतीक म्हूण लोक हाचे कडेन पळेतात.

फुजी पळोवन धन्य जालों. एकूच उणें आशिल्लें. तें म्हळ्यार, ताका सोबा हाडपी बर्फाचो मुकूट ताच्या माथ्यार आयज नाशिल्लो. ताचे बदला बर्फाचे दोन उबे पटे आशिल्ले - सामुराईच्या कमराक हुमकळपी तरसादीं वरी ते दिसताले. नरेश ताचो भक्त एक. म्हणपाक लागलो, 'हाचे सारको कोल्ली पर्वत दुसरो मेळचो ना. दिसलो जाल्यार दिसलो, ना जाल्यार दिसचोच ना. लिपून रावतलो. आमी भाग्यवंत म्हूण तो आमकां दिश्टी पडलो.' आनी कॅमेऱ्यांत ताका धरून दवरपाचो यत्न करपाक लागलो. जपानी लोकांक ताचो व्हड अभिमान कित्याक तें म्हाका आतां इल्लें इल्लें समजूंक लागिल्लें. खरेंच, एक देखणो पर्वत हो. भव्य. घोंटिल्लो. चारूय कडांनी सारको. सैमाचें एक व्हड काव्य कसो.

मोटारी सुटल्यो तेन्ना नरेशान म्हळें, हाकोने साकून गोतेम्बाक पावतकूच

फुजीसान आमकां हाचेकूय बरो दिसतलो. गोतेम्बा ताच्या मुळसांतूच वसलां.

उबाळांचे दीस. तरूय भोंवतणचो वाटार पाचवोचार. पयस-पयसले पर्वत मळबा कडेन इतले भरसल्ले की मळबाच्या निळ्या आनी रुखावळीच्या पाचव्या रंगां मदलो फरक कळनाशिल्लो. आमी वताले ते वाटेक समान्तर अशी एक वाट वताली. तोक्योच्या हॉटेलांत हिरोशिगो नांवाच्या एका चित्रकाराच्या चित्रांचो आल्बम पळेल्लो. हे वाटे वयले देखाव तांतूंत आशिल्ले. हांवें नरेशाक विचारलें, 'हिरोशिगोच्या चित्रांतले देखाव हांगासल्ले?' 'हय', ताणें जाप दिली. 'जपानी चित्रकलेचें एक व्हड दायज लेखतात लोक ह्या चित्रांक... ते भायर हे वाटे वयल्यान यात्रा केल्ल्या जिप्पेनशा नांवाच्या एका बरप्याचें प्रवास वर्णनाचें एक पुस्तक आसा. जपानी बरपावळींतलें 'क्लासिक' मानतात लोक ताका. तेंवूय हिरोशिगोच्या चित्रां इतलेंच म्हत्वाचें.' हांवें ही वाट बारिकसाणेन नियाळून पळेली. पोरणी आसली तरूय दोनूय वशीनच्या ऊंच रुखांक लागून भव्य दिसताली. आदले मुस्तींत लोक हे वाटे वेल्यान पांयांनी यात्रा करताले तेन्ना तांकां भोगताले ते खोशयेचो अदमास म्हाका थोडोभोव आयलो.

फुजीसान हें एका काळार एक धगधगीत जाळमूख आशिल्लें म्हणपाचें आयकल्लें. तें हो वाटार पळेतकूच खरेंच दिसना जालें. फकत दोन शतमानां जालीं, हें जाळमूख न्हिवल्यार. तें धगधगतालें तेन्ना धुंवराचे लोळ वयर येताले आनी कुपांनी भरसताले. त्या वेळार फुजी कसो दिसतालो काय, हाचो अदमास करूंक लागलों. आयज ताच्या गोपांत कितलींशीं तळीं आसात, कुचकुचीत रुखावळींनी भरिल्ले कितलेशे दोंगर आसात. ते मुस्तींत कितें आशिल्लें काय हांगा? इतलोच सोबीत दिसतालो हो वाटार, काय भयांक्रूत? दोन शतमानां म्हळ्यार चड पयसलो काळ न्हय. काल पयरचोच. हांव कल्पना करीत राविल्लों. इतल्यांत ओदोळ दोंगरा वयल्यान दिश्टी पडिल्लें तें तळें मुखार उबें राविल्लें पळेलें. आमच्यो गाडयो ताचे कुशीनच्यान धांवंक लागिल्ल्यो. तळ्याचें उदक शान्त, शितळ, निर्मळ. ओपार दिवचीच जाल्यार वाल्मीकी सारकेल्या एका व्हड कवीचे प्रतिभेचीच दिवची पडटली. भोंवतणच्या सैमांतल्यान सुंदरकाय जशी कितें भरूभरून

ओततालो. आमची वाट केन्ना तळ्याच्या पांवड्यार देंवतालो, तर केन्ना पयसल्यान ताची सोबा सारकी नियाळूंक येवची म्हूण दोंगरार वयर चडटालो. हांव त्या तळ्याचेर तर सामकोच भाळिल्लों. न्हंयो तळीं पळेलीं म्हणटकूच म्हज्यांतलो - कसो, कोण जाणा - मूळ पुरूस जागो जाता आनी ह्या उदकांत न्हावचें, उदकाचें आचमन तरी करचें म्हूण जीव आंवडेवंक लागता. गाडी मात्शी थांबोवया अशें म्हणूंक वतालों. इतल्यांत हांव भारतांत ना, एका परकी देसांत भोंवतां म्हणपाचो उगडास जालो. म्हज्या काळजांत उठिल्लीं ल्हांरा नरेशाक म्हज्या मुखामळार दिश्टी पडलीं जातलीं. ताणें म्हळें, 'आतां आमी गोतेम्बाक पावतले. थंयच्यान परततले तेन्ना ह्या तळ्याचे सासायेंत सप्तक भर उरतले.' हांव खोश्शी खोश्शी जालों. 'आदिंची साखर आवडे आणि तेचि जरी ओखदा जोडे' अशी म्हजी गत्त जाली.

'ह्या तळ्याचें नांव कितें?' हांवें विचारलें.

रुपाचो आनी नांवांचो मेळ जुळून आयले बगर देखाव पूर्ण पळेल्ले वरी जायना. 'आशी', नरेशान नांव सांगलें. जपानी लोक हाका आशिनोको म्हणटात. 'को' म्हळ्यार तळें आनी 'नो' म्हळ्यार 'चें' - 'आशीचें तळें.' आशिनोकोचो अर्थ हो.

दीस वयर आयिल्लो. हाका लागून भोंवतणचें सैम चकचकपाक लागिल्लें. चलत हांगा पाविल्लों जाल्यार ही सुंदरकाय, ही पवित्रताय, ही थंडाय पळोवन घडये म्हजे पांय हांगाच जमनींत रोमतले आशिल्ले. पुणून मोटारींत आशिल्लों आनी मोटार वेगान धांवत राविल्ली.

अवचीत गाडयो दावे कुशीन घुंवल्यो. म्हणटासर ढम्... ढम्... ढम्... चामड्याच्या धोलक्याचो आवाज आनी *'नम् म्यो होरेंगे क्यों'* मंत्राचो उद्घोष कानार पडलो. आमी गोतेम्बाक पाविल्ले. बुद्ध मंदिरांत काकासायबांच्या येवकाराक लोक येवन राविल्ले. आनी बुद्धाच्या देसांतल्या ह्या पवित्र सोयऱ्याक आशिर्वाद दिवपा खातीर भव्य फुजीसान मंदिराचे फाटले वटेन उबो आशिल्लो.



८

# आशिनोको

गोतेम्बा आयल्यान हाकोने. आशी तळें हांगाच आसा. तळ्या लागसारचे दोंगुल्ले वेल्या 'कागेत्सुयेन' हॉटेलांत आमी राविल्ले. चवथ्या माळ्यार आमच्यो कुडी. जनेलांतल्यान भायर नदर मारिना फुडें मुखार तळें दिश्टी पडटा. आनी उजवे वसले दोंगुल्ले फाटल्यान फुजीसानचें माथें. पुराय वाटार चीड देवदार जातीच्या रुखांनी भरिल्लो. हे रुखूच ह्या वाटाराक खरी सोबा हाडटात.

उबाळांचे दीस. तरूय हांगासल्लें तापीमान शुन्या सकल देंविल्लें. मदीं मदीं पिरी पिरी पावसूय झडटालो. धुकें इतलें दाट की मुखावेलें तळें, भोंवतणची रुखावळ, इतलेंच न्हय तर वयलें मळब लेगीत पातळ झिरझिरीत पड्ड्यांतल्यान पळेल्ले वरी दिसचें. फुजीसान तर लिपुनूच राविल्लो.

सप्तकभर आमी हांगा उरल्यात.

तिसऱ्या दिसाची खबर. भोंवतणीं दाट धुकें पातळ्ळेलें. काकासायब तें पळेताले. हांव म्हऱ्यांत बशिल्लों. म्हणपाक लागले, 'हांगासल्लें सैम एका व्हडांतल्या व्हड कलाकारा सारकें. जातिवंत कलेक तपशील सोंसनात... सुचोवपा सारकें, नदरेंत भरता असलें, ओड लागऽ सारकें दिसता तितलेंच दाखोवप... उरिल्लें सगळें पुसून उडोवप... तेंवूय इतले फिशालकायेन की पुसून उडयल्लें साप्प लिपून वचचें ना. पळेतल्याक ताची सुलूस मेळटली. हो बऱ्यांतले बरे कलेचो सभाव. तो हांगासल्ल्या सैमाक खूब बरो सादला...'

तांकां बरोवचें शें दिसलां जातलें असो म्हजो समज जालो. हांवें म्हळें, 'तुमकां कितेंय बरोवपाचें आसा व्हय? जाल्यार हांव बसलां हांगा... बरोवन

घेतां...

काकासायबांनी भायरूच नदर लावन म्हळें, 'आमकां बरोवंक येवचें म्हूण देवान ही लीला हांगा पातळावन दवरल्या व्हय?'

हांव समजलों. हांगा जी सुंदरकाय भरूभरून ओतता ती उतरांनी बांदून दवरपाक गेले जाल्यार तिचें फकत सूचनच जातलें. तिची वर्णना बरोवन जावची ना. जातिवंत रसीक आपणाली खोस उतरांनी बांदून काडिना. आपणा सारक्या दुसऱ्या रसिका सांगातान ती अणभवता आनी आपणाली खोस वाडयता.

हाकोनेक येवपाचें तें हांगासल्ले सुंदरकायेंत आपणाक शेणोवन घेवपा खातिरूच.

जपानाक देवान सुमारा भायर सुंदर सैम दिलां. ते भायर, जपानी लोकांक ही सुंदरकाय तोखेवपाची नदरूय दिल्या. आर्विल्ल्या विज्ञानाच्या आधारान जपानान आपणाली आकांताची उदरगत करून घेतल्या. उद्देग धंद्यांत तें खूब म्हळ्यार खुबूच मुखार गेलां. आपणाक जाय तो माल आपणा खातीर दवरून अंयशीं प्रतिशत माल तें निर्यात करून भायल्या देशांनी धाडूंक लागलां. म्हूण ताची तुस्त तोखणाय जाता ती जावपाचीच. पुणून ताणें हें सगळें सैमाक मात लेगीत बादा येवंक दिनासतना केलां, एका लेगीत रुखाचेर कुराडेचो घाय घाली नासतना केलां, आनन्दाची आनी संस्कारितायेची देख मनशांक दिवपी खंयच्याय सैमीक विभूती आड पाखंडी बंड करी नासतना केलां, हाची खरी तुस्त जावंक जाय.

हाकोनेक सिमेन्ट कॉंक्रीटचे मार्ग आसात. वीज आसा. नव्यो करकरीत मोटारगाडयो आसात. चडपाक कठीण पर्वतांचेर कांय-न्हय-शें करून चडोवपी 'केबल ट्रेनी' आसात. पर्वता माथ्या वेल्यान तळ्या कडेन पावोवपी 'रोप वे' आसात. तळ्यांत भोंवपाक वाफोर आसात. मोटार-बोटी आसात. विज्ञानाचो करूंक येत तितलोय वापर करून हांगासर येतल्या वेतल्यांक कसलीच अडचण सोंसची पडची ना हाची जतनाय घेवन सूख दिवपी तरेकवार वस्तूय आसात. तें कित्याक, भोंवतणचें रान लेगीत मनशांनीच तयार केलां. एकान एक रूख मनशान आपल्या हातान लायला. लावंक जाय थंयच लायला. इतलेंय आसून हें थळ हिमालयांतल्या थळा इतलेंच

सैमानूच निर्मिल्ले वरी दिसता.

एक दीस दनपारचे ओश्योसामा गोतेम्बाक सावन आयले आनी आमकां घेवन 'गोरा' नांवाच्या एका स्टेशनार गेले. पर्वताच्या आंगा वयल्यान चलपी 'केबल ट्रेन' घेवन आमी पर्वताच्या माथ्यार गेले. थंय 'रोप-वें'त बसले. आठ धा जाणांक बसपाक जागो आशिल्लो 'डबो' हो. लोखणाच्या राजवा वेल्यान धोलत धोलत तळ्याच्या कांठार आमकां घेवन गेलो.

सकल एक वेगळोच संवसार पातळ्ळेलो पळेलो. सोबीत, पाचवोचार. ताचें कितें करचें तेंच समजना जालें. रूख वतान चकचकताले. खिणा खिणाक रंग बदलताले. दोळे धादोसभरीत जावचे पयलींच किळांच मारिल्ले वरी एक आवाज कानार पडलो. आमच्या डब्यांत एक चुणचुणीत जपानी चली आशिल्ली. सकल दिश्टी पडटा ताचें म्हत्व आमकां समजावन सांगताली. जपानी भाशेचें एक उतर लेगीत समजऽ नाशिल्ल्या म्हाका ती कितें सांगता तें तिच्या आवाजा वेल्यानूच समजलें. सकल एका जाळमुखाचें तोंड तिका दिश्टी पडिल्लें. चिड्डल्लें जाळमूख हें. ताच्या तोंडाक कांय बुराक पडिल्ले. आनी तांतुंतल्यान गंधकाचे लोळ भायर सरताले. म्हजें नाक स्थितप्रज्ञ. वास घाण वळखूंक येना असलें. ताका लेगीत गंधकाचो वास आयलो. जाळमुखाच्या तोंडाचो व्यास खंय सुमार देड हजार मिटरांचो आनी तांतुंतल्यान जे लोळ उठ्ठाले तांतूंत, तांतीं बुडोवन काडिल्लें जाल्यार ताचो खिणांत कोळसो जातलो आशिल्लो. तीस पस्तीस मिनटांचीच अंतराळ यात्रा ही. तिचो उगडास काडल्यार आयज लेगीत आंगार कांटो फुलून येता.

करतां करतां आमी तळ्याच्या कांठार पावले. काकासायब आनी ओश्योसामा पयलींच वाफोरांत वचून बशिल्ले. आमी वाफोरार चडना फुडें तो चलपाक लागलो. भितर जपानी तरणाट्या चल्या चलयांचो एक पंगडूय आशिल्लो. सैम-पिश्या लोकांचो देस हो. सैमान आपणालें सगळें वैभव जशें कितें हांगा हाडून ओतलां. ताकाच लागून जपानी मन भावनाशीळ जावंक पावलां. सैमाचें आगळें रूप खंयूय उकताडा आयिल्लें आसूं, लोकांचे चोंब्याचे चोंबे तें पळोवपाक वतात. असल्याच लोकांचो हो एक चोंबो आमच्या वाफोरांत आशिल्लो.

तळ्याचो आकार वांकडो तिकडो. कांठा वयल्यो दोंगुल्ल्यो तळ्यांत आपणालें रूप तेळपाक बशिल्ले वरी दिसताल्यो. तांच्या आंगावेली रुखावळ तळ्याच्या निळ्या उदकांत भरसून गेल्ली. वाफोरान तळ्यांत कितलेशे भोंवताडे मारले. हांव पळोवपांत इतलो गुल्ल जाल्लों की जागो आसां काय सपनांत, धर्तरेर आसां काय स्वर्गांत, हाची साबुद्द म्हाका उरूंक नाशिल्ली. 'कशें दिसलें जपान?' ओश्योसामांनी म्हाका विचारलें तेन्ना 'स्वर्ग, बद्द स्वर्ग हो' ही जाप म्हजे जिबेर आपशींच आयली.

मोतो हाकोनेक आमी वाफोरांतल्यान देंवले तेन्ना दनपारचीं चार जाल्लीं. मोतो हाकोने म्हळ्यार मुदलांतलें हाकोने. सुमार तीन वरां आमी सपनांत विहार करताले. मोतो हाकोनेक आमकां स्पीड बोटीन एक भोंवाडो मारून येवपाची मेकळीक मेळची म्हूण शरद पंड्यान एक थाराव हाडलो. तो रोखडोच पास जालो. फकत, ताका, म्हाका आनी नरेशाक मेकळीक मेळ्ळी. खुशालभरीत जावन आमी स्पीड बोटींत बसले. पुणून - देवा म्हज्या - फुर्रर करून गेले आनी फुर्रर करून परतले. येदें व्हड हें तळें फकत धा मिनटांत पळोवप? शी, अरसीकपणाची शिमूच ही. वाफोर सवकास चलता तेन्ना दोंगर दोंगुल्ल्यो बऱ्यो फुलून येतात. स्पीड बोटीनूय आमी दोंगर-दोंगुल्ल्यो पळेल्यो. लागिंच्यान पळेल्यो. तरी आसतना, सांगूंक जाय - ना जाल्यार बिरमत फुट्टली - तांच्या सोबीत रुपाक बादा येवंक नाशिल्ली.

परतल्यात तेन्ना तीनसांज जाल्ली. परतीची वाट तळ्याच्या कांठा वयल्यानूच वताली. तिवूय सुंदर आशिल्ली. अवचीत एक विचार मनांत आयलो. म्हळें, ओदोळ आमचो तळ्यांत विहार चलिल्लो. आतां चल्ला तो तळ्या भायर व्हय? तळ्याचो कांठ तळ्याचेंच आंग न्हय व्हय? मुदयेंतलो खडो मुदयेचो वांटो न्हय अशें म्हणूं येत व्हय? ह्या तळ्याक सोबा हाडल्या ती फकत तळ्यांतल्या उदकानूच न्हय. कांठा वयले रुखावळीचेंय तिका हातबोट लागलां.

हॉटेलांत काकासायबांनी म्हळें, 'तळें पळोवन आमकां जाल्ली खोस आमच्या सगळ्यांच्या दोळ्यांत दिश्टी पडटाली ती सारकीच आशिल्ली काय जण एकल्याची वेगळी वेगळी आशिल्ली? आमचे तकलेंत घोळटाले ते विचार सारकेच आशिल्ले काय तेय वेगळे आशिल्ले? हांव पळेतालों

तेन्ना देश विदेशांत पळेल्ल्या कितल्याश्या तळ्यांचो उगडास म्हाका जाल्लो. तुका घडये मांडवी न्हंयेंत केल्ल्या विहाराचो जाल्लो आसतलो. सगळ्यांचे खोशयेंत सारकेपण थोडें भोव आशिल्लें म्हणुंया. पुणून जण एकल्याची खोस कितली वेगळी वेगळी आशिल्ली!... आमचे वांगडा जपानी भुरगींय आशिल्लीं. तांकां कसली खोस जाल्या जातली? आमी सगळ्यांनी एकठांयूच विहार केल्लो. पुणून आमचें जण एकल्याचें जिवीत वेगळें वेगळें तशी सगळ्यांची खोसूय वेगळी वेगळी आशिल्ली. येवजून पळे, म्हणटकूच तुका वेगळेच तरेची एक आनंदयात्रा केल्ल्याची खोस जातली.'

जिवीत गूढ. इतलें गूढ की तें सारकें आकळना. म्हाका जें आयज मेळ्ळां तें उतरांतल्यान म्हाका उकतावंक येवपाचें ना. सैमाच्या जिव्या नव्याताल्लपणांतूच ताची सुंदरकाय आसा. ताची नियाळणी काळीज उन्नत करपा खातिरूच करपाची आसता. उतरांनी बांदून दवरपा खातीर न्हय.

अवचीत याद जाली. आयज फुजीसान दिश्टीच पडलो ना. हवा हरशीं स्वच्छ आशिल्ली. पुणून तो लिपून रावलो तो अखेर मेरेन लिपुनूच रावलो. आपूण दिश्टी पडलों जाल्यार सगळ्यांचें लक्ष आपणा वशीन ओडून येतलें, भोंवतणची लीला कोण सारको पळोवंक पावचो ना अशें कितेंय येवजून लिपून रावलो ना मू तो? आसूं येता. चैतन्याचीच एक विभूती ती. बरेच रात मेरेन ताका सोदपाचो यत्न केलो. पुणून अखेर मेरेन तो ना म्हळ्यार नाच, दिश्टीच पडलो ना. पळेलां तें पयलीं काळजांत उपाट भरून, भितल्ल्यान गिरेस्त जा. थोडें पळोवंक ना आयज तुंवें. जिवितांत तुका नवे नवे अणभव हे मुखार येत रावतले पुणून आयज आयला ताचो उगडास सदां काळ उरूंक जाय. तुमकां केन्ना दिश्टी पडचों हें खासां हांवूच थारायतलों... अशेंचशें कितें तो आमकां सांगतालो.



९

# फुजीसानाचे फाटीर

सैमाचे नियाळणेन मनशाक खोस कित्याक भोगता? कांय जाण म्हणटात, 'आमकां सैमांत सैम रचतलोय दिश्टी पडटा. ताणें आपणाले मायेन सैम रचलें, मागीर आपुणूच ताच्यांत येवन रावलो.' विश्व म्हळ्यार विष्णून आंगार पांगुरिल्लें वस्त्र. विष्णूची वळख करून घेवपाची आसत जाल्यार ताच्या आंगावेल्या वस्त्राची वळख पयलीं करून घेवंक जाय, अशें तांगेलें म्हणणें. हे लोक न्हंयो, दर्ये, तळीं, पर्वत, रानां, झाडां-पेडां, जीव जंतू, विश्वाचे हे वेगवेगळे उन्मेष पळेतात, मागीर तांच्यांत आशिल्लो विष्णू तांकां दिश्टी पडूंक लागता.

हे तरेची जाप दिवपाचो धीर म्हाका जावचो ना. पुणून एक गजाल अनमन नासतना म्हज्यान सांगूं येता, सैमाचो खंयचोय उन्मेष पळेतां तेन्ना ताचें आनी म्हजें कसलेंय तरी एक नातें आसा म्हणपाचें म्हाका खोलायेन दिसपाक लागता. आनी मागीर काळीज ताचे कडेन एकतान जावपाक आंवडेवंक लागता. ब्रह्मानंद म्हळ्यार कसले तरेचो आनंद, म्हाका खबर ना. पुणून सैमाचे नियाळणेन जाता त्या आनंदाचो मात म्हाका खूब अणभव आसा. देखून खंयूय यात्रेक वतां तेन्ना होच आनंद अणभवूंक मेळचो ह्या हावेसान वतां.

हाकोनेक हे तरेचो आनंद खूब अणभवूंक मेळ्ळो.

फुजीन तर खुबूच आनंद दिलो. ज्या दिसा मळब निवळ आसतालें त्या दिसा तो आपणाल्या पुराय ऐश्वर्या सयत मुखार उबो रावतालो. तेन्ना सुंदरच दिसतालो. केन्ना कुपांची एक व्हडली परिशद ताच्या मुळसा कडेन

भरची. तेन्ना तो स्वर्गातल्यान देंवता काय कितें, असो भास जावचो
एकाद्र्या वेळार दाट धुकें पातळचें आनी तो हय-न्हय-सो दिसचो. तेन्ना ज
दिसचें ताची वर्णना करूंक येवपाची ना. फ्रेडरिक स्टार नांवाच्या तागेल्य
एका भक्तान ताचें एक तुस्तगीत बरयलां तें म्हाका हांगाच वाचूंक मेळ्ळें

Fuji bare and naked in a blaze of sunshine is beautiful

Fuji with its summit wrapped in cloud and mist is more beautiful.

Fuji blotted out by the fog until but a hint or a line is left is most beautiful.

एक दीस उठून भायर पळेलें जाल्यार फुजीच्या पोल्यार फांत्या पारावेली तांबशी फांकिल्ली दिश्टी पडली. दोळ्यांच्यो पातयो हालय नासतना हांव ती पळोवपाक लागलों. फुजी मुमुरख्यांनी हांसतालो. ताच्या पोल्यार फांकिल्लों शेंदुरी रंग घडकेंत गाढ जातालो, तर घडकेंत ना जातालो. म्हजे खोशयेंत कोणाक वांटेकारी करून घेवं, कांयच येवजना जालें. नरेश बाथरुमांत गेल्लो. शरदाचो रूम दुसरे कडेन आशिल्लो. काकासायब आनी सरोजबेन हांचे रूम तर सामक्या तोंकार आशिल्ले. फोना वेल्यान सांगतलों म्हळ्यार उठचें पडटलें आशिल्लें. आनी दर एका खिणाक बदलपी फुजीच्या पोल्या वेल्या रंगांचो खेळ चुकतलो आशिल्लो. देखाव एकलोच पळेत बसलों. ब्रेकफास्टाक आमी हॉटेलाच्या 'ग्रील रुमां'त एकठांय जाले तेन्ना सरोजबेनीन म्हळें, 'आजे सवारनुं दृश्यं केवुं सरस हतुं!'

हांवें उचांबळीत जावन तिका विचारलें, 'तमे जोयुं तुं?'

काकासायबांनी म्हळें, 'रंगांचो थाटूच पळोवपा सारको आशिल्लो.'

दोगांयनी हो देखाव पळेल्लो. म्हाका बरेंऽ दिसलें.

थोड्या वेळान आमी हाकोने सावन गोतेम्बाक वचपाक भायर सरले. गोतेम्बा फुजीचें 'गेट-वे'. पांच मोटारी भायर सरिल्ल्यो. एके मोटारींत ओश्योसामा आशिल्ले. वरा भराचे वाटेर फुजी-योशिदा नांवाचो एक गांव लागता. थंयच्यान फुजीचे फाटीर चडपाची एक वाट फुट्टा. आदल्या तेंपार लोक फुजीचे यात्रेक हेच वाटेन वताले. थंय एक शिन्तो मंदीर आसा. आनी वाटेच्या दोनूय कुशींनी मळबाक तेंकपाचो यत्न करपी

आकांताचे ऊंच रूख आसात. अजुनूय कांय जपानी हेच वाटेन यात्रा करतात. आमच्या देसांत ज्या भक्तिभावान लोक हिमालयाची यात्रा पांयांनी करतात त्याच भक्तिभावान फुजीची यात्रा पांयांनी करपी लोक आयजूय जपानांत आसात. हे वाटेक तेंकून दुसरी एक वाट वता. हे वाटे वेल्यान आमच्यो मोटारी धांवंक लागल्यो. योशिदाक पावचे पयलीं यामानाका नांवाचें एक तळें लागलें. सामान्यतायेन खंयच्याय एका देखाव्याची सर हांव दुसऱ्या खंयच्याय पळेल्ल्या देखाव्या कडेन करिना. दर एका देखाव्याचें खाशेलें अशें आगळें वेगळें एक रूप आसता म्हूण. तरी आसतना, यामानाका तळें पळेतकूच म्हाका उडिसांतल्या चिल्का तळ्याचो उगडास जालो. भुवनेश्वराक भरिल्ल्या कॉंग्रेस अधिवेशनाक आमी कांय जाण गोंयच्यान एके मोटारीन गेल्ले. महाराष्ट्र, मैसूर, आंध्र प्रदेश फाटीं घालून मोटार चवथ्या दिसा रातची ब्रह्मपुराक पावली. एक 'रोड मॅप' घेवन हांव बशिल्लों. उकतो करून पळेलो तेन्ना चिल्का लागींच आसा म्हणपाचें पळेलें. नीट भुवनेश्वराक या अशें सांगाती म्हणटाले. हांवें तांचो तरांतरांनी समज घालून भुवनेश्वराक दुसऱ्या दिसा या म्हूण तांकां समजायले आनी रात ब्रह्मपुराक सारली. दुसऱ्या दिसा दीस वयर सरपा वेळारूच जिस्त आमी चिल्काक पावले. सांगात्यां मजगतीं जुझे काब्राल आशिल्ले. ते पुराय येवरोप कितलेशे खेपो पळोवन आयिल्ले. म्हणपाक लागले, 'येवरोपांतल्या सुंदरांतल्या सुंदर तळ्यां सारकेंच हें एक.'

हांवें म्हळें, 'काकासायबांनी आपणाल्या भोंवडेच्या पुस्तकांत ह्या तळ्याचें वर्णन केलां तांतूंत 'हिन्दुस्तानांतलें सुंदरांतलें सुंदर थळ खंयचें म्हूण विचारशात जाल्यार हांव चिल्का इतलें दुसरें थळ ना अशें म्हणटलों' म्हणपाचें लॉर्ड कर्झनाचें एक वाक्य घालां.'

म्हाका एके गजालीचें अजाप जालें. यामानाका पळेतकूच म्हाका निकतेंच पळेल्ल्या 'आशी' तळ्याचो उगडास जावपाचो. तो कित्याक जालो ना? दोनूय तळीं लागसार आसलीं तरूय दोनांयचें व्यक्तिमत्व वेगळें वेगळें म्हूण? काय यामानाकाचो तोंडावळो चिल्का सारकोच म्हूण? जाप अजून म्हाका मेळूंक ना.

फुजी सरभोंवतणीं 'आशी' तळ्या भायर आनीक पांच तळीं लोकांचें

लक्ष ओढून घेतात. एक हें यामानाका. उपरांत, कावागुची, साइको, शोजी आनी मोतोसु. यामानाका सगळ्यांत चड आयस पयस. उबाळांत हांगासल्लें तापीमान वीस डिग्री परस वयर वचना. म्हूण, जपानांतले खूबशे गिरेस्त तशे रसीक लोक उबाळांत हांगा येवन रावतात. कांठार ल्हान व्हड कितलींशीं घरां आसात. तशीं बऱ्यांतलीं बरीं कांय हॉटेलांय आसात. तळ्याचो कांठ कुचकुचीत झाडां-पेडांचो. तरांतरांचे राग आळोवपी तरांतरांचीं शेवणींय उबाळांत हांगा येवन रावतात. आमी हांगा पावल्यात तेन्ना सकाळचीं इकरा जाल्लीं. तळ्यांत शेंकड्यांनी लोक पेंवताले. दुसरे कितलेशे व्हडी चलयताले. जितली खोस भोगूं येता तितलीय हे लोक भोगतात तें पळोवन शेवणींय खुशालभरीत जाल्ले वरी दिसलीं. हांवें तांकां एके हाइकू कवितेंत सांगलें -

Birds of passage!

I, too, am a passerby

In your native land.

आमी कांठा वेल्यान मोटारीवेगान धांवूंक लागले. फुजीक एक भोंवाडो मारून केन्ना वयर पावले, कळ्ळेंच ना. मुखार जपानांतले आल्प्स् पर्वत दिश्टी पडले. तांची सोबा नियाळटां थंय आसां, कोणें तरी 'हो पळे फुजी हांगा दिसता' अशें म्हळें. गोतेम्बाक पळेल्लो तस्सो तो हांगाय दिसतालो. खरें म्हळ्यार, आमी ताचे फाटले वटेन आयिल्ले. तरूय ताच्या रुपांत मातूय फरक पडूंक नाशिल्लो. फुजीचें खाशेलेपण तें हें. खंयचेय वटेन पळे, तो सारकोच दिसता. इतली 'सिमेट्री' सादिल्लो पर्वत संवसारांत घडये दुसरो आसचो ना.

फुजीच्या माथ्यार वता ते वाटेक धा पेणीं आसात. पांच पेण्यां मेरेन - गोगोयेन मेरेन - आयज मोटारी वतात. वाट एका दाट रानांतल्यान गेल्या. रान कसलें, व्हडल्या व्हडल्या ऊंच रुखांनी भरलां म्हूण रान म्हणपाचें. खरेपणानशीं एक पोरसूंच म्हणूंक जाय हाका. पयलीं लोक पांयांनी माथ्यार वताले तेन्ना एका एका पेण्यार एक एक रात रावताले. आमी मोटारीन धांवत राविल्ले. मनीस - मोटारीन जावं, पुणून - चडत रावता तशें तशें सैम ताचे मुखार आपणालें नवें नवें रूप उकतायत रावता. एक

रूप पळेता सर दुसरें रूप मुखार उबें रावता. वाट नागमोडी आसत जाल्यार आदलो देखाव नव्या रुपान दिश्टी पडटा. देखाव आदलोच पुणून आयस पयस वाडिल्लो. आमची नदरूय आदले परस आयस पयसलें पळोवपाक लागता. हाका लागून दर एका देखाव्यांत एके तरेचें नवेंताल्लपण अणभवूंक मेळटा.

'खूब पळेलें तुमी, आतां मातशे तुमचे भितर पळेयात' अशें सांगपा खातिरूच काय कितें, देव जाणा, अवचीत कुपां वयर सरपाक लागलीं. तांणी पुराय देखाव्याचेर एक पड्डो ओडलो. म्हणटासर तांणी मळबूय लिपयलें. आमचे वाटेरूय तीं येवन पातळ्ळीं. मुखार कितें आसा, कांयच कळना जालें. तरी आसतना, आमी मुखार वचत रावले. मन विरुसूय जालें तशें खोशयेनूय नाचूंक लागलें. एकाच वांगडा हे दोनूय अणभव घेवंक मेळ्ळे. इतले वयर चडून पयसलें पळोवंक मेळना म्हळ्यार कितें, अशें मनांत येता थंय आसा, एका कोनशा वेलो पड्डो पयस जालो आनी खिणा पुरतो जावं, पुराय वाटार पळोवंक मेळ्ळो. म्हणटासर पड्डो पर्थून पडलो. गोगोयेन पावऽसर कुपांनी आपालिपा खेळ चलयल्लो.

गोगोयेनाक लोकांची हीऽ खेट जाल्ली. सगळ्यांच्या हातांत कोंड्या बडयो, तकलेर बेता तोपयो, पांयांत पर्वतार चडपाचे वेगळे बूट पळेतकूच म्हाका आमचे हिमालयाचे यात्रेचो उगडास जालो. एकूच फरक. हिमालयाचे यात्रेंत आमी सोडून तरणे पिरायेचे कोणूच नाशिल्ले. हांगा जाणटे कोण दिश्टी पडनाशिल्ले.

गोगोयेनच्यान फुजीच्या माथ्या मेरेनची वाट देड दोन वरांचीच. दनपारचीं बारा जाल्लीं. आमी चलत गेल्ले जाल्यार चार मेरेन परततले आशिल्ले. हांगा मेरेन पावप आनी वयर वचऽ नासतना परतप? शी. सोबता तें? पुणून ओश्योसामांनी आमकां वचूंक दिले नात. 'शिंया पसून राखण करपाक तुमच्या आंगांर जाय तितले कपडे नात', तांणी पयलीं म्हळें. आमच्या आंगांर कपडे नाशिल्ले खरे. शींय खूब पडिल्लें हेंवूय खरें. पुणून शिंयांत मनीस चलता तेन्ना कुडीची हुनसाण आपशींच वाडटा हाचो अणभव आमकां आशिल्लो. पुणून ओश्योसामांनी वचूंक दिवप ना असो नित्शयूच केल्लो ताका आमी कितें करतले आशिल्ले? आमी हिमालयाची

यात्रा केल्या. जमनोत्री, गंगोत्री, केदार, बद्री मेरेन पांयांनी भोंवन आयल्यात म्हूण तांकां सांगलें. तरूय ओश्योसामाचें काळीज मातूय विरगळ्ळें ना. 'वतले जाल्यार वचात... येतना एकलेच बसीन येयात' अशी जाप दिवन आमकां तांणी ओगी बसयले. आमी काकासायबांक सांगलें. तांणी उतर घालीत जाल्यार ओश्योसामा नाका म्हणचे नात म्हणपाची आमकां खातरी आशिल्ली. काकासायबांनी सरोजबेनींक सांगलें. सरोजबेनीन कात्सूक सांगलें. कात्सू दिल्लींत आमचे वांगडा राविल्लें. हालिंसाराक ओश्योसामांचे सेवेंत आशिल्ले. कात्सून ओश्यासामांक म्हळें, 'वचूंक दियात तांकां, तरणे पिरायेचे ते. दोन अडेज म्हयने पांयांनी हिमालयांत भोंवल्यात... पर्वत चडपा देंवपाची संवंय आसा तांकां. ते भायर, फुजीसाना संबंदान तांच्या मनांत भक्तिभाव आसा... आमचे कडेन पांच गाडयो आसात. एक गाडी तांचे खातीर दवरुंया.' पुणून ओश्योसामांनी वचूंक दिवप ना म्हूण नित्शय केल्लो ताका तें तरी कितें करतलें आशिल्लें? 'तांकां वचूंक मेळ्ळें जाल्यार काकासायबांकूय बरें दिसतलें' अशेंय ताणें सांगून पळेलें. 'हांवें खंय आडायल्यात तांकां... म्हाका विचारी नासतना खुशाल वचून येवंचें... तांकां मोटार कित्याक दवरूंक जाय? चलत येवंचें... हिमालयांत भोंवन आयल्यात न्हय ते?'

उपाय नाशिल्लो. निर्शेणेच्या भरांत हांवें मनांत म्हळें, असले सुवातेर जाणट्यां वांगडा आयले हेंच चुकलें आमचें. म्हाका ओश्योसामांची तिडक मारली. फुजीच्या माथ्या मेरेन चलून वचपाक भायर सरिल्ल्या जपानी लोकांक पळोवन हांव मत्सरान हुलपूंक लागलों. म्हाका तांचीच चड तिडक मारली.

नरेशान म्हळें, 'चल, मातशे पांय मेकळे करून येवंया.'

फर्लांग देड फर्लांग आमी चल्ले. पुणून पांयां पुरती वाट सोडल्यार मुखार कांयच दिश्टी पडना जालें. हवाय आयज इबाडिल्ली. ओश्योसामांनी आमकां वचात म्हणिल्लें जाल्यार ह्या कुपांक लागून आमकां कांयच पळोवंक मेळचें नाशिल्लें. वयर मेरेन गेले म्हणपा इतलीच धादोसकाय भोगत आशिल्ली. इसापाच्या कोल्याक द्राक्षां खावंक मेळ्ळीं नात म्हूण 'यँऽ तीं आंबट' अशें ताणें म्हळ्ळें म्हणटात. तशें हांवें म्हळें, पळोवंक मेळ्ळें ना

ताचो खेद करपा बदला जें पळोवंक मेळ्ळें ताची खोस अणभवप हांतुंतूच शाणेपण आसा. जपानांत पर्थून पावचोंच ना, अशें कशें म्हणूं येता? पळोवपाचें इतलें उरलें तेच खातीर घडये देव हांगा पर्थून येवपाची संद जुळोवन हाडीत. ना कित्याक म्हणूं? वर दोन वरां आमी फुजीचे फाटीर भोंवले. सांजचे परतले तेन्ना ओश्योसामांनी आमकां वयर वचूंक दिले नात हे देवान आमचेर व्हड उपकारूच केल्ले अशें दिसपाक लागलें. कित्याक, परत येता आसतना जें पळोवंक मेळ्ळें तें मेळचें नशिल्लें. आमी एक इत्सा करची आनी देवान अडचण हाडची, आनी अखेरेक, अडचण आमच्या बऱ्या खातिरूच हाडिल्ली हे तरेचो अणभव येवचो, अशें त्या दिसा घडलें.

ताची वर्णना फुडल्या प्रकरणांत.



## १०

# गंधर्व नगरींतली भोंवडी

बर्फाच्या पर्वता पोटांत हून खतखतीत उदकाच्यो झरी दिश्टी पडल्यो जाल्यार अजाप जावचें ना तुमकां? जमनोत्रीक हांवें हून उदकाचीं दोन कुंडां पळेल्लीं. तेन्ना खूब म्हळ्यार खूबच अजाप जाल्लें. मूठभर तांदूळ एका लेसांत गुठलावन पोटली कुंडांत सोडिल्ली. पांच मिणटां भितर शीत जावन मेळिल्लें. जपानांत फुजी सरभोंवतणच्या ह्या वाटारांत एका जाळमुखाच्या पोटांत बर्फाचीं लिंगां पळेलीं - अमरनाथाक पळोवंक मेळटात तसलीं - तेन्नाय असोच चकासूर जालों.

वर देड वर फुजीचे फाटीर कुपांचो आपालिपा खेळ पळोवन परतले. अर्द वरा भितर एके 'बॉटॅनिकल' बागे मुखार येवन आमच्यो मोटारी थांबल्यो. जपानांत कितल्याश्याच जातींचे रूख पळेल्ले. एकूय जात वळखीची नाशिल्ली. चीड देवदारां सारके रूख मात्-मात् वळखीचेशे दिसताले. पूण ते चीड देवदार नाशिल्ले. तांचेच जातींतल्या दुसऱ्या खंयच्या कुळांतले आशिल्ले. खंयच्याय एका 'बॉटॅनिकल गार्डनां'त वचून सगळ्यांचीं नांवां जाणा जावन घेवपाची इत्सा मनांत जागी जाल्ली. म्हूण, मोटारी जिस्त असलेच एके बागे मुखार येवन थांबल्यो तेन्ना भितरले भितर अजापभरीत जालों. म्हळें, हांकां कशें कळ्ळें म्हाका असलीच एक बाग पळोवपाची आशिल्ली म्हूण? बागेच्या दरवट्यांतल्यान आमी भितर सरले आनी आमचे मजगतच्या जण एकल्याच्या हातांत एक एक पेटिल्ली मेणवात दिली, तेन्ना मनांत आयलें, हांव समजतालों तसली ही बाग आसची ना. हें दुसरेंच कितें आसूंक जाय. कितलींशीं सपणां देंवन सकल गेले उपरांत थंडगार वाऱ्याची

एक झुळूक आंगाक लागून गेली तेन्ना आमी एका भुंयारांत वतात म्हणपाचें लक्षांत आयलें. शंबरेक मिटर सकल देंवले उपरांत एक मिटर ऊंच आनी दोन मिटर रुंद घोलीचें दार लागलें. नासकाक असलीच एक घोल, कांय वर्सां पयलीं, पळेल्ली. वनवासांत सीता हे घोलींत राविल्ली आनी तिच्या दारांतल्यानूच रावणान सीतेक उबारून व्हेल्ली म्हूण पंड्यांनी सांगलें तेन्ना मोटे उमळशिकेन आवाशिवा करून ओणोव घेत घेत घोलींत भितर गेल्लों. तसो हेय घोलींत भितर सरलों. एका दाट राज़वाच्या आधारान भितर वचपाची एक आनी भायर सरपाची एक अश्यो दोन वाटो आंखिल्ल्यो आशिल्ल्यो. उब्यांनी चलपाची माणसुकी नाशिल्ली, ओणोव घेवनूय चलपाक येना आशिल्लें. तकली वयर आपटत म्हणपाची भिरांत आशिल्ली. धडपडत आडखळत तीस पस्तीस मिटर देंवले उपरांत, काकासायब आयले जाल्यार तांचे कितले हाल जातले ह्या विचारान हांव हुसक्यांत पडलों. परतताले तांचे मजगतीं कोणूय वळखीचो मेळत काय, म्हूण जण एकल्याचें तोंड पळेत रावलों. आमचे मजगतचे कांय जाण मुखार गेल्ले. ओश्योसामाय गेल्ले. तांचे मजगतचो कोणूय परतलो जाल्यार ताचे कडल्यान 'तुमी येवं नाकात' म्हूण काकासायबांक कळोवपाक आंवडेवंक लागलों. पुणून वळखीचो कोणूच दिश्टी पडलो ना. थांबिल्लों जाल्यार म्हजे फाटल्यान येतल्या लोकांक आडखळ जातली आशिल्ली. साठ सत्तर मिटर सकल देंवले उपरांत उबो रावन चलूं येता असली एक वाट मेळ्ळी. दोंगर पोखरून काडिल्ल्या बोगद्या सारके हे सुवातेर लोक मेणवातीच्या आधारान कितें तरी पळेतात अशें दिसलें. उमळशिकेन मुखार सरलों. आनी -

सामको चकासूर जालों. जाळमुखाच्या पोटांत इतलें बर्फ खंयच्यान आयलें, भायल्यान हाडून दवरूंक ना मू हें हांगा कोणेंय, असो प्रस्न पडलो. पुणून वणटींक सारक्यो मांडून लायिल्ल्यो बर्फाच्यो लादयो पळेतकूच म्हळें, हें बर्फ भायल्यान हाडून दवरिल्लें आसचेंच ना. जमनोत्री सारकेल्या बर्फाळ वाटारांत सैमाक खतखतीत उदकाचे झरे व्हावोवंक येता जाल्यार जाळमुखाच्या पोटांत ताका बर्फाच्यो लादयो कित्याक दवरूंक येवच्यो नात? सैमाक असलीं जायतीं विजमितां करूंक येतात. मुखार एक ल्हानशी

घोल दिश्टी पडली. हे घोलींत एक दोन तीन न्हय, बद्द आठ लिंगां आशिल्लीं. अमरनाथांतल्या लिंगा सारकींच. हांकांय शिवलिंगांच लेखूंक जाय. म्हज्यांतले हिन्दू संस्कार केन्ना जागे जाले, कळ्ळें ना. आपशींच हांवें हात जोडले.

बरोच वेळ थंय उबो रावन लिंगां पळेलीं. परततना मनांत आयलें, आमच्या देसांत सैमाचीं दिव्य भव्य रुपां जंय दिश्टी पडल्यांत थंय आमी तीर्थां उबीं केल्यांत. हें थळ आमच्या देसांत आशिल्लें जाल्यार हाकाय आमी तीर्थाचेंच रूप दितले आशिल्ले. मागीर थंय भावार्ती लोक येवन पुजा सुरू करतले आशिल्ले. मागीर, ह्या भावार्त्यांचो गैर लाव घेवपी जोगी, रोगी, पुजारी, भिकारी हांची खेट जावची नाशिल्ली? जपानी लोकांक असलें कांयच कशें येवजलें ना? जपानी लोकां-काणयो वाचिल्ल्यो. भोळो भावार्त आमकां मेळ्ळा तसोच जपानी लोकांक दायजान मेळ्ळा. तरी आसतना हें थळ तांणी संस्कारी यात्रिकां खातिरूच राखून दवरलां.

म्हज्या हातांतली मेणवात सोंपली. ल्हवू ल्हवू करून वयर आयलों. मनांत कितलेशे गोड उगडास भरून आयिल्लों. काकासायबांनी अमरनाथाची यात्रा केल्ली. ते वयर येतकूच म्हणपाक लागले, 'म्हाका पुरो जाल्लें... पुणून म्हादेवाचें दर्शन घडलें ताका लागून ताजो तट्टटीत जावन परतलां.'

फुजी सरभोंवतणच्या पांच तळ्यां मदलें यामानाका सगळ्यांत व्हडलें तर शोजी सगळ्यांत धाकलें. जपानी शिवलिंगां पळोवन परतता आसतनाच वाटेर आमकां तें दिश्टी पडलें. अवचीत एक अप्सरा येवन मुखार उबी रावची तशें तें उबें रावलें. तळ्या भोंवतणी दोंगुल्ल्यो हाताच्या अंतरार आसच्यो तश्यो कांठा वेल्यान आपणालीं रुपां तळ्यांत तेळटाल्यो. तांचे वयले आंकवार रुखावळी कडेन लक्ष वता थंय आसा,तांचे फाटल्यान भव्य फुजीसान दिश्टी पडलो. पोटाक चुरचुरीत भूक लागिल्ली. कांठार एक ल्हानशें हॉटेल आशिल्लें. थंय जेवपाक गेले. एके वाटेन आमी पोटाची भूक भागयताले तर दुसरे वाटेन फुजीसानाचें भव्य रूप पळोवन दोळ्यांची भूक भागयताले. थंय तकलेंत एक विचार आयलो, फुजीसानाचें भव्य रूप

पळोवंक मेळचें म्हूण सैमान हें नाजूकशें तळें हांगा निर्मिलां काय कितें? जिवितांत भव्यताये इतलीच नाजुकसाणेकूय सुवात आसा हें सांगपाचो सैम यत्न करता काय कितें? जपानी लोकांक तें कसली देख दिता काय?

आमचे वांगडा वीस बावीस वर्सां पिरायेची एक गोड चली आशिल्ली. मोडके तोडके इंग्रजींत दुभाष्याचें काम करताली. जेवपाक हांव बशिल्लों त्याच मेजार ती येवन बसली. तळ्यांत अवचीत एक बकें येवन बसलें आनी उदकांत पेंवपाक़ लागलें तेन्ना हांवें विचारलें, ह्या बक्याक जपानींत कितें म्हणटात?

'ओशिदोरी', तिणें म्हळें. आनी म्हाका एक लोकां-काणी सांगली -

'एक खेपे एक शिकारी हांगा पावलो. तळ्याच्या उदकार ओशिदोरी बक्यांचें एक जोडपें येवन बशिल्लें ताणें पळेलें. कितेंय मारून घरा व्हरतलों अशें थारावन सकाळीं तो तीर-कामठें घेवन भायर सरिल्लो. ताका कितेंच मेळूंक नाशिल्लें. ओशिदोरी बक्यांचें जोडपें हांगा पळोवन ताणें तीर-कामठें उखल्लें आनी नर-बक्याचेर तीर सोडलो. तो आंगाक तोंपना फुडें बक्यान एक किळांच मारली. ती आयकून मादी-बकें भियेवन रानांत पळून गेलें.

मेल्लें बकें घेवन शिकारी घरा आयलो आनी ताची शाकोती करून ताणें त्या दिसा खाली. ते रातीं ताका एक सपन पडलें. एक सुंदर बायलमनीस ताचे म्हऱ्यांत येवन ताका रडू रडून विचारता, 'तुवें म्हज्या घोवाक कित्याक मारलो? ताणें तुजो कसलो गुन्यांव केल्लो? आमी एकामेकां सांगतांत काय बरीं सुखान जियेतालीं! ताका मारून तुका कितें मेळ्ळें? तुवें केदी दुश्ट करणी केल्या, खबर आसा तुका? तुवें एके भाशेन म्हाकाय मारून उडयल्या... तो नाशिल्ल्या संवसारांत हांव जियेवपाचीं ना... कशीच जियेवपाचीं ना... फाल्यां तळ्या कांठार वचून पळे... वचून पळे... वचून पळे...' अशें सांगून ती हुडक्या हुडक्यांनी रडपाक लागली. तिगेले हुडके आयकून तो खडबडून जागो जालो. ताका परतो दोळो लागलो ना. 'वचून पळे, वचून पळे, वचून पळे' हीं तिगेलीं उतरां कानांत एका सारकीं घुंवघुंवपाक लागलीं.

'पळोवया तरी' अशें येवजून सकाळ जायना फुडें तो तळ्या कांठार गेलो. मादी-बकें एकलेंच उदकार पेंवतालें, शिकाऱ्याचेर नदर पडना फुडें तें उडून वचपा बदला नीट ताचे मुखार येवन उबें रावलें. दुकां भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताका थोडो वेळ पळेत रावलें. अवचीत ताणें चोंचीन आपणालें पोट चिरलें आनी प्राण सोडलो!

त्याच दिसा त्या शिकाऱ्यान मुंडन करून घेतलें आनी बौद्ध भिक्खू जावन तो एका विहारांत वचून रावपाक लागलो...'

म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळ्ळ करून दुकां व्हांवलीं.

शोजी उपरांत पळेलें तें मोतोसु तळें. पांचां मजगतचें सगळ्यांत चड खोल. एका काळार हाच्या कांठार खंय 'आयनू' लोक रावताले. जपानांतले आदिवासी. आयज जे जपानी 'जपानी' म्हूण मुखार आयल्यात ते चीन, मंचुरिया, कोरिया बी देसांतल्यान येवन जपानांत स्थायीक जाल्ले मोंगोल वंशांतले लोक. जावं मागीर, तांकां हजारांनी वर्सां. मुदलांत हो देस 'आयनूं'चो. 'कॉकेशियन' कुळयेंतले, येवरोपेवांचे सोयरे हे. तांची खाशेली भास नाशिल्ली. धर्मूय तांगेलो भारतांतल्या आदिवासी लोकांच्या धर्मां सारको. 'वाघोबा', 'नागोबा' सारकेल्या देवांक पुजपी. आयनूंचो देव आंसवेल. आपणाल्या वैभवकाळांत हे लोक व्हड झुजारी आशिल्ले म्हणटात. आयच्या जपान्यांचे मोंगोलवंशाचे म्हालगडे जपानांत आयल्यात तेन्ना तांकां हांणी नाका पुरो करून सोडल्यात. पुणून हांगेली संस्कृताय नव्या लोकांचे संस्कृताये परस दुबळी आशिल्ली. हाका लागून अंतीं तिका हार खावची पडली. ह्या लोकांचें मूळ ठिकाण असो 'मोतोसु' उतराचो अर्थ. आयनू लोक हांगा रावताले त्या काळार एक खेपे फुजी उजो ओंकपाक लागलो. (त्या काळार फुजी एक जिवें जाळमूख आशिल्लें) हाका लागून तांकां हें थळ सोडून पयस वचचें पडलें. फुजी शान्त जातकूच ते परतले तेन्ना लोकां कडेन तांकां झुजचें पडलें. तांतूंत ते चिड्डले. आयज ह्या कुळांतले लोक जपानचे उत्तरे दिकेच्या वाटारांत होक्कायदोच्या साखालीन जुंव्यार खंय खंय पळोवंक मेळटात. अँथ्रॉपॉलजिस्टांच्या मत्तान तांच्या वंशाचे उरिल्ले

सुरिल्ले लोक विसाव्या शतमानाचे अखेरेक साप्प ना जावन वचपाचे आसात. वचूं, पुणून जपानी लोकांक तांचो केन्ना विसर पडपाचो ना. कित्याक, फुजीक फुजी हें नांव तांणी दवरिल्लें. फुजी म्हळ्यार आयनू भाशेंत उजो. अग्निदेव.

यामानाका तळें आमी मोटारींतल्यान पळेल्लें. शोजी होटेलांतल्यान. मोतोसुक पावतकूच आमी मोटारींतले देंवून नीट तळ्या कडेन गेले. काकासायबांनी तर देंवून 'अपवित्रः पवित्रो वा' श्लोक म्हणून ताचें आचमनूय केलें. फुजी भोंवतणच्या तळ्यां मजगतचें हेंच एक तळें शिंयांत खंय केन्ना शेकेना. हेर सगळीं शेकेवन बर्फ जातात. तेन्ना लोक तांचे वयल्यान चलुनूय वतात. मोतोसुन आपणालें रूप भंगूंक दिवंक ना. तें केन्ना शेकेना, तशें आटय ना. आनी ताका केन्ना पुरोय जायना. एका सारकें नाचत आसता.

तीनसांज जाल्ली. मोवशीं किरणां सगळे कडेन पातळिल्लीं. ह्या मोवश्या किरणांच्या उजवाडांत भोंवतणच्या दोंगुल्ल्यांची सोबा खुबूच वाडिल्ली. निकत्याच फुलिल्ल्या फुला सारको वाटार सोबीत दिसतालो. व्हड्यान एक भोंवाडो मारून येवचो अशें आमच्या मनांत आयिल्लें. पुणून आमकां हांगा घेवन आयिल्ले तांकां कसली तरी ताकतीक लागिल्ली. 'चलात, या' करपाक लागले. म्हूण आमी परते वचून मोटारींनी बसले.

सुमार एकशें वीस मैलांची भोंवडी आमी आयज केल्ली. एका फुडलीं एक विजमितां पळेल्लीं. जीव धादोसभरीत जाल्लो. नवें कांय पळोवपाची गरजूय उरूंक नाशिल्ली. जें पळेल्लें तें विश्वा फाटल्या विष्णूची वळख करून घेवपाक पुरो आशिल्लें.

म्हजे 'उगडास पटयें'त मोतोसु उपरांत आमी कावागुची तळेंय पळेल्ल्याची नोंद आसा. फकत साइको तळें पयस आशिल्ल्यान पळोवंक नाशिल्लें. पुणून आयज - कशें, कोण जाणा - कावागुची दोळ्यां मुखार कशेंच उबें रावना. चैतन्याचो साक्षात्कार जातकूच जड आनी चैतन्य हांचे मदल्यो शिमो विरून वतात म्हणटात. तशें म्हजें जाल्लें. पळेलें ताचे कडेन काळीज इतलें एकरूप जाल्लें की हें वेगळें आनी आपूण वेगळें म्हणपाचें लेगीत तें

विसरून गेल्लें. थंय देखाव्या देखाव्या मजगतचें वेगळेपण कशें उरूंक पावतलें आशिल्लें?

गोतेम्बाक पावल्यात तेन्ना कवीक कविता 'येता' तसो म्हजे जिबेर उपनिषदांतलो एक श्लोक आयलो आनी घराच्या हुंबऱ्यार पावल दवरलां तेन्ना 'इशावास्यम् इदम् सर्वम् यत् किंच जगत्यां जगत' गुणगुणत हांव भितर सरलों.



११

# जपानी न्हाण, जेवण आनी खाण.

दीस भर हांगा थंय उडून शेवणीं जशीं तीनसांज जायना फुडें आपणाल्या घोटेरांत परतीं येतात तशे आमीय दीस भर हांगा थंय भोंवताले आनी तीनसांज जायना फुडें आशी तळ्या बगलेच्या आमच्या कागेत्सुयेन हॉटेलांत परतताले.

हॉटेल पांच नखेत्री. हालिंसाराच्या हॉटेलां सारकें, येवरोपेव रितीचें. पुणून शें प्रतिशत जपानी. हॉटेलांत येवन रावतल्यांनी 'जपानी जावन' रावचें, जपानी दोळ्यांनी जपान पळोवचें, जपानी काळजान सैम अणभवचें अशें अगत्यान सांगपी. आमच्या रुमांत वणटीर 'सुचोवण्यां'चो एक तकटो फ्रेमींत घालून लायिल्लो. ताचेर बरयल्लें - 'जपानांतलो तुमचो राबितो सुखाचो जावंचो म्हूण आमी तुमकां कांय सुचोवण्यो करूंक सोदतांव. आमच्या आधारान तुमी जपानी जावन हांगा रावात. तुमच्या आंगा वयली येवरोपेव मुस्तायकी देंवोवन जपानी किमोनो चडयात आनी हांगासल्लें सैम अणभवात. तेन्नाच तुमी जपान भोगूंक पावतले.'

'जपानी जावन' रावपा खातीर रुमांत दोन धुल्ले किमोनो दवरिल्ले आसताले. एक, हॉटेलांत घालपा खातीर, दुसरो, हॉटेला भायर वतना घालपा खातीर. हे भाशेन, सप्तक भर आमी 'जपानी जावन' थंय राविल्ले.

ह्या हॉटेलांत जपानी रितीचें न्हाण म्हणटात तें कितें तें पळोवंक मेळ्ळें.

धर्माचे नदरेन जपान बौद्ध. पुणून कुडीच्या सुखां कडेन फाट करपी बौद्ध देखी मात ताणें केन्ना घेतल्यो नात. उरफाटें, जिवीत सदळ जावंक दिनासतना कुडीच्या सुखांची ताणें लक्तुबाय केल्या. इतलेंच न्हय, तर

ललीतकलांची जितले आस्थेन उपासना केल्या तितल्याच आपलेपणा
कुडीच्या सुखांक आनी आनंदांक ताणें पोसवण दिल्या. खंयच्याच सुखाक
ताणें उणें लेखूंक ना. हाका लागून ताका जे छंद लागले तांतुंतल
न्हाणाचो 'आनंद भोगप' हो एक.

सामान्यतायेन आमी कूड निर्मळ करपा खातीर न्हातात. जपानी लोक
म्हणटात, न्हाणाची हाचे भायर एक खाशेली खोस आसा ती अणभवप
खातिरूय न्हावंक जाय. ताकाच खरें न्हाण म्हणटात.

आमच्या हॉटेलांत दर एका रुमांत एक न्हाणीघर आशिल्लें. तांतूंत एक
व्हड टब आशिल्लो. हून उदकाचो एक नळूय आशिल्लो. पुणून न्हावप
खातीर कोणूच जपानी ताचो उपेग करी नाशिल्लो. ताचे बदला सगळे
तळमजल्या वयल्या रासवळ न्हाणीघरांत वताले. एका दीस हांवूय नरेशा
वांगडा त्या न्हाणीघरांत गेलों. दादल्यां खातीर एक आनी बायलां खातीर
एक अशे ताचे दोन वांटे केल्ले. भायर प्लास्टिकचे पांटले दवरिल्ले. एक
एकलो एक एक पांटलो उखलतालो आनी तांतूंत आपणाल्या आंगा वयले
कपडे काडून दवरतालो. आमचे वरीच जपान्यांक नागडे रावतकूच खांकुडिल्ले
वरी जाता. पुणून असल्या रासवळ न्हाणीघरांत पावतकूच तांची भीड
मुरवत खंय वता, तांकांच सांगूंक येना. ल्हान भुरग्या वरी नागडे जावन
आंग पुसपा खातीर एक ल्हानसो नॅपकिन घेवन ते न्हाणयेंत वतात. थंय
वणटीक तेंकून कांय नळ आसतात. जण एकलो एका एका नळा सरीं
बसून आमी जाका न्हाण म्हणटात तें करतात. म्हळ्यार, शाबू बिबू लावन
आंग धुवन निर्मळ करतात. बगलेकूच एक लांब रुंद टांकी - तळये सारकी
- आसता. हे तळयेंत मागीर ते देंवतात. तळयेंत हून खतखतीत - एकशें
धा डिग्री फॅरॅनायट मेरेन हून - उदक आसता. तांतूंत देंवन कूड तांबडी
गुंज जायसर ते पडून रावतात. हाकाच ते न्हाण म्हणटात.

तळयेंत एकाच वांगडा धा बारा जाण पडिल्ले पळोवंक मेळटात.

हे भाशेन, हून उदकांत अर्द अर्द, पाऊण पाऊण वर पडून रावप हो
जपानी लोकांचो एक छंद. नरेशान जपानांत रावन जे कांय छंद आपणाक
लावन घेतिल्ले तांतलो हो एक.

तोक्योच्यान उत्तरे दिकेक कासात्सु नांवाचो एक गांव आसा. थंय

हाकोने वरीच हून उदकाचे झरे आसात. एकशें वीस डिग्री मेरेन हून उदकाचे. असल्या उदकाचो एक थेंब लेगीत आंगार पडत जाल्यार थंय फोड येवंकूच जाय. पूण जपानी लोक इतल्या खतखतीत उदकांत लेगीत अर्द अर्द, पाऊण पाऊण वर कांयच न्हय जाल्ले वरी पडून रावतात. शिंयां दिसांनीच न्हय, तर उबाळाच्या दिसांनी लेगीत.

जंय सैमानूच हून उदकाचे झरे निर्मिल्यात थंय रासवळ न्हाणीघरां आसलीं आनी न्हाणाची खोस लुटपा खातीर थंय हजारांनी लोक येत रावलो जाल्यार अजाप न्हय. पुणून जंय असले झरे नात थंय लेगीत रासवळ न्हाणीघरां उबीं करून लोक न्हाणाची खोस शेंकड्यांनी वर्सां सावन लुटीत आयल्यात. दीस भर काम करून पुरो जावन घरा येना फुडें जपानी मनीस मुस्तायकी काडटा आनी आंगार 'युकाता' चडोवन रासवळ न्हाणीघराचे दिकेन नीट चलपाक लागता. पयशे दिवन भितर वता आनी अर्द पाऊण वर हून उदकांत पडून न्हाणाचें सूख घेता.

हीं रासवळ न्हाणीघरां आतां 'क्लबां' सारकीं जाल्यांत. लोक थंयच एकामेकांक मेळटात, एकामेकांची खबर घेतात, एकामेकांच्यो चाडयो करतात, अपमान जाल्ले आसत जाल्यार तेय पयस करतात. तें कित्याक, वेंचणुकेंत मत कोणाक दिवचें हेंवूय थंयच थारायतात. कम्युनिस्टांनी आपणालो विचार पातळावपा खातीर हीं न्हाणीघरांच वेंचून काडिल्लीं. हाचे वयल्यान तांचें सामाजीक म्हत्व लक्षांत येतलें. एका एका न्हाणीघरांत खंय दिसाक हजार बाराशें लोक न्हातात.

सद्दां न्हावंक जाय हो जपानी लोकांचो नेम. नेमूच न्हय तर एके तरेचो हट. 'आयज पुरो जालां, फाल्यां पळोवंया' अशें जपानी मनीस केन्ना म्हणचो ना. उरफाटो, पुरो जाल्लें आसत जाल्यार चड वेळ टांकयेंत पडून रावतलो. हून खतखतीत उदकांत पडून रावप कितली खोस दिता हाचो आणभव घेतले बगर मनशाक ताची रूच कळपाची ना आनी हे तरेची रूच एक फावट लागली म्हणटकूच सोंपेपणान तो आपणाली संवंय मोडपाचो ना. अशेंच न्हावंक जाय अशें अणभवान म्हजेंय मत्त जालां. नरेशाचें म्हाका अजाप जायना.

एकेच टांकयेंत इतले लोक न्हावंक लागले जाल्यार टांकयेंतलें उदक

बुरशें जायना काय असो एक दुबाव म्हाका आयिल्लो. पुणून टांकयेंत देंवचे पयलीं लोक नळार न्हावन निर्मळ जातात आनी भायर सरले उपरांत परतेय नळार वचून न्हातात तें पळेलें तेन्ना म्हजो दुबाव ना जालो. उरफाटो, जण एकल्या खातीर वेगळें वेगळें उदक वापरिल्लें जाल्यार कितलें उदक लागतलें आशिल्लें आनी तें हून करपाक कितलो जळव लागतलो आशिल्लो हाचो हिशेब लावन पळेलो, तेन्ना जपानी लोकांनी निर्मळसाणेचो आनी काटकसरेचो कितलो सुंदर सुमेळ जुळोवन हाडला हाचो अदमास आयलो आनी तांचे बुद्दीची म्हाका तोखणाय दिसपाक लागली.

हाकोनेंतल्या आमच्या राबित्यांत निमाण्या दिसा आमी कागेत्सुयेन हॉटेल सोडून फुजिया नांवाच्या दुसऱ्या एका हॉटेलांत रावपाक गेले. जपानांतलें हें एक खूब नांवाजतें हॉटेल. कागेत्सुयेना सावन पांच स मैलांचे वाटेर आशिल्लें. थंय चार तरांचीं जपानी न्हाणीघरां पळेलीं. तांतलें 'रोमन एक्वेरियम' सुंदरूच लागलें. मंद उजवाडाच्या ह्या न्हाणीघरांत टांकयेंत पडून राविल्ल्याची नदर वणटींत बसयल्ल्या 'एक्वेरियमा'चेर पडची, तांतुंतलीं एका सारकीं नाचत आशिल्लीं भांगराळ नुस्तीं ताका दिश्टी पडचीं, म्हणटकूच मनीस सगळीं दुःखां विसरतलो आनी हून उदकाच्या स्पर्शान लाबिल्ल्या कुडी सुखा वांगडाच दोळ्यांचेंय सूख जोडटलो अशी माण्णी केल्ली. रोमी साम्राज्यांत सम्राट जे तरेच्या न्हाणीघरांत न्हावन सूख भोगताले ते तरेचें सूख आमकांय भोगूंक मेळिल्लें.

दादल्यां खातीर आनी बायलां खातीर हांगा दोन वेगळ्यो कुडी आशिल्ल्यो. पुणून सानसुके नांवाचो एकलो मनीस थंय दवरिल्लो, तो पयशे घेवन लोकांची फाट चोळटालो वा कुडीक मालीश करतालो. दादल्यांची तशी बायलांचीय तो मालीश करतालो.

नागडी कूड दुसऱ्यांचे नदरेक पडची न्हय हाची न्हावपा वेळार जतनाय घेव़पाची गरज जपान्यांक भासना. आनी नागडी कूड दिश्टी पडली जाल्यार तिचे कडेन पळेत रावपाची विकृत नदरूय जपानी लोकांक ना. कांय कडेन उगडीं तळीं आसतात जंय दादले बायलो एकाच वांगडा न्हातात. थंय लेगीत ही विकृत नदर कोणांत आशिल्ली पळोवंक मेळ्ळी ना.

सगळे कडेन रासवळ न्हाणीघरां आसलीं तरूय कांय घरांनी तांची

खाशेलीं न्हाणीघरां आसात. आनी घरांतलीं मनशां पिरायेक धरून तांचो असोच उपेग करतात.

हांगा हांवें आनीक एके तरेच्या न्हाणाचो अणभव घेतलो. रासवळ न्हाणीघरा बगलेक घोली सारकी एक कूड आशिल्ली. उश्याक एक फातर घेवन हांव थंय पंदरा वीस मिनटां पडून रावलों. सकल एक खोर्न तापतालें. तांतुंतल्यान वाफ येताली. हे वाफेन घामाघुम्म जाय मेरेन पयलीं पडून रावलों. मागीर टांकयेंत केदो वेळ पडून उरलों. वयर सरलां तेन्ना कूड फुला सारकी ल्हव जाल्ली. हो आगळो वेगळोच अणभव आशिल्लो.

एक मजेचीच चाल जपानांत हांवें पळेली. आमी आमगेर जेवपाक लोकांक आपयतात तशे ज्या गांवांत हून उदकाचे झरे आसतात थंयचे लोक आग्रो करून दुसऱ्यांक आपणागेर न्हावपाक आपयतात. जपान सोडचे पयलीं एक दीस मिनोबू पर्वताच्या शिखरा मेरेन चडून गेल्लों. सकल देंवलां तेन्ना सामको जाम जावन आयिल्लों. खंयच वचपाचें त्राण उरूंक नाशिल्लें. तेच रातचे गाडयेन आमकां तोक्योक वचपाचें आशिल्लें. पुणून भिक्खू सातोसान आमकां आग्रो करून कोफू नांवाच्या एका शारांत घेवन गेलो. फकत न्हावपा खातीर. थंय जपानी तरेन न्हातकूच टाकयेंतल्यान भायर आयलों तेन्ना इतलो ताजो, रसरशीत नवो ताल्ल जावन आयिल्लों की पर्थून मिनोबू चडचो पडिल्लो जाल्यार कांय न्हय जाल्ले वरी चडून वतलों आशिल्लों.

बौद्ध धर्मी आसुनूय कुडीच्या खंयच्याच सुखा कडेन जांणी केन्ना फाट केली ना ते जिबे कडेन पावतकूच सामकेच अस्वाद-व्रती कशे जाले? जिबेक रुची बिची आसतात म्हणपाचें हांकां कळ्ळें ना?

सुनारा भायर च्या पियेवपी लोक म्हूण हांची नामना. कितले खेपो पियेवची हाचो सुमारूच नाशिल्ले. हांगेल्या जेवणा खाणांत मीठ गरजे परस चड पडटा म्हूण जावंये, हांचो जीव तानेन सदां व्हळपेल्लो उरता आसूंक जाय. दिसूय भर ते च्या पियेतात. कोणागेरूय वचात, कोणाल्याय ऑफिसांत वचात, पसऱ्यार वचात, कारखान्यांत वचात, कोणूय पै-पावणो येतकूच आमच्या देसांत जशें सगळ्यांत पयलीं ताका आमी उदक हाडून पियेवपाक दितात तशे हे च्या दितात. च्या हाडून दिवपी एके चलयेची दर

एका ऑफिसांत नेमणूक केल्ली आसता. कोणूय येवं, ताचे मुखार च्या हाडून दवरप हें तिचें काम.

च्याक हे लोक निखटी च्या म्हणिनात. भौमानाचो 'ओ' लावन 'ओ-च्या' म्हणटात.

पयल्याच दिसा तोक्योंत हॉटेलांतल्या रेस्तॉरांत ब्रेकफास्टाक गेल्लों तेन्ना ही ओ-च्या पळोवन म्हजो आवरोच उडलो. दूद नाशिल्ली, साकर नाशिल्ली ही वेगळेच तरेची, पाचवी फुटी च्या आशिल्ली. सळसळिल्ल्या उदकांत इल्लोसो पाचवो पालो घालून केल्ली. वांगडा लिंबाचो एक वांटकुळोच पातळसो कापा सारको कुडको. तो ह्या उदकांत घालपाचो आनी थोडो वेळ दवरून काडपाचो. हांवें तशें केलें. पुणून म्हजी च्याची रूच ही 'ओच्या' भागोवंक पावली ना. तेन्ना हांवें वेट्रेसीक विचारलें, दुदा साकरेची च्या हांगा मेळटा ?

'ओ ! मिल्कु - ती ? हाय' अशें म्हणून तिणें मुखावेली ओच्या व्हेली आनी थोड्या वेळान 'को-च्या' हाडून दवरली. ती च्या सारकी दिसताली. पुणून जे च्याची म्हाका संवंय जाल्ली ती ही नाशिल्ली. हांवें मेनूंत तिचें मोल पळेलें. दुदा परस दुपेटीन म्हारग आशिल्ली. कितें करतलों ? म्हळें, आतां 'ओच्या'चीच संवंय लावन घेतिल्ली बरी. दुसरो उपाय ना.

पयल्या दिसा जेवणा वेळारूय म्हजी हीच गत्त जाली.

तोक्योंतल्या उएनो पार्का लागसारचें संग्रहालय (म्यूझियम) दाखोवपाक तोकुओसान आमकां घेवन गेल्लो. पळेतासर तीन वरां लागलीं. ते मेरेन दनपार जाल्ली. तोकुओसानान विचारलें, 'तुमकां कसलें जेवण आवडटलें? येवरोपेव रितीचें काय जपानी?'

म्हजे जिबे वयल्यान सट्ट करून फुटलें, 'जपानी'. म्हजी चाल ही, गुजरातेंत पावतकच गुजराती जेवण जेवपाची, बंगालांत बंगाली, केरळांत केरळी. ज्या वाटारांत आमी पावतात त्या वाटारांतले सरसमान लोक जेवतात तेंच जेवण आमी जेवंक जाय ह्या मत्ताचो हांव. जपानांत येवन येवरोपेव जेवण कित्याक जेवतलों? जपानीच जेवंक जाय.

तोकुओसान आमकां एके ल्हानशे खानावळींत घेवन गेलो. खानावळ कसली? लाकडाचें एक ल्हानशें घर. पेटूल कशें - चार स लोकांक बसूंक

ळत इतलीच सुवात. भितर उजवे वटेन खूर दोडून दवरूंक मेळटात
ासलीं दोन ल्हानशीं बसकीं मेजां वणटीक तेंकून आशिल्लीं. तीं उकतीं
ररून दवरलीं. भोंवतणी बसपाचीं उश्या सारकीं आसनां पातळायलीं.
ानी आमी जोतीं काडून त्या आसनांचेर बसले. तोकुओसान 'ऑर्डर'
देवपाक लागलो. हांव नुस्तें खावपी. म्हजो प्रस्न नाशिल्लो. शरद आनी
नरेश सामके शिवराक.

'आमकां मासाचें कितेंच नाका' म्हळ्यार जपानी लोक गायचें मास
जेवणांत घालिनात. पुणून हॅम घालतात. कित्याक हॅम थंय मासांत
मोडना. आमी हॅमूय खायनात म्हळ्यार हॅमा बदला नुस्तें घालतात. नुस्तें
मासांत मोडना. नुस्तेंय नाका म्हळ्यार कुल्ली वा सुंगटां घालतात. कित्याक
कुल्लेक आनी सुंगटांक कांटे नात. तेंय नाका म्हळ्यार तांतयां तरी घाले
बगर राविनात. म्हूण 'ऑर्डर' दितना तोकुओसान 'हें नाका' 'तें नाका'
म्हूण 'नेति नेति' करीत राविल्लो. कितें कितें नाका तें सांगपाक ताका धा
एक मिनटां लागलीं.

ऑर्डर बरोवन घेवपी चलयेच्या तोंडा कडेन हांव पळेत राविल्लों.
तोकुओसानाच्या एका एका वाक्या उपरांत मानेक एक गोड लचको दिवन
तिणें 'हाय' म्हणचें आनी दुसरे वाटेन ल्हवूच आमकां पळोवचें. हें नाका,
तें नाका म्हणपी लोक खातात तरी कितें, आनी खावपा सारकें कितेंच
खाय नासतना घटमूट उरतात कशे काय देवा, ह्या प्रस्नाची जाप ती
सोदताली अशें तिचे नदरे वेल्यान दिसतालें.

बऱ्याच वेळान जेवण आयलें. चिनी मातयेचे एके वाटयेंत सोयाबीनचो
सूप. दुसरे वाटयेंत शीत, एक ल्हानशे बशयेंत चेटणे सारकें कितें तरी.
दुसरे एके बशयेंत तळिल्ले कांय जिनस. ते भायर, हांव आनी तोकुओसान
हांचे खातीर 'ईल' नांवाच्या नुसत्याचे कांय कुडके.

वाटयां, बशयांचो रंग, आकार आनी तांतूंत सजयल्ले जिनस पळोवन
हे लोक जिबेन रूच घेवपा वांट्याची दोळ्यांनीच घेतात काय कितें, असो
प्रस्न म्हाका पडलो.

जपानी तरेचें जेवण जपानी तरेन जेवचें पडलें ना? तें कशें जेवपाचें?
तोकुओसानान चेटणे सारकें कितें आशिल्लें तें सुपांत घालूंक लायलें.

मागीर चॉप-स्टीक बोटांत कश्यो धरप तें दाखयलें आनी वाटयेंतल्या शितांतलें थोडें शीत तोंडांत घालूंक लायलें. मागीर सूप तोंडांत घेवन तांतूंत तोंडांत भितर तें 'कालोवंक' सांगलें. ताणें सांगिल्लें सगळें आमी केलें. जेवपाची ही तरा आगळी वेगळी आशिल्ली. पुणून जेवण? मात लेगीत रूच नाशिल्लें.

आमी जंय वतात थंयचे सरसमान लोक जेवतात तेंच आमी जेवंक जाय हो म्हजो नेम त्याच दिसा हांवें मोडलो. आनी जपानांत आसासर येवरोपेव रितीचेंच जेवण जेवपाक लागलों.

शीत आनी नुस्तें, अन्न ह्या लोकांचें. बद्द गोंयकारां सारकें. पुणून गोंयकारांक ब्रेकफास्टाक शीत जेविल्ले हांवें पळोवंक नात. हांकां दनपारचें आनी रातीचें शिता बगर जायना तसो ब्रेकफास्टूय हांचो शिता बगर जायना. हांगा तांदूळ भरपूर पिकता. आनी नुस्तेंय खूब मेळटा. देसांत जें पिकता तेंच खावंक जाय असो नेम आसूंक जाय घडये ह्या लोकांचो. गंव हांगा पिकना. तो भायल्यान हाडचो पडटा. तो पावा खातीर वापरतात आनी पाव हांगा चडसो कोण खायना. मटणूय कोण खायना. कित्याक, हांगा बोकड मेढरां नात. बोकड मेंढरां पोसपाक जाय तितली भूंय हांगा ना. आयज गायचें मास सगळे खातात. पुणून शंबर वर्सां पयलीं कोण खाय नाशिल्ले. पोरणे जपानी बरपावळींतल्या वेंचीक बरपांचें एक पुस्तक पळेल्लें. तांतूंत गायचें मास खातल्यांची फकाणां मारून बरयल्लें एक अवतरण वाचूंक मेळिल्लें. आयज कोणाकूय तें दाखोवन शंबर वर्सां पयलीं तुमी गायचें मास खायनाशिल्लीं म्हूण सांगात, कोणाक खरें दिसचें ना.

नुस्तें तरांतरांचें मेळटा. तांतलें 'ईल' नांवाचें नुस्तें हे लोक सगळ्यांत चड खातात. हें नुस्तें पळोवपाक दिसता जिवाण्या सारकें. खावपाक लागता बोंबला सारकें. कांय कडेन ह्याच एका नुस्त्याचे तरांतरांचे जिनस करून दिवपी रेस्तोरां आसात. भायर एक तळी आसता. तांतल्या खंयच्या 'ईल' नुस्त्याचे जिनस आपणाक जाय हें सांगपाचें, रेस्तोरांकार तें काडून उजरावन भाजून शिजोवन खावंक दितलो.

हे लोक 'रॉ फिश' खातात म्हूण आयकल्लें. 'रॉ फिश' म्हळ्यार शिजोवंक नाशिल्लें. हरवेंच. म्हाका काळिजूच जालें ना हरवें नुस्तें खावपाचें.

एक दीस म्हाका एकल्यान ‘रॉ फिश’ खावंक घालें. पयलीं कळिल्लें जाल्यार खावंचो नाशिल्लों. म्हूण म्हाका सांगी नासतना घालें. आनी हांवें तें खालें. खावन जातकूच ‘कशें लागलें ?’ काय म्हूण विचारलें तेन्ना ’बरें ऽ रुचीक’ म्हूण हांवें ताका जाप दिली. तें ‘रॉ फिश’ आशिल्लें, ताणें म्हळें आनी ’आरेच्या, इतलीं वर्सां आमी बेश्टें शिजोवन नुस्तें खालें.’ म्हजे जिबे वयल्यान फुटलें.

दोन म्हयने हांव जपानांत उरलां. तेन्ना तेम्पुरा, सोबा, सुकियाकी असले तरांतरांचे जिनस चाखून पळेल्यात. दोन दोन वरां चलतल्या जेवणाचोय अणभव घेतला. पुणून चडशें येवरोपेव पद्दतीचेंच जेवण जेवलां. तें खूब म्हारग म्हूण कळ्ळां तेन्ना दूद टोस्ट आनी फळांचेरूय रावलां. चडशें हेंच जपानांत हांव 'जेवलां' म्हणूंक जाय.

बाबड्या नरेशाचे कितें हाल जाल्यात जातले हाचो अदमासूच केल्लो बरो. तांतूंत तो शिवराक. इतलें कडकडीत ‘अस्वाद-व्रत’ ताणें वर्ध्याच्या आश्रमांत लेगीत चलोवंक ना जातलें म्हणूंक जाय.



# १२
# जपानी काळीज

आमचो राबितो आशिल्लो हाकोनेक. पुणून खंयच्या न्हय खंयच्या निमित्त्यान आमची गोतेम्बाक सद्दां एक फावट पडटाली. एक खेपे एका उत्सवाक आमी थंय पावले.

सैमांत विविधताय भरिल्ली आसली तरूय सैमांतलें कितेंच कित्या पसून वेगळें न्हय, सगळेंच एकामेकां कडेन संबंध आशिल्लें, एकामेकांच्या नात्यांतलें, एकाच रगताचें ह्या संस्कारांत जपानी लोकांची वाड जाल्या. महायानी बौद्ध संस्कार हो. उपनिषदांचेच परंपरेंतलो. वेगळीं वेगळीं दिसतात तीं एकाच तत्वाचीं वेगळीं वेगळीं आंगां अशें मानपी. वेगळेपणाचो पड्डो पयस केलो जाल्यार सरभोंवतणच्या सैमा कडेन आशिल्लें आमचें नातें आमकां स्पश्ट बरें समजतलें आनी आमी आमकांच सारके बरे वळखूंक पावतले अशें सांगपी. सरभोंवतणच्या चैतन्या कडेन एकरूप जावपाचे हे देखीन देवळां, स्तूप बांदप, बुद्धाच्यो मुर्ती हांगा थंय उब्यो करप, धर्म पुस्तकांच्यो नकलो करून दवरप असलें प्रत्यक्ष रूप घेतलां. ओश्योसामा संवसार भर शान्ति स्तूप बांदून घेतात ताचे फाटल्यान होच संस्कार आसा. जपानी चित्रकलेचेर तर ह्या संस्काराचो खूब खोल परिणाम जाल्लो पळोवंक मेळटा.

जिवीत अखंड. आरंभ नाशिल्लें. अंत नाशिल्लें. जाल्यार, मागीर जाका आमी मरण म्हणटात तें फट म्हणचें पडलें ना ? मनीस मरता पुणून ना जायना. दिश्टी पडटालो तो आतां दिश्टी पडना इतलेंच. दिश्टी पडना ताचे कडेन लेगीत एकरूप जावपाचो यत्न करूंक जाय हें भोंवतणच्या

चैतन्या कडेन एकरूप जावपाचे साधनेचेंच एक आंग थारता. जपानी मनाचेर शिन्तोंचे जे संस्कार पडल्यात ते हे तरेचे. महायानी बुद्ध-धर्मान ताका एक तात्वीक बसका जोडून दिल्या. हे बसकेक लागून जपानी मनाचो आध्यात्मीक पांवडो वाडूंक पावला आनी सगळ्यांचेर मोग करप हीच निर्वाणाची साधना ह्या निर्णयार तें पावलां.

गोतेम्बाक ज्या उत्सवाक आमी गेल्ले तो म्हालगड्यांच्या उगडासाचो उत्सव आशिल्लो. 'ओबोन' ह्या नांवान तो हांगा मनयल्लो. बौद्धांच्या 'उद्लंबन' उतराचें 'ओबोन' हें जपानी रूप. तीन दीस हो उत्सव गोतेम्बाक चलिल्लो.

पयल्या दिसा सगळे मसंडेंत गेले आनी म्हालगड्यांच्या थडग्यां फुड्यांत धूप उजवाती बी लावन तांकां तांणी आर्गां ओंपलीं. काळोख पडलो तेन्ना कागदी लापयांव घेवन परते थंय गेले आनी 'आतां घरा येवचें' म्हूण तांकां विनयलें आनी लापयांवाच्या उजवाडांत तांकां घरा घेवन आयले. हे दिश्टी पडनाशिल्ले म्हालगडे तांकां मुखार दिश्टी पडटल्या मनशां इतलेच जिते दिशिल्ले. तांकां घरा घेवन येतना वाटेर खंयूय फोंडकूल बी दिश्टी पडटालें तेन्ना 'हें पळेयात हांगा एक फोंडकूल आसा... मात्शे चत्रायेन पावल घालात.' अशें सांगताले. जित्या मनशाची घेतात तितलीच जतनाय घेवन तांकां ते घेवन आयिल्ले. घरांतले सगळ्यांत बरे कुडींत देवान्या मुखार एक 'तातामी' (शेंदरी) पातळावन थंय म्हालगड्यांचे आवडीचे जिनस दवरिल्ले. एका पुजाऱ्याक आपोवन ताका धर्मग्रंथांतल्या खंयच्याय एका सुत्राचो पाठ करूंक सांगून म्हालगडो थंय जिवोच आसा अशें धरून जण एकल्यान ताका आपणाल्या सुखा-दुखाच्यो कथाय सांगल्यो. तीन दीस तांच्या सांगातांत रावले उपरांत निमाण्या दिसा तांकां निरोपाचें जेवणूय दिलें आनी वतना तांकां वाट सारकी दिश्टी पडची म्हूण पर्थून कागदी लापयांव पेटयले.

जांचीं थडीं नात तांकां निरोप दिवपा वेळार तणाचें एक व्हडें करून तांतूंत उत्सवाक केल्ले कांय जिनस दवरतात आनी लापयांव पेटोवन व्हडें न्हंयचे व्हांवतेंत वा दर्यांत व्हरून सोडटात. ओबोनचो हो उत्सव जुलय म्हयन्याच्या दोनूय पंद्रसां मदीं केन्ना तरी येता. पुणून एकाच दिसा तो

सगळे कडेन  मनयतात अशें ना. वेगळे वेगळे कडेन वेगळ्या वेगळ्या दिसा मनयतात. म्हयनो भर हो उत्सव चलता. जपानी जिवितांत ह्या उत्सवाक धार्मीक म्हत्वा इतलेंच सामाजिकूय म्हत्व आसा. ज्या गांवांत (वा शारांत) हो दीस येता त्या दिसा सगळे - दादले बायलो म्हणी नासतना - रस्त्यार येतात आनी पुरो जायसर नाचत रावतात. आमी दक्षिणे कडली यात्रा सोंपोवन तोक्योक परतल्ले त्या दिसा शिकोकू जुव्या वयल्या ताकामात्सु शारांत लोकांनी ओबोनचो हो उत्सव मनयल्लो. पुराय ताकामात्सु शार रस्त्यार देंविल्लें आनी रातभर धुमशेणां कांडीत राविल्लें.

गोतेम्बाक हो उत्सव खोलायेन मनयल्लो. ताका एक कारण जाल्लें. ओश्योसामाचे एक म्हालगडे शिष्य भिक्खू मारुयामांक कांय दिसां पयलीं ऍक्सिडॅंटांत मरण आयिल्लें. तांच्या उगडासान त्या दिसा सगळ्यांचीं काळजां भरून आयिल्लीं. देवळांत तांच्या उगडासान सुमार दोन वरां पुजा चल्ली. ओश्योसामांनी पुजा सोंपतकूच ह्या दिसाचें म्हत्व लोकांक समजावन सांगलें आनी काकासायबांक उलोवंक सांगलें. मारुयामांक काकासायब वळखताले. तांणी म्हळें, 'श्राद्धाचें म्हत्व हिन्दू धर्मानूय सांगलां. श्राद्धान आमी आमचे आदले पिळगेंतल्या लोकां कडेन नवे पिळगेंतल्या लोकांक जोडटात... म्हालगड्यांनी कितें केल्लें तें नवे पिळगेक आमी सांगतात. संवसारांत दोन मोटीं तत्वां आसात. एक, अंत पार नाशिल्ली सुवात आनी दुसरें, अंतपार नाशिल्लो काळ. जो काळाक वळखता ताकाच खरो मनीस लेखूंक जाय. काळाक वळखता तोच प्रगती करूंक पावता. पोरण्या ग्रंथांनी जें सांगलां तें समजून घेवपाचें. पुणून थंयच थांबऽ नासतना मुखार वचपाचें. मुखार चलत वचप हेंच मनीसपणाचें लक्षण...'

मागीर म्हळें, 'मारुयामासान आमच्या आश्रमांत येवन राविल्ले... चामड्याचो ड्रम वाजोवन आमचे प्रार्थनेंत तांणी 'नम्यो हो रेंगे क्यों' मंत्र म्हणचो. तांच्यांतली भक्ती आनी धर्मनिष्ठा पळोवन आमी सगळे प्रभावीत जाल्ले... एक दीस तांणी गांधीजींक एक ल्हानशी भेट हाडून दिली. वायट उलोवं नाका, वायट पळोवं नाका, वायट आयकूं नाका म्हूण तोंडार, दोनूय दोळ्यांर आनी दोनूय कानांर हात दवरिल्ल्या तीन खेत्यांची. गांधीजींक ही भेट खूब आवडिल्ली. तांगेल्या बरोवपाच्या स्टुलार ती आसताली. कोणाकूय

दाखयतना 'हीं म्हगेलीं गुरू.' म्हूण ते हीं खेतीं दाखयताले. मारुयामासानांनी गांधीजीं कडेन आपणा खातीर एक नवें नांव मागलें. गांधीजींनी तांकां 'आनंद' म्हूण नांव दिलें. बुद्धाच्या एका म्हालगड्या शिष्याचें नांव हें. सदां खोश्शी रावपी मनशाचें. मारुयामासान हें नांव आयकून खोश्शी खोश्शी जाले... एक दीस पोलीस मारुयामासानाक धरून घेवन गेले. इंग्रजांचें राज्य चलतालें ते मुस्तींत आमच्या देशांत. आनी, जपानी लोक इंग्रजांचे दुस्मान जाल्ले. गांधीजींनी म्हळें, आमी ग़ुलाम म्हूण अशें घडटा... आमी आतां स्वतंत्र जावंकूच जाय... मारुयामासानांक घेवन वचूं ते, तांणी 'नम्यो हो रेंगे क्यों' हो मंत्र आमकां दिला... तेन्ना सावन हो मंत्र आमचे प्रार्थनेंत आमी म्हणत आयल्यात... आतां जपान आनी भारत दोनूय देसांनी एकठांय येवंक जाय आनी आमची इश्टागत घट करूंक जाय...'

सादेंच उलोवप हें. पुणून ह्या उलोवपान काकासायबांनी जपान्यांचें काळीज जिखिल्लें.

आनी म्हाकाय एक नदर दिल्ली.

विदेशांत वचपी दोन तरांचे लोक पळोवंक मेळटात. शिकपा सारकें कितेंय आसा तें भायरूच अशें मानपी एके तरेचे. तर, संवसाराक दिवपा सारकें कितेंय आसा जाल्यार तें आमचेच कडेन आसा अशें म्हणपी दुसरे तरेचे. भारत स्वतंत्र जाला तेन्ना भारतांतल्यान जीं शिष्टमंडळां चीनांत जपानांत गेलीं तीं ह्या दुसरे तरेच्या लोकांचीं गेलीं. 'तुमकां बुद्ध आमी दिला... आमी तुमकां मनीस केल्यात.' हे तरेचें कितें उलोवन तांणी कांय देसांक दुखयले. जपान, कोरिया, काम्बोडिया, सियाम बी देशांत बुद्ध-धर्म चलता खरो. बुद्धाचो जल्म भारतांत जाल्लो म्हूण हे लोक भारताक आपणाली पुण्यभूंय मानतात हेंवूय खरें. पुणून ह्या लोकांनी बुद्ध-धर्माक जें रूप दिलां तें तांगेलें खाशेलें. भारतांत ताका मेळ्ळां तें न्हय. तांच्या बौद्ध-धर्माचें रूप भक्तिभावान समजून घेतले बगर आमकां बुद्ध-धर्माच्या गिरेस्त दायजाचो सारको अदमास लागपाचो ना. तें समजून घेवपाक गरज आसा ती नमळायेची. नमळ जावन आमी तांकां 'आमी एकाच घराब्यांतले भाव भाव, तुमी जें आगळें वेगळें कितें जोडलां तें शिकून घेवपाक आमी हांगा आयल्यात.' अशें सांगतात तेन्ना तेय नमळ जावन

म्हणटात, 'तुमी आमी एकाच घराब्यांतले खरे. पुणून तुमी आमचे व्हडले भाव. तुमचे कडल्यान आमी खूब घेतलां... अजुनूय घेवपाचे आसात...'

आयज जपान आनी भारत दोनूय देसांचे राजकी संबंद इश्टागतीचे आसात खरे. पुणून सांस्कृतीक संबंद घट करपाचे आसत जाल्यार काकासायबांचे हेच वाटेन सगळ्यांक वचचें पडटलें. दुसरी वाट ना हें त्या दिसा हांव खोलायेन शिकलों.

सप्तकभर होरिउचीसानांनी आमची सरबराय केली. आमचेर मोगाचो पावस शिंवरायलो. तोक्योच्यान आमकां हांगा तेच घेवन आयिल्ले. तेच हांगासल्ले आमचे यजमान आशिल्ले. भारतांतल्यान आयिल्ल्या ह्या सोयऱ्यांक कितें दाखोवं, कितें नाका ह्याच एका घुटमळ्यांत ते सप्तकभर उरिल्ले. हाकोने गोतेम्बा सरभोंवतणी जें जें कितें सुंदर, दिव्य, भव्य आशिल्लें तें सगळें तांणी आमकां दाखयल्लें. तितल्यान ते धादोसभरीत जाले नात म्हूण एक दीस ते एके आडवाटेन एका दोंगरार आमकां घेवन गेले आनी थंयच्यान हाकोने कशें दिसता तें दाखयलें. एक दीस सामकी पाताळांत व्हांवतली एक न्हंय दाखोवपाक ते आमकां एका ऊंच पुलार घेवन गेले. हाकोनेंतल्या मियानोशिता वाटारांतलो हो पूल. थंयच्याच फुजिया हॉटेलांत तांणी आमकां मुजरत हाडून दवरिल्ले आनी थंयच्यान 'भंयांक्रूत' सुंदर सैमाचो देखाव तांणी आमकां दाखयल्लो.

तांगेली घरकान्न हारूसान आमची सरबराय करपा खातीर मुजरत तोक्यो सावन गोतेम्बाक येवन राविल्ली. येतना आपणा वांगडा मासाकोसान आनी रिज्कोसान नांवांच्या दोगां चलयांक आधारा खातीर घेवन आयिल्ली.

सगळ्यांनी आमचेर जो पावणाराचो पावस शिंवरायला तो अणभवून हांव जाल्यार सामको घुसमटूंक लागिल्लों.

आमी भारतीय देवाची करची तशी सोयऱ्यांची सरबराय करतात अशी आमची नामना. गोंयकारांची सरबराय तर सामकी भुल्लुसून गेल्ल्या पिश्यां सारकी जाता. पुणून गोतेम्बांतले जपानी सरबरायेचो अणभव घेतले उपरांत आमचे सरबरायेचो म्हाका हांसो येवपाक लागिल्लो.

इतल्या गोड अणभवा उपरांत हांचो निरोप घेवपाचो दीस उदेलो तेन्ना काळीज भरून आयलें. होरिउचीसानांनी आदल्या दिसा आमकां गोतेम्बांतल्या

देवळांत निरोपाचें जेवण दिलें. दनपरां देडांक सुरू जाल्लो हो दबाजो चार जायसर चलिल्लो. काकासायब आनी ओश्योसामा उठून वतकूच श्रीमती हारूसानांनी आमकां एक नाच करून दाखयलो तो आंगार कांटो फुलोवपी आशिल्लो. दोगांय उतार पिरायेचीं मनशां.

इशिबाशीसानां कडेन आतामीक वळख जाल्ली. मुम्बय लागसारच्या सुरत शारांत ते कितलिंशीं वर्सां व्यापार करताले. हिन्दीय उलयताले. गुजरातीय उलयताले. 'मैं जापान का साधू नहीं हूँ, भारत का हूँ' अशी आपणाली वळख करून दिताले. बौद्ध भिक्खू जावन तांकां फकत दोनच वर्सां जाल्लीं. कोट्याधीश मनीस. भिक्खू जातकूच तांणी गरिबायेचें व्रत घेतिल्लें. आपणाक कूड बिहारांत राजगिराक सोडपाची आसा अशें ते म्हणटाले. तेन्ना सावन तांचे विशीं मनांत एके तरेचें आपलेपणशें दिसपाक लागिल्लें. हो जाणटेलो इतलो रसीक आसत हाचो - ताचो नाच पळेसर - अदमासूच नाशिल्लो.

हांगाच आमी कांय लोकांनाच पळेले. भारतांत नाचांत जश्यो मुद्रा बोटांनी दाखयतात तश्यो जपानांत हातांतल्या आयण्यांतल्यान दाखयतात म्हणपाचें पयलेच फावट हांगा कळ्ळें. दोळ्यांक, बोटांक, तोंडाक नाचांत सुवात आसली तरूय भाव उकतावपाक आयण्याकूय हांगा तितलेंच म्हत्व आसा.

हांगाच म्हाका आमच्या एका अवगुणाची जाणवीक जाली. कित्याक लागून कोण जाणा, हिन्दू तरणाट्यांक हिन्दू न्हय तांचे मजगतीं भरसुंकूच येना. भरसुपाची इत्सा तांकां आसता, पुणून भरसप तांकां जमना. हिन्दूं परस देशी मुसलमान,देशी किरिस्तांव सोंपेपणान खंयच्याय समाजांत भरसतात. पुणून येवरोपेव वातावरणांत वाडिल्ले, खावपा पिवपाच्या मळार कसलीच भीड मुरवत नाशिल्ले, गावंक नाचूंक येता जाल्ले, तांकां लेगीत विदेशी समाजांत भरसूंक येना. तें कित्याक, विदेशांत वचून राविल्ल्यांकूय येना. कित्याक खबर ना, भायल्यान हिन्दू कितलेय बदलूं, भितरल्यान ते हेरां पसून सदां वेगळेच रावतात. मनानूच वेगळे आसतात.

त्या दिसा आमचेर पदां म्हणपाचो प्रसंग आयलो. जपानी चल्यां चलयांनी कितलिंशीं जपानी पदां म्हळीं. मागीर आमकां भारतीय पदां म्हणात म्हूण

तांणी आग्रो सुरू केलो. हांव बाथरुमांत लेगीत केन्ना गुणगुणना अशें सांगून कडेक सरलों. शरदूय लजलो. फकत नरेशान आमची पत राखली. ताणें पयलीं एक दोन जपानी गितां म्हणून दाखयलीं. उपरांत जपानी रुचीक मानवत असलें मीरेचें 'बोल मा बोल मा बोल मा रे, राधा कृष्णा विना बीजुं बोल मा रे' हें गुजराती भजन म्हळें. सगळ्यांनी तें तालार ताळयो मारून झेलून घेतलें.

निमाणें सगळ्यांनी मेळून एक समूहगीत म्हळें. 'जाचें काळीज निर्मळ आसता ताका संवसारांत जमचें ना अशें कितें आसूं येता' असो ताचो अर्थ आशिल्लो. ह्या गितान पुराय वातावरण प्रसन्न केलें.

आठ दिसां पयलीं आमी हांगा पावल्यात तेन्ना कोणा कडेनूच आमची वळख नाशिल्ली. सगळे परकी परकी शे दिसताले. ल्हवू ल्हवू वळख वाडत गेली आनी हे परकी आरे आरे म्हणटासर घरचे जाल्ले. कितल्याश्या जाणांच्या काळजांत आमी सुवात जोडिल्ली आनी कितल्याशया जाणांनी आमच्या काळजांत जोडिल्ली! पुणून -

जपानी भाशेंतूच एक म्हणणी आसा -

'संवसाराचे व्हांवतेंत कितलेशेच आमचे लागसार येतात आनी कितल्याश्यां पसून आमी पयस वतात !' ह्या अर्थाची. जे काल पयर मेरेन परकी आशिल्ले ते आयज लागिंचे जाल्ले. आतां तांकांय सोडून वचपाचो दीस आयिल्लो.

हाकोनेक सावन आमी गोतेम्बाक आयले आनी तोक्योक वचपी गाडी धरली. स्टेशनार आमकां पावोवपाक सगळे आयिल्ले. गाडी सुटपाची जाली तेन्ना होरिउचीसानांच्या दोळ्यांतल्यान हांवें दुकां व्हांवतात तीं पळेलीं आनी हांव विरगळून गेलों. गाडयेन स्टेशन सोडलें तेन्ना भोंवतणच्या सैमाचेर एक नदर मारली. मोगाचो आमचेर जो पावस शिंवरिल्लो तांतूंत ताचोय बरोचसो वांटो आशिल्लो.

गाडी तोक्योचे दिकेन धांवपाक लागली. आनी अवचीत काळजांतल्यान वयर सरिल्लो एक आवाज कानार पडलो. 'जपानचें सैम खरेंच सुंदर. जपानी काळीज ताच्याकूय चड सुंदर.'

❑

# १३
# एका सुतान गुंथिल्लो देस

धा दिसां उपरांत पर्थून तोक्योक पाविल्लों. कितलो फरक पडिल्लो म्हजे नदरेंत! पयलेच फावट हांगा पावल दवरलां त्या वेळार सगळें नवें नवें शें दिसतालें, परकी  परकी शें दिसतालें. म्हज्या संवकळीच्या संवसारा परस वेगळ्याच एका संवसारांत पाविल्ले वरी दिसतालें. सगळें बारकायेन पळेतालों. जिज्ञासेन जाणा जावन घेतालों. आतां धा दीस तोक्यो भायर भोंवन तोक्योक परतो पावलां तेन्ना हांव नव्या संवसारांत पाविल्ले वरी मातूय दिसलें ना. म्हजे संवकळीच्याच संवसारांत पावलां, ह्या संवसारांत बरोच रुळ्ळां, म्हजोच संवसार हो, अशें दिसपाक लागिल्लें.

आडचण फकत भाशेची येताली. जपानी भाशेचें एक उतर लेगीत समज नाशिल्लें. आतां दोन चार वाक्यां उलोवपाक लागिल्लों. आठ धा उतरां समजुपाक लागिल्लों. सकाळचो कोणूय वळखीचो दिश्टी पडलो म्हणटकूच चुक नासतना 'ओहाइयो गोझाय मस' (म्हळ्यार 'गुड मॉर्निंग') म्हणटालों. उपकार आठयतना 'दो मो आरिगातो गोझाय मस्ता' ('थँक्यू') म्हळे बगर रावी नाशिल्लों. ('आरिगातो' उतर म्हाका पुर्तुगेजींतल्या 'ओब्रिगादा' सारकें लागिल्लें) आनी कोणाय सरीं इंग्रजींत खबरी करता आसतना तो सांगता तें आयकून मदीं मदीं 'सो देसका?' म्हणटालों. (मराठींतल्या 'असं का?' सारकें तें दिसतालें.) ना म्हळ्यार, जपानींत म्हाका कोंकणी भाशेंतलें एक उतर मेळिल्लें. कितेंय अजापाचें आयकले पळेले बरोबर आमी जशे अजापान 'आरे!' म्हणटात, तशेच जपानी लोकूय 'आरे'च म्हणटात तें पळोवन ते आमचेच कोण शे दिसपाक लागिल्ले. हाचे पेल्यान म्हजी चांट

पडूंक पावूंक नाशिल्ली. शरद पंड्याक कांय उतरां म्हजे परस चड येतालीं. जपानाक वचपाचें थरना फुडें ताणें सगळ्यांत पयलीं एक 'सॅल्फ टिचर' विकतो घेतलो आनी थोडो भोव शिकून काडलो. ते भायर, एक इंग्रजी-जपानी कोशूय घेतलो. दोनूय पुस्तकां हांगा आपणा बरोबर घेवन भोवंक लागलो. इतलेंच न्हय तर ह्या पुस्तकांच्या म्हालवजार तो लोकां कडेन जपानींतल्यान उलोवपाचोय यत्न करपाक लागलो. पुणून समज पडचे परस गोंदळूच चड जावचो. ताच्या तोंडांतल्यान जपानींतल्यान एक वाक्य भायर सरल्यार पुरो, मुखार आशिल्ल्या मनशाक 'हाका जपानी येता' अशें दिसचें आनी ताणें भरभरीत जपानींत उलोवपाक लागचें. मागीर ताका 'म्हाका जपानी येना' अशें सांगून मेकळो जावचें पडटालें.

हॉटेलांत तर हाचेकूय चड गोंदळ जावचो. म्हाका मास नाका, नुस्तें नाका, तांतीं नाका म्हूण ताणें ऑर्डर दिवची. थोड्या वेळान ताचे मुखार 'डिश' येताली ती मासाची नुस्त्याची तांतयांचीच आसची. मागीर 'कसले लोक हे... हांकां तांचे भाशेंत सांगलें जाल्यार लेगीत समजना' अशें उबगून ताणें म्हणचें. तागेल्या ह्या अणभवान हांव शाणो जाल्लों. हांवें जपानी भास समजून घेवपाचो यत्न करचो, पुणून उलोवपाचे भानगडींत चुकून लेगीत पडचें न्हय. तरूय म्हजें कांय अडून उरलें ना. जपानी लोकांच्या काळजा कडेन संबंद जोडपाक म्हाका भाशेची अडचण मात पसून आयली ना. मनशाचें काळीज मुदलांतूच अशे तरेचें की ताका दुसऱ्या काळजा कडेन एकतान जावपाक उतरांची व्हडलिशी गरज भासना.

हे खेपे तोक्यो विश्वविद्यालयांतल्या कांय अध्यापकांच्यो वळखी जाल्यो. तांचे कडल्यान जपानी समाजाच्या कांय आंगांच्यो खबरी कळ्ळ्यो.

जपानी मनीस जसो ताच्या घराब्याचो एक घटक आसता तसो समाजांतल्या एका पंगडाचोय ('ग्रुपा'चोय) घटक आसता. ह्या पंगडा भायर ताका व्यक्ती म्हूण वेगळी सुवात ना. वेगळे हक नात. व्यक्तिवादाचे संस्कारूच ह्या लोकांचेर पडूंक पावूंक नात. इतिहासांत कितल्याश्या तरांचे संघर्श हांगा जाल्यात पुणून व्यक्ति-स्वातंत्र्या खातीर एकूय जावंक ना. म्हजे कडेन वेळ आसा, म्हजे कडेन दुडू आसा, ह्या वेळाचो आनी दुडवांचो हांव म्हाका जाय तसो उपेग करतलों अशें म्हणपी एक लेगीत

मनीस जपानांत पळोवंक मेळपाचो ना. कांय लागणुकांनी मनीस समाजा कडेन बांदिल्लो उरता. लागणुकांचे हे जाणविकेकूच जपानी लोक 'नीत' मानतात. हे नितीक जो पाळो दिना, समाजाच्यो लागणुको आपणाक लावन घेना, ताका हे लोक 'नीत नाशिल्लो', वांकडे चालीचो, immoral मानतात.

आवय बापूय भुरग्यां मुखार नितीची देख दवरतात तेन्ना ते पातक पुण्याचो विचार करी नात. पातक पुण्या खातीर जपानी भाशेंत खंय उतरांय नात. पुणून एका तत्त्वाचेर तीं भर दीत आयल्यांत. ताका ते 'शिन्यो' म्हणटात. एक 'मूल्य' हें तांगेल्या जिविताचें. दिल्ल्या उतराक पाळो दिवंक जाय, कुटुंबाक आनी समाजाक एकनिष्ठ रावंक जाय, असल्यो कितल्योश्यो देखी ह्या 'शिन्यो' तत्त्वांत आसपावतात. ह्या तत्त्वाक कडक पाळो दिवंक जाय. ना जाल्यार मनशाक थंय कोण लेखी नात.

हें तत्त्व मनशाक एके वटेन ताच्या म्हालगड्यां कडेन, आवय-बापूय, व्हडले भाव, धनी सारकेल्यां कडेन जोडटा, तर दुसरे वटेन ताका धाकल्या भावां कडेन, भुरग्यां कडेन, हाता खाला काम करतल्यां कडेनूय जोडटा. ह्या बांदपासांतूच जपानी मनीस आपणाक सुगूर आनी हुसक्या-मेकळो मानता. कोणूच ह्या बांदपासांतसून आपणाली सुटका करून घेवपाचो यत्न करिना, आपणाक 'पडूंक' दिना. पडलो जाल्यार मागीर ताका 'जिगोकू' नरका भायर दुसरी सुवात ना, मुक्ती ना.

ह्या नेमाची कडकसाण शारां परस चड गांवांनी पळोवंक मेळटा. एक खरें, उद्येगीकरणाक लागून आतां गांवांचींय शारां जावपाक लागल्यांत - ना जाल्यार ते लागसारच्या खंयच्याय एका व्हड शाराचीं उपनगरां कशे जावन पडल्यात. तरी आसतना, तांगेले सामाजीक जिणेंत व्हडलोसो बदल जावंक पावूंक ना. शेंकड्यांनी वर्सां सावन ज्या सुतान समाजान आपणाक गुथून धेतिल्लो तें सूत अजून घटमूट उरलां. शेतां रोवपाचे वा लुंवपाचे दीस येवंदी, सगळे एकामेकांगेर आधाराक वतले. बांद तुटुंदी, सगळे एकठांय येवन तो बांदून काडटले. मोड येवन कोणाचेंय घर मोडुंदी, सगळे एकठांय येवन ताका नवें घर बांदून दितले. कोणूय लग्ना बगर उरिल्लो आसत जाल्यार सगळे मेळून एक बरीऽ चली सोदून काडटले

आनी तिचे कडेन ताचें लग्न लायतले.

गांवांतल्या खंयच्याच घराक खिळी नासता. कोणूच दार लावन हेरां पसून आपणाक वेगळो काडिना. सगळ्यांचे हितसंबंद एकामेकांत गुंथिल्ले आशिल्ल्यान कोणूच एकामेकां विशीं उदासीन राविना. कोणूय समाजाचें आपणाक कांय लागना अशें म्हणून खेरीत जिवीत जियेवंक लागलो जाल्यार आयजूय तो धवळ्यांचो विशय जावन पडटा. सगळेच ताची शी थू करपाक लागतात. समाजाची बेपर्वाय करप म्हळ्यार एके तरेन संकश्ट ओडून घेवपा सारकें जाता. समाज एक जावन ताचे आड वता.

तोक्यो सारकेल्या आर्विल्ल्या शारांत लेगीत ह्याच नेमान लोक एकामेकां कडेन चलतात.

हे खेपे म्हजो आनी शरद पंड्याचो राबितो हॉटेला बदला आओयामांतल्या किनोकुनिया सुपर मार्केटाच्या 'गेस्ट हावसांत' आशिल्लो. हाका लागून ह्या मार्केटाचे अध्यक्ष आनी उपाध्यक्ष मासुई भावांचो तांचे कंपनींत काम करतल्या लोकां कडलो आपलेपणाचो संबंद पळोवंक मेळ्ळो. कोण धनी आनी कोण नोकर हें वळखूंक येना आशिल्लें. इतली निष्ठा धनी आनी नोकर दोगांय मदीं आशिल्ली. सगळे एकाच घरांतले जाल्ले वरी एकामेकां कडेन चलताले. सुमार चारशें लोक कंपनींत काम करताले. हांचे कडल्यान कामां करून घेवप इतलीच मासुई भावांची जापसालदारकी नाशिल्ली. सगळ्यांच्या सुखां-दुखांचीय जापसालदारकी आपणाली अशें मानून दोगूय चलताले आनी कंपनींत काम करतले लोक लेगीत तांचे कडेन पळेता आसतना निखटे कंपनीचे धनी म्हणून पळे नाशिल्ले. आपले व्हड भाव लेखून पळेताले.

पुराय जपानी समाज, हे भाशेन, एकामेकां कडेन बांदिल्लो आशिल्ल्यान ह्या देसाक a nation that acts as one म्हूण नामना मेळ्ळ्या. ह्या देसांतलो जण एकलो आपणाल्या कुटुंबा कडेन एकनिष्ठ आसता तशें दर एकलें कुटूंब समाजा कडेन एकनिष्ठ उरता. आनी हे सगळे ल्हान व्हड समाज देसाक एकनिष्ठ आसतात. आशिया खंडांतल्या दुसऱ्या खंयच्याय देसा परस हो देस आगळो वेगळो जावंक पावला तो ह्याच एका कारणाक लागून.

आयज जपानांत लोकशाय चलता. तत्त्वान व्यक्ति-स्वातंत्र्याची प्राणप्रतिष्ठा जाल्या. उद्देगीकरणाक लागून समाजाचीं एकामेकां कडलीं नातीं मातशीं सदळ जाल्यांत. फाटल्या झुजांत खावचे पडिल्ले हारीक लागून सामाजीक जिविताक मात्शी वेर गेल्या अशेंय कांय जाण म्हणटात. पुणून एक गजाल दुबावा विरयत सांगूं येता - ज्या सुतान ह्या देसान आपणाक गुंथून घेतला तें सूत आयजूय घटमूट उरलां.

आओयामा लागसारूच शिबुया नांवाचें एक स्टेशन आसा. लोकल ट्रेनी थंयच्यान धांवतात. एका इश्टान म्हाका थंय येवन राव म्हळ्ळें. थंयच्यान तो म्हाका आपणागेर घेवन वचपाचो आशिल्लो. चलत स्टेशनार गेल्लों. स्टेशना भायर उदकाचो एक फवारो आशिल्लो. थंय उबो राविल्लों. अवचीत नदर एका पुतळ्याचेर पडली. पुतळो एका सुण्याचो. आनी सुण्याचें नांव 'हाची' आशिल्लें. पुतळ्या सकयल हाचीचें जिवीत बरयल्लें-

हाची खंय जल्माक आयलो, सांगूंक येना. पुणून जल्माक आयलो थंयच्यान एकलो ताका आपणागेर घेवन गेलो. थंय ताची अपुर्बायेन वाड जाली. धनी हांगा शिबुया स्टेशना लागसारूच खंय तरी रावतालो. पुणून काम करपाक तो वतालो दुसरे कडेन खंय तरी. ते खातीर शिबुया स्टेशनार येवन ताणें लोकल ट्रेन धरची. धनया वांगडा हाचीनूय सद्दां स्टेशनार येवचें. आनी धनी ट्रेनीर चडलो म्हणटकूच घरा परतुचें. सांजच्या साडेपांचाच्या सुमाराक पर्थून स्टेशनार येवचें. आनी धनी येसर ताची वाट पळेत बसचें. हे भाशेन दोन चार वर्सां ताणें धनयाक पावोवपाक स्टेशनार येवचें आनी धनी परतो आयलो म्हणटकूच ताचे वांगडा घरा येवचें.

एक दीस धनी आयलो ना. हार्ट ॲटॅक येवन तो ऑफिसांतूच भायर पडिल्लो. हाची सदचे वरी स्टेशनार आयिल्लो. धनयाची वाट पळोवन पळोवन तो निर्शेलो. अंतीं सांज जातकूच घरा परतलो. दुसऱ्या दिसा परतो येवन धनयाची वाट पळेत बसून रावलो. तिसऱ्या दिसा, चवथ्या दिसा... करीत करीत सुमार धा वर्सां हाची असोच येत रावलो आनी धनी आयलो नासो पळोवन घरा वचूंक लागलो.

स्टेशनार येवपी वचपी लोक सद्दां हाचीक पळेताले. हो पावलॉवाचो 'कंडिशन्ड रिफ्लॅक्स' आसूं येता म्हणपाचो कोणाक दुबाव आयलो ना.

सगळ्यांक ती हाचीची स्वामी-निष्ठा कशी दिसली. आनी ताची ही स्वामी-निष्ठा पळोवन सगळे प्रभावीत जाल्ले. एक दीस तांणी हाची थंयच मरून पडिल्लो पळेलो. सगळ्यांनी ताचें थंय एक यादस्तीक उबारचें अशें थारायलें. एका बऱ्या शिल्पकारा कडल्यान ताचो एक बरो पुतळो तयार करून घेतलो आनी हाची जंय बसून धनयाची वाट पळेतालो थंय तो उबारलो.

जपानी काळीज सारकें बरें वळखुपाक ह्या पुतळ्या सारकें दुसरें कांयच ना.

आळशी मनीस पळोवंक मेळना जपानांत. सगळे कसल्या न्हय कसल्या कामांत घुसपल्लेच दिश्टी पडटले. आंगार घेतिल्लें काम भरपूर कश्ट करून, जीव ओतून करतले. आनी, म्हत्वाचें म्हळ्यार, चार चवगांच्या आधारान शिस्तीन करतले.

व्यक्तिस्वातंत्र्यवादी जपानी ह्या देसांत ना.

हे लोक अशे कशे जावंक पावले ह्या प्रस्नाची जाप सोदता आसतनाच एक दीस अवचीत म्हजें लक्ष जपानी भुंयेच्या कांय आंगां कडेन गेलें. केन्ना खंय भुंयकांप जावन सगळें सकल वयर जायत, सांगूं येना; केन्ना खंयचें जाळमूख फुटून जळजळीत 'लावा' रोस ओंकूंक लागत, सांगूं येना; केन्ना मोड येवन कितें उबून वचत, सांगूं येना, असली भूंय ही. केन्नाय खंयच्याय खिणाक येवं येतात असल्या संकश्टांक तोंड दिवप एकल्या दुकल्याच्यान केन्ना जावपाचें ना, - मागीर केदोय कर्तृत्वी आसूं तो - सगळ्यांनी एकठांय येवन एकामेकांच्या आधारानूच वावुरचें पडटलें ही देख जपानी भुंयेनूच लोकांक दिल्या आसूंक जाय, अशें दिसलें. व्यक्तिस्वातंत्र्यवादी मनीस असले भुंयेर जल्माकूच येवंक पावपाचो ना.

जपानी लोक कामा फाटल्यान वाग कशे लागतात. केद्योय अडचणी येवं, बँ म्हणिनात. केदेंय संकश्ट कोसळूं, थतर-वितर जायनात, आनी हातांत घेतिल्लें काम अरद्यार सोडून वा दुसऱ्यांचेर धुकलून कोणूच वचना.

इतलो कश्टाळू मनीस सपसप खंयच पळोवंक मेळचो ना.

एक दीस खबरी करतां करतां एका प्राध्यापकान एक खबर सांगली.

ताणें म्हळें, आमचें हांगासल्लें हवामान खातें मोड येवपाचें आसलें जाल्यार तें केन्ना येतलें, खंयचे दिकेन येतलें, खंयच्या वाटाराक येवन आदळटलें आनी त्या वाटाराचें केदें आनी कसले तरेचें लुकसान जातलें हाचो अदमास चुकनासतना लायता. ते प्रमाण कांय सप्तकां पयलीं ताणें एका मोडाचो अदमास लायलो आनी धा पंदरा दीस पयलींच खबरेपत्रांतल्यान, टीवी, रेडियो वेल्यान लोकांक ही खबर सांगली. ह्या मोडाक लागून एके न्हंयेक हुंवार येवपाचो आशिल्लो आनी तांतूंत कांय गांव व्हांवन वचपाचे आशिल्ले.

हांवें विचारलें, 'मागीर? लोक भियेले नात ? गांव सोडून गेले नात?'

'च्यॅ, लोकांनी ही खबर आयकली आनी सदचे वरीच ते आपापल्या कामाक गेले. सरकार वेळार कितेंय उपाय घेतलें हाची तांकां खात्री आशिल्ली... आनी तशेंच जालें. दनपार जातासर कांय लोक गांवांत आयले आनी लोकांच्याच आधारान गांव कसो वाटावचो हाची येवजण तांणी आंखून काडली... कितें केलें...? एक दोंगर पोखरून एक बोगदो तयार केलो आनी न्हंयेची व्हांवतीच त्या बोगद्यांतल्यान दर्यांत व्हरून सोडली...'

चकासूर जावन हांव तांगेल्या ह्या अचाट कर्तृत्वाची खबर आयकत रावलों. खरेपणानशीं चकासूर जावपाक कारणूच नाशिल्लें. हांकां असलीं अचाट कर्तृत्वां करपाची मुळा थावन संवंयूच आसा. तांगेल्या हाडां मासांतूच असलीं कर्तृत्वां करपाचे गूण आसात. हालींच तांची रशिये कडेन एक कबलात जाल्या. हरशीं, रशियेचे लोक कर्तुत्वी. पुणून तांकां सायबेरिया वसोवंक अजून येवंक ना. हे कबलातीक धरून आतां सायबेरियाक उर्जितावस्तेक हाडपाची दायकी जपानान घेतल्या.

जपान कितें करपाचें आसा ?

तर खंय उत्तर ध्रुवा सावन एक न्हंय खणून ते ती जपानी समुद्रांत हाडून सोडपाचे आसात.

हांवें मनांत म्हळें, अशें कर्तुत्व आमच्या देसांत फकत भगीरथान केल्लें. तेंवूय पुराण काळांत.

लिसेव शिकतालों तेन्ना पुर्तुगेज बरपावळीच्या इतिहासांत फेर्नांव मेंदिश

पीन्तु नांवाच्या एका लेखकाची 'पेरेग्रिनासांव' नांवाच्या एका पुस्तकाची खबर वाचिल्ली. वाश्कु द गामान हिन्दुस्तानांत वचपाचो समुद्री मार्ग सोदून काडीत पसून तरातरांचीं धाडसां करून नशीब अजमावपाक कांय पुर्तुगेज तरणाटे फुरफुरून आयिल्ले. तांच्यांतलो फेर्नांव एक. पुर्तुगालच्यान तो एथियोपिया, पर्शिया, मलाया, इण्डिया, बर्मा, सियाम, कोचीन चायना, इस्ट इण्डीस, चीन, जपान बी देसांनी भोंवला. सुमार एकवीस वर्सांचे हे भोंवडेंत पांच खेपे ताचीं तारवां बुडल्यांत, तेरा खेपो ताका बंदखण भोगची पडल्या, सोळा खेपो ताका गुलाम म्हूण धरून विकला. पुर्तुगालाक परतले उपरांत ताणें आपणाले भोंवडेचें पुस्तक बरयलें. तांतूंत जपानी लोकांच्या अचाट कर्तुत्वांच्यो खबरी बरयल्ल्यो. त्यो वाचून 'हो तालां मारता' अशें म्हणून लोकांनी ताचीं फकाणां मारपाक सुरवात केली. ताच्या नांवाचेर तांणी विनोदूय केले. पुर्तुगेजींत 'तूं तालां मारता?' काय विचारचें जाल्यार 'तू मॅन्तिश?' म्हूण विचारतात. आनी 'हय, हांव तालां मारतां' म्हूण जाप दिवची जाली जाल्यार 'मीन्तु' म्हूण दितात. फेर्नांव मॅन्दिश पीन्तुचें 'फेर्नांव? मॅन्तिश? मीन्तु' करून ते विनोद करपाक लागिल्ले.

फेर्नांव जपानांत पाविल्लो त्या काळार जपानांत विज्ञान पावूंक नाशिल्लें. त्या काळांत लेगीत हांचीं अचाट कर्तुत्वां करपी लोक म्हूण नामना आशिल्ली. आतां आर्विल्लें विज्ञान थंय पावलां. केदी तांक तांच्यांत आयल्या जातली, अदमासूच केल्लो बरो.

ही जाली नाण्याची एक वट. ताची दुसरीय एक वट आसा. कामां करप म्हळ्यार चार चवगांच्या सांगातानूच करप ही संवंय जाल्ल्यान व्यक्ती म्हूण कोणाकूय खंयचेंय काम करचें पडलें जाल्यार ताका तें करुंकूच येना. ल्हान-शें लेगीत काम आसूं, सगळ्यांची बुद्द घेतले बगर जपानी मनीस तें करचो ना. ताका स्वतंत्रपणान निर्णय घेवंकूच येना. थारायल्ल्या बेतांत मातसो-सो बदल सुचयल्यार पुरो, तो घुटमळ्यांत पडटलो. धरुंया, चवग-पांच जाण तुमगेर पावले आनी तुमी तांकां 'कितें घेतले ? च्या काय कॉफी ?' म्हूण विचारलें जाल्यार सगळे एकामेकांच्या तोंडा कडेन पळेतले. सट्ट करून जाप मेळपाची ना. एकल्यान कोणेंय 'च्या उपकारता' म्हळें जाल्यार सगळे 'च्या उपकारता' म्हणटले.

एक खेपे एकल्या व्हड मनशागेर खंय कांय विद्यार्थी गेल्ले. ताणें त्या भुरग्यांक थंड कोका-कोला पियेवपाक हाडून दिलो. इतल्यांत ताका फोन आयलो म्हूण तो घेवपाक तो भितरले कुडींत गेलो आनी बरोच वेळ फोनार उलयत रावलो. भायर येवन पळेत जाल्यार, एकल्यानूय कोका-कोला उश्टावंक नाशिल्लो. कित्याक, कोणेंच भुरग्यांक तो घेयात म्हूण सांगूंक नाशिल्लें. घेयात म्हूण सांगले बगर घेतले कशे?

ह्या सभावाक लागून खंयचोच जपानी खंय आपूण जावन खंयचेंच काम आंगार घेना. सांगपी कोणूय जाय. मागीर सगळेच ताचे फाटल्यान चलपाक लागतात. आनी सांगपी कोणूय प्रभावी मनीस आसत जाल्यार पुराय देस ताचे फाटल्यान वता. हुकमा बगर काम करप ना आनी हुकूम जालो जाल्यार ना म्हणप ना हो जपानी समाजाचो एक सभाव जावन पडला.

खंयच्याय पोरसांत फुलां तोडूं नाकात म्हूण पाटी लायिल्ली आसत जाल्यार कोणूच फुलांक हात लावपाचो ना. रस्त्यार मोटारींची रांग लागिल्ली आसली जाल्यार कोणूच दुसऱ्याक 'ओवर टेक' करपाचो ना. आनी रस्तो क्रॉस करपाक 'लक्ष्मणरेशा' घाल्ल्यो आसत जाल्यार मदल्यान कोणूच रस्तो क्रॉस करपाचो ना.

अमेरिकेंत रावतल्या एका सोयऱ्यान म्हाका एक चेक धाडिल्लो. पॉकेट खर्चा खातीर. किनोकुनिया कंपनींतल्या एका भुरग्याक घेवन हांव तो वटोवपाक बँकेंत गेल्लों. वाटेर हांवें एकल्याक मोटारीचो धपको लागून पडिल्लो पळेलो. तोक्यो, ओसाका सारकेल्या शारांनी दिसपट्टे असले कितले तरी 'ॲक्सिडँट' जातात. जंय जंय पोलीस चौक्यो आसात थंय थंय भायले वटेन एक बोर्ड आसता. ताचेर खेळाचे स्कोर जाल्ले वरी आयज कितले ॲक्सिडँट जाले ताचे आंकडे लायिल्ले आसतात. त्या मनशाक मोटार आपटून पडिल्लो पळोवन हांवें म्हजे वांगडा आयिल्ल्या तरणाट्याक म्हळें, 'आरे, हाका ॲक्सिडँट जाला... चल आमी ताका आधार दिवपाक या.'

'नो... इट इज डेंजरस' ताणें जाप दिली. आधार दिवपाक वचप हांतूंत 'डेंजरस' कितें आसा तें म्हज्या लक्षांत आयलें ना. म्हत्वाचें म्हळ्यार, तो पडला म्हणपाचें वाटे वेल्यान वतल्या कितल्याश्या जाणांनी पळेल्लें. पुणून

एकलोय ताच्या आधाराक धांवून वचूंक नाशिल्लो. 'हांकां मनीसपणूच ना काय कितें ?' अशें म्हाका दिसलें. हांवें म्हज्या सांगात्याक 'हांतूंत डेंजर खंय आसा' काय म्हूण विचारलें. ताका इंग्रजी सारकी येनाशिल्ली आनी ते मेरेन आमची गाडीय बरीच मुखारूय पाविल्ली. हांव खंती जालों.

चेकाचे पयशे मेळटकूच हांव सगळ्यांत पयलीं एका बुकस्टॉलार गेलों आनी तीन चार पुस्तकां घेतलीं. तांतूंत रूथ बेनेडिक्टचें 'द क्रिझँथमम ऍण्ड द स्वोर्ड' नांवाचें एक पुस्तक आशिल्लें. 'कल्चरल ऍन्थ्रॉपॉलजी'ची एक प्राध्यापिका ती. जपान बरी वळखल्ली. हें पुस्तक वाचतकच म्हाका ऍक्सिडँट जाल्ल्याच्या आधाराक धांवन वचप 'डेंजरस' कित्याक तें समजलें. ऍक्सिडँटान मनीस मेल्लो जाल्यार त्या खिणाक सगळे धांवन येतले आशिल्ले. उपरांतची ताची सगळी वेवस्थाय करतले आशिल्ले. तो मेलो ना हीच ताची चूक जाल्ली. जित्या मनशाच्या आधाराक मनीस धांवलो जाल्यार मागीर ताका हॉस्पिटलांत व्हरून पाय, ताच्या घरच्या लोकांक कळय, मागीर तो कसो आसा हें पळोवपाक ताचे खबरेक वच, हें सगळें लावन घेवचें पडटा. इतल्यान सोंपिल्लें जाल्यार गजाल वेगळी म्हणूं येताली. पुणून प्रकरण इतल्यान सोंपना. जाच्या आधाराक आमी वतात तो आमच्या उपकारांत उरता. उपरांत उपकार परते पावोवपाचें उपकारांचें चाक सुरू जाता. नवे बांदपास कित्याक लावन घे ? जपानी मनीस कोणाकूच आपणाल्या उपकारांत वा बांदपासांत दवरूंक इत्शिना. दुसऱ्याक उपकारांत दवरूंक तो भियेता.

❑

# १४

# आगळ्यो वेगळ्यो चाली

वळखीचो कोणूय मेळटकूच जपानी लोक हात दिनात. एकामेकां मुखार कमर बागोवन नमस्कार करतात हें पळोवन हात दिवपाचें सोडून हांवूय कमर बागोवन नमस्कार करपाक लागलों. पुणून कमर कितले खेपे बागोवप हें शास्त्र बरेच दीस लक्षांत आयलें ना. ते कितलेशे खेपे बागयतात तें हांवें पळेलें आनी हांवें म्हजे पुरतो एक नेम केलो. हांव दोनूच खेपो कमर बागोवंक लागलों. कांय दिसांनी कमर एकेच खेपे बागोवपाचें आसता, मागीर उपचारीक उलोवप सुरू जाता तेन्ना दर एका प्रस्नाक जाप दितना कमर बागोवनूच ती दिवपाची आसता म्हणपाचें कळ्ळें. देखीक, 'ओहाइयो गोझाय मस' म्हूण एकामेकांक नमस्कार केले उपरांत दुसऱ्यान, धरुंया, विचारलें, 'रातीं न्हीद कशी पडली' जाल्यार 'सुस्त बरी' म्हूण जाप दितना कमर बागोवन ती दिवची पडटा. 'काल खूब भोंविल्ल्यान पुरो जालें ना?' म्हूण विचारल्यार 'ना ना, व्हडलेंशें जालें ना' ही जाप दितना परतें कमर बागोवचें पडटा. दोगी जपानी बायलो वाटेर खंयूय मेळटात तेन्ना तांचे मजगतीं बरोच वेळ संवाद चलता. 'घरचीं सगळीं बरीं आसात मू? चलो अमेरिकेक गेल्लो तो कसो आसा ? ताज्यो चिटी येतात मू? तो केन्ना परतो येतलो ? ताका हांव विचारतालीं म्हूण बरोवपाक विसरूं नाका आं' अशें एकली दुसरेक विचारता तेन्ना दुसरीय तितलेच प्रस्न तिका करता आनी दोगीय एकिमेकींक जापो दितना कमर बागोवन जापो दितात. आमकां तांची भास कळना म्हूण हांकां कितले खेपे कमर बागोवपाचें तें समजना असो आमी समज करून मेकळे जातात.

एक दीस आनीक एके चाली कडेन लक्ष गेलें. जपानी मनशाक 'ना' म्हणपाचें आसता तेन्ना 'हय' म्हणटना आमी हालयतात तशी तो वयर सकल मान हालयता. म्हाका हांसो येवपाक लागलो. हांवें नरेशाक विचारलें तेन्ना 'तुज्या प्रस्नाचेर तें निंबून आसता' म्हणपाची ताणें जाप दिली. 'तुजो प्रस्न न्हयकारी आसत जाल्यार तो हय म्हणिल्ले वरी मान हालयतलो... देखीक 'तूं अजून जेवंक ना ?' म्हूण तुंवें विचारलें जाल्यार 'ना अजून जेवंक ना' ही जाप दिवपा बदला 'हय' म्हूण मान हालयतलो. हांवें त्याच खिणाक जपानी मनशाक न्हयकारी प्रस्नूच विचारचों ना, असो निर्णय घेतलो. म्हळें, गोंदळांत आनीक आनीक गोंदळ नाका.

'काल तूं अमक्याक मेळिल्लो?' अशें, धरुंया, कोणेंय आमकां विचारलें जाल्यार, 'कोण, हांव?' अशें म्हणपा वेळार आमी आमच्या हड्ड्या कडेन बोट दाखयतले. जपानी मनीस आपल्या उजव्या हाताचें बोट आपणाल्या नाकाक लायतलो.

असल्यो बारीक-सारीक कितल्योश्यो चाली तांचे मजगतीं बरोच घोळ्ळे उपरांत लक्षांत आयल्यो.

एक दीस एक खूब म्हत्वाचे गजाली कडेन लक्ष गेलें. सुमारा भायर आतिथ्यशील लोक हे आपणागेर कोणाक जेवणाक आपयनात. खूब दाट संबंद आयिल्लो आसत जाल्यार गजाल वेगळी. पुणून पै पावण्याची सरबराय घरा कडेन व्हरून करपाची न्हय, एकादऱ्या हॉटेलांत वा रेस्तॉरांतूच व्हरून करूंक जाय - घरा आपोवन व्हरप म्हळ्यार तांचो अवमान करप जाता - अशें मानपी लोक हो. किनोकुनिया स्यूपर मार्केटाचे अध्यक्ष आनी उपाध्यक्ष दोगूय मासुई भावांच्या मनांत काकासायबां विशीं सुमारा भायर पुज्यभाव. हांगासल्लो काकासायबांचो सगळो खर्च तांणीच केल्लो. पुणून दोगूय तांकां आपणागेर घेवन केन्ना गेले नात. म्हाका अजाप जाल्लें. पुणून पूर्व पुरातनूच चाल ही तांची म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना आयकून ओगी रावचें पडलें. केन्ना सावन ही चाल सुरू जाली, कोणाक सांगूंक आयलें ना.

पावण्यांक भेट म्हूण कितेंय दिवपाचें हांकां एके तरेचें पिशें. वस्त ल्हान आसूं वा व्हड, ती सुंदर कागदांत इतले सुंदर रितीन बांदिल्ली आसतली

की उकती करून पळोवपाची इत्सा लेगीत आमकां केन्ना जावची ना. कितलीय मोलाची आसूं, दितना मनीस 'सामकी ल्हान वस्त भेट म्हूण हाडल्या, घेवची' अशें म्हणून दितलो. आनी ती घेवपी मनीस 'च्यॅ च्यॅ, ही भेट दिवन तुमी म्हजो खूब भौमान केला' अशें म्हणटलो आनी घेतलो. पुणून एक - भेट घेवपी मनीस ती दितल्या मुखार केन्नाच उकती करून पळोवचो ना. दुसऱ्या दिसा मेळटलो तेन्ना मात् विसरनासतना 'खुबूच सुंदर भेट तुमी दिल्या म्हाका काल' अशें म्हणून उपकार मानतलो. जेवणाच्या मळारूय होच नेम. जेवण दितल्याचे उपकार पावणो त्या दिसा केन्ना मानचो ना. दुसऱ्या दिसा मानतलो.

एके आगळे वेगळे चाली कडेन म्हजें निमाणें निमाणें कोणें तरी लक्ष ओडलें. कांय जाण आपणाल्या पावण्यांक खंयच्या तरी नांवाजत्या जपानी रेस्तॉरांत रातचें जेवण दितात. इतले जाण जेवपाचे आसात... तांची बरी सरबराय जावंक जाय म्हूण रेस्तोरां चलयतल्याक सांगतात आनी पावण्यांनी निरोप घेवचे पयलीं आपूण उठून वतात. पयशे पयलींच दिल्ले आसतात. हाका लागून येजमान आनी पावणे हो भेद थंय उरना. सगळ्यांची सारकीच सरबराय जाता. थंय 'साके' (तांदळां पसून केल्लो सोरो) पियेवंक दितात. आनी जण एका पावण्या सरीं एक 'गेयशा' आसता. 'साके' केन्ना केन्ना पावण्यांक चडटा. अश्या वेळार तांच्या आनंदांत आडखळ येवची न्हय म्हूण येजमान पयलींच उठून वता. असली चाल दुसऱ्या खंयच्या देसांत पळोवंक मेळची ना.

पयशांच्या मळार मात जपानी मनीस उदार. किरकोळ हिशोब केन्ना दवरचो ना. कोणेंय पयशे उशणे घेतिल्ले आसले जाल्यार, ताका केन्ना ताची याद करून दिवचो ना. आनी उशणे घेतिल्ल्या मनशान पयशे परते हाडून दिले (आनी ते किरकोळ आसले) जाल्यार परते घेवचोय ना. 'आसूं रे ते' अशें म्हणटलो आनी ताच्याच बोल्सांत ते परते घालतलो. केन्ना केन्ना कांय इश्ट एकठांय येवन एकाद दुकल्या रेस्तॉरांत वतात आनी च्या कॉफी वा बियर पियेतात. बील येता तेन्ना तांच्यांतलो एकलो कोणूय तें फारीक करता. इश्टां इश्टां मजगतच्या वेव्हारांत ल्हान सान हिशोब हे लोक केन्ना

दवरी नात. कांय कडेन जपानी तरेचीं हॉटेलां आसात थंय सरबराय बऱ्यांतली बरी जाता. पुणून जपानी मनीस जेन्ना असल्या हॉटेलांत वचून रावता तेन्ना पयशां संबंदान पयलीं केन्ना हॉटेलकाराक विचारी ना. हॉटेल सोडटा तेन्ना हॉटेलकार गिरायकाचो पांवडो पळोवन बील करता आनी गिरायक तें मोन्यांनी फारीक करून भायर सरता. जपानी लोकांच्या सभावाचें हें आंग घडये तांगेले पोरणे सरंजामशायेचो संस्कार आसूं येता. पुणून जपानी लोकांचे घरंदाजपणाचे संस्कार तांतुंतल्यान उकते जातात.

जपान सारकें वळखून घेवचें आसत जाल्यार जपान्यांच्या सभावाच्या असल्या ल्हान ल्हान आंगां कडेन मुजरत पळोवंक जाय. तांगेलें खरें चारित्र्य धन तें हें.

जपानी लोकांक तांगेल्या घरांनीय पळोवंक जाय. घरांत ते कशे रावतात, कशे चलतात तें पळेले बगर तांकां सारके वळखूंक येवपाचें ना.

तांगेलीं घरां लाकडाचीं आसतात, एके कडलीं उखलून दुसरे कडेन सोंपेपणान व्हरून उबीं करूं येतात, म्हणपाचें आयकत आयिल्लों. तोक्योंतल्यो सिमेन्ट कॉंक्रिटाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो पळेल्यो तेन्ना आयकत आयिल्लों त्यो पोरणे मुस्तींतल्यो गजाली आसूंक जाय अशें दिसलें. आतां, तोक्यो भायर खूब कडेन भोंवन आयले उपरांत दिसलें, आयकत आयिल्लों त्यो गजाली पोरणे मुस्तींतल्यो न्हय - जपानी लोकांचीं घरां आयजूय खऱ्यांनीच लाकडाचीं आसतात - गांवांतलीं तर चडशीं सगळींच, तोक्योंतलीं खूबशीं - माळयो नाशिल्लीं,पेटलां कशीं ल्हानशींच. जपानी नगर-रचनेचें हें एक आगळें वेगळें आंग.

हांव थंय पावलां ताच्या एक-दोन वर्सां सावन थंयच्या खबरे-पत्रांनी एक वाद सुरू ज़ाल्लो. सिमेंट कॉंक्रिटाचीं घरां जपानचे भुंयेर उपकारा पडपाचीं नात, केन्ना खंयचे कडली भूंय आपणालें तोंड उकतें करीत, सांगूं येना; हो भुंयकांपांचो देस, हांगा लाकडी घरांच बांदूंक जाय अशें एका पंगडांतले लोक म्हणटाले. तर, जंयची अंयशीं प्रतिशत भूंय दोंगराळ, फकत विसूच प्रतिशत शेतकाम, उद्योग आनी राबित्या खातीर मेकळी थंय लाकडी घरां बांदप हो जमनीचो दुरुपेग, देसाक हो दुरुपेग पुटवपाचो

ना अशें दुसऱ्या पंगडांतल्या लोकांचें म्हणणें आशिल्लें.

पुणून, एके वटेन काँक्रिटाच्यो बिल्डिंगोय हांगा उब्यो जातात तशे दुसरे वटेन लोक ल्हान व्हड लाकडी घरांय बांदत आसात. फातर विटांच्या घरां परस लाकडी घरांच भुंयकांप आनी वादळ वारें बरीं झेलूंक पावतात हो विचार हाचे फाटल्यान आसूं येता. ते भायर, घरां ल्हान - एक वा दोन माळयांचीं आसतात ताचें आनीक एक कारण आसा. जपानी मनशाक चाळींत वा भाड्याच्या घरांत रावचे परस आपणालें अशें एक ल्हानशें घर आसूंक जाय अशेंच सदां दिसत आयलां. घर आपणालें स्वताचें आसले बगर खंयच्याच जपान्याक आपणालें जिवीत पूर्ण जालां अशें दिसना.

घरां ल्हान आसलीं तरी तांचीं पांखीं मात प्रशस्त आनी घटमूट आसतात. तीं इतले सुंदर रितीन बांदिल्लीं आसतात की घराची खरी सोबा पांख्यांतूच आसा अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. वणटीच्या आकाराच्या मानान घराच्या जनेलांचो आकार मात बरोच व्हड.

दरेका घरा मुखार एक ल्हानशें पोरसूं आसुंकूच जाय, वा म्हणुंया, जपानांत पोरसूं नाशिल्लें घरूच मेळपाचें ना. घरा मुखावेली भूंय कितलीय ल्हान आसूं, थंय एक ल्हानशें पोरसूं उबें केले बगर जपानी आत्मो संतुश्ट जायना. व्यवसायान वा धर्मान जपानी कोणूय आसूं, संस्कारान तो शिन्तो, मुदलांतूच सैम-मोगी. कारखान्यांत वा ऑफिसांत दीसभर वावरून तो सांजचो घरा परतता तेन्ना सैमाच्या सांगातांत खीण - दोन खीण सारले बगर तो संतुश्ट जायना. घरा परतना फुडें तो येवरोपेव भेस देंवयतलो आनी जपानी 'युकाता' चडोवन पोरसांतलीं झाडां शिंपतलो, तांची अपुरबाय करतलो. आयुश्यांत केन्नाय तरी पळेल्ल्या खंयच्याय सैमांतल्या एका देखाव्याची ताच्या पोरसांत तो एक नवी प्रतिकृती तयार करतलो आनी सुखावतलो. पोरसांत फुलांचीं झाडां आसुंकूच जाय अशें ना. पुणून पाचव्या चार पानांनी भरिल्लीं झाडां मात आसुंकूच जाय. तांतुंतूच जपानी मनशाक संतोस.

जपान्यांनी व्हड रुखांक तांचीं मुळां-बिळां कापून धाकले केल्यात. तांकां तांणी एक नांव दिलां - 'बॉन्साय' म्हूण. हीं बॉन्साय - म्हुट्टेल्लीं

झाडां पळोवन म्हाका कितेंशेंच दिसलें.

आनीक एक गजाल पळोवंक मेळ्ळी.पोरसा खातीर सुवात आयस पयस मेळिल्ली आसली जाल्यार जपानी मनीस थंय तरातरांच्या आकारांचे आनी रंगांचे फातर हाडून दवरतलो. सैमानूच दवरिल्ले वरी दिसचे हे तरेन. ह्या फातरां बगर तागेलें पोरसूं पूर्ण जायना. ह्या फातरां खातीर तो पयशेय खूब खर्चिता. कोकिनागा नांवाचो म्हगेलो एक इश्ट आसा. ताणें आपणाल्या पोरसांत हजार दोन हजार रुपया खर्चून चार-पांच ल्हान फातर हाडून दवरिल्ले पळेले तेन्ना म्हाका अजापाचो धसको बसलो. कांय कडेन तर हांवें अडेच्यो न्हंयो वा अडेचे घसघशे सोडिल्ले पळेले. न्हंयेचे व्हांवतेर सांकव बांदिल्लेय पळेले. फातराचे दिवे तर आशिल्लेच. आसल्या पोरसांत लाकडी घर पोरसाचेंच एक आंग कशें सोबता.

केदेंय संकश्ट कोसळूं, जपानी मनीस थतर-वितर जायना. तें कित्याक लागून हें तागेल्या सभावाचें कुवाडें सोडोवपाचो यत्न जायत्या जाणांनी केला. सगळ्यांचें म्हणणें, तो मुदलांत शिन्तो म्हूण थतर-वितर जायना. ल्हानपणा सावन ताका हे शिन्तो संस्कार मेळत आयल्यात. पुणून जपानी मनशाक सद्‌दां वर अर्द वर पोरसांत मन लावन काम करता तो पळेलो तेन्ना ताच्या शान्त सभावाचें स्त्रय ह्या वर अर्द वराच्या वावराकच चड दिवंक जाय अशें म्हाका दिसलें. जो सद्‌दां सैमाचेंच एक आंग जावन सैमाची सेवा करता ताका सैम आपल्या सभावाची देख दिले बगर कशें रावीत ?

जपानी लोकांचो सभाव घडोवपांत ह्या पोरसांचोय वांटो आसा.

जपानी लाकडी घरां जितलीं भायल्यान पळोवपा सारकीं ताचेकूय चड तीं भितरल्यान पळोवपा सारकीं.

सामान्यतायेन सगळ्या घरांक 'बॅल' आसता. ती वाजोवपाची आनी भायर रावन भितर आशिल्ल्यांक आयकूंक येत येद्‌याच आवाजांत एक दोन खेपे 'गोमेन कुदासाय' (म्हळ्यार, 'एक्स्क्यूज मी') म्हणपाचें. म्हणटकूच कोणालीं तरी पावलां आयकूंक येतलीं. भायर येतकूच तो वा ती कमर बागोवन 'दो ऽ झो' म्हणटली. 'दो ऽ झो' म्हळ्यार 'प्लीझ'. दोळ्याक दोळो लागलो म्हणटकूच नमस्काराचो विधी सुरू जातलो. तो सोपतकूच तो वा

ो तुमकां 'दो ऽ झो' करून भितर आपयतली.

भितर सरतना पांयतणां भायर काडून दवरचीं पडटलीं. आमच्याय शांत ही चाल आसा. पुणून आमी पांयतणां जशीं घालून आयिल्लीं तशींच वरून भितर वतात. जपानी मनीस तीं घरांतल्यान भायर सरतना पांय नीट पांयतणांत वचचे अशे तरेन काडून दवरतलो. भितर सरतकूच आमकां घरांत घालपा खातीर 'सपाता' दितात. सपाता म्हळ्यार 'चिनेलां' स्लीपर्स'. घरांत घालपाचीं चिनेलां वेगळीं आनी टॉयलेटींत वचचें आसत जाल्यार घालपाचीं वेगळीं. घरांत घालपाचीं टॉयलेटींत व्हरप ना, टॉयलेटींतलीं घरांत घालून फिरप ना; इतलेंच न्हय तर घरांत घालपाचीं दिवाणखान्यांत वतना घालप ना, दिवाणखान्याच्या हुंबऱ्या सरींच तीं काडूंक जाय असोय एक नेम आसा.

घरांत भितर चोंयवशीन नदर भोंवडावची, मन प्रसन्न जातलें. एक तर सगळेंच निवळ आनी दुसरें म्हळ्यार सगळेंच 'रिकामी' रितें. जमनी 'तातामी'च्यो - एके तरेच्या शेनऱ्यांच्यो. सिल्का वरी मोव मोव. ह्या शेनऱ्यांच्यो आकार थरिल्लो आसता देखून कूड कितली लांब रुंद हें सांगता आसतना ती बारा तातामींची, धा तातामींची अशें सांगतात. कुडी तातामीच्या मापान मेजपाची चाल आसा.

कुडींत मदल्या वाटारार एक बसकें मेज आसतलें. एक फूट ऊंच. ताचे खूर बागोवन तें वणटीक तेंकोवंक येता. मेजा भोंवतणी कांय चौकोनी गादयो बसपा खातीर दवरिल्ल्यो आसतल्यो (तांकां 'झाबुतोन' म्हणटात). हाचे भायर 'फर्निचर' अशें कांय नासता. हें सादेपणूच सगळ्यांत पयलीं आमचें लक्ष ओडून घेता. म्हणटासर आमची नदर 'तोकोनोमा' चेर वता. तोकोनोमा म्हळ्यार, एके वणटीक लांब रुंद अशें काडिल्लें एक कत्रेल कशें. जपानी घरांतली सगळ्यांत सुंदर सुवात ही. तांतूंत एके चवायेर इकेबाना तयार करून दवरिल्ली एक फुलदाणी. तांगेलो सम्राट तांकां देव कसो. सट्ट करून पावलो जाल्यार ताका न्हिदपाक राखून दवरिल्ली सगळ्यांत बरी सुवात ही. सम्राट आयलो आनी तोकोनोमा घरांत नासलो जाल्यार? च्यॅ! तोकोनोमा आसुंकूच जाय. ते बगर घर सोबना. घराक

घरंदाजपण येना. तोकोनोमा नाशिल्लें घरूच जपानांत पळोवंक मेळपाचें ना.

तोकोनोमा म्हऱ्यांतले सुवातेक 'कामिझा' तर ताचे फुडले सुवातेक 'शिमोझा' म्हणटात. आमी कुडींत भितर सरतात तेन्ना शिमोझा सुवातेर उबे आसतात. येजमान, मागीर, आमकां 'कामिझा' सुवाते सरीं घेवन वता. ही भौमानाची सुवात. थंय मदल्या मेजा कडेन एक ल्हानशी उश्या सारकी गादी आसतली. तिचे कडेन बोट दाखोवन येजमान आमकां बसात म्हणटलो. त्या वेळार 'दोमो आरिगातो गोझाय मस' (थँक्यू) म्हणून दिमी मोडून बसपाचें. 'आरामांत बसात' म्हूण येजमान सांगतकूच मांडी घालून बसपाचें. त्याय वेळार 'दोमो आरिगातो' म्हणपाचें. आमी बसले उपरांतूच येजमान बसतलो.

जपानी लोक मांडी उरफाटी घालतात. दिमी घाल्ल्या पांयांचेर उशें दवरून ताचेर बसतात. वरांचीं वरां ते अशे कशे बसतात जातले, अजाप जाता.

म्हणटासर फ्रिजांतल्या उदकांत भिजोवन पिळिल्लो एक नॅपकीन येतलो ('ओशिबोरी'). ताणें तोंड हात पुसपाचे. रोखडोच फाटल्यान ओ-च्या येतलो आनी वांगडा चॉकलेटी सारकी बेगडी कागदांत गुटलायल्ली एक मिठाई. कागद सोडोवन पयलीं एक घांस मिठाई खावपाची. मागीर ओ-च्या पियेवपाचो. सांजवेळ आसत जाल्यार ओ-च्या बदला 'बियर' चो ग्लास येतलो.

जपानांत व्हडले व्हडले साधू लेगीत उदक जाल्ले वरी बियर घेतात. बीयरीक ते सोरो मानिनात. जंय बियर देवाक लेगीत भेट म्हूण दितात ती पियेवपाक कोण अनमनतलो ?

घर बारकायेन नियाळून पळेतकूच एक गजाल लक्षांत येतली - घरांत बसपाची, न्हिदपाची, जेवपाची अश्यो वेगळ्यो वेगळ्यो कुडी नात. एकेच कुडींत लोक बसतात, जेवतात आनी न्हिदतात. वणटीक तेंकून लाकडाची एक आरमार आसता. हे आरमारींत गादयो, चादर, उशीं दवरिल्लीं आसतात. रातच्या वेळार हें सगळें काडून हांतुणा घालपाचीं आनी न्हिदपाचें. सकाळीं

उठना फुडें काडून सगळें परतें आरमारींत दवरपाचें. येद्याश्या ह्या देशांत ११ कोटी लोक कशे रावतात हें आतां म्हज्या लक्षांत आयलें. जंय घरां खातीर भुंयूच ना थंय व्हडले व्हडले बंगले पुटवपाचे नात. उण्यांत उणे सुवातेर चडांत चड लोक आयस पयस कशे रावंक पावतले हाचो विचार करुनूच जपानी लोकांनी ही पद्दत विकसावन काडल्या. येवरोपा कडेन संबंद येत पसून आशिया खंडांतल्या सगळ्या देसांनी जेवपा खावपाच्यो, न्हेसपा पांगुरपाच्यो, रावपा करपाच्यो येवरोपेव रिती उखल्ल्यो. एकल्या जपान देशानूच स्वताची तकली वापरून आपणाक जाय तेंच घेतलां. येवरोपेवां कडल्यान ताणें विज्ञानूच घेतलें. संस्कृतायेचें मळ आपणालेंच निजाचें सांबाळून दवरलां.



१८

# आकामिझू

हिरोशिमा नागासाकी वाटारांत आमी स दीस भोंवले. फाटल्या म्हाझुजांत ह्या दोनूय शारांचो अमेरिकेन केल्लो विध्वंस पळोवन म्हजो मुडूच इबाडून गेल्लो. *(ह्या स दिसांचें वर्णन एका खेरीत पुस्तकांत करपाचें येवजिल्लें. अजून बरोवंक पावूंक ना.)* सातव्या दिसा आकामिझूक पावले तेन्ना पर्थून एक फावट आमची आनन्दयात्रा सुरू जाल्ले वरी दिसली. एके ऍयर कंडीशन्ड बसीन आमी नागासाकी सावन भायर सरिल्ले. इसाहाया पावले उपरांत जपानाचें लावण्य जसजशें दोळ्यां मुखार उकतें जावपाक लागलें तसतसो म्हजो मुडूय उर्बेन फुलून येवपाक लागलो.

बसींत अठरा-वीस वर्सां पिरायेची एक 'गायदोसान' (गायड) आशिल्ली. जाणट्यांक धूव तर म्हजे पिरायेच्या लोकांक धाकली भयण दिसची असली - अपुर्बायेचीच शी. हातांत एक ल्हानसो 'मायक' घेवन केन्ना ती मुखार दिश्टी पडटा त्या वाटाराची आमकां म्हायती दिताली तर केन्ना ज्योक्स सांगून हांसयताली. मदीं मदीं पदांय म्हणटाली. आवाज तिचे वरीच गोड. बसींतले आमी यात्रीक वेगळ्या वेगळ्या देसांतले. कांय इंग्रज, कांय अमेरिकन, दोग जाण युगोस्लाव, एकलो मोंगोलियन आनी आमी पांच भारतीय. बाकिचे जपानी. हिरोशिमाचे 'शान्ति परिशदेंत' वांटो घेतिल्ले सगळे आमी स दीस एकठांय राविल्ले. हाका लागून आमच्यांत एकामेकां विशीं आपलेपण निर्माण जाल्लें. गायदोसान ह्या परिवारांत नवी. आयज पाविल्ली. कांय जपानी पदां तिणें म्हळीं आनी मागीर 'हांवें म्हज्या देसांतलीं म्हळीं, तुमी तुमच्या देसांतलीं म्हणचे नात?... म्हणात न्हय!'

म्हूण अपुर्बायेन आमकां ती विनोवपाक लागली. रोखडेच युगोस्लावियांतल्या एका गिताचे सूर हवेंत ल्हारां उठोवपाक लागले. ब्रिटनचो एक एम्. पी. आमचे मजगतीं आशिल्लो - ह्युजीस नांवाचो. जाण्टे पिरायेचो. बर्नार्ड शॉचो इश्ट. तोय भुरगो जाल्ले वरी गावपाक लागलो. मादाम नोनोमिया जपानी. तिणें एक जपानी आनी एक इंग्रजी पद म्हळें. असल्या वातावरणांत नरेश फुलून येवपी मनीस. ताणें एक जपानी गीत आनी एक हिन्दी भजन म्हळें. आरे आरे म्हणटासर बसींतलें पुराय वातावरण वेगळ्या वेगळ्या देशांतल्या वेगळ्या वेगळ्या सुरांनी भरून आयलें.

दावे वटेन शेकानशेक दर्याची वेळ आमचे बसी वांगडाच धांवताली. तोक्योच्यान आतामीक वतना पळेल्या तसलीच शी. शेंकड्यांनी लोक दर्यांत पेंवताले. दुसरे तितलेच वेळेर उदारे पडून ओतांत न्हाताले. दर्यांत पेंवंक देंविल्ल्यां मजगतीं कांय खांपे पेंवपी आशिल्ले. ल्हारांचेर चडून सकल उडयो घेताले. पेल्यान नदर गेली तेन्ना ल्हान व्हड कितलेशेच जुंवे दिश्टी पडले. पेंवत पेंवत जशे कितें धारेर पाविल्ले. कांय लागींच पेंवताले.

पाचू सारके सुंदर

मदींच गायदोसानीन आमकां विचारलें, 'तुमकां खंयच्या रंगाचीं मोतयां आवडटात?'

जपानांतली भोंवडी सोंपोवन घरा वतलों तेन्ना भुरग्यांक कितेंय तरी व्हरूंक जाय अशें म्हणटालों. कितें व्हरचें, समजनाशिल्लें. अवचीत नदर मोतयांचेर गेली. इतलीं सुंदर, तरल आनी वांटकुळींच बरीं मोतयां पयलेच फावट जपानांतूच पळेल्लीं. पुणून जपानी मोतयां कल्चर्ड म्हूण आयकल्लें. कल्चर्ड म्हळ्यार खरीं न्हय असो समज आशिल्लो. म्हूण आरंभाक मोतयांच्या पसऱ्यार पावतालों तेन्ना हीं खरीं मोतयां काय कल्चर्ड काय म्हूण विचारतालों. कोणें तरी सांगलें, कल्चर्ड मोतयांय खरीं. दर्यांतलीं कांय कालवां मोतयां तयार करतात. ह्या कालवांच्या आंगार रेंवेचो वा दुसरो कसलोय कण पडटा तेन्ना तांचें आंग शिरशिरून येता आनी आंगांतल्यान एक पातळ पदार्थ व्हांवपाक लागता. तो त्या कणा भोंवतणी एकठांय जाता आनी कांय काळान ताचेंच मोतीं जाता. कांय वर्सां पयलीं कोकिची मिकिमोतो नांवाच्या एका मनशाक प्रस्न पडलो, वाऱ्यान पडिल्ल्या रेंवेच्या कणाचें मोतीं जाता

आनी हांवें एक उडयलो जाल्यार जावचें ना? पळोवया तरी, अशें म्हणून ताणें कांय कालवांच्या आंगार ल्हान व्हड रेंवे कण उडयले. तांचींय ल्हान व्हड मोतयां जालीं. हीं पयलीं वयलीं कल्चर्ड मोतयां. तेन्ना सावन मोतयांचो कल्चर उद्देग जपानांत मोट्या प्रमाणांत चलपाक लागलो. कल्चर्ड मोतयांय खरीं म्हणपाचें कळटकूच खरीं मोतयां आनी कल्चर्ड मोतयां असो फरक करप अन्नाडीपण म्हणपाचें कळ्ळें. इतलें हें ज्ञान म्हाका जपानांत पावल दवरलां ताच्या दोन तीन दिसां भितरूच मेळिल्लें. जपनांत हांवें तीन तरांचीं मोतयां पळेल्लीं. गुलाबी रंगाचीं, धवींफुल्ल आनी निळसार. तांतलीं गुलाबी म्हाका आवडिल्लीं. म्हूण गायदोसानीन जेन्ना तुमकां खंयच्या रंगाचीं मोतयां आवडटात काय म्हूण विचारलें तेन्ना सगळ्यांत पयलीं हांवेंच तिका जाप दिली. म्हळें, म्हाका गुलाबी रंगाचीं आवडटात.

'क्लिओपात्रा सुंदरांत सुंदर बायल कित्याक लागून जावंक पाविल्ली, खबर आसा तुमकां ? ती खंय सद्दां एक गुलाबी मोतीं दुदांत घोळोवन पियेताली.' तिणें म्हळें आनी आपणालो दावो हात झेतान उजवे वटेन व्हरून म्हळें, 'हे ते जुंवे थंय उफेल्ले वरी दिश्टी पडटात तांतल्या एका जुंव्यार मोतयां तयार जातात.'

त्या जुंव्यार नदर पडचे पयलीं उजवे वटेन आशिल्ल्या एका दोंगराचेर म्हजी नदर थिरावली. आडवो पडिल्लो हो दोंगर बद्द न्हिदिल्ल्या बुद्धा सारको दिसतालो. फकत ताचें नाक जपान्यां सारकें चेपटें आशिल्लें. पाचव्या रंगाची एक शाल ताणें पांगुल्लेली. आंगार रूख नाशिल्ले. ताचेर जी नदर थिरावल्ली ती मोतयां जातात त्या जुंव्या कडेन गेली ना.

इतले म्हणसर होय जुंवो फाटीं गेलो.

हांगा माड माडयो नाशिल्ल्यो. आंबे पणस काजूचीं झाडां नाशिल्लीं. तरी आसतना, कित्याक लागून नकळ, म्हाका हो वाटार थोडो भोव गोंयचे सारको दिसलो. हांव जपानचो नक्सो हातांत घेवन भोंवतालों. तो उकतो करून पळेलो तेन्ना आमी उनझेन पर्वताच्या वाटारांत पावल्यात म्हणपाचें कळ्ळें. वाऱ्याची एकाद्री झुळूक येवन पाचवीं-चार शेतां धोलूंक लागलीं म्हणटकूच गोंयच्याच एका बांदा वयल्यान आमी वतात काय कितें असो भास जातालो.

थोड्या वेळान शिमाबारा आयलें. हांगासून आमकां फेरी बोटीन मासुमीक वचपाचें आशिल्लें. आमचे बसींत फ्रँच आनी इंग्रजी जाणा आशिल्ली एकली जपानी चली आशिल्ली. शिमाबाराक पावतकूच तिणें म्हळें, 'तीनशें-साडे-तीनशें वर्सां आदीं हांगा ख्रिस्ती लोकांची कत्तल जाल्ली.'

'कित्या खातीर?' हांवें उचांबळीत जावन विचारलें.

'ते मुस्तींतले तांगेले गुरू आशिल्ले पुर्तुगेज मिशनरी. ते जपानी लोकांक तांचे परंपरे पसून तोडटाले आनी जपान-विरोध करताले.' थोडो वेळ थांबून तिणें म्हळें, 'ते उपरांत जपानान आपणाले दरवटे भायल्या सगळ्यां खातीर बंद केले. '

एकल्यान म्हळें, 'युरोपांत रिनेसांसचें ल्हार उठिल्लें त्याच वेळार जिस्त... युरोपांत आर्विल्ल्या विज्ञानयुगाचो आरंभ जाला तेन्ना...'

कित्याक म्हूण नकळं, हांव फटक् करून उसळ्ळों. म्हळें, 'पुर्तुगेज हांगा जी विद्या घेवन आयिल्ले ती रिनेसांसची नाशिल्ली. ते घेवन आयिल्ले ते विद्देचे जाणकार युरोपांत रिनेसांसच्या वावुरप्यांक जिवे हुलपावन मारताले.'

पुणून म्हाका खरें अजाप जाल्लें तें हो वाटार पळोवन. म्हळें, ख्रिस्ती धर्म पातळावपा खातीर पुर्तुगेजांनी जपानांत जिस्त गोंयचे वरीच भूंय कशी वेंचून काडली ?

शिमाबाराक आमी बसी सयत एके फेरी-बोटीर चडले. बरीच व्हड आशिल्ली ही फेरी-बोट. बस सकल दवरली आनी आमी वयर डॅकार गेले. थंय बसपाक सुवातो आशिल्ल्यो. पुणून भोंवतणचो वाटार आमकां सस्थ बसूंक खंय दितालो ? थोडो वेळ हेवटेन तर थोडो वेळ तेवटेन अशें भुरग्यां वरी आमी धुमशेणां कांडीत रावले. बोट जसजशी मुखार चलत रावली, तसतशें मुखार सैमाचें काव्य पातळूंक लागलें. खरें म्हळ्यार आमचो हो विहार दर्यांत चलिल्लो. पुणून हाका सोपूत घेवन दर्यो म्हणचो पडटालो. चोंय दिकांनी हाका जुंव्यांचो वेढो पडिल्लो आनी आमी एकाद्र्या तळ्यांत विहार करतात काय कितें असो भास जातालो. दर्यांत विराट कितेंय तरी पळेल्ल्याचो अणभव येता तसो हांगा येनाशिल्लो. हो धर्तरेन वेढायल्लो दर्यो. हाका शिमो आशिल्ल्यो. ओदोळ जो 'न्हिदिल्लो बुद्ध' पळेल्लो तो

हांगा सामको नाका मुखार दिश्टी पडपाक लागलो. ताचे भोंवतणी ताचे कितलेशेच 'शिष्य' आशिल्ले. तांणीय पाचव्यो शाली पांगुल्लेल्यो. पाचव्य दोंगरांचीं उदकांत जेन्ना उरफाटीं पडबिंबां पडटात तेन्ना तीं उदकाच्या मुखामळार खोस उकतावपाक लागतात आनी दोंगर मुमुरख्यांनी हांसतात काय कितें असो भास जाता. दनपार जाल्ली. दोंगर ओतांत चकचकताले. पुराय देखाव कल्पनेक लेगीत अजापांत उडयत असलो. युगोस्लावियांतल्यान आयिल्ले आमचे दोगूय वांगडी चकासूर जावन हो देखाव पळोवपाक लागले. मोंगोलियाचो आमचो इश्ट हरशीं घुमो. ताका आपणाली सोडून दुसरी खंयचीच भास येनाशिल्ली. तोय हो देखाव पळोवन मोन्यांनी धोलपाक लागलो. तें कित्याक, जाणटेलो ब्रिटीश एम्. पी. ह्युजीस लेगीत खुशालभरीत जावन सैमाचें हें अमृत पियेवपाक लागलो. मुदलांत तो स्कॉटलंडांतलो. थोडो भोव पाखंडी. ते भायर बर्नार्ड शॉचो लागिंचो इश्ट. ताणें आमचीं फकांडां मारिल्लीं जाल्यार तीं सोबतलीं आशिल्लीं. पुणून ताणें म्हाका म्हळें, आतां घरा तेलेग्राम धाडटां - Deeply regret. Joined Buddhist Monastry.

आनी मुखावयल्या एका देखाव्या कडेन म्हजें लक्ष ओडून म्हणपाक लागलो, हो देखाव आमच्या स्कॉटलंडा सारकोच जिस्त. मुखार दोंगर आशिल्ले. शेंकड्यांनी वर्सांच्या वाऱ्यान तांचे फातीर आपणालीं ल्हारां अंकीत करून दवरिल्लीं.

वराभराचे हे आनन्दयात्रे उपरांत दोन ऊंच पर्वतांक जोडपी एका सुंदर तांबड्या पुला कडेन आमची फेरी-बोट आयली. आमी मासूमीक पाविल्ले. सगळी खोस काळजांत एकठांय साठावन आमी बसींत आपापणाल्या सिटार वचून बसले. बसींत पयलीं आमी वीस पंचवीस जाण बशिल्ले तेन्ना 'एक' आशिल्ले. आतां एक एकले जाल्ले. आपापणाल्या आनन्दांत गुल्ल. कोण कोणा कडेन उलयनाशिल्लो.

काकासायब भावसमाधी लागिल्ले भाशेन सगळें पळेत बशिल्ले.

❑

# १६

# आसोचें जाळमूख

आयज सुक्रार. फांतोडेर जाग आयली. आकामिझूचें सुंदरांतलें सुंदर आनी कवित्वान भरिल्लें रूप पळोवचें आसल्यार फाल्यां दीस वयर सरचे पयलीं ब्रेक-फास्टाक हांगा येयात अशी सुचोवणी रातीं जेवपाक हॉटेलाच्या रेस्तॉरांत गेल्ले थंय आमकां मेळिल्ली. ते प्रमाण दीस उदेवचे पयलींच आमी रेस्तॉरांत येवन बसले. रेस्तॉरां हॉटेलाच्या सगळ्यांत वयल्या मजल्यार आशिल्लें. वांटकुळें चाक जाल्ले वरी तें आपणा भोंवतणी फिरतालें. वणटी कंवचेच्यो. हाका लागून चारूय दिकांचे देखाव आमकां बशिल्ले कडेन पळोवंक मेळ्ळे. मळब निव्वळ आशिल्लें. दीस वयर सरना फुडें उदेंतेच्या दोंगुल्ल्यां फाटल्यान वयर सरिल्लीं दिसाचीं कंवळीं किरणां अस्तमे वटेनच्या दोंगुल्ल्यांचेर पडलीं तेन्ना तांचे फाटल्या मळबाच्या मुखामळार तांबड्या निळ्या रंगांचीं नवीं नवीं रुपां पळोवपाक मेळ्ळीं. अंतरपाटा फाटल्यान उबे आशिल्ले व्हंकले सारकेंच रूप जशें कितें सैमान घेतिल्लें. उदेंते कडल्या दोंगुल्ल्यांचेर तांच्या तेमक्यांच्यो सावळ्यो पडिल्ल्यो. जाल्यार, अस्तमे कडल्या दोंगुल्ल्यांच्या आंगा वयल्यो पांचव्यो शाली चकचकूंक लागिल्ल्यो. ह्या पांचव्या उजवाडांत दोनूय वशीनच्या दोंगुल्ल्यांचें फातराळपण जशें कितें विरगळून गेल्लें. ह्या देखाव्याक लागून म्हजें मन फुलून आयिल्लें.

आठांच्या अदमासाक कांय मोटारी आनी बसी येवन हॉटेला मुखार उब्यो रावल्यो आनी आमी सेनसुइक्योक वचपाक भायर सरले. थंय एका नव्या स्तुपाच्या उकतावणाचो सुवाळो आशिल्लो. सुवाळ्याक रशिया,

ब्रह्मदेश, श्रीलंका ह्या देशांतले राजदूत आयिल्ले. तशे आमी पांच सात देशांचे प्रतिनिधी हाजीर रावपाचे आशिल्ले. पांच सात मोटारी आनी तितल्योच बसी हांची एक मिरवणुकूच सेनसुइक्योक वचपाक भायर सरली.

भारत स्वतंत्र जायना फुडें जवाहरलालजींनी बुद्धाच्या अस्थींचो एक वांटो जपानाक भेट दिवन दोनूय देशाचीं काळजां जोडपाचो एक म्हत्त्वाचो वावर केल्लो. जपानाचे आध्यात्मीक फुडारी निचिदात्सू फुजीईन हे भेटीक फावता तो भौमान दिवन अस्थींचे कांय वांटे केले आनी तांची प्राणप्रतिष्ठा करपा खातीर जपानांत म्हत्त्वाच्या सगळ्या वाटारांनी शान्ति-स्तूप उबे करपाची एक येवजण आंखून काडली. हे येवजणेंत सेनसुइक्योंतल्या स्तुपाचो आंकडो विसावो आशिल्लो.

ह्या स्तुपाचीं दोन आगळीं आंगां आशिल्लीं. एक, ताची बांदावळ सांचींतल्या स्तुपा सारकी केल्ली आनी दुसरें, तो बांदून काडपाच्या कामांत स्थपतीं परसूय चड खासा बौद्ध भिक्खूंनी श्रमदान करून हातभार लायिल्लो. दोन देशां मजगतीं शेंकड्यांनी वर्सां उपरांत घडून आयिल्ल्या ह्या पवित्र दिवपा-घेवपाच्या एका प्रतिकाच्या उकतावणाच्या सुवाळ्याक आमी भक्तिनम्र जावन गेल्ले.

हॉटेलांतल्यान भायर सरतकच दावे वटेन मोडण घेतलें. सुमार एका मैलाचे वाटेर आमकां चीड देवदार जातीच्याच रुखांचें एक सुंदर - सुमारा भायर सुंदर - रान लागलें. ह्या वाटारांत आमकां आतां मेरेन व्हड रूख खंयच पळोवंक मेळूंक नाशिल्ले. पाचव्यो शाली ओडून बशिल्ल्यो दोंगुल्ल्योच दिश्टी पडिल्ल्यो. सकल सगळे कडेन पाचव्या जमखानां सारकीं लॉनां हरयाळेन भरिल्लीं पळेल्लीं. वाऱ्याची झुळूक येतकूच हे हरयाळेचेर ल्हारां उठ्ठालीं तींय दोळेभर पळेल्लीं. दोंगुल्ल्यांचेर तर तीं सदांकाळा खातीर अंकीत जाल्लीं. हे सुंदरकायेचो आनंद आमी भोगिल्लो. पुणून सुंदरकायेच्या अणभवांतूय वेगळेपणाच्या अणभवाची एक वेगळीच रूच आसता. ती ह्या रानाक लागून चाखूंक मेळ्ळी.

राना पंले कडेन पर्वतांची एक रांग आशिल्ली. पर्वतांचेर रूख नाशिल्ले.

वाली नाशिल्ल्यो. झोंपांय नाशिल्लीं. पुणून ते दोळ्यांत भरचे इतले भव्य आशिल्ले. इतल्या भव्य पर्वतांची वळख करून घेतले बगर रावं येता? एकाचें नांव 'नाका-दाके', दुसऱ्याचें 'ताका-दाके', आनी तिसऱ्याचें 'नेको-दाके' आशिल्लें. फुजीच्या वाटारांत नामनेचीं पांच तळीं, तशे, ह्या वाटारांत नामनेचे पांच पर्वत. तिगांची वळख हांगा जाली. हांचे मदलो ताका-दाके क्युशू जुंव्या वयलो सगळ्यांत ऊंच पर्वत. ताच्या माथ्यार एक शान्ति-स्तूप बांदून काडला.

ह्याच वाटारांत आमी पयल्यो वयल्यो जपानी गायो पळेल्यो. धष्टपुष्ट सगळ्यो. एक एकेलेचे फाटीर तिच्या धनयाची मुद्रा मारिल्लीय पळेली तेन्ना कितेशेंच दिसलें. हरियाणांतल्या वा गिरच्या गायांचेर कोणाक असल्यो मुद्रा मारच्यो अशें केन्ना दिसलें ना. गायो सगळ्यो सारक्योच दिसतात. पुणून त्यो आपणाल्या धनयांक आनी धनीय आपणाल्या गायांक जिस्त वळखून काडटात. जपानांत कोण गायां कडेन मायेन पळेना जातलो. असोच हाचो अर्थ आसूंक जाय.

ह्या क्युशू जुंव्यार आसो नांवाचें एक जिवें जाळमूख आसा.

स्तुपाचो उकतावण सुवाळो जातकूच आमी परतताले थंय वाटेर युगोस्लावियाच्या प्रतिनिधीन भिक्खू इशिबासीसानांक विचारलें, 'आसोचें जाळमूख हांगाच खंय तरी आसा म्हूण आयकलां. तें तुमी आमकां दाखोवपाचे नात?'

जाणटेलो इंग्रज खासदार ह्युजीज हांणीय, 'आमी भौन भौन हांगा खंय पावपाचे आसात?' अशें म्हळें.

आसोचें जाळमूख दाखोवपाचें थरिल्लें. पुणून आयज न्हय, फाल्यां. पुणून फाल्यां कांय जाण तोक्योक सादन आपणाल्या देशाचें विमान धरपाचे आशिल्ले. इशिबासीसानाच्या लक्षांत हें येना फुडें चाकां घुंवपाक लागलीं आनी आसोचें जाळमूख आयजूच दाखोवप अशें थरलें.

दनपारच्या तिनांच्या अदमासाक दोन मोटारी चौगां चौगांक रोप-वेच्या स्टेशनार पावोवपाक लागल्यो. स्टेशन फर्लांग देड फर्लांगाचे वाटेर आशिल्लें. इतल्या अंतराचे वाटे खातीर आमकां मोटारी नाका आशिल्ल्यो, आमी मोटे

खोशयेन चलत वतले आशिल्ले. पुणून स्टेशन कितलेंशें पयस आसा हें कोण सांगतलो? आनी 'लागसारूच आसा... चलत या' अशें आतिथ्यशीळ जपानी कशें म्हणटलो?

रोप वेचे कांय मिणटांचे यात्रे उपरांत आमी एके बशींत बसले आनी लावा रोसाच्या सुकून घट्ट जाल्ल्या काळ्या किट्ट भोंवऱ्यांचे वाटेर मोडणां घेत घेत जाळमुखाच्या पांयां कडेन पावले. हांगासून आमकां चडपाचें आशिल्लें आनी चडटी खर आशिल्ली. आवाशिवा करून आमी चडत रावले. एका सारके चडत गेले. खंयूय पळे, लावा रोसाच्या काळ्या आनी धव्या गोबरान पयस पयस मेरेनचो वाटार भरिल्लो दिश्टी पडटालो. सुमार अर्दवराचे चडणे उपरांत आमी जाळमुखाच्या तोंडा सरीं पावले.

मनशाच्या काना सारक्या आकाराचें तोंड ह्या जाळमुखाचें. गंधकाच्या धुंवराचे लोट एका सारके तोंडांतल्यान उडटाले. काळे, म्हणटासर धवे, तर खिणांत निळे दिसपी हे लोट मळबाक जशी कितें वेंग मारपाच्या हावेसान वयर ख-स्वस्तिका मेरेन - माथ्या वयल्या बिंदू मेरेन - गेल्ले. विश्वरूप पळोवन अर्जुनाची जाल्ली तशी जाळमुखाचें हें रूप पळोवन म्हजी गत्त जाली. प्रलय-काळाचें तांडव चल्लां काय कितें अशें दिसतालें. खद् खद्, खद् खद् करून जाळमूख अखंड खदखदत राविल्लें. धुंवराच्या लोटांत मदींच ज्वाळेची एकाद दुकली जीब दिश्टी पडची, तिगेलो पातळ तांबडो रंग दिश्टी पडना फुडें आंगार कांटो फुलून येवचो. मदींच 'ठोढुम्म' जाल्ले वरी दिसचें आनी उज्याचो एक गुळो धुंवरा वांगडा अंतराळांत वयर चडून परतो जाळमुखाच्या उकत्या तोंडांत येवन पडचो. भितर लावा-रोसाचें एक कुंड एका सारकें खदखदत आशिल्लें. ताचो रंग आनी अवतार थरथरावन उडयतालो. भितर वणटींक व्हडले व्हडले बुराक पडिल्ले. तांतुंतल्यान धुंवराचे लोट आनी उज्याच्यो जिबो उसळून येताल्यो तेन्ना जाळमूख आतां - ह्याच खिणाक - फुट्टा काय कितें, ओंकता काय कितें अशी भिरांत दिसताली. अर्जुना वरीच भयान आकूळ पिकूळ जावन हांव प्रलयकाळा सारक्या ह्या धगधगीत तोंडा कडेन पळेत रावलों. हांवूच असो जाल्लों अशें न्हय. शें सवायशें लोक आशिल्ले थंय. सगळे भियेल्ल्या

काळजान हो देखाव पळेताले. सगळ्यांच्या तोंडार भंयाचीं, आकुळ-पिकुळसाणेचीं आनी अजापाचीं ल्हारां उफेवन आयिल्लीं. हांव हात जोडून मनांतल्या मनांत अर्जुना भाशेन म्हणपाक लागलों - 'कोण तूं तें सांग म्हाका, पांयां पडटां हांव तुका, तूं पाव म्हाका, तूं कोण तो जाणा जावंक उत्सूक जालां हांव, करणी तुजी कळना रे म्हाका.'

इंग्रज खासदार म्हजे फाटल्यान उबो आशिल्लो. हांवें ताच्या तोंडा कडेन पळेलें तेन्ना ताणें म्हळें, It is a thrilling experience, I shall never forget this day.

म्हजे उजवे वटेन एक उंचायेची सुवात आशिल्ली. काकासायब थंय वचून बशिल्ले. 'जिवितांतलो एक सामान्या भायलो खीण हो, ताचो बऱ्यांतलो बरो उपेग करून घेवंक जाय.' हे भावनेन पिरायेची पर्वा करी नासतना ते फाटल्यान फुडल्यान सगळे कडेन पळोवपा सारकें आशिल्लें तें पळोवपांत आनी उगडासाच्या कॅनवासार ताचीं चित्रां काडपांत गुल्ल आशिल्ले.

संवसारांत जितलीं जाळमुखां आसात तांतलीं अंयशीं प्रतिशत खंय एका जपानांत आसात. चाळीस तर जिवीं. खंयच्याय खिणाक फुटूं येतात असलीं, एक खंयचेंय फुटल्यार पुरो, भोंवतणचो वाटार हुलपावन उडयतलें. केन्ना केन्ना हजारांनी लोकांचो जीव वतलो. असले हे भंयाचे सुवातेर जपानी लोक हुसक्या मेकळे कशे रावतात, देवाक खबर! 'आसो' असलेंच एक जाळमूख. तें केन्ना फुटत, सांगूं येना. तरी आसतना, ह्या वाटारांत लाख सवाय लाखा वयर लोक घरां बांदून रावल्यात! तोक्योचे उत्तरे दिकेक फकत वीस मैलांचे वाटेर 'आसामा' नांवाचें असलेंच आनीक एक जिवें जाळमूख आसा, तें तर मदीं मदीं 'नेमान' फुट्टा. तरूय त्या वाटारांत हजारांनी लोक वचून रावल्यात. भंयाचे सुवातेर वचून हुसक्या मेकळें रावपी जपानी मन कशें आसतलें, म्हाका अदमासूच करूंक येना. 'भंय सगळे कडेन आसता म्हूण कितें पळून वचूं येता?' ही देख जपानी लोकांच्या रगतांतूच जशी कितें आसा. भंय आसा म्हण विश्वरूप पळोवपाचें सोडून दिवं येता व्हय? असल्याच भव्य दिश्टाव्यान नदर दिव्य जाता,

काळीज गिरेस्त जाता. हे दिव्यतायेची देख दिवपा खातिरूच सैमान हें रूप घेतलां. हें तत्त्वज्ञान म्हाका पट्टा. इतलेंच न्हय तर असल्या भव्य दिव्य सुवातांनी संकश्ट मोलावन वचपाकय हांव तयार जायन. पुणून असल्या सुवातांनी वचून रावपाक केन्ना तयार जायन, सांगूंक येवपाचें ना.

गोंयांत म्हज्या भुरगेपणांत एक जपानी बावली मेळटाली. (आतांय मेळटा जातली.) तिका पांय नासताले. पुणून तिचें कमर जड आसतालें. हाका लागून ती आडवी तिडवी कशीय मोखून मारली जाल्यार ज़मनीर सदां उबीच पडटाली. हे बावलेक 'दारुमा' म्हणटात म्हूण हांगा पावतकूच म्हाका कळ्ळां. बोधिधर्म नांवाचो एक बौद्ध साधू हांगा भारतांतल्यान आयिल्लो. कितलींशीं वर्सां एके कडेन बसून ध्यान केल्ल्यान ताचे पांय खंय गळून पडिल्ले. जपानांत जो झेन नांवाचो एक बौद्ध ध्यानमार्गी संप्रदाय चलता तो हाणें सुरू केल्लो. ताच्या उगडासान जपान्यांनी ही बावली तयार केल्या. म्हाका ही बावली जपानी सभावाची प्रतीक कशी दिसली. जपानी मनशाक तुमी कसोय मोखून मारात, सकल पडटना तो सदां उबोच पडटलो. इतिहासान जपानी लोकांची परिक्षा घेतल्या. सात खेपे ते पडल्यात जाल्यार आठवे खेपे उबेच रावल्यात. जपानी लोकांत जी सामान्या भायली चिकाटी आसा तिका जाळमुखाच्या सांगातानूय पोसवण दिल्ली आसूंक जाय. देशाचो सभाव घडोवपाच्या वावरांत भुंयेचोय थोडो भोव हातभार लागताच जावंक जाय.

खरेपणानशीं, जाळमुखां हें जपानाचें खरें वैभव म्हणूंक जाय. सैमान - सगळ्यांत व्हडल्या ह्या कलाकारान - ही भूंय उज्याच्या रंगांनी रंगयल्या म्हूण ती संवसाराक उजवाड दिवंक पावल्या.

बशिल्ले कडेन मनांत असले तरेकवार विचार येवपाक लागले. अजून मेरेन पळोवंक नाशिल्लें सैमाचें हें तेजिश्ट रूप वरभर पळोवन जातकूच ताचें सदचें सौम्य शान्त रूप पळोवपाक मन आकुळ-पिकूळ जावन आयलें. थोड्या वेळान आमी थंयच्यान भायर सरले. आयिल्ले वाटेन परतुपा बदला दुसरे वाटेन परतले. रोप-वेन सकल देंवतकूच शांत सुंदर हरयाळेन आमकां येवकार दिलो. दावे वटेन एक धाकली दोंगुल्ली दिश्टी पडली.

कासवा सारकी दिसताली. हेंवूय खंय एका काळार एक जिवें जाळमूख आशिल्लें. आयज ताचे फाटीर हरियाळी पातळ्ळ्या. तिगेलें एक एक पातें जिणेचें बनेर जाल्ले वरी फडफडटालें. आमचे मजगतच्या जण एकल्याच्या मुखामळार एक वेगळीच गंभीर प्रसन्नताय फांकिल्ली. सैमाचें एक अदभूत रूप पळेल्ल्याची खोस सगळ्यांक जाल्ली. आसोच्यान आमी सामके नवे जावन परतल्यात.



# १७
# बेप्पू

जपानांत बेप्पू नांवाचें सुंदरांतलें सुंदर एक थळ क्युशू जुंव्यार आसा म्हणपाचें आमकां पयलेंच कळ्ळें तें कान्ती मेहता नांवाच्या एका गुजराती तरणाट्या कडल्यान. व्यापारा खातीर तो जपानांत आयिल्लो आनी भोंवत भोंवत हिरोशिमाक पाविल्लो. हिरोशिमाक आमी राविल्ले त्याच हॉटेलांत राविल्लो. आमी काकासायबां वांगडा आयल्यात म्हूण कळना फुडें खोश्शी जावन म्हणपाक लागलो, 'कपिलाषष्टीचो योग म्हणटात तो हाकाच. काकासायबांच्याच पुस्तकान जपान पळोवन येवपाची म्हाका प्रेरणा दिल्ली. तांणी आपणाल्या पुस्तकांत बेप्पू संबंदान कांयच बरोवंक ना तें कित्याक, हें तांकां विचारपाचें आसा म्हाका. तांगेलें पुस्तक घेवनूच भोंवतां हांव हांगां.'

आमी ताका काकासायबांच्या रुमांत घेवन गेले. कोणूय यात्रीक मेळ्ळो म्हणटकूच काकासायबांक आपणालोच कोण 'समानशील, समानधर्मा' इश्ट मेळिल्ल्याची खोस भोगता. मागीर तांचे मजगतचें पिरायेचें अंतर ना जाता आनी तांच्यो खबरांर खबरो सुरू जातात. आमी पळोवंक नाशिल्लीं कितलींशीं थळां कान्तिभाई पळोवन आयिल्लो. तांतल्या बेप्पून आमचें सगळ्यांत चड लक्ष ओडून घेतलें. आनी आमी त्याच खिणाक नित्शय केलो, 'बेप्पू पळेले बगर जपान सोडप ना म्हळ्यार कशेंच सोडप ना.'

भिक्खू इशिबासीसान आमकां घेवन भोंवताले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ते मेळ्ळे तेन्ना काकासायबांनी वासपूस सुरू केली, 'बेप्पू खंयशें आसा? कितलें पयस आसा? आमकां दाखोवपाच्या थळांत ताचो आसपाव कसो

जावंक पावलो ना?'

बेप्पू दाखयले बगर हांकां संतोस भोगपाचो ना म्हणपाचें इशिबासीसानांनी पळेलें. तांणी ओश्योसामांच्या कानार हें घालें. आनी आसोचें जाळमूख पळोवन जातकूच तोक्योक परत येतना वाटेर बेप्पू पळोवन येवचें अशें थरलें.

आसो सावन बेप्पू शंबर किलोमिटरांचे वाटेर आसा.

आसोचें भेश्टावणें रूप पळोवन परतले उपरांत एक रात आमी आकामिझूक रावले. दुसऱ्या दिसा इकरांक सुमार बसीन बेप्पूक वचपाक भायर सरले. बसीन सुटना फुडें आसोक एक प्रदक्षणा काडली आनी ताच्या भायल्या दोण्या वेल्यान - outer crater वेल्यान ती धांवपाक लागली. म्हज्या अंतरमनांत एक इत्सा जागी जाली -

खंयचीय न्हंय दिश्टी पडना फुडें तिचे व्हांवते वेल्यान पनेळान तरी मात्शें भोंवन येवचें वा तिच्या उदकांत देंवन चार बुचकळ्यो मारच्यो अशें म्हाका सदांच दिसत आयलां. तसो, खंयचोय दोंगर वा पर्वत पळेना फुडें ताच्या माथ्यार चडून आयस-पयस पातळ्ळेलो वाटार पळोवचो अशेंय दिसत आयलां. हिमालयांत जमनोत्री गंगोत्री सारक्या वाटारांनी हांव हीच इत्सा भागोवपा खातीर भोंवन आयिल्लों. कितलींशीं वर्सां जालीं, सांजचे पासयेक आमच्या घरा फाटल्या दोंगरार चडून मंगेशीं, म्हाड्डोळ, वेलींग येदोय वाटार एकाच देखाव्यांत कितलेशेच खेपो पळेला. आसोचें जाळमूख पळोवन जातकूच रोप-वेन आमी देंवपाक लागले तेन्ना ताच्या भायल्या दोण्यारूय चडपाची इत्सा जाल्ली. पुणून सांगतलों कसो आनी कोणाक? अंतरमनांतली ही इत्सा बस भागयता तें पळोवन जीव खोश्शी जालो. बस चडपाक लागली आनी फुलाची एक एक पाकळी फुलत रावची तशी दोंगरांची एक एक पाकळी फुलत रावली. म्हणटासर दोंगरी पाकळ्यांचें एक गुलाब शेंवतें आमचे मुखार फुलून आयलें.

म्हजो एक अणभव मुजरत सांगूंक जाय म्हाका हांगा. हिमालयांतले भोंवडेंत म्हाका तो आयिल्लो. हिमालय चडटना पयलीं शिवालिक पर्वत लागतात. ह्या पर्वतावेले चीड देवदार रूख पयलीं ओड लायतात. कांय मैलां मेरेन ते आमकां आपणालो सांगात दितात. बरेच वयर पावतकूच

'दस फार, नो फर्दर' - हाचे पेल्यान वचप ना, अशें म्हणून अवचीत थांबतात. आपयल्यारूय येनात. तांकां सोडून मुखार वतना मन खंतीन भरून येता. पुणून रोखडीच मुखार येवकाराक येवन उबी राविल्ली हरयाळी दिश्टी पडटा. आनी आतां मेरेन सांगात दिल्ल्या रुखांचो विसर पडून आमी हे हरयाळेच्या मोगांत पडटात. होच अणभव हांगाय आयलो. आसो पर्वतार चडटना पयलीं 'मात्सु' नांवाच्या रुखांनी लळो लायलो. चीड देवदाराच्याच नात्यांतले हे रूख. पुणून चीड देवदारां भाशेन नीट वयर वचपा बदला नाचाचे पोझीन आंग मोडून उबे राविल्ले. असले कितलेशे मात्सु रूख दिश्टी पडले. तांच्या बोटांच्यो मुद्रा पळेत आमी चडपाक लागले. बरोच वेळ तांणी आपणालो सांगात दिलो. आनी एके कडेन पावतकूच अकस्मात 'सायोनारा' करून थांबले. आतां आपयल्यारूय ते येवपाचे नात म्हणपाची खंत जाता थंय आसा, पांचव्या विलोदा सारक्या दोंगरा माथ्यार बस चडली आनी एके कडेन वचून उबी रावली.

आसो सावन बेप्पूक वचपी ही बस मदीं खंयच थांबना. सुपर ट्रेनी सारकी तिची नामना. दनपरां दोन जावन धा मिणटांनी बेप्पूक पावतली म्हळ्यार जिस्त दोन जावन धा मिणटांनी पावतली. एका मिणटाचो लेगीत कळाव लावची ना. तिका थांबिल्ली पळोवन जपानी यात्रिकांक अजापांचो धसको बसलो. ते एकामेकांचीं तोंडां पळोवपाक लागले. बसींत भारतांतले कांय पै पावणे बसल्यात, तांच्या भौमानान आयज बसीन नेम मोडला म्हणपाचें बाबड्यांक खंय खबर! बस सोडचे पयलीं मॅनॅजरान हांगा थोडो वेळ थांब म्हूण ड्रायव्हराक सांगिल्लें. कांय दिसां पयलीं सम्राट हिरोहितो हांगा आयिल्लो तेन्ना जे सुवाते वेल्यान ताणें आसोचो भव्य वाटार पळेल्लो थंय आमकां देंवोवचे आनी तो वाटार दाखोवचो अशी सुचोवणी ड्रायव्हराक मेळिल्ली. आमच्या भौमाना परस जपानी लोकांक आपणाल्या सम्राटा विशीं दिसपी पूज्यभाव आमकां हे सुचोवणेंत पळोवंक मेळिल्लो.

राष्ट्रीय बावट्याचो जे भावनेन आमी भौमान करतात तेच भावनेन जपानी लोक आपणाल्या 'तेन्नो'चो (सम्राटाचो) भौमान करीत आयल्यात. देशाचो मान भौमान, ताचें व्हडपण, मांगल्य, दिव्यत्व हाचें जिवें प्रतीक म्हूण ते ताचे कडेन पळेतात. इतिहासाच्या आरंभा सावन तांणी हे भावनेक

पोसवण दिल्या, इतलेंच न्हय तर ती केळोवन केळोवन घटमुटूय केल्या. दिश्ट लागपा सारकें जें एक-राष्ट्रीयत्व जपानी लोकांत पळोवंक मेळटा ताच्या मुळांत ही भावना आसा. मेइजी क्रान्तीच्या काळांत जपानाच्या जिवितांत आकांताची उलथा पालथ जाली. सगळें सकल वयर जालें. तेन्ना 'तेन्नो'चें कितें करचें हो प्रस्न क्रांतिकारकां मुखार उबो रावलो. हेर कडल्या क्रान्तिकारकांनी केलां ते भाशेन ताका 'काडून उडोवचो' काय 'मारून उडोवचो', तांकां कांय समजना जालें. तेन्ना कांय क्रान्तिकारी इंग्लंडाक गेले. इंग्लंडांत हर्बर्ट स्पॅन्सर नांवाचो संवसारांतलो व्हडांतलो व्हड एक समाजशास्त्री रावता म्हणपाचें तांणी आयकल्लें. ताची बुद्द घेवपाक गेले. आनी स्पॅन्सरान तांकां सांगलें, एक नवो, फुडारिल्लो देस म्हूण तुमकां मुखार येवपाचें आसत जाल्यार परंपरेन चलत आयिल्लें सगळें कुसकें नश्टें पाडें दया माया धरी नासतना हुमटावन भायर मारात. सगळे रामन्ती संस्कार पांयांतळा चिड्डून उडयात. पुणून, तुमकां सगळ्यांक एक राष्ट्रीयतेच्या सुतांत गुंथपी ह्या प्रतिकाक मात मातूय हात लावं नाकात. क्रान्तिकारी लोकांनी स्पॅन्सरची ही बुद्द मानून घेतली. क्रान्तींत सगळें सकल वयर केलें, पुणून 'तेन्नो'च्या व्हडपणाक तांणी इल्ली लेगीत बादा येवंक दिली ना. इतलेंच न्हय तर तांणी क्रान्ती तेन्नोच्या नांवान आनी ताचेच वतीन केली. आनी क्रान्तीचें नांव मेइजी तेंवूय 'तेन्नो'कूच व्हरून दसयलें.

'तेन्नो'चे पांय लागून पावन जाल्ले भुंयेर उबे रावन आमी भोंवतणचो देखाव दोळे भरून पळेलो आनी आशिल्ले तशे बसींत येवन बसले.

तीन चार मिणटांच आमी भायर आशिल्ले. तितले मजगतीं जपानी यात्रिकांनी जेवन घेतिल्लें. जपानी लोक असल्या प्रवासांत वांगडा एक कास घेवन वतात. तिका 'बेन्तो' म्हणटात. पुठ्ठ्या वरी पातळ लाकडाची एक कास ही. तांतूंत शिताच्यो चार उणयो, मासाचे वा नुसत्याचे एक दोन कुडके, टमाटाचो आनी तवश्याचो एक एक कुडको, थोडी हरवी भाजी, सफरचंदाची एक शीर, दोन चॉप-स्टिक्स, तोंड पुसपाक कागदाचो एक लेंस, इतलें आसता. वाटेर खंयूय भूक लागली जाल्यार कास उकती करून ते हें 'अन्न' खातात. रस्त्यार खडी फोडटल्यांचेंय हेंच 'अन्न' तशें,

पार्लमेन्टाच्या वांगड्यांचेंय हेंच अन्न. वेव्हारांतलो तांगेलो हो 'समतावाद' पळोवन जपानी लोकांची खूब तोखणाय दिसता.

आमी बसींत येवन बसना फुडें ती मुखावयली वाट कातरपाक लागली. म्हज्या हातांत रुथ बेनेडिक्टचें 'द क्रिझँथमम ॲण्ड द स्वोर्ड' (शेंवतें आनी तरसाद) नांवाचें एक पुस्तक आशिल्लें. दोन दीस जाले, हांव तें वेळ मेळटा तशें वाचीत आयिल्लों. जपानी सभाव आनी संस्कृताय समजून घेवपाक सुंदरांतलें सुंदर एक पुस्तक हें. बसींत हांव तें उकतें करून वाचपाक लागलों. म्हणटासर लकणी आयली. हांवें पुस्तक आनी दोळे दोनूय धांपले. पंदरा वीस मिणटां गेल्यांत जातलीं, अवचीत बोटीचो भोंगो वाजचो तसो आवाज कानार पडलो. आनी कच्च करून आंग काडून हांव जागो जालों. बोटीचो भोंगो खंयचो, आमचे बसीचो हॉर्न वाजिल्लो. आतां मेरेनचे पंदरा वीस दिसांचे भोंवडेंत हजारांनी मोटारी रस्त्यार धांवन येतात वतात त्यो पळेल्ल्यो. हॉर्न एकलेचोय आयकूंक नाशिल्लो. आयज पयलेच फावट आयकतालों. तोय आमचेच बसीचो. अजापान जनेलाच्या हारशांतल्यान भायले वटेन नदर मारली. आनी 'आरेच्या! हें कितें?' हीं उतरां जिबे वयल्यान फुटलीं. भायर मोड आयिल्लें. झों झों करून वारें व्हांवपाक लागिल्लें आनी ह्या वाऱ्या वांगडा एकजीव जावन रूख इतले धोलपाक लागिल्ले की सट्ट करून तांच्या मुळांचो तोल सुटून ते लंवडून कोणाचेरूय पडचे नात मू, असो भंय दिसपाक लागलो. भुतां जाल्ले वरी ते धोलपाक लागिल्ले. मुखार धुकें पातळ्ळेलें. फुडली वाट दिसनाशिल्ली. तरी आसतना बस दिवे पेटोवन मोट्या मोट्यान आड्डत आनी व्हडलीं व्हडलीं मोडणां घेत धांवताली. आमी तेराशें मिटर वयर चडून थंय पातळ्ळेल्या धुक्यांतल्यान वाट काडीत देंवताले. धा-एक मिणटां हें तांडव चल्लां जातलें. अवचीत वाऱ्याचो वेग उणो जालो आनी झाडांचोय कैफ देंवलो. मुखावेल्या धुक्याचो पड्डो पिंजून सैमान आपणालें सदचें शान्त सौम्य रूप पर्थून एक फावट दाखयलें. एका संकश्टांतल्यान वाटावल्ल्याची खोस जाली तसो एक अदभूत देखाव पळोवंक पाविल्ल्याचीय जाली.

थोडे देंवले, थोडे चडले, पर्थून देंवले, पर्थून चडले. अवचीत मुखार दोंगरूच दोंगर दिश्टी पडले. खवळ्ळेल्या दर्याचीं ल्हारां कशे. एक ल्हार

पळोवन जीव धादोशी जातासर दुसरें ल्हार वयर सरचें आनी ताणें लक्ष ओडचें तशें शें कितें दिसपाक लागलें. ह्या दोंगरां मजगतीं मदींच एक निळें तळें दिश्टी पडलें. मुदयेंतल्या इन्द्रनीळ थिकावरी सुंदर. 'सैमाचीं रुपां पळोवन तुमकां खोस कित्याक जाता' म्हूण आमकां विचारपी शरदभाई 'कितलो सुंदर देखाव न्हय हो! पिशें लायता सामको' अशें म्हणून आमच्या तोंडां कडेन पळोवपाक लागलो. 'खऱ्यांनीच पिशें लागपा सारको देखाव हो' हांवें म्हळें.

थोडे सकल देंवले उपरांत आमकां कळ्ळें, जें तळें आमी पळेल्लें तें तळें नाशिल्लेंच. तो दर्यो आशिल्लो. तश्यो, ज्यो दोंगुल्लो पळेल्ल्यो त्यो दोंगुल्ल्यो नाशिल्ल्यो. तो जुंव्यां पुंजो आशिल्लो. इतल्यांत हून झऱ्यांचे फवारे दिश्टी पडले. एक, दोन, तीन, चार करून मेजूंक लागलों. मेजूंक येवपाचे नात इतले आशिल्ले. मेजपाचें सोड्डून दिलें. इतल्यांत कोणें तरी म्हळें, 'बेप्पू आयलें'. हांवें घडयाळींत पळेलें. दनपारचीं जिस्त दोन जावन धा मिणटां जाल्लीं!

आमी सामान एका हॉटेलांत व्हरून दवरलें आनी रोखडेच गाडयो (टॅक्सी) मागोवन बेप्पू पळोवपाक भायर सरले. तीनसांज मेरेन जितलें पळोवन जाता तितलें आमकां पळोवन घेवपाचें आशिल्लें. कित्याक, दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमकां बेप्पू सोडपाचें आशिल्लें.

सुरवाते सुरवातेक बेप्पू म्हाका आतामी सारकें दिसलें. आतामी वरीच ह्या शाराक तीन वटांनी दोंगर आनी एके वटेन दर्यो आसा. फरक इतलोच - आतामी परस बेप्पूचो आवाट कितलोसो व्हड. म्हणून आतामी परस बेप्पू कितलेंशें आगळें वेगळेंय. हांगासल्ल्यो कितल्योश्यो गजाली आगळ्यो वेगळ्यो. ह्या थळाची सर जपानांतल्याच न्हय, संवसारांतल्या दुसऱ्या खंयच्याच थळा कडेन करूंक मेळपाची ना. सैमान जशी कितें आपणाली सगळी फिशालकाय वापरून ह्या थळाक सगळ्यां परस आगळें वेगळें करपाचो यत्न केला.

पयलीं आमी 'बोझू जिगोकू' थळ पळोवपाक गेले. कुंड हें एक. जाळमुखा भाशेन तें एका सारकें खदखदत आसता. तेन्ना चिखलाचे जे बोमाडे वयर येतात ते बौद्ध भिक्खुंच्या मुंडण केल्ल्या तकल्यां सारके दिसतात. 'बोझू'

म्हळ्यार बौद्ध भिक्खूंची तकली. आनी 'जिगोकू' म्हळ्यार नर्क. हाका नर्क कित्याक म्हणटात, कळ्ळें ना. हांची यमकोंडाची कल्पना घडये आमचे कल्पने सारकीच आसूंक जाय.

'बौझू जिगोकू' म्हऱ्यांतूच खतखतीत उदकाचो एक झरो आसा. तो जेन्ना जमनींतल्यान उसळून वयर सरता तेन्ना पिंपळा येदो भव्य दिसता.

उपरांत 'उमी जिगोकू' पळोवपाक गेले. 'उमी' म्हळ्यार दर्यो. गाडयेंतल्यान देंवना फुडें स्वर्गार पाविल्ले वरी दिसलें. इतलें शान्त आनी तुश्ट वातावरण ह्या थळाचें. हांगा एक सुंदर तळें आसा. स्वर्गांतली अप्सरा जाल्ले वरी. तळ्यांत कितलींशीं कमळां पळेलीं. कांय निळीं, कांय तांबडीं. येदीं व्हड आनी सुंदर कमळां हाचे पयलीं हांवें केन्ना पळोवंक नाशिल्लीं. तळयेचे फाटले वटेनचे रुखावळींत एक हून उदकाचो फवारो उडटा. तो हाची सोबा वाडयता.

तळ्या कुशीक एक वनस्पत्यालय - Botanical garden - आसा. तांतूंत चार पांच हजार जातींचीं झाडां आसात. जपानचे भुंयेर जायनात असलीं, वेगळ्या वातावरणांतलीं.

मातशें मुखार वचूंक जाय. दुसरें एक तळें मेळटलें. भोंवतणीं दाट रान आशिल्लें. तळ्याचें उदक पाचवेंचार, पाचू सारकें. बाराशें वर्सां पयलीं खंय एक जाळमूख फुटिल्लें. तांतुंतल्यान हें तळें वयर सरिल्लें. तेन्ना ताचो रंग आशिल्लो तोच आयजूय उरला. तळें येदें व्हड की ताच्या कांठार लोक येवन बसले जाल्यार हजार बाराशें जाण सोंपेपणान बसूंक पावतले. हाका लागून आनी ताच्या रंगाक लागून खंय हाका 'उमी' (= दर्यो) हें नांव पडलां.

मुखार आनीक एका 'नर्कां'त आमी पावले. ताचें नांव 'चिनो-इके जिगोकू'. हेंय एक तळें. तेराशें चौकोनी मिटर लांब रुंद. उदक रगता सारकें तांबडें गुंज. वयल्यान वाफ उडटा ती पळेतकूच काळीज धडधडूंक लागता.

शिरो-इके-जिगोकूंतल्या तळ्यांतलें उदक धव्याफुल्ल दुदा सारकें. किनऱ्यू जिगोकूक फकत वाफूच उडटा. सकाळीं सुर्याचीं किरणां तिचेर पडटात तेन्ना वाफेचो एक व्हडलो 'ड्रॅगन' उडटा काय कितें असो भास जाता.

कामादो-जिगोकूंतले वाफेचो उपेग शीत रांदपाक करूं येता असलो. इतलेय हे 'नर्क' बेप्पूंत आसात. पुणून बौझू उमी आनी चिनो-इके हे तीन 'जिगोकू' पळेतासर तीनसांज जाली. हाका लागून शिरो-इके, किनऱ्यू आनी कामादो जिगोकू पळोवंक पावले नात. म्हाका वायट दिसलें. इशिबासीसानांक तें समजलें. तांणी म्हळें, 'तुमी पर्थून हांगा येवचे म्हूण इतलें पळोवपाचें उरलां. आतां तात्सुमाकी पळोवन घेयात आनी उरलां तें पळोवपाक पर्थून हांगा येतले अशें थारायात.'

तात्सुमाकीक हून उदकाचो एक फवारो उडटालो. तळपांचे एके राशींतल्यान ताणें वयर उडचें. तीन मिणटां उडून थांबचें. वीस मिणटांनी पर्थून उडचें. तीन मिणटांनी पर्थून थांबचें. एकादऱ्या प्रतिभावंत कवी भाशेन सूचन करून ताणें उडचें आनी थांबचें.

सैमाक बेप्पूंत कितें कितें येवजलें आनी येवजलें तें कशें येवजलें, कोण जाणा. इतलें खरें, इतले चमत्कार ताणें फकत बेप्पूंतूच करून दाखयल्यात जावंक जाय. जपानाचें सैमाक सुमारा भायर आपलेपण हें इतले दीस पळेत आयिल्लों. बेप्पू पळेतकूच जपान ताचें अपुर्बायेचें बाळक आसूंक जाय अशें दिसलें. ताची अर्थ अपुर्बाय करतना सैमाक हांगा वात्सल्याचे उमाळे फुटल्यात. कितें दिवं, कितें नाका अशें जालां आनी ताणें सगळें दिवन उडयलां. ह्या थळाक दिश्ट लागची न्हय म्हुण्णूच जावंये, बेप्पूच्या सगळ्या आगळ्या वेगळ्या आंगांक 'जिगोकू' (= नर्क) हें नांव दिल्लें आसूंक जाय. हरशीं स्वर्ग हो. स्वर्गाक लेगीत मत्सर दिसचो इतलें सुंदर थळ हें.

दुसऱ्या दिसा पांय कशेच उखलनात जाले. म्हजे म्हाकाच हांव समजावंक लागलों, खूब वर्सां जियेवपाचें आसा म्हाका. खूब पळोदपाचें आसा. जपानाक परतो पावचों ना अशें कित्याक मानपाचें? आतां परतो बेप्पूक पावतलों तेन्ना कांय दीस रावपाच्याच बेतान येतलों. ह्या स्वर्गांत बुचकळ्यो मारपा खातिरूच येतलों.

मन म्हणपाक लागलें, चल तर, या आतां, पुनरागमनायच.



## १८

# शिकोकू जुंव्यार

संवसाराचे फाटी वयलो जपान एक आगळो वेगळो देश. कितल्याश्या जुंव्यांचो एक पुंजो हो. तांतले होनशू, क्युशू, शिकोकू आनी होक्कायदो हे चार मुखेल जुंवे. एका जुंव्या सारको दुसरो जुंवो न्हय. चारूय वेगळे वेगळे. शिकोकूक पावलां तेन्ना म्हाका हाची खोलायेन जाणवीक जाली. विदेशी पर्यटक सामान्यतायेन ह्या जुंव्यार केन्ना पावनात. काकासायबांक लागून आमी पावले. तीन खेपे आपूण जपानांत पावलों, पुणून शिकोकू अजून पळोवंक पावूंक ना, अशें तांणी कोणा कडेन तरी म्हळ्ळें ओश्योसामांच्या कानार पावलें आनी ओश्योसामांनी हे खेपेचे तांगेले भोंवडेंत शिकोकूय आसपावन घेतलें.

होनशू आनी क्युशू जुंव्यांर भोंवल्यात तशे मात आमी शिकोकू जुंव्यार भोंवंक पावले नात. बेप्पूच्यान सकाळच्या आठांक भायर सरले आनी बोटीच्या चार वरांच्या प्रवासा उपरांत शिकोकूच्या मात्सुयामा बंदरार देंवले. सुमार दोन वरां थंय रावन आगगाडयेन शिकोकूच्या दुसऱ्या तोंकावेल्या ताकामात्सूक पावले.

म्हळ्यार, चोविसूच वरां आमी ह्या जुंव्यार आशिल्ले. ह्या चोवीस वरांत ह्या माणकुल्या जुंव्याची जी छाप म्हज्या मनाचेर पडल्या ती सोंपेपणान पुसूंक येवपाची ना. जपानी सैमाचें सामान्या भायलें गोमटें रूप अणभवचें आसत जाल्यार हो जुंवो पळोवन येवंकूच जाय. अजून ह्या सोबीत रुपाक मनशाचे हात आफडूंक पावूंक नात. तशे, पातकां-मेकळे, आळसाय नाशिल्ले उत्स्फूर्त लोक पळोवचे आसत जाल्यारूय एक फावट हो जुंवो पळोवन

येवंक जाय. ह्या जुंव्यार नगरां आसात. पुणून नागरी संस्कृतायेचो परिणाम लोकांचेर निखालूस जावंक पावूंक ना. इंग्रजींत जाका untamed loveliness म्हणटात तसलें सौंदर्य हांगा वचत थंय शिंपडिल्लें पळोवंक मेळटा. हांव ह्या जुंव्याच्या मोगांत पडलों म्हळ्यार जाता.

हांगाच हांवें नागा-ओ-दोशी नांवाचो एक कोंबो पळेलो. मोरा सारको सुंदर आनी पंदरा-वीस फूट लांब पाखाट्याचो. दोगा तिगांनी पाखाटो उखल्ले बगर तो मुखार पावल घालिना. हेर कोंब्यां वरी तो झुजतलो कसो? सैमान ताका जल्माकूच घाला ताचें गोमटेपण लोकांनी पळोवंचें हे खातीर. हांगा झुजतात सुणीं. तांकां झुजपाचें शिक्षणूय मेळटा. जपानी पैलवान 'सुमो' सारकोच तांचो भेस, कमराक एक चेड्डी आनी तकलेर एक शेंडी, हे तरेचो.

पुणून शिकोकूच्या मोगांत हांव पडलों तो जुंव्यावेली रुखावळ पळोवन. ह्या रुखां मजगतीं राजा कसो सोबता तो 'मात्सू' रूख. मात्सूयामा ते ताकामात्सू भेरेन ताचेंच साम्राज्य पातळ्ळां. ताचे कांय भाव बेप्पूक वतना वाटेर दिश्टी पडिल्ले. हांगा पावतकूच तांच्याच राज्यांत पविल्ले वरी दिसलें. रूख मळबाक तेंकता. पुणून ताच्यो खांदयो पळेतकूच असल्यो खांदयो ताळयो आशिल्लो रूख संवसारांत दुसरे कडेन खंयच पळोवंक मेळचो ना अशें दिसता. मात्सू रुखाचें वेगळेपण ह्या खांदयांनीच आसा.

मात्सूयामांत आमी फकत दोनूच वरां उरिल्ले. ह्या दोन वरांत आमी थंयचें इशितेजी देवूळ पळोवन घेतलें. ह्या देवळा मुखार एक म्हाल-म्हातारो मात्सू रूख उबो आसा. शेंकड्यांनी वर्सांचे पिरायेचो म्हणटात. म्हातारो जालो तरूय अजुनूय कांय शेंकडे जियेवपाचे उमेदीन उबो रावला. ताच्यो खांदयो चोंय दिकांनी इतल्यो आयस पयस पातळ्ळेल्यो की तांकां सकयल्यान लोळग्यांचो आधार दिवचो पडिल्लो. ह्या रुखाक पळेतकूच म्हाका कलकत्त्याच्या बोटॅनिकल गार्डनांत पळेल्ल्या वडाचो उगडास जाल्लो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमी ताकामात्सूच्या याशिमा पर्वतार गेले. थंय एक देवूळ आशिल्लें. ताकामात्सूक सुमार अंयशीं पोरणीं देवळां आसात. तांतलीं आमी फकत दोनूच पळेलीं. एक हें याशिमा पर्वता वेलें. दुसरें,

शिदो नांवाचें. याशिमा पर्वतावेल्या देवळा भोंवतणच्या वाटारांत पुर्विल्ल्या काळार 'गेंझी झूज' जाल्लें. आमच्या महाभारतांतल्या कुरूक्षेत्रावेल्या झुजा सारकें. 'गेंझी मोनोगातारी' नांवाची जपानींत एक नवलकथा आसा. तांतूंत ह्या झुजाचें वर्णन आयलां. इशिबासीसान आमचे वांगडा आशिल्ले. तांकां हे नवलकथेंतले कांय वांटे पाठ आशिल्ले. तांणी ते म्हणून दाखयले आनी हातांत तरसाद घेवन झुजिल्ले वरी नाच करून तांचो अर्थ आमकां समजावन सांगलो. पुणून म्हजें मन भोंवतणच्या मात्सू रुखांच्या रानान ओडून घेतिल्लें ताका हांव कितें करूं? म्हाका प्रस्न पडलो, म्हाकाच एकल्याक रुखांची ओड आसा? अशें कांय म्हणूं नज. सगळ्यांकूच ती आशिल्ली पळेल्या. कित्याक लागून? ताचीं पानां फुलां फळां, इतलेंच न्हय तर मुळां लेगीत आमच्या उपेगाक येतात म्हूण? काय रूख लाकूड दितात म्हूण? रूख आसात म्हूण स्वास घेवपाक आमकां प्राणवाय मेळटा. रूख आसतात थंयच पावस पडटा. रुखांक लागुनूच पावसाचें उदक भुंयेच्या पोटांत वचून रावता. आनी बांयो भरिल्ल्यो मेळटात. रूख नाशिल्ले जाल्यार आमकां स्वास घेवपाक प्राणवायूय मेळची नाशिल्ली आनी पियेवपाक उदकूय मेळचें नाशिल्लें खरें. रुखांचो उपेग आमकां सगळ्यांत चड जाता हे विशीं इल्लोय दुबाव ना. पुणून इतलेच खातीर आमकां तांची ओड म्हणटात तें मात खरें न्हय. भुरगें आपशींच आवय कडेन ओडटा तसो मनीस आपशीं रुखां कडेन ओडटा. रुखांचें आनी आमचें नातें रगताच्या नात्या परसूय दाट. आमच्या मनांत एक संस्कार इतलो खोल पाळां मुळां रिगोवन उरला की तो रुखांच्या आनी आमच्या नात्याचो आमकां विसर पडूंक दिना. सदां उगडास करून दिता.

धर्तरेर पयलो वयलो 'जीव' आयलो तो खंय वनस्पतीच्याच रुपान. तांबडें रगत येवचे पयलीं खंय पाचवें पान आयलां, पाडूक जल्माक येवचे पयलीं तण जल्माक आयलां. वनस्पत आनी प्राणी अशे 'जिवां' चे दोन फांटे फुटचे पयलीं कोट्यांनी वर्सां जीव वनस्पतीच्याच रुपान जियेत आयिल्लो. उपरांत तांचे दोन फांटे फुटल्यात आनी दोगांयच्या विकासान दोन वेगळ्यो दिको घेतल्यात. तरूय दोगांयचो संबंद तुटूंक तर नाच.

उरफाटो घट जायत गेला.

याशिमा देवळाच्या वाटारांत तकलेंत हे तरेचेच विचार घोळत रावले. जो विचार मनांत कांय वर्सां सावन घोळत आयिल्लो तो हांगा घट जालो. आनी हांवें मनांत म्हळें, जे रुखांचेर मोग करूंक जाणात तांकांच संस्कारी मनीस लेखूंक जाय. जपानी लोकांत हो गूण आसा म्हुण्णूच उद्देगिकीकरणाच्या तेमकार पावन लेगीत ते जपानी सैमाचें रूप सांबाळून दवरूंक पावल्यात.



## १९

# गेयशा

फुजीयामा, साकुरा आनी गेयशा हीं जपानाचीं तीन आंगां. व्याकरणांतल्या कर्ता कर्म क्रियापदा सारकीं. जपानावेलें खंयचेंय पुस्तक घेयात. ह्या तिनूय आंगांचीं वर्णनां तांतूंत मेळ्ळे बगर रावपाचीं नात. ह्या तीन आंगांच्या वर्णना बगर कोणाक जपानाचेर आयजवेर बरोवंकूच येवंक ना.

फुजीयामाची दाट वळख हाकोनेंतल्या राबित्यांतूच जाल्ली. ताच्या व्यक्तित्वाचो प्रभावूय मनाचेर खोल पडिल्लो. आनी ताचें खिणा खिणाक बदलपी नवें नवें रूप पळोवन तर हांव ताचेर सामको भाळिल्लों. साकुरा फुलांचो मोहोर पळोवपाची इत्सा आसुनूय पळोवंक पावूंक नाशिल्लों. हीं फुलां फुलपाक अजून आठ म्हयन्यांचो कळाव आशिल्लो. हांव खूब पयलीं जपानांत पाविल्लों. गुलाबी रंगाची सया मारपी हीं धवीं फुलां फुलून येतात तेन्ना जपानांतलो एकान एक मनीस खंय पिसो जावन रस्त्यार नाचपाक लागता. जपानी जिवीत ह्या फुलांनी कितलें गुथून काडलां तें खासा आपणाल्या दोळ्यांनी पळेले बगर, अणभवले बगर कोणाकूच आपणें जपान पळेलां अशें म्हणपाचो अधिकार मेळना. खूब जाणांच्या तोंडांतल्यान अशें आयकल्लें आनी वाचिल्लें.

हिरोशिमाक पाविल्ले त्या वेळार एक दीस आमी मियाजिमा पळोवपाक गेल्ले. हिरोशिमा सावन कांय मैलांचे वाटेर आशिल्ल्या ह्या पाचू वरी पाचव्याचार माणकुल्या जुंव्यान जपानांतलो सुमारा भायर सुंदर जुंवो म्हूण नामना जोडल्या. ह्या जुंव्यार 'इत्सुकुशिमा' नांवाचें एक शिन्तो देवूळ आसा. व्हडांतलें व्हड आनी सुमार हजारभर वर्सांचे पिरायेचें. ह्या देवळा

मुखार दर्या देगेर तांबड्या रंगाची एक 'तोरी' आसा. तोरी म्हळ्यार 'गेट वे' - दरवटो. भरते वेळार देवूळ आनी ही तोरी दर्याचे फाटीर पेंविल्ले वरी दिसपाक लागतात. हो आगळो वेगळो देखाव पळोवपाक थंय सद्दां शेंकड्यांनी लोक आसतात. ह्या जुंव्याक जपानान इतलो पवित्र मानला की थंय सदांकाळ रावंक कोणाक मेळना. कोणाचो जल्मूय थंय जावचो न्हय आनी कोण थंय मरुंकूय पावचो न्हय म्हूण जपानान ह्या जुंव्याची जतनाय घेतल्या.

थंयच्या खंयच्याच रुखाक केन्ना कुराड लागूंक ना. पुणून मियाजिमा जुंव्याची खरी सोबा पळोवची आसत जाल्यार खंय साकुरा फुलतात त्याच दिसांनी हांगा येवंक जाय. हजारांनी लोक त्या दिसांनी हांगा येतात आनी देवळांत त्या दिसांनी चलतात ते 'बुकागू' आनी 'कागुरा' नाच पळोवन लोक सुदबुद्द विसरून पुराय जुंव्यार नाचत रावतात.

मियाजिमाची ही वर्णना आयकली तेन्ना मनांत म्हळें, परतो जपानांत केन्ना पावतलों, खबर ना. पुणून पर्थून येवपाचो योग आयलो जाल्यार साकुरा फुलां फुलतात त्याच दिसांनी येवपाचो यत्न करतलों. ते बगर जिवाक धादोसकाय भोगपाची ना.

गेयशांक पळोवपाचें मात मनांत निखालूस नाशिल्लें. कितलेंय पासून व्हेलें तरूय, म्हळें, जपानी जिविताचें हें एक कुसकें आंग. ताचें कितलेंय उदात्तीकरण केलें म्हूण तें लिपून उरपाचें ना.

पुणून शिकोकूची भोंवडी सोंपोवन आमी ओसाकाक पावले तेन्ना सुमिमोतो कंपनीचे डॉ. कितागावा आमकां देंवोवन घेवपाक स्टेशनार आयले. काकासायब जपानांत आसात म्हणपाचें कळना फुडें हाका ताका फोन करून तांणी काकासायबांक ताकामात्सूच्या कोकसाय हॉटेलांत सोडून काडले आनी तोक्योक वतना वाटेर ओसाकाक देंवचें अशें मागलें. ओसाकाक आमी तीनसांजचे कातरेर पाविल्ले. स्टेशना वेल्यान डॉ. कितागावा आमकां नीट, 'त्सुरिया' नांवाच्या एका 'रिसोर्टां'त घेवन गेले. थंय जपानी तरेचें खाशेलें जेवण तांणी आमकां दिलें. मोव मोव तातामीची लांब-रुंद कूड. मदीं मातसो ऊंच एक चौरंग आनी भोंवतणी खूर नाशिल्लीं बसकीं कदेलां. म्हज्या उजव्या हाताक वणटीक तेंकून एकली जाणटी सामिसेन नांवाचें

तंतुवाद्य घेवन बशिल्ली. आमी बसल्यात मात, तिणें सामिसेनची तार छेडली आनी म्हणटासर बगलेचे एके कुडींतल्यान दोन अप्सरा फुलांच्या किमोनोचे हात फडफडायत येवन नाचपाक लागल्यो. सामिसेनचे सुरूच जशे कितें ह्या गोमट्या चलयांच्या रुपान नाचताले. एका खिणांत पुराय वातावरण 'बोलकें' जालें.

इशिबासीसानांक हांवें ल्हवू कानांत विचारलें, 'ह्यो गेयशा?'

'ओसाकांतल्यो गेयशा नंबर वन्' तांणी जाप दिली.

दोगूय चलयो आंगलोटान तर गोमट्यो आशिल्ल्योच. ते भायर शालीनूय दिसताल्यो. इतल्यो संस्कारी चलयो वेश्या आसूंच नजत, अशें दिसलें आनी गेयशां संबदान म्हजे जे वांकडे समज आशिल्ले ते त्याच खिणाक आपशीं गळून पडले.

गेयशा म्हळ्यार गुणी चली. गेय = गुणी, शा = चली

असल्यो गोमट्यो चलयो खंयूय दिश्टी पडल्यो जाल्यार तांच्या आवय-बापायक मेळून त्यो मागून घेवपी कांय बायलो जपानांत आसात आनी आपणाल्या धुवांक तांचे सुवादीन करपी कांय आवय-बापुयूय थंय आसात. ह्यो बायलो, मागीर त्या चलयांक गेयशांचे शाळेंत घालतात आनी गेयशांच्या आंगांत आसूंक जाय त्यो कला तांकां शिकयतात. क्योतो नारा सारकेल्या शारांनी गेयशांच्यो असल्यो नांवाजत्यो कांय शाळा आसात. थंय ह्या चलयांक काव्य शिकयतात, नाच गाणें शिकयतात. इतलेंच न्हय, तर 'संभाशण कला'य (उलोवपाची कलाय) शिकयतात. दोळ्यांनी कशें उलोवचें, कशें हांसचें - हास्य लास्य ह्या कलांचेंय शिक्षण तांकां थंय मेळटा. पुरो जाल्ल्या, निर्शेल्ल्या, खर्शेल्ल्या मनशाचें मन रिझोवन ताका बरें दिसचें आनी ताणें खुशालभरीत जावन घरा वचचें हे कलेचो तांगेल्या शिक्षणांत आसपाव जाता. दुसऱ्या म्हा-झुजा वेळार जपान साम्राज्यवादी हावेसान पेटिल्लें तेन्ना गेयशां कडेन येवपी राजकर्ण्यांचें मन रिझोवपाक तांकां झुजाशास्त्राचें आनी राजकर्णाचेंय थोडें ज्ञान दिताले.

जपानी मनीस आपल्या दिसपट्ट्या जिवितांत उबगता तेन्ना तो सांजचीं एक दोन वरां गेयशेच्या सांगातांत सारपाक असल्या एका 'रिसोर्टा'त वता. गेयशा संभाशण - चतूर तर आसताच. ती ताच्या मनांत कितें

खतखतता तें भायर काडटा, ताका कितें करचें तेंय सांगता आनी ताचे हुसके, ताच्यो निर्शेण्यो पयस करपाचो यत्नूय करता. तिची चलणूक इतली गोड आनी ओडलायणी आसता की तिच्या सांगातांत वर दोन वरां राविल्ल्या मनशाक आपणाक एक जिवाभावाची मैत्रीण मेळ्ळ्या अशें दिसता आनी तो घरा परतता तेन्ना खुशालभरीत जावनूच परतता.

आमी जेवंक बशिल्ल्या सालांत अप्सरांचो नाच सोंपलो तेन्ना आमच्या चौरंगा सरीं येवन त्यो दिमयो मोडून आमचे म्हन्यांत बसल्यो. तांचें निष्पाप मेकळेपण, गोड हांसो, गुलाबी मुखामळ, काळेशार दोळे, तांबडेगुंज ओंठ पळोवन जपानी बायलांच्या एका आगळ्या वेगळ्या रुपाचोच दिस्टावो घडलो. त्यो नाचताल्यो त्या वेळार सामिसेन घेवन बशिल्ले जाणटेलेन गोड आवाजांत एक गीत म्हळ्ळें. त्या गितांत बेबकेचो उल्लेख आयिल्लो. डॉ. कितागावां वांगडा एक तरणाटो आयिल्लो. तागेलें रसीकपण वसंत पंचम मनोवपाक लागिल्लें. म्हजे म्हन्यांत बशिल्ले गेयशेक ताणें म्हळें, हो पावणो तुजें तोंड बेबके सारकें दिसता अशें म्हणटा. तिणें मेजावेलें फस्क काडून ताच्या आंगार अशे तरेन मोखून मारलें की ही ताची खूब वर्सांचे वळखीची जिवाभावाची सखीच आसूंक जाय अशें कोणाकूय दिसचें.

गेयशांच्या सांगाताची खरी रूच घेवची आसत जाल्यार मनशाक जपानी भास येवंकूच जाय. जपानी समज नाशिल्ल्या मनशान गेयशांच्या सांगातांत रावपाचो यत्न करप हें भेड्ड्यान संगिताचे मैफलीक वचपा इतलेंच पिशेपणाचें. म्हाका जपानी येनाशिल्ली. समजय नाशिल्ली. हाका लागून म्हजे म्हन्यांत बशिल्ले गेयशे कडेन हांव मोनोच बसून रावलों, तिचो मुमुरखो हांसो अणभवलो. तिचे संस्कारितेचेर भाळ्ळों. पुणून तिचे कडेन मनाचें नातें मात निर्माण जावंक कशेंच पावलें ना.

एकाद्र्या व्हड मनशाक जेवण दिवचें आसत जाल्यार जपानी मनीस ताका असल्याच खंयच्याय एका 'रिसोर्टा'त घेवन वता. आनी डॉ. कितागावा तर एके व्हड कंपनीचे धनी आशिल्ले. आनी ज्या रिसोर्टांत ते काकासायबांक आनी तांचे वांगडा आयिल्ल्या आमकां घेवन गेल्ले तें 'त्सुरिया' जपानांतलें सगळ्यांत चड नांवाजतें आनी म्हारगें आशिल्लें. ओसाका सारकेल्या एका कर्कश शारांत तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. ह्या 'रिसोर्टा'त जेवण

म्हणटकूच जितले पावणे तितल्यो गेयशा आसतल्यो. त्यो तुमचे म्हन्यांत येवन दिमयो मोडून बसतल्यो. तुमी सिगरेट ओडपाक काडली जाल्यार फस्क घेवन त्यो सिगरेट पेटयतल्यो. तुमी 'साके' घेवपी आसशात जाल्यार त्यो तुमचे वांगडा एक घोंट घेतल्यो. तुमकां जपानी येता आसली तर त्यो उलोवन तुमच्या चित्तांत अमृताचीं ल्हारां उठयतल्यो आनी इतलेंय करून अलिप्त त्यो अलिप्तूच रावतल्यो.

केन्ना केन्ना एकाद-दुकली गेयशा तुमची सदां-काळची सखी म्हूण रावपाक तयार जाता. त्या वेळार ती पयलीं 'करारा'र तुमची सय घेता. मागीर ती आयुष्यभर तुमकांच एकनिष्ठ रावता. कांय गेयशा आपूण जावन एकाद-दुकल्याच्या मोगांत पडटात. सामान्यतायेन पंचवीस वर्सांची पिराय जातकूच चडश्यो सगळ्यो गेयशा एकाद-दुकलो प्रेमीक सोदून काडटात आनी आयुश्यभर ताच्या आसऱ्या खाला रावंक लागतात. पंचवीस वर्सां उपरांत जपानी चलयांचें गोमटेपण बावूंक लागता. त्या वेळार गेयशांक कोणाचोय तरी आसरो जायच जाता आनी जपानांत घरकान्नी भायर एकाद-दुकली सखी आसली जाल्यार कोणाक तांतूंत वांकडें अशें कांय दिसना जाल्ल्यान जण एके गेयशेक एक प्रेमीक मेळटाच मेळटा.

गेयशांच्या एकनिष्ठ मोगाच्यो कितल्योश्यो खबरी हांवें उपरांत आयकल्यात.

आयज जपानांत गेयशे कडेन स्पर्धा करपी आनीक एकली वयर सरल्या. ती 'नायट क्लबां'तली होस्टेस. तिणें गेयशेची संभाशण-कला घेतल्या. तिचें हास्य लास्यूय आपलेंशें केलां. ती गिरायकांचें मनूय रिझयता आनी तांकां कुडीचें सुखूय दिता. दुसऱ्या म्हा-झुजा उपरांतच्या काळांत जपानांत 'होस्टेसीं'चो आंकडो खूब वाडलो. हाका लागून गेयशां सरीं आतां फकत जातिवंत रसीक आनी व्हड पयशेकारूच पावतात. कांय जाणांक हे गजालीचो आतां हुसको जावपाक लागला. हॉस्टेसींचें म्हत्त्व वाडलें जाल्यार गेयशा वीस पंचवीस वर्सां भितर ना जावन वतल्यो आनी जपानी संस्कृतायेंत एक रितेपण निर्माण जातलें, अशें ते म्हणूंक लागल्यात.

ह्या 'संकश्टा' चेर जपानान कितें उपाय सोदून काडला, खबर ना. पुणून हांवें एक पळेलें - जपानी संस्कृतायेंत 'सामुराय' म्हूण एक घटक आशिल्लो. आयज तो इतिहासजमा जाला. पुणून ताच्यो देखी ना जाल्यात

व्हय? त्यो पुराय जपानान आपल्यो करून घेतल्यात. जपानी मनशांत जें जें कितें कुळवंत, ऊंच, उदार (आर्य) पळोवंक मेळटा तें सामुरायांनी ताका दिलां. तश्यो फाल्यां, धरुंया, गेयशा इतिहासांत जमा जाल्यो जाल्यारूय जे मेरेन जपानी काळजांत रसीकपण जिवें आसतलें, पावण्यांची सरबराय करपाचें आंग आसा तशेंच उरतलें ते मेरेन गेयाशांचे संस्कार जपानी जिवितांतले ना जावपाची इल्लीय भिरांत ना. घडये आयचेय परस चड फुडाराक तांच्या संस्कारांचो प्रभाव वाडटलो. आनी तो पुराय जपानी जिवितांत पळोवंक मेळटलो.



# २०
# जपानी घरकान्न

गेयशा पळेल्यो त्या दिसा मध्यान रात मेरेन नरेशा वांगडा उलयत बसलों. उलयतां उलयतां एक नवोच सोद लागलो - जपानांत 'लव् मेरेजिस' जायनात आनी जीं थोडीं भोव जाल्यांत तांचो अणभव जपानाक व्हडलोसो बरो येवंक ना म्हणपाचो.

हरशीं, जपान आशिया खंडांलो सगळ्यांत चड मुखार गेल्लो देश. हांगा चल्यां वांगडा चलयो मेकळेपणान भोंवतात त्यो दिश्टी पडटात. एकठांय शिकतात. एकठांय कामां करतात. एकठांय गायतात, नाचतात, खेळटात. मोग करून लग्न जावपाक जाय तें वातावरण हांगा भरपूर आसा. तरूय असलीं लग्नां हांगा जायनात कित्याक? तर खंय लग्नाची मोख वंश परंपरा मुखार चलोवप हीच, असो ह्या लोकांचो समज. मोगाक जिवितांत सुवात ना अशें न्हय, आसा. पुणून जिवीत म्हळ्यार फकत मोग न्हय. जिवीत हें एक जाळ कितल्याश्या लागणुकांचें. ह्या लागणुकां मदली एक लागणूक म्हळ्यार पितरांचें रीण फारीक करप ही. आनी, पितरांचें रीण वंश परंपरा मुखार चलोवनूच फारीक करूं येता, असो समज हांचो. ज्या घराण्यांत आमचो जल्म जाला ताचें नांव मुखार चलूंक जाय. ते खातीर भुरगीं जावंक जाय. भुरग्यां खातिरूच लग्न जावपाचें. ही मोख लक्षांत घेवन हांगा घरकान्न वेंचून काडटात. घरकान्नीच्यो सगळ्यां लागणुको पुऱ्यो करूंक पावतली असलीच चली वेंचून काडपाची. इतलें म्हत्त्वाचें काम तरणेपणांत मनीस करूंक पावना. तरणेपण हो मनशाच्या जिवितांतलो सगळ्यांत चड 'पिशेपणां' करपाचो काळ. ह्या काळांत आपणाचे आवडीचेर

चडशें पातयेवंक जायना, चूक जावं येता. त्या मानान आवय बापूय चड अणभवी. तींच फावऽशी चली वेंचून काडटलीं. तांच्या अणभवाचेर पातयेवप हेंच शाणेपणाचें, ह्या संस्कारांत हो देश वाडला. म्हूण, चलो लग्नाचे पिरायेचो जाता तेन्ना आवय बापूय ताका फावऽशी चली सोदपाक लागतात. लग्नां जुळोवन दिवपी कांय रायबारीय जपानांत आसात. तांचोय आधार घेतात. चलयेच्या घराण्याचे संस्कार, ताचो समाजांतलो पांवडो हाचोय विचार जाता. इतलेंच न्हय, तर दोगांयच्यो कुंडल्यो जुळटात काय ना हेंय पळेतात.

जपानाचें खाशेलें अशें एक फल-ज्योतिश-शास्त्र आसा. आमी बारा म्हयन्यांचें एक राशिचक्र मानलां. तर तांणी बारा वर्सांचें एक मानलां. एका एका प्राण्याच्या नांवाचें एक एक वर्स चलता. एक खेपे बुद्ध भगवंतान खंय सगळ्या प्राण्यांक आपोवन सांगलें, तुमचो भौमान जातलो. सगळे येयात. एका एकाक एक एक वर्स मेळटलें. सगळ्यांत पयलीं आयलो हुंदीर, मागीर बैल, उपरांत वाग, सोंसो, 'ड्रॅगन', सोरोप, घोडो, बोकोड, मांकोड, कोंबो, सुणो आनी सगळ्यांत निमाणो दुकर आयलो. एका एकाक बुद्ध भगवंतान एक एक वर्स दिलें. तेन्ना सावन त्या त्या वर्साचेर त्या त्या प्राण्याची छाप पडल्या अशें हे लोक मानतात. मनीस ज्या वर्सांत जल्माक येता त्या वर्साच्या प्राण्याचे सगळे संस्कार ताच्यांत पळोवपाक मेळटात. ताची शक्त, अशक्त, ताचो सभाव सगळें थारावं येता आनी भविष्यूय खंय सांगूं येता. ह्या शास्त्राक धरून कुंडल्यो तयार करतात आनी लग्ना वेळार त्यो जुळटात काय ना तें पळेतात. मागीर, चली 'पळोवपा'ची. उपरांत साकरपुडो. साकरपुड्या उपरांतूच न्हवऱ्या-व्हंकलेचो मोग सुरू जाता. मोगा बगर लग्न करचें न्हय ह्या विचाराक जपानान वेव्हारांत केन्ना थारोच दिलो ना. जपानी बरपावळींत मोगाच्यो कथा आसात. तांगेली सगळ्यांत पोरणी नवलकथा 'गेंजी मोनोगातारी' तर मोगाच्या कथांचीच एक माळ. (विश्व-साहित्यांतली ही सगळ्यांत पयली नवलकथा आसूंक जाय म्हणटात.) मोगाक फावता तो भौमान दिवनूय लग्ना आदलो मोग वेगळो आनी लग्ना उपरांत जो उदेता तो वेगळो, अशें जपानी लोकांनी मानलां. जिका काल मेरेन पळोवंक लेगीत नाशिल्ली तिचे वांगडा पुराय आयुश्य कशें सारूंक

येतलें हो हुसको जपानी मनीस केन्ना करिना. लग्ना उपरांत मोग सुरू जावं येता आनी तो दिशीं माशीं दाटूय जावं येता असो तांचो अणभव. लग्ना कडेन हे नदरेन पळेल्ल्यान जपानी मनीस आपणाली बायल सुंदर आसूंक जाय असो आग्रो धरिना आनी तियूय आपूण सुंदर म्हूण दाखोवपाचो लटको यत्नूय करिना. पोव-बीव लायता. पूणून आपणाल्या गोमटेपणाचो लटको भास मात केन्नाच उबो जावंक दिना.

तोक्योंत एक दीस एका प्राध्यापकान म्हाका म्हळ्ळें, दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत जपानांत दोन गजाली आदले परस चड घटमूट जाल्यो. एक, बायल-मनीस आनी दुसरी, तिच्या पायांतले मेय. Women and stockings are stronger since the war, उपरांत खूब जाणांच्या तोंडांतल्यान हांवें ही टिका आयकल्या. मेयांचें, म्हण, समजूं येता. कित्याक, आदल्या मेयां परस आतांचे नायलॉनचे मेय चड घटमूट. पुणून बायलांत जो बदल घडून आयला तो दुसऱ्या म्हाझुजा आदल्यो जपानी बायलो जांणी पळेल्ल्यो तांकांच फकत कळपाचो. म्हाका तर त्यो हिन्दू बायलां सारक्योच दिसल्यात. हिन्दू बायलां परस त्यो कितल्योश्यो स्वतंत्र जाल्ल्यो आसल्यो तरूय त्यो दादल्यांक 'समान' अजून जावंक नात. कायद्यान तांकां दादल्यां इतलेच हक दिल्यात. पुणून वेव्हारांत त्यो आपणाक दादल्यां परस उण्योच लेखीत आयल्यात. अमक्याच एका पांवड्या मेरेन शिकप घेवन जातकूच त्यो शिकपूय सोडून दितात. मुखावेलें शिकप कोण घेनात अशें न्हय, घेतात. कांय जाणी येवरोप अमेरिकेक लेगीत वचून शिकून येतात. असल्यो कांय शिक्षीत बायलो प्रोफसोरणी बी जाल्यात. अणुविद्येंत तर दोगी खूब नांवाजत्योय जाल्यात. राजकर्णांतूय कांय जाणी मुखार आयल्यो. पुणून खूब शिकिल्ल्यो बायलो जपानांत खुबूच थोड्यो पळोवंक मेळटल्यो. शिक्षीत म्हणपाक जाय तितलें उण्यांत उणें शिक्षण मात सगळ्योच घेतात. जपान हेर सगळ्या मळांर मुखार गेल्लो देस खरो. पुणून बायलां कडेन पावतकूच तो आशिया खंडांतल्या मागास देसां सारकोच एक मागास देस उरला, अशें म्हणूंक जाय. ऊंच उणाक संस्कारां पसून अजून तो मेकळो जावंक पावंक ना. येवरोपेव संस्कृतायेच्यो कितल्योश्यो देखी ताणें घेतल्यो. पुणून बायलांक मुखार काडपाच्या मळार तो येवरोपा परस कितलोसोच फाटीं

उरला. आयज चलयो शिकून नोकऱ्यो बिकऱ्यो करून जोडटात. पुणून अखेरेक आपणाक घराचो आनी भुरग्यांचो सांबाळूच करचो पडटलो हें त्यो केन्ना विसरनात. ट्यूब रेल्वेंत भोंवंक वचात, गर्दी आसत आनी बसपाची एकाद-दुकली सुवात आसत जाल्यार दादलो-मनीस ते सुवातेर वचून बसतलो. बायल-मनीस मुखार सरची ना आनी तिका बस म्हूण कोण सुवातूय करून दिवचो ना. केन्ना केन्ना ती उठून उबी रावतली आनी दादले-मनशाक बसपाक सुवात दितली. सामाजीक मळार बायलांचो पांवडो दादल्यां सकलचो आनी जपानांत दादलो बायल दोगांकूय हांतूंत वांकडें अशें कांय दिसना.

घरकान्न म्हूण मात जपानी बायल देखदिणी हे विशीं इल्लोय दुबाव ना, जपानाक तिचो ह्या रुपान अभिमानूय आसा. जपानी भाशेंत एक म्हणणी आसा - अमेरिकेंतलो मनीस रावता तसलें घर आसचें, चिनी मनीस जेवता तसलें जेवण मेळचें आनी जपानी बायले सारकी घरकान्न आसची. हाचे सारको भाग्यवंत मनीस दुसरो कोण ना. जपानांत ही म्हणणी रूढ जाल्ली ते मुस्तींत विजेच्यो रान्नी येवंक नाशिल्ल्यो. म्हूण लोकांक अमेरिकेंतल्या घरां सारक्या घरांची ओड आशिल्ली. आयज जपान्यांनी भौतीक मळार येदी उदरगत सादल्या की घडये अमेरिकेंतल्याय लोकांक आयज तांचो मत्सर दिसूं येता. म्हूण हे म्हणणेंत हालिंसाराक जपान्यांनी एक बदल केला. आयज ते अमेरिकेंतल्या घरा बदला अमेरिकेंतल्या लोकां सारको 'बँक ऍकाउन्ट' आसचो अशें म्हणटात. चिनी जेवणा सारकें जेवण आयजूय जग रुचीचें लेखता. पुणून घरकान्न? सोंशीकपणांत, त्यागांत, निष्ठेंत तिका लागपी एकलेकूच हांव वळखतां. ती म्हळ्यार - हिन्दू पतिव्रता. पुणून हिन्दू पतिव्रता लेगीत घोवाक गेयशेगेर वतना न्हेसपाक बरी मुस्तायकी काडून दीत अशें दिसना. जपानी घरकान्न दिता. दादल्यांच्या जिवितांत चैनीक - इल्लीशी जावं, मागीर - सुवात आसा थंय दादल्याक आडखळ हाडूंक जायना; आपणाल्या घरच्या राज्यांत मात हे चैनीन आडखळ हाडना जातकूच जाली अशें मानपी फकत जपानीच घरकान्न संवसारांत आसतली. लग्नाक लागून ती फकत घोवाचीच उरना, घराची जाता. ह्या मळार आडखळ जाली ना जाल्यार ती कसलोच शीण काडपाची ना.

तिच्या ह्या संस्काराक लागून लग्नमोडीच्यो घडणुको जपानांत चडश्यो जायनात. लग्नमोड करून घेवप सोंपें आसून लेगीत.

कसलीच कुरकूर करी नासतना घरकान्नीच्यो सगळ्यो लागणुको पुऱ्यो करपी जपानी घरकान्नी सारकी घरकान्न संवसारांत दुसरी पळोवंक मेळची ना. सोंशीकपण हो तिचो सभाव आनी हो सभाव खंय तिणें येदे पराकाश्टेक व्हेला की बाळंत जावपा वेळार वेणो सोंसनात त्या वेळारूय तिच्या तोंडांतसून कसलोच आवाज येना.



# २१

# निक्को

निक्को पळेले उपरांतूच खंय मनशान जपान सोडचें. जपानी सैमांतलें दिव्य-भव्य, व्हड-ल्हान सगळें निक्कोंत भरलां. तें पळेतकूच मनशाचे जिबे वयल्यान आपशींच 'केक्को' हें उतर फुट्टा. 'जीव धादोसभरीत जालो' असो अर्थ ह्या उतराचो.

तोक्योक परतना फुडें दुसऱ्या दिसा आमी निक्को पळोवपाक भायर सरले. आगगाडयेन तोक्यो सावन दोन वरांचे वाटेर आसा हें थळ. वाटेंत बरोच वेळ पळोवपा सारकें कांयच दिश्टी पडलें ना. एकेच तरेचीं ल्हान ल्हान लाकडी घरां आनी ल्हान ल्हान शेता कुणग्यो सोडून कांयच मेळ्ळें ना. म्हज्या हातांत जिरो ओसारागीची 'होम-कमींग' नवलकथा आशिल्ली. उकती करून वाचपाक लागलों. धा-एक पानां वाचून जाल्यांत जातलीं, अवचीत दोळ्यां मुखार ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यांचो एक तुरो उबो रावलो. जपानी सैमाचें हें एक खाशेलें आंग म्हणूंक जाय. जंय कांय ना-शें दिसता थंयच जादू केल्ले वरी आगळें वेगळें कितेंय तें उकताडा हाडटा. हांवें पुस्तक कुरू घालून धांपलें. म्हणटासर शेंकड्यांनी ऊंच ऊंच रुखांच्या एका रानांतल्यान गाडी धांवपाक लागली. रूख सगळे मळब धांपपा खातीर वयर वयर गेल्ले. थोड्या वेळान स्टेशन आयलें. हे खेपे आमकां देंवोवन घेवपाक कोण येवंक नाशिल्लो. पुणून देंवना फुडें मुखार एका विशाळ तळपार उबो राविल्ल्या शोदो-शोनीनच्या पुतळ्यान आमकां येवकार दिलो. बौद्ध भिक्खू हो एक. आठव्या काय णवव्या शतमानांतलो. निक्कोच्या सैमान प्रभावीत जावन बुद्धाचें पयलें वयलें देवूळ हांगा बांदून घेवपी पयलो

वयलो मनीस हो.

स्टेशनार सावन भायर सरून दोन टॅक्स्यो केल्यो. इशिबासीसान आमचे वांगडा आयिल्ले. तांणी ड्रायव्हरांक खंय वचचें तें सांगलें. ते बरोबर टॅक्स्यो दावे वटेन घुंवल्यो. पांच धा मिणटां भितर ल्हानसो, तांबड्या रंगाचो, एक सांकोव दिश्टी पडलो. भिक्खू शोदो-शोनीन पयलेच फावट हांगा पावला तेन्ना ताका मुखार खंय पांच-रंगी कुपां दिश्टी पडलीं. कुपां मेरेन वचपाक तो मुखार सरलो. जाल्यार, दाइया न्हंय आडवी आयली. ती ताका फुडें कशीच वचूंक दिना जाली. शोदो-शोनीन थंयच तडीर बसलो आनी प्रार्थना करपाक लागलो. प्रार्थना सोंपपाक पलतडच्यान सूर सूर करून दोन नाग आयले आनी तांणी आपल्या आंगां वयल्यान वचपाची भिक्खूक वाट करून दिली. ताचो हो सांकोव जाला. अशी हाची आख्यायिका चलता. ह्या सांकवाक मिहाशी ह्या नांवान जपानी लोक वळखतात. ताका पवित्र लेखतात. इतलेंच न्हय, तर सांकवा पेल्यान कोणाक वचुंकूय दिनात.

सांकवा कुशीनच्यान एक वाट वता. तिचे दोशीं वशीन सुगी नांवाचे म्हा-रूख आसात. सामके मळबाक तेंकल्यात. मागीर एक चडाव लागता. टॅक्स्यो चडाव चडपाक लागल्यो तशें तशें सपनांत भितर सरिल्ले वरी म्हाका दिसपाक लागलें. जंय कांय ना-शें दिसता थंयच अवचीत जादू केल्ले वरी आगळें वेगळें कितेंय घेवन सैम उबें रावता हें जपानी सैमाचें एक आंग. जाल्यार, फुडें कितें पळोवंक मेळटलें हाचो तें पयलीं कोणाक अदमासूच लागूंक दिना हें ताचें दुसरें आंग. एक देखाव पळोवन फुडल्या देखाव्याचो अदमास आमी लायतात थंय आसात, येवजूंक लेगीत नाशिल्लें वेगळेंच कितें तरी तें आमचे मुखार उबें करता. दोनां मजगतचो खंयचो देखाव अदीक सुंदर हाचेर आमी येवजूंक लागतात, म्हणटासर दोनांय परस सामकोच वेगळो - अदीक सुंदर - तिसरोच एक देखाव तें आमचे मुखार उबो करता - हे तरेचो अणभव घेत घेत आमी चडाव चडपाक लागले. टॅक्सींनी शेंकड्यांनी मोडणां घेतलीं. दर एका मोडणार सैम विशाळ, अदीक विशाळ रूप घेत रावलें. भव्यतायेंक लेगीत भव्य दिसचे

असले देखाव एका फाटल्यान एक येवन गेले. वाटूय सुंदर. नागमोडी. इतली सुंदर वाट खासा जपानांत लेगीत दुसरी पळोवंक नाशिल्ली. पांचवोचार वाटार. तांतूंत हो मळबाक तेंकपी सुगी रूख. मासात्सुना मात्सुदाइरा नांवाच्या एका सरदारान खंय पयले वयले हे रूख हांगा रोयले. एका सारकीं पंचवीस वर्सां लावन ताणें पंचवीस हजार रोप लायले म्हणटात. पोटच्या पोरांची घेवची तशी ताणें हांची जतनाय घेतली. एकाद-दुकलो हुमटलो वा मोडून पडलो जाल्यार ताणें रोखडोच थंय दुसरो हाडून रोयला. आयजूय लोक हेच भाशेन ह्या रुखांची जतनाय घेता. सगळ्यांची पिराय तीनशें वर्सांची जाल्या.

टॅक्स्यो जस जश्यो मुखार धांवपाक लागल्यो तस तशे आमी इन्द्र घोणवाचेर चडत राविल्ले वरी दिसपाक लागलें. चडत चडत आकेची-दाइरा नांवाचे एके सुवातेर पावले. उत्तर-अस्तम दिकेक नान्ताई पर्वत दिश्टी पडलो. ताच्या मुळसा कडेन निळेंशार चुझेंजी तळें आशिल्लें. तळ्या पेले वटेन शिरानेची पर्वतांमाळ उबी आशिल्ली आनी तळ्याचे आयले वटेन सकल भोंवतणचें काव्य पियेवन मस्तींत आयिल्लो केगोन नांवाचो घसघसो वयल्यान उडी मारता तो पळोवंक मेळ्ळो. ताचो उन्माद पळोवन आशिकुशीच्या पर्वतां कड्यांक लेगीत पाझर फुटिल्ले. उजवे वटेन नदर गेली. रुखांनी थंय एक दूदसागर लिपोवन दवरिल्लो दिश्टी पडलो. नदर उत्तर-उदेंत दिका नियाळपाक लागली. आमी आयिल्ले ती मोडणां-मोडणांची वाट दिश्टी पडटाली. हिमालयांतले भोंवडेंत गंगोत्रीचे वाटेर पळेल्लो तसलोचसो हो देखाव आशिल्लो. अलाकापुरीच्या राजाक (कुबेराक) लेगीत मत्सर दिसचो हे तरेचें हें वातावरण आशिल्लें. सुमार अर्द वर आमी हो देखाव काळजांत भरून घेतलो आनी परते चडाव चडपाक लागले.

थोड्या वेळान ओहिराक पावले. आकेची-दाइरा परस ऊंच अशी सुवात ही. कितें पळोवंक मेळटलें, हाचो अदमास नाशिल्लो. मुखार रेल्वे स्टेशना सारकें एक घर दिश्टी पडलें. इशिबासीसानां फाटल्यान आमीय त्या घरा दिकेन गेले. थंय एक ‘लिफ्ट’ आशिल्लें. तीस पस्तीस तरणाट्या जपानी पोरां मजगतीं आमी भरसले. सुर्र्र करून एका बिळांतल्यान लिफ्ट दोंगराच्या

पोटांत देंवपाक लागलें. सुमार शंबर मिटर देंवलां जातलें. लिफ्टाचें दार उकतें जालें. आमी एका बोगद्याच्या तोंडा कडेन पाविल्ले. लिफ्टांतले भायर सरना फुडें घसघस, घसघस आवाज कानार पडलो. दोंगर उबो पोखरून सकल एक आडवें बीळ काडून घसघसो पळोवपाची सुवात तयार करतल्या इजनेराचे कल्पकतेची तुस्त तोखणाय करीत आमी बिळांतले भायर आयले आनी -

उजवे वटेन दोंगराच्या माथ्या वेल्यान नीट सकल उडी घेवपी केगोनचो घसघसो दिश्टी पडलो!

केदो उन्माद ताचो! हजारांनी धूमकेतू एकाच वांगडा वयल्यान सकल कोंसळटात काय कितें, अशें दिसतालें, उदकाची रास आनी वेग पळोवन कोणायचें काळीज खपखपूंक जाय. उदक सकल पडटा तेन्ना ताचो पिठो जाता. त्या वेळार जी गाज जाता तिणें कानठळ्यो बसतात.

नान्ताई पर्वतांच्या मुळसांतलें चुझेंजी तळें सुमार बारा चौकोनी किलोमिटरांच्या विस्ताराचें. ह्या तळ्यांतल्यान ओजिरी नांवाची एक न्हंय भायर सरता, तिची एक आख्यायिका हांगा आयकूंक मेळ्ळी -

चुझेंजी तळ्याचे वयले वटेन आनीक एक तळें आसा. ताचें उदक खंय एक फावट खोशयेन नाचपाक लागलें. आनी नाचत नाचत चुझेंजीक येवन मेळ्ळें. चुझेंजीन मनांत म्हळें, सगळें उदक हांवूच घेवन बसलें जाल्यार म्हाका म्हज्यो शिमो उंपच्यो पडटल्यो. ते परस आपणें आपलें उदक दानांत दुसऱ्याक कित्याक दिवन उडोवचें न्हय? ताणें नवें उदक घेतलें आनी पोरणें दोंगरा वेल्यान सकल सोडून दिलें. ह्या उदकान वयल्यान सकल उडी घेतली तेन्ना ताचो एक सुंदर घसघसो जालो. तोच हो केगोनचो घसघसो. तेन्ना सावन एका सारको शंबर मिटरां देल्यान खंय तो कोंसळत आसा.

दोळ्यांच्यो पापण्यो हालूंक दिनासतना घसघसो पळेत रावलों. सकलच्या कड्या वेल्यान हजारांनी हिऱ्यांचे हार सकल देंवचे तश्यो ल्हान ल्हान झरी सकल देंवताल्यो. त्यो दिश्टी पडल्यो.

कांय वर्सां पयलीं खंय एक पंडीत हांगा आयिल्लो. जिविताचो अर्थ

समजून घेवपा खातीर ताणें तत्वज्ञानाचे व्हडले व्हडले ग्रंथ उमथे घाल्ले. इतलेंय करून जिविताचो अर्थ ताका कळ्ळो ना, तेन्ना निर्शेवन ताणें हांगा येवन जीव दिलो. संवसाराचो निरोप घेवचे पयलीं ताणें फाटल्यान उरिल्ल्या लोकां खातीर एक चीट बरोवन ती हांगासल्ल्या एका रुखाक दसयली. चिटींत ताणें बरयल्लें -

'म्हाका तुमची सगळ्यांची काकूळट दिसता. जिविताक अर्थ आसा काय ना, आसा जाल्यार तो कितें, हें सारकें समजून घेना आसतना तुमी कशे जियेतात, म्हाका समजना. म्हाका जिविताचो अर्थ कळ्ळो ना. तो कळचो म्हूण हांवें संवसारांतल्या सगळ्या धर्मांक, तत्त्वविद्येच्या सगळ्या संप्रदायांक तो विचारलो. कोणेंच सारकी जाप दिली ना. हांव निर्शेलों. म्हूण जियेत रावप म्हाका जमलें ना.' तेन्ना सावन खंय कितल्याश्या जाणांनी हांगा येवन जीव दिला. पंडितूच तो. जिविताचो अर्थ जिवितांत सोदचे बदला पुस्तकांत सोदूंक लागलो. जिवीत ताणें सारकें नियाळून पळेल्लें, जिविताक कांय अर्थ ना ह्या निर्णयार येवपाची ताकतीक करूंक नाशिल्ली, फकत हांगा कोंसळटा तें केगोनचें उदक शांत चित्तान पळेल्लें जाल्यार, ताका जें पुस्तकांत मेळूंक नाशिल्लें तें हांगा सोंपेपणान होलमतलें आशिल्लें. आनी, दुसऱ्यांकूय तो जीव दिवपाचे विभवतृष्णे पसून वाटावंक पावतलो आशिल्लो. केगोनचें उदक शंबर मिटर उंचाये वयल्यान सकल कोंसळटा, एका सारकें कोंसळत रावता. कोंसळून ताचो पिठो जाता. इतलेंय आसून मातशें मुखार पावतकूच थंडसाणेन खळखळ खळखळ करून व्हांवत रावता. निर्शेणेची, कोडसाणेची कसलीच कुरू ताच्या मुखामळार दिश्टी पडना.

काळजाक दिव्यत्वाचें बोट लागता तेन्ना मनशाक कितें तरी कळिल्ले वरी दिसूंक लागता. उतरांच्या आधारान तो तें उकतावंक वता तेन्ना उतरां पांगळीं पडिल्ले वरी ताका दिसतात. आपणाक कितें कळ्ळां तें ताका सांगूंक येना. बऱ्यांतली बरी कविता असल्याच अणभवांतल्यान 'येता' जावंक जाय. बऱ्यांतली बरी कलाय अशीच निर्माण जाल्या जावंक जाय. उपनिषदांतल्या एका रुशीक हो अणभव आयिल्लो. बुद्दीन ताणें ब्रह्म

जाणा जावन घेवपाचो यत्न केल्लो. बुद्दीक जें समजलें ना तें अवचीत ताच्या काळजाक कळ्ळें. तेन्ना ताका जी खोस जाली ती उतरांच्या आधारान ताका उकतावंक आयली ना. 'हा...ऊ' 'हा...ऊ' करून तो फकत नाचपाक लागलो. ह्या अणभवाक कबीर 'अकथ कथा' म्हणटा, जी 'कहते कही न जाई.' निक्कोचे ऊर्जस्वितायेन प्रभावीत जावन भिक्खू शोदो-शोनीन पयलोच हांगा पावला तेन्ना ताकाय हेच तरेचो अणभव आयला आसूंक जाय. दाइया न्हंय उंपून तो पांचरंगी कुपांचे दिकेन एका सारको चडत चडत केगोन घसघशा म्हऱ्यांत पावला तेन्ना आपणाच्या काळजांत भरिल्ली भक्तीच ह्या घसघशाच्या रुपान हांगा ओतता अशें ताका दिसलां जावंक जाय. ह्या देखाव्यान पावन जावन तो पर्थून चडूंक लागला तेन्ना कितलोय चड, चडपाक अंत ना, अशें ताका दिसलां जावंक जाय. तो आनीक चडला आसूंक जाय आनी चडून वयर पावतकूच ताचो अणभव चुझेंजी तळ्याच्या विस्तारांत लीन जाला जावंक जाय. इतले वयर चडून आयलों, वयल्या कुपांक लेगीत सकल घालून चडलों, भव्य, भव्यतर, भव्यतम सैम पळोवन धन्य जालों, नवो जल्म जाल्ले वरी दिसलो, तरूय तळ्या भोंवतणी चारूय वटेन कितलेशे पर्वत दिग्ग उबे! यो, आनिकूय चड म्हणटात! भक्तीन तुडूंब भरिल्लें ताचें काळीज हांगा विरगळ्ळां जावंक जाय. मुखारूच ताका एक म्हा-रूख दिश्टी पडलो. ताचेर तो आपणालें काळीज ओतूंक लागलो आनी आरे आरे म्हणटासर रुखांतल्यान 'क्वान्नोन'ची (अवलोकितेश्वराची) एक मूर्त रूप घेवन ताका आशिर्वाद दिवपाक ताचे मुखार येवन उबी रावली. तागेले भक्तीन घेतिल्लें हें सर्जक रूप पळोवन मळबांत देवूय खोश्शी खोश्शी जाल्यात आनी खोशयेन ते चुझेंजी तळ्याचे 'उतागाहामा' तडीर येवन गावंक लागल्यात जावंक जाय.

'उतागाहामा' म्हळ्यार गावपी तड.

शोदो-शोनीन भिक्खूक हांगा जी प्रेरणा मेळिल्ली तिणें मुखार जपानांतल्या कितल्याश्या भिक्खूंक, राजकुंवरांक, भाविकांक आनी सर्जक कलाकारांक प्रभावीत केल्यात. आनी हांणी सगळ्यांनी मेळून निक्कोचे सैमीक सुंदरकायेंत भर घालपाचें नमळ प्रेरणेन बऱ्यांतलीं बरीं देवळां आनी बऱ्यांतल्यो बऱ्यो

समाधी हांगा बांदून काडल्यात. आयज निक्कोंत दोन गजाली पळोवंक मेळटात. एक, न्हंयो, वझरे, तळीं, घसघशे, पर्वत, रुखावळ हांचें भव्य रूप आनी दुसरी, जपानी वास्तुकलेची वळशावेलांट्यांची, भांगराळ लाखेच्या लाकडांवेली कंगरखीस - जपानी कलेचें बऱ्यांतलें बरें रूप. तीनशें तीनशें वर्सां पिरायेच्या म्हाल-म्हाताऱ्या रुखांच्या रानांत मनशाचे कलेची एक प्रदर्शनी भरिल्ले वरी दिसता. एक फावट ह्या चक्रव्यूहांत भितर सरतकूच भायर सरऽ मेरेनचे वाटेर दोळे धादोसभरीत जावन धांपेवपाक लागतात.

केगोनचो घसघसो पळोवन आमी धादोसभरीत जाले आनी पर्थून पर्वतांची प्रदक्षणा काडून चुझेंजी तळ्या सरीं पावले. तळ्याचे उतागाहामा तडी वेल्यान ताच्या विस्ताराची आनी ताका शिमेंत दवरपी नान्ताई पर्वताची सोबा नियाळ्ळी आनी बगलेक आशिल्ल्या शोदो-शोनीनच्या पयल्या वयल्या देवळांतले लाकडाचे अवलोकितेश्वराचे भव्य मुर्तीक नमस्कार करून फुतारासान समाधी पळोवपाक गेले. हांगा आमी एक सुंदर शिन्तो नाच पळेलो.

चुझेंजी तळ्या कडेन परते येवन देंवपाक लागले. आनी रिन्नोजी देवूळ पळोवपाक गेले. निक्कोंतलें सगळ्यांत व्हड देवूळ हें. तेन्दाय संप्रदायाचें, देवळाचें वास्तुशिल्पूय तेंदाय परंपरेंतलें. पुजाऱ्यांचें शान्त गंभीर हालप चलप, भितरली पराकाश्टेची निर्मळसाण, मंद उजवाड आनी दिश्ट लागपा सारकी फुलांची मांडणी ह्या सगळ्या गजालींक लागून देवळांतलें वातावरण सुमारा भायर गूढ जाल्लें. देवळांतल्या मदल्या चौकांत - सान्बुत्सुदोंत - भांगरा रंगाचे लाखेचें आवरण आशिल्ल्यो तीन व्हडल्यो लाकडाच्यो मुर्ती आसात. मदली 'अमिदा'ची (अमिताभाची) आनी दोशीं दोन अवलोकितेश्वराच्यो. एक, घोड्याच्या तोंडाची, दुसरी हजार बावल्यांची.

देवळा फाटले वटेन सोरिन्तो नांवाचो एक ऊंच टावर आसा. कांशाचो. ताच्या पोटांत खंय धा हजार हातबरपां आसात - बुद्ध-सुत्रांचीं.

भायर सरतकूच पांच माळयांचो एक पॅगोडा दिश्टी पडटा. वास्तुशिल्पाचे नदरेन सगळ्यांत वयली माळी चिनी तरेची. तर सकयल्यो चारूय जपानी तरेच्यो. मुखार वच जाल्यार तरांतरांच्या समाध्यांचो एक चक्रव्यूह मेळ्ळो.

समाध्यो मेजून मेजूंक येवच्यो नात इतल्यो. चलून चलून पुरो जालें तरूय समाध्यो सोंपनात. हांतली मुखेल समाधी इयेमित्सू नांवाच्या शोगूनची. थंय पावतासर कितल्याश्या दरवट्यांतल्यान वचचें पडटा. एका एका दरवट्याक कारामॉन, याशामॉन, कोकामॉन, नितेनमॉन, यामेइमॉन अशीं वेगळीं वेगळीं नांवां दिल्यांत. कांय दरवट्यांचें वास्तुशिल्प चिनी तरेचें तर कांय दरवट्यांचें जपानी तरेचें. (म्हाका दोनूय तरा आतां वळखूंक येवंक लागिल्ल्यो.) हांचें वयलें पाखेंच पळोवपा सारकें. इतलें दाट, रुंद आनी ऊंच की तें उबें दवरपाक आठ आठ, धा धा घटमूट खांब्यांचो आधार दिवचो पडटा. कलेची पुराय गिरेस्तकाय ह्या दरवट्यांचेरूच पळोवची. आमी आमोतेमॉन नांवाच्या दरवट्यांतल्यान भितर सरले आनी 'रिंझो' नांवाच्या एका घरा मुखार येवन उबे रावले. सुमारा भायर सुंदर घर हें. पुस्तकालय आसुंये-शें दिसतालें. खऱ्यांनींच थंय सात आठ हजार सूत्र-ग्रंथांचीं हातबरपां आसात म्हूण कळ्ळें. वायट पळोवचें न्हय, वायट उलोवचें न्हय, वायट आयकुचें न्हय म्हूण दोळ्यांर, तोंडार आनी कानार हात दवरून उपदेस करपी तीन माकड हांगासल्ले. गांधीन तांकां आपणाले 'गुरू' मानून नांवाजते केल्ले. तशें, संवसारभर नामना जोडिल्लें दोळे धांपून राविल्लें माजरूय हांगासल्लें. फुलां, पिसोळीं, सुकणीं सावदां मेजूंक येवचीं नात इतलीं हांगा पळोवंक मेळ्ळीं. योमेइमॉन दरवट्यावेली कला पळेली तेन्ना दिसलें, जातिवंत कला-रसीक हांगा पावत जाल्यार सकाळ सावन तीनसांज मेरेन तो पळे पळे पळेतलो तरूय धादोसभरीत निखालूस जावचो ना इतली कलेची गिरेस्तकाय हांगा भरल्या. कलाकृतींनी इतलो गिरेस्त दरवटो जपानांतूच न्हय, तर संवसारांत दुसरे कडेन खंयच आसचो ना. तीनसांज मेरेन पळेल्यारूय पुरो जायना असल्या ह्या दरवट्याक इंग्रजींत 'सनसेट गेट' म्हणटात. हाच्याकूय ओडलायणें आनीक एक थळ हांगाच पळेलें. ताचें नाव 'ताईयुयीन समाधी'. इयेमित्सू नांवाचो एक शोगून आशिल्लो. ताचें हें यादस्तीक. भायर-भितर सुवर्णमंदिरा सारकें. भितर वचचें, आयनोमा नांवाचें एक लांब रुंद साल लागतलें. ताचे मुखार एक देवारो मेळटलो. हांगा ज्यो वस्तू दवरल्यात तसल्यो संवसारांत खंयच

पळोवंक मेळच्यो नात. नदर खंयचेय वटेन भोंवडायात, ती जें पळेतली ताकाच दसून रावतली. सुमारा भायर नाजूक, सुमारा भायर सुंदर अशें कितेंच ना असलो एक लेगीत कोनसो समाधींत भितर वा भायर मेळचो ना.

हांगाच कांय चित्रां पळेलीं. हीं चित्रां काय ह्यो कविता, समजना जालें.

अवचीत तकलेंत एक मोड उठलें. म्हळें, जंय सैमानूच एका फुडलीं एक अचर्या निर्माण केल्यांत थंय मनशाक हो अजापांचो संवसार उबो करपाची बुद्द कित्याक जावची? सैमाचेर मात करपाची, ताका जिखपाची, जिखून ताका फाटीं घालपाची पाडी बुद्द बी मनशाक जाली ना मू? जाल्ली आसत जाल्यार तिची तुस्त तोखणाय कितलीशी करपाची? निर्मूं, मागीर, तिणें कितल्योय नाजूक सुंदर कलाकृती. ना. सैमा कडेन सर्तींत देंवपाची बुद्द जपान्यांक जाल्ली आसत अशें म्हाका दिसना. जपानी मनीस मुदलांतलोच सैम-मोगी, शिन्तो संस्कारांत वाडिल्लो. ताका सैमाचेर मात करपाची, ताका अजापांत उडोवपाची बुद्द कशी जातली? जाल्ली जाल्यार जपानूच तिचो धिक्कार करचें नाशिल्लें? परतें, निक्को पळोवन 'केक्को' म्हणात अशें सांगून ताणें मनशान निर्मिल्ल्या कलेच्या संवसाराचो गौरवूच केला. जपानी लोकांक सुंदर तें सुंदर कित्याक हें समजना, अशें कशें म्हणूं येतलें? एके सुंदर वस्तू कडेन दुसरी सुंदर वस्त दवरूंक जायना, दवरली जाल्यार दोगीय एकीमेकींचो मत्सर करपाक लागतात. सवतीं मजगतचो मत्सर सोंसूं येत. पुणून दोन सुंदर वस्तूं मजगतचो मत्सर निखालूस सोंसूं नज हें जपान्यांनीच संवसाराक शिकयलां. अळंकारांचें शीम मेर नाशिल्लें प्रदर्शन करप हें उणाक अभिरुचीचें लक्षण अशें तांणी मानलां. जपानी लोकांची अभिरुची तांगेल्या घरांत, घरा मुखावेल्या पोरसांत, घरांतल्या 'तोकोनोमां'त, तोकोनोमांत दवरिल्ल्या 'इकेबानां'त, घराच्या पाख्याक दितात त्या पिळांत, चा-नो-यूंत पळोवंक मेळटा. जपान्यांनी आपणाले गिरेस्तकायेचें उणाक प्रदर्शन केन्नाच करूंक ना. तांकां सौंदर्यशास्त्र शिकोवपाचो धीर कोणाक जातलो? मागीर, निक्कोंतले कले फाटल्यान खंयचे प्रेरणेन काम केलां जातलें? हांवें, मागीर, म्हजीच एक अर्थावणी

केली. म्हळें, निक्कोंतलें सैम पळोवन मनीस नमळ जाला जावंक जाय. ह्या सैमा कडेन नातें जोडपाचो ताणें यत्न केला जावंक जाय. तेन्ना ताच्यांत आपणाक ओंपपाचो उमाळो फुटला जावंक जाय. आनी हो संवसार ताणें उबो केला आसूंक जाय. भिक्खू शोदो-शोनीनान ज्या उमाळ्यान चुझेंजी तळ्या वेल्या झाडांतल्यान अवलोकितेश्वराची मूर्त कोरांतून काडिल्ली त्याच उमाळ्यान बाकिच्यांनी हो संवसार उबो केला. निक्कोच्या सैमा मुखार ही कला तुमी तुच्छ लेखात. पुणून ती निर्मुपी काळीज निक्कोच्या सैमा इतलेंच सुंदर आनी भव्य आशिल्लें हें कबूल करचेंच पडटलें तुमकां.

तीनसना तोक्योक परतलों तेन्ना म्हजेंय काळीज आपणाक ओंपपाच्या उमाळ्यान भरून आयिल्लें.

हांवें 'केक्को' म्हळें ना. कित्याक, अजून क्योतो हांवें पळोवंक नाशिल्लें.

❑

# २२
# कामाकुरा

क्योतो पळोवचे पयलीं, वाटेर, कामाकुरा पळेलें. जपानांतलें हें एक संस्कार-थळ. मिनामोतो शोगूनचें हें एका काळावेलें राजपाटण. शोगूनशाय सुरूच जाल्या मिनामोतो पसून. मिनामोतोन सत्या आपणा हातांत घेतल्या ते पयलीं ती ताइरा नांवाच्या एका घराण्याच्या हातांत आशिल्ली. मिनामोतोन ती ताच्या हातांतली झोंबून घेतिल्ली. फकत तेरा वर्सांचे पिरायेर. झोंबून घेवपा खातीर ताका झूज करचें पडिल्लें. ह्या झुजाच्यो आख्यायिका कांय लोकांचे जिबेर आयजूय घोळटात. कोणाकूय नाटक बरोवचें शें दिसता आनी तांतूंत ताका झुजाचो प्रसंग दाखोवचो सो दिसता तेन्ना ताका ह्या झुजांतलोच एकाद दुकलो प्रसंग येवजता. हाचे भायर कोण ताची खबर करिनात. आयच्या कामाकुराचें वातावरण पुराय सांस्कृतीक. राजकी घडणुको कितल्योय म्हत्वाच्यो आसूं, इतिहास तांचो व्हडलोसो उगडास दवरिना म्हणपाची खोल जाणवीक आमकां हांगा जाता.

कामाकुरा राजपाटण जावचे पयलीं जपानाचें राजपाटण क्योतो आशिल्लें. पुणून क्योतो खुबूच सुसंस्कृत शार. ह्या सुसंस्कृतपणाचो वसो आपणाक लागलो जाल्यार आपुणूय हेरां वरी 'इबाडून' वतलों अशें मिनामोतोक दिसलें आनी तो भियेलो. म्हूण ताणें क्योतो पसून पयस आशिल्लें कामाकुरा आपणाल्या राजपाटणा खातीर वेंचून काडलें. पुणून ज्या वातावरणाक तो भियेल्लो तेंच वातावरण आयज हांगा पळोवंक मेळटा. मिनामोतोच्या तरसादींचो खणखणाट इतिहासांत केन्नासर विरून गेला. तळपांच्यो आनी लाकडांच्यो मुर्ती कोंरांतपी कलाकारांच्या चिन्र्यांचोच आवाज आयज हांगा

चड कानार पडटा. सैमाचे नदरेन हाकोने, गोतेम्बा, बेप्पू, निक्को सारकें कामाकुरा आगळें वेगळें न्हय. दर्या तडीवेल्या हेर खंयच्याय थळा भाशेन पाचव्या दोंगुल्ल्यांनी कामाकुराक वेंगायलां इतलेंच. चवथी वट मेकळी सोडल्या. न्हावपाची ही एक वेळ. तोक्यो हांगाच्यान चड पयस न्हय तशें, योकोहामाय पयस न्हय. हाका लागून गिमांत हांगा दोनूय शारांतले हजारांनी लोक न्हावपाक येतात. खेट जावची इतले.

आमी कामाकुराक योकोहामाचे वाटेन गेल्ले. कोबे फाटल्यान योकोहामा जपानाचें दुसऱ्या नंबराचें बंदर. आनी चार व्हड शारां मजगतचें एक. म्हाका तें आमचे मुंबय सारकें दिसलें. हांगा लुगटां-गिरण्यो आसात. तांच्यो चिमण्यो दिसूय भर काळो धुंवर ओंकीत आसतात. हें पळोवन केन्ना काय हांगासल्ल्यान पळून वचनशें म्हाका जाल्लें. असल्या बकाल शारांतल्यान कामाकुराक गेल्ल्यान जावंये, सादे दोंगर पळोवनूच 'वा... सुंदर' हीं उतरां म्हजे जिबे वेल्यान फुटलीं. हरशीं, सुंदर म्हणपा सारकें ह्या दोंगुल्ल्यांचेर कांयच नाशिल्लें.

सगळ्यांत पयलीं आमी 'त्सुरुगाओका हाचिमांगु' समाधी पळोवपाक गेले. पन्नास साठ सपणां चडचीं पडलीं तेन्ना ती दिश्टी पडली. तिचे दावे वशीन एक म्युझियम आसा. तांतूंत शोगून न्हेसताले तो भेस, तांगेल्यो तरसादी असल्योच वस्तू पळोवंक मेळटात. समाधीवेलें वास्तुशिल्प मात पळोवपा सारकें. थंय एका लाकडी फळ्याचेर कोरांतून काडिल्ल्या एका चित्रान म्हजें लक्ष ओडून घेतलें. तांतूंत एक जाणटेलो एका शेवण्याक खाण घालता तो दाखयल्लो. जाणटेल्याच्या मुखामळावेली खोस लाकडांत उठून आयिल्ली.

समाधी पळोवपाक आमी सपणां चडले तेन्ना दावे वटेन गिंक्गो जातीचो एक म्हारूख दिश्टी पडलो. ताचो बुंदो सुमार सात मिटर आशिल्लो. बावीस तेवीस मिटर ऊंच रूख हो. जपानांतल्या खंयच्याय देवळांत वा समाधी थळांत वचात, रुखांच्या खांदयां-ताळयांक कागदाचे ल्हान ल्हान चिटारे लायिल्ले पळोवंक मेळटले. ह्या म्हारुखाच्या खांदयां-ताळयांक लेगीत कितलेशे चिटारे लायिल्ले पळेले. इशिबाशीसानांक विचारलें तेन्ना

तांणी सांगलें, 'जिवितांत जेन्ना आमचेर संकश्टां अरिश्टां कोंसळटात तेन्ना आमी असल्या रुखां सरीं येवन देवा लागीं मागतात. आनी आमी मागिल्लें देवान दिलें म्हणटकूच त्या रुखा सरीं परते येवन ताचेर असले चिटारे लायतात.' हांवें मनांत म्हळें, जपान कितलेंय 'सुधारिल्लें' आसूं, ताचे कांय भोळे भावार्ती संस्कार अजून पुसून वचूंक नात... प्रार्थनेचेर भावार्त आशिल्ल्यांची प्रार्थना केन्ना फुकट वचना म्हूण मानचें हे कागदा चिटारे पळोवन, जाय जाल्यार.

हांगासल्लो गिंक्गो रूख आनीक एका कारणाक लागून लोकांच्या उगडासांत उरला. ह्या रुखा सरींच एका काळार एका शोगूनाची हत्या जाल्ली. तिवूय ताच्या पुतणयान केल्ली. म्हळ्यार, राज्याच्या लोभान घरच्या जाणटेल्यांची हत्या करपाचे चाली पसून जपानाचो इतिहास लेगीत अलिप्त उरूंक ना, अशेंच म्हणचें पडलें. तें कित्याक, राज्याच्या लोभान सत्येर आशिल्ल्यांच्यो हत्या जपानांत जाल्यात, तसो राजकी कारणांक लागून एका संताचीय हत्या करपाक हो इतिहास एक फावट तयार जाल्लो. कामाकुरा हाचो उगडास करून दिता. हांगा न्युकोजी नांवाचें एक देवूळ आसा. संत निचिरेनाची गोमटी कातरपाचो यत्न हांगा एक फावट जाल्लो. जपानी इतिहासांतलो निचिरेन एक तेजिश्ट संत. ताणेंच सुरू केल्ल्या पंथाचे ओश्योसामा एक फुडारी. पुणून निचिरेनाची गोमटी कातरचे पयलीं एक 'चमत्कार' जाल्लो. गोमटी कातरपाक जो आयिल्लो ताच्या हातांतली तरसाद गळून पडली. हाका लागून निचिरेन वाटावल्लो. जे सुवातेर 'चमत्कार' जाल्लो थंयच हें न्युकोजी देवूळ बांदून काडलां. ह्या देवळाचें वातावरण शांत-गंभीर. निचिरेनी पंथाचें हें एक व्हडलें तीर्थस्थळ. सज्जनांचें तेजिश्टपण कितलें प्रभावी आसूं येता हाची आमकां हांगा खोलायेन जाणवीक जाता. आनी आमचें सुखासीन जिवीत सामकेंच पामर कशें दिसूंक लागता.

गिंक्गो रुखाचें व्हडपण, ताचो थाट पळेलो तो हांगासल्ल्या युगयोजी देवळांत. लोकांचे जिबेर ह्या देवळाचें घोळटा तें नांव शोजोकोजी. सातशें वर्सां पिरायेचें. ह्या देवळांत एक आकांताची व्हड लोखणी घांट आसा. ती

पळोवपाक लोक हांगा येतात. पूण हांगासल्लो गिंक्गो रूख लोकांचें लक्ष तिचे कडेन वचुंकूच दिना. देवळाचे पिराये पस व्हड पिरायेच्या कांय रुखांच्या बुंद्यांचो आधार घेवन ताचेर हें देवूळ उबारलां.

रुखांनी केन्ना एकामेकांक वेंग मारिल्ली पळेल्या व्हय कोणें? वाली मारतात त्यो खूब जाणांनी पळेल्यात. वालींचो सभाव तो. पुणून हांगासर दोन रुखांनी एकामेकांक वेंगांत घेतिल्ले पळेले तेन्ना वसिष्ठ-विश्वामित्राचे वेंगे सारकीच पवित्र ही वेंग दिसली. जशे कितें शेंकड्यांनी वर्सां उपरांत दोगूय एकामेकांक मेळ्ळ्यात आनी तशेच उबे रावल्यात.

हें युगयोजी देवूळ बौद्धां मदल्या जिशू संप्रदायाचें आद्यपीठ. देवळांत भितर बुद्धाची एक सुंदर मूर्त आसा. पुणून बुद्धाची एक प्रचंड मूर्त पळेली - लाकडाची - ती हांगासल्ल्या हासे-कान्नोन देवळांत. न्युकोजी देवळांतल्यान भायर सरून दोंगराचे फाटीर आशिल्ल्या एका उद्यानांत आमी गेले. कांय सपणां चडल्यात जातले तेन्ना ही मूर्त दिश्टी पडली. केदी ऊंच! सामकी मळबाक तेंकची येदी. जपानांतली ही सगळ्यांत व्हड लाकडी मूर्त. इकरा तोंडांची. मदलें तोंड नियाळून पळोवचें. करुणेच्यो धारो पडटात त्यो दिसतल्यो. आठव्या शतमानांत तोकुदो नांवाचो एक भिक्खू जावन गेलो. तो भक्तूय आशिल्लो. कलाकारूय आशिल्लो. ताचीच ही कलाकृती म्हणटात. इतलीं वर्सां जालीं, अजून जशी कितें ती जिवीच आसा.

इतलेंय हें पळोवन जाले उपरांतूच आमी 'दाइ-बुत्सू' पळोवपाक गेले. कामाकुराक संवसार वळखता तो ह्या 'दाइ-बुत्सूक' लागून. मांडी घालून बशिल्ल्या 'अमिदा' बुद्धाची ही मूर्त. एक 'आश्चर्य' जपानांतलें. आतां मेरेन जपानांत पळेल्ल्यो बुद्धाच्यो सगळ्यो मुर्ती अळणी दिसच्यो इतली भव्य मूर्त ही. फकत कलेचे नदरेन पळेल्यारूय आगळी वेगळी. तांबें आनी कथील भरसून घडयल्ली. सुमार इकरा बारा मिटर ऊंच. मुखामळूच तिचें तीन मिटर रुंद. इतली प्रभावी मूर्त ही की तिचे कडेन एक कलाकृती म्हूण पळोवप म्हाका जमपा सारकें नाशिल्लें. तिचे फुड्यांत हांव इतलो भक्तिनम्र जालों की तिच्या पांयां खालचो धुल्लाचो कण लेगीत म्हाका हिमालया परस ऊंच दिसपाक लागलो. बुद्ध जिवो जावन सगळे वसल्यान ब्रह्मांडाक

वेंग मारून रावला, तरी आसतना धा आंगळां ऊंच उरला अशेंशें दिसपाक लागलें. मनांत भक्तीचीं ल्हारां उठून आयलीं आनी बाबाच्या तोंडांतसून येतालीं तीं उतरां जिबेर आयलीं - **'एतावानस्य महिमा अतो जायांश्च पुरुषः / पादोऽस्य विश्वा भूतानि त्रिपादस्यामृतं दिवि'**

एका काळार हे सुवातेर कोतोकुईन नांवाचें एक देवूळ आशिल्लें. त्या देवळांत बुद्धाची ही मूर्त आशिल्ली. चौदाव्या शतमानांत जपानांत एक मोटें मोड आयलें. तांतूंत हें देवूळ मोडून पडलें. आयज ह्या देवळाचे कांय खांबे उरल्यात. बाकीचें सगळें व्हांवन गेलां. देवळांतली फकत बुद्धाची ही मूर्त वत, वारो, पावस झेलीत एका सारकीं स शतमानां हांगा शान्त चित्त बसून आसा. भोंवतणी जल्म-मरणाचें तांडव एका सारकें चलिल्लें आसतना अमृतत्वाचो राजा आशिल्ले वरी बुद्धाच्या मुखामळार प्रसन्न थंडाय पातळ्ळ्या. नाका पुडयेर नदर लावन बशिल्ल्यान दोळे धांपिल्ले वरी दिसतात. पुणून तांचें मोगाळ गंभीर तेज उकताडा आयले बगर रावना.

बुद्धविचारांत अशें कितें आशिल्लें म्हूण तें आशिया खंडांत सगळे कडेन पातळूंक पावलें? ह्या विचारांतूच तेदी तांक आशिल्ली काय ह्या विचाराच्या जनकाची - बुद्धाची - संकल्पशक्ती आकांताची आशिल्ली? काय, ह्या विचाराचो प्रचार करपाक भायर सरिल्ल्या विरांचो भावार्त खोल आशिल्लो? तरसादेचो मात लेगीत आधार घेनासतना अख्ख्या आशिया खंडांत आपणाल्याच तेजान पातळ्ळेलें एकूच धर्ममत हें. तें अशें पातळटलें म्हणपाचो अदमास खासा बुद्धाक आशिल्लो व्हय? **इहासने शुष्यतु मे शरीरम् त्वगस्थिमांसं प्रलयं च यातु** असो सोपूत घेवन ह्या अध्यात्मविरान 'चार आर्यसत्यां' सोदून काडलीं आनी एका सारकीं पंचेचाळीस वर्सां तो तांचो प्रचार करीत रावलो. पुणून तो प्रचार करपाक भोंवलो तो फकत गये सावन वाराणसी मेरेनचो वाटार आशिल्लो. येदो व्हडलो आर्यावर्त ताचे मुखार पातळ्ळेलो. पुणून तो ह्या आर्यावर्तांत सगळे कडेन पावूंक नाशिल्लो. आपणाल्या शिष्यांक ताणें ह्या मत्ताचो प्रचार करीत 'बहुजन हिताय, बहुजन सुखाय' संवसारभर भोंवात म्हूण सांगिल्लें खरें. पुणून ते मुस्तींतलो संवसारूच इतलो ल्हान आशिल्लो की तांतूंत येदोसो आर्यावर्त लेगीत

आसपाव नाशिल्लो. जो विचार ताचे मुस्तींत भारतांत सगळे कडेन पावलो ना तो ताचे उपरांत भारता भायर कसो पावलो? संवसारांतल्या पयस पयसल्या देशांतले लोक हो विचार समजून घेवपाक भारता मेरेन कशे पावले? भारतांत एक आगळो वेगळो धर्म-विचार उदेला म्हणपाचें तांच्या कानां मेरेन कशें पावलें? कोणें पावयलें? ज्या काळांत येरादारीचीं साधनां सारकीं नाशिल्लीं त्या काळांत दोंगर कड्यां वेल्यान तरांतरांचीं संकश्टां झेलीत लोक भारतांत येवपाची वाट कशे सोदूंक पावले? खंयचे प्रेरणेन तांकां हांगा हाडले? तांकां कसल्या हावेसांची ओड लागिल्ली? बुद्धविचार तांगेले खंयचे हावेस पुरे करतालो? ज्या विचारांत पुराय संवसाराक आपणा वशीन ओडून घेवपाची तांक आसा तो जाणें सोदून काडलो तो केदो व्हड म्हापुरूस आशिल्लो? **'किम् प्रभाषेत्, किम् आसित्, व्रजेत किम्'**... ज्या देसांत येदो प्रभावी म्हापुरूस जल्मा आयलो त्या देसाची शक्त केदी आशिल्ली? असले कितलेशे विचार तकलेंत घोळूंक लागले. तेच बरोबर, जो विचार पुराय आशिया खंडांत पातळ्ळो तो ताचे जल्मभुंयेंतलो ना कसो जालो? बुद्धाक हिन्दूंनी विष्णूचो एक अवतार मानला आनी ताच्या विचारांत घेवपा सारकें जें आशिल्लें तें सगळें हिन्दूंनी मोन्यांनी घेतलां. आयज लेगीत खंयचोय हिन्दू संकल्प करता तेन्ना **'वैवस्वते मन्वंतरे बुद्धावतारे'** अशें म्हणुनूच करता. चलता तो अवतार बुद्धाचोच म्हणपाचें मेकळ्या मनान मान्य करता. हिन्दू-धर्मान बुद्धविचार पचयला, जिरयला. खरें, आयचो हिन्दू-धर्म बुद्धा आदलो उरूंक ना. नवो जाला. बुद्धविचारान संस्कारीत जावन आयला. तरी आसतना म्हाका ह्या युक्तिवादान संतोस मेळूंक ना. बुद्धाची हिन्दूंनी जी अखटाय केल्या ती सुमाराची न्हय. ताका 'बुद्दू' म्हणपा मेरेन ते पावल्यात. म्हज्या देसाची शक्त आनी ताचें दुबळें आंग दोनिंची जाणवीक जातकच म्हजें अंतस्कर्ण एके वटेन सद्गदीत जालें, तशें दुसरे वटेन खेदान भरुनूय आयलें. म्हज्या देसान बुद्ध निर्माण केलो. तशी ताची अखटायूय केली. म्हज्या देसान गांधी जल्माक घालो तशी ताची हत्याय केली.

'दाइ-बुत्सू' फाटले वटेन एक दार आसा. लोक ह्या दारांतल्यान भितर

सरतात आनी कांय सपणां चडून दाइ-बुत्सूच्या खांदार वचून उबे रावतात. इशिबासीसानांनी विचारलें, 'तुमी वतले?' हांवें ना म्हळें. बुद्धाचो अपमान करप म्हाका जमपाचें ना. आमचे मजगतच्या कोणाकूच तें जमचें नाशिल्लें. जाच्या पांयां खालचो धुल्ल कपळाक लावपाचो ताच्या खांदार चडप? च्ये, सोंसूंक जावचें ना.

इशिबासीसानांक आयकून बरेंऽ दिसलें.

कामाकुरा पळेले उपरांतूच क्योतोक गेले.



# २३
# क्योतो

जपानी संस्कृतायेच्यो झरी इतले दीस दोळे आनी मन भरून पळेले उपरांत त्यो जंयच्यान भायर सरल्यात ती सुवात - क्योतो - पळोवपाक मन आतूर जालें. देड म्हयन्या पयलीं हिरोशिमाक गेल्ले त्या वेळार क्योतो आमकां वाटेर लागिल्लें. पुणून आमी थंय देंवूंक नाशिल्ले. आतां कामाकुरा पळोवन जातकूच क्योतो पळोवपाची उमळशीक वाडली. खरें म्हळ्यार, मनांत तोक्कायदोचे वाटेन क्योतोक वचपाचें आशिल्लें. आतामी सावन हाकोनेक वतना ही वाट पळेल्ली. उपरांत नरेशाच्या पुस्तकांचे आरमारींत जिप्पेनशान हे वाटेन केल्ले यात्रेचें पुस्तक इंग्रजींत अणकारून आयिल्लें चाळूंक मेळ्ळें. Shank's Mare ह्या नांवाचें. ह्याच पुस्तकांत हिरोशिगे सारकेल्या एका व्हड जपानी चित्रकारान काडिल्लीं तोक्कायदाचे वाटेचीं चित्रांय पळेल्लीं. क्योतोक वचचें जाल्यार हेच वाटेन वचूंक जाय - त्रेपन्न पडाव करीत वचूंक जाय, अशें म्हजें मत्त जाल्लें.

पुणून, वेळाचे दळदीर आडवें आयलें! हेर खंयच्याय दळदिराचेर जैत जोडूं येत, वेळाच्या दळदिरा मुखार कोणाचें कांय चलना.

परिणाम - आगगाडयेन क्योतोक गेलों.

आगगाडी 'सूपर एक्स्प्रॅस'. वराक २१७ किलोमिटरच्या वेगान धांवपी. जपानांत पावन म्हाका आतां देड म्हयनो जावन गेल्लो. ह्या देड म्हयन्यांत जपानी समाजांत इतलो भरसल्लों कीं नारा, फुजिवारा, कामाकुरा, आशिकागा, तोकुगावा हे जपानच्या इतिहासांतले काळ, जे यत्न करुनूय लक्षांत उरनाशिल्ले, ते आतां म्हजे कडेन उलोवपाक लागिल्ले. म्हजे

संवकळीचे जाल्ले. हाका लागून 'हांव आयज क्योतोक पावतलों, पुर्विल्ल्या चीनाचें गिरेस्त राजपाटण च्यांग-आना कडेन सर्त करपाक जल्माक आयिल्लें हें शार पळेतलों; जपानी संस्कृतायेंत बऱ्यांतलें बरें, सुंदरांतलें सुंदर जें कितें आसा ताचें कुळार हें; जपानाचें जपानीपण जंय शंबर प्रतिशत उकताडा आयलां तें जपान आयज पळोवंक पावतलों; जपानी संस्कृतायेचे गंगोत्री कडेन हांव वतां अशें कितें कितें गाडयेच्या वेगान म्हज्या मनांत धांवपाक लागिल्लें. आनी काळीज उमाळ्यांनी भरून आयिल्लें.

सकाळच्या साडे णवांच्या अदमासाक आमी क्योतोक पावल्यात आनी पावना फुडें नीट सांज्युसांगेंदो देवूळ पळोवपाक गेल्यात. बुद्ध-धर्माचो आपणा हस्तुकीं जितलो अदीक प्रचार जातलो तितले बेगीन संवसारांत सवस्तकाय नंदतली ह्या भावार्तान बाराव्या शतमानांतल्या एका सम्राटान हें व्हडांतलें व्हड लाकडाचें देवूळ बांदलां. ह्या देवळाच्या हॉलाची लांबायूच खंय ११९ मिटरांची. येदे लांबायेचो हॉल संवसारांत दुसरे कडेन खंयच पळोवंक मेळचो ना; चौतीस खांब्यांचेर तो उबो आसा. ह्या खांब्यां मजगतच्यो तेत्तीस मेकळ्यो सुवाती हो सांज्युसांगेंदो उतराचो अर्थ. बोधिसत्त्वूय खंय तेत्तीस वेगवेगळे अवतार घेवन संवसाराची राखण करता. म्हूण तेत्तीस आंकड्याक जपानांत सुमारा भायर म्हत्त्व आसा.

भितर अवलोकितेश्वराची एक व्हड मूर्त आसा, धा तोंडांची आनी एक हजार बावळ्यांची. कामाकुरा काळांत तांकेई नांवाचो एक व्हड शिल्पीक जपानांत जावन गेलो, ताणें काळीज ओतून तयार केल्ली ही भव्य मूर्त. हिचे आशिकुशीक एक हजार अवलोकितेश्वरांचें एक सैन्य उबें आसा. हॉला फाटले वटेन अवलोकितेश्वराक आधार दितले अट्ठावीस देव आसात. इन्द्र, वरूण, यक्ष, गंधर्व हीं नांवां तांचीं मुदलांतलीं. आमच्या पुराणांतलीं. तिबेट, मंगोलिया, चीन, कोरिया ह्या देशांची यात्रा करून हांगा पावऽ मेरेनच्या काळांत बावड्यांच्या नांवांत आनी रुपांतूय बरोच फरक पडिल्लो.

देवूळ पळोवपा सारकें. दुबावूच ना. पुणून जपानाचें जपानीपण हांतूंत खंय उकताडा आयलां, लक्षांत आयलें ना. हांगा धनुर्विद्येची स्पर्धा चलता अशें कोणें सांगलें. म्हळें, चलूं. पुणून जें जपानीपण पळोवपाक क्योतोक आयिल्लों तें हांगा खंयच दिश्टी पडलें ना. जपानाचें जपानीपण 'वाबी'

(थंडाय) आनी 'साबी' (सादेपण) ह्या दोन तत्त्वांतल्यान उकताडा येता आनी तें क्योतोंत खूब पळोवंक मेळटा, अशें आयकल्लें. हांगा तें निखालूस नाशिल्लें.

विरूस मनान हांगच्यान आमी 'कियो-मिझ्रू' देवूळ पळोवपाक गेले. वाट बाजारांतल्यान आडखळत गेल्ली. सांज्युसांगेंदो देवूळ पळोवन भिरभिरिल्ली म्हजी नदर हांगा दुसरें कितें तरी सोदूंक लागली. बाजारांत वचून एक टॅक्सी केली आनी एके पायणींतल्यान आमी मुखार गेले. कियो-मिझ्रू देवळाचीं सपणां चडून वयर गेले. आनी वयर पावतकूच जें सोदपाक क्योतोंत आयिल्लों तें हांगा मेळटलेंशें दिसपाक लागलें.

देवळा फाटल्यान कुचकुचीत रुखावळीन भरिल्लो हिगाशी पर्वत उबो आशिल्लो आनी ताचे कुशीक आडव्या-उब्या लोळग्यांच्या प्रचंड सांगाड्यार कियो-मिझ्रू देवूळ - खंयच्याय रुखार शेवण्यांचो घोंटेर आसचो - तशें दिश्टी पडलें. ज्या सांगाड्यार तें उबें आशिल्लें ताचो एक एक खांबो मळबाक तेंकिल्लो एक एक रूख कसो दिसतालो. एक लेगीत खिळो मारी नासतना हो आकांताचो सांगाडो जपान्यांनी हांगा उबो केला. चडून वयर देवळाचे गरादीर दचून आमी उबे रावले. सकयले घळींत मेपल रुखांचें एक व्हड रान पातळ्ळेले पळेलें. ह्याच रानांत हिगाशी पर्वताचे फाटीर फुटिल्ले तीन वझरे वयल्यान सकल उडी घेताले. ह्या वझऱ्यांच्या उदकाक जपानी लोक पवित्र मानतात. म्हूण ह्या देवळाक 'पवित्र उदका'चें देवूळ हें नांव पडलां. 'कियो' म्हळ्यार पवित्र आनी 'मिझ्रू' म्हळ्यार उदक.

मुखार आशिल्ल्या देखाव्याचेर नदर पडली. पुराय क्योतो शार मुखार पातळ्ळेलें आनी शारा फाटल्यान आतागो पर्वत उबो आशिल्लो. म्हजी नदर आतागोचे मळबा-धारेची नियाळणी करीत करीत क्योतोच्या विस्तारांत विलीन जाली तेन्ना अवचीत क्योतोचें आगळे-वेगळेपण कित्यांत आसा तें होलमलें. सैम आनी मनीस हांची संगत हेंच क्योतोचें आगळे-वेगळेपण. मनशाच्या हातान हांगा जें जें निर्माण केलां तें इतलें सैमाक धरून केलां कीं ताचे निर्मणेक मनशाचो हात लागला काय ना हाचोच दुबाव येवचो. सुमारा भायलें संवदेन-शक्त आशिल्लें मन आनी सुमारा भायर कुशळताय आशिल्ले हात जाका आसात त्या कलाकाराकूच इतली सभाविकताय

जमपाची हाची जाणवीक कियो-मिझूक जाली. हांगा सैम आनी देवूळ, पर्वत आनी शार एकामेकांत लुगटांतल्या आडव्या उब्या सुता भाशेन ओतप्रोत जाल्यांत अशें दिसलें.

कियो-मिझूक खंय एक तर एप्रिलांत येवंक जाय वा नव्हेंबरांत. एप्रिलांत साकुरा फुलांची गिरेस्तकाय पळोवंक मेळटा, नव्हेंबरांत मेपल रुखांच्या पानांची. आमी सप्टेंबरांत हांगा पाविल्ले. तरूय पांचवेचार रुखावळीन वातावरणांत पवित्रताय भरिल्ली आनी मन भरून आयिल्लें.

सैमीक सभाविकतायेची जी जाण कियो-मिझूक जाल्ली तिचो खोल अणभव 'किंकाकुजी' देवूळ पळोवपाक गेले तेन्ना आयलो. चौदाव्या शतमानांतल्या योशिमित्सू नांवाच्या शोगुनान राजकी उलाढालींतल्यान कडेक सरून जियेवपा खातीर थंड बरें एक थळ वेंचून काडिल्लें. शोगून भायर पडटकूच ह्या थळांत लोकांनी एक देवूळ बांदून काडलें. देवळाच्या सोमोन नांवाच्या दरवट्यांतल्यान आमी भितर सरले तेन्ना भितरले रुखावळीन आमकां येवकार दिलो. थोडे मुखार गेले तेन्ना चुमोन नांवाचो आनीक एक दरवटो लागलो. तांतुंतल्यान भितर मात सरिल्ले, फांत्या पारा वेले उषे सारकें सुंदर किंकाकुजी देवूळ दिश्टी पडलें. भांगराच्या पत्र्याच्या वणटींचें. ल्हानशें, तीन माळयांचें. ताच्या तीन माळयां मदल्या फकत दुसऱ्या आनी तिसऱ्या दोनूच माळयांक भांगराचे पत्रे आशिल्ले. देवळा फाटले वटेन पांचवीचार दोंगुल्ली आशिल्ली. आनी फुडले वटेन एक सुंदर पोरसूं. हें पोरसूं पळेना फुडें पांय चलपाचे थांबले. पोरसांत एक माणकुली तळी आशिल्ली. तळयेंत हांगा थंय कांय फातर दवरिल्ले. ल्हान व्हड जुंव्यां सारके ते दिसताले. देवळाचे दावे वशीन एक व्हड फातर आशिल्लो. तो बंदरा सारको दिसलो. ल्हानसो एक स्वर्गूच हांगा देंविल्ले वरी दिसपाक लागलो. तळयेंत देवळाचें उरफाटें पडबिंब पडिल्लें. हाका लागून ह्या पोरसाची सोबा शंबर - ताचेकूय चड - वांट्यांनी वाडिल्ली.

देवळाच्यो वणटी भांगराच्या पत्र्याच्यो आसल्यो तरूय भपको तांतूंत निखालूस नाशिल्लो. परतें, पाचव्याचार ह्या नंदनवनांत हें सुवर्णमंदीर लेगीत सैमानूच उबें केल्लें सैमाचें एक आंग जाल्ले वरी दिसतालें.

पोरसूं उबें करतात तेन्ना सामान्यतायेन सैमाचो एक देखाव उबो

करपाची मोख दवरुनूच करतात. पुणून ह्या पोरसांत फकत एक वातावरण उबें केलां. मनशाचे हात हांगा वावुरल्यात अशें दिसना. उरफाटें, मनीस हांगा सैमाचेंच एक आंग जाला आनी सैमाक ताणें आधार दिला अशें दिसता. सैमाचो जो हेतू नाशिल्लो हेतू आसता ताचे कडेन मनीस हांगा एकरूप जाला. ताणें हांगा झाडां-पेडांक आकार दिला, तांकां फावता तसलें रूप दिलां. पुणून आपणालो हेतू ताणें तांचेर निखालूस थापूंक ना. कित्याचेरूच थापूंक ना. उरफाटो, तो पोरसाचेंच एक आंग जावन हांगा वावुरला. पोरसाक आनी पोरसूं उबें करतल्याक वेगळे काडूंक येनात हांगा. सैमाचें एक आंग जावपाचो यत्न करी नासतना तो सैमाचेंच एक आंग जाला. ताणें हें पोरसूं तयार करूंक ना, ताच्या हातांतल्यान तें 'जालां'. Sitting quietly, doing nothing, spring comes up and the grass grows by itself. ह्या अर्थाची एक कविता जपानी भाशेंत आसा. तसो, हें पोरसूं उबें करपी मनीस हांगा आयला, ओग्गी बसून रावला, ताणें कितेंच करूंक ना आनी हें पोरसूं आपशीं 'जालां'.

बरोच वेळ पोरसूं पळेत रावलों. हें सगळें मनशानूच उबें केलां अशें मात पसून दिसलें ना. तळी, दोंगुल्ली, फातर, शेळो, सरभोंवतणचीं झाडां झोपां, सगळें सैमानूच हांगा थंय हाडून दवरलां अशें दिसतालें. फातरांच्या आंगावेलो शेळो, झाडांवेल्यो बेनल्ली - तें कित्याक, पोरसांतल्या फातरी लापयांवाच्या आंगावेले उडिल्ले कुडके सैमाच्या नेमानूच उडल्यात कशें दिसताले.

क्योतोंत असलीं कितलींशीं पोरसां आसात. पोरसांक लागुनूच क्योतोक नामना मेळ्ळ्या. एका पोरसा सारकें दुसरें न्हय. दर एका पोरसाक ताचें अशें निजाचें एक व्यक्तित्व आसा.

किंकाकुजीच्यान आमी रियोआनजी देवूळ पळोवपाक गेले. पोरसूं-बिरसूं हांगा कांय नाशिल्लें. देवळांतल्या वणटींर कांय चित्रां लायिल्लीं. तीं पळोवपाक लागलों. असलीं चित्रां पळोवपाची म्हज्या दोळ्यांक संवंय नाशिल्ली. म्हूण, म्हाका तीं पयलीं विचित्रशीं दिसलीं. इतलेंच न्हय, तर अर्दकुटींशीं दिसलीं. एदो व्हडलो कॅनवास, सगळो रितो, मदींच चार स रेगो. दिसलें, चित्रकाराक घसघशाचें चित्र काडपाचें आशिल्लें, अर्दकुटें काडून ताणें बेत सोडून दिला जावंक जाय. चार स चित्रां पळेले उपरांत

लक्षांत आयलें, जपानी चित्रकलेचें हें खाशेलें आंगूच आसूंक जाय. चित्र पुरें काडपूच ना. दोन चार रेगो मारप. उरिल्लें पळेतल्यान भरून काडप हे तरेची ही चित्रकला. फकत सुचोवपी, संकेत करपी. पळेतल्यान मागीर हें मळबांत उडपी शेवणें, ही दोंगुल्ली, हें म्हाल म्हातारें झाड, ही न्हंय, अशें म्हणून चित्रांत सगळें पळोवपाचें. चार स रेगांच्या चित्राची आनी रिते सुवातेची जपानी चित्रकार इतली सुंदर संतुळा सादता की रिती सुवात रितीशी दिसना, भरिल्ली भरिल्लीशी दिसता. जी वस्त सुंदर आसता तिचे भोंवतणी रिती सुवात सोडल्यारूच सुंदर वस्त अदीक सुंदर दिसता. अशें जपान्यांचें मत्त. कितल्यो-श्यो सुंदर गजाली एके कडेन हाडून दवरप हाका ते रसिकतायेचें लक्षण मानिनात. सुंदरकायेचो अवमान हो, अशें म्हणटात. रवीन्द्रनाथांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार पतिव्रता बायलेक तिचे सवतीगेर व्हरून दवरपा सारको.

म्हाका हांगा चित्रां पळोवपाची एक नवी नदर मेळ्ळी.

पळेल्लीं सगळीं चित्रां पर्थून एक फावट पळेलीं आनी हांव दावे वसल्या वारांदार गेलों. थंय एका राजांगणांत धवी रेंव पातळायल्ली आनी हे रेंवेंत पांच कडेन ल्हान व्हड फातर हाडून दवरिल्ले. हें पोरसूं ह्या देवळाचें अशें कोणें तरी म्हळें, तेन्ना म्हाका हांसूंक आयलें, पुणून खीण भरूच. दुसऱ्याच खिणाक पॅसिफीक म्हालसागराचो एक कुडको ताचे जुंवावळी सयत हांगा हाडून दवरिल्ले वरी दिसलो. येद्याश्या ह्या राजांगणांत म्हालसमुद्र पातळ्ळा. कितलें सादेपण आनी कितली गिरेस्तकाय! फातर बारिकसाणेन पळेले. तेन्ना हे सादे फातर न्हय, पुराय जपान भोंवन मोट्या सायासान कलाकारान ते हांगा हाडून दवरल्यात अशें दिसलें. वाऱ्यान आनी पावसान तांकां जो आकार दिला त्या आकारांत जिवें तट्‌टटीत जिवीत पळोवन कलाकारान ते अळंग हातांनी उखलून हांगा हाडून दवरल्यात. ते उपरांत तांकां मनशाचो हात लागूंक ना. अशे तरेन ते हांगा दवरल्यात की पळेतल्याक ते हांगाच जमनींतल्यान वयर सरल्यात कशे दिसचे. राजांगणा फाटले वटेन एक दुरीग आसा. रोबोलांचें. ताचे फाटल्यान पांचवीचार रुखावळ आसा. हे रुखावळीचे फाटभुंयेर ही 'बाग' उठून दिसता. तिचे कडेन एका सारकें पळेत रावचें, चित्त थीर जातलें. चित्तांतलो फाटलो काळ आनी

फुडलो काळ दोनूय उडून वतले आनी, आतां, ह्या खिणांतूच आमी जियेवपाक लागतले आनी आतांचो हो खीण अंत पार नाशिल्ल्या काळा येदो व्हड जातलो.

जपानांत एक ध्यानमार्गी साधना चलता. तिका 'झेन' ह्या नांवान लोक वळखतात. 'झेन' म्हळ्यार ध्यान. तिची मोखूच चित्तांतलो फाटलो आनी फुडलो दोनूय काळ कातरून उडोवप ही. फाटलो काळ आमी विसरनात. देखून फुडलो काळ फाटल्या काळाचीच सावळी जावन रावता. ह्या दोनूय 'मिथ्या' - लटक्या काळांच्या प्रभावान आतांचो काळ - जो खरो - ताचो आमकां विसर पडटा. ह्या दोनूय काळांतल्यान चित्त मेकळें जाता तेन्नाच मनीस सृजनशील जिवीत जियेवंक पावता. आयचो काळ, आतांचो, ह्या खिणाचो काळ 'जिवो' जावचो म्हूण जांणी साधना केली तांणीच हे बागेची निर्मणी केल्या. बाग वयले वयल्यान सादीशी दिसता. पुणून एका चित्तान ती पळेली म्हणटकूच तिचे गिरेस्त अंतरंग उकताडा येतात. आनी मागीर बागेची निर्मणी केल्ल्या कलाकाराची अभिरुची ह्या राजांगणांत पातळ्ळेल्या रेंवेंच्या एकान एक कणांतल्यान उकताडा आयिल्ली दिश्टी पडटा.

जपानी अभिरुचीचो बऱ्यांतलो बरो आविष्कार हे बागेंत जाला.

झेन एक बौद्ध संप्रदाय. हिन्दुस्तानांतल्यान तो चीनांत गेलो. बोधिधर्म नांवाचो एक दक्षीण भारतीय भिक्खू तो घेवन गेल्लो. चीनांत तो सशीं वर्सां उरलो, वाडलो आनी थंयच्यान जपानांत आयलो. जपानांत येना फुडें ताणें जपानी जिवीत पुराय आपणा हातांत घेतलें. जपानी वास्तुकला झेन परंपरेंतली. चित्रकला, हस्तकला, पोरसांची कला, फुलां फुलदाणयेंत मांडपाची कला (इकेबाना) सगळ्या तरांच्या कलांचेर झेन संस्कारांचो प्रभाव पळोवंक मेळटा. जपानी बरपावळींत 'हाइकू' प्रकारांत बरयल्ल्यो कविता मेळटात. त्यो झेन संस्कारांतल्यानूच वयर सरल्यात. इतलेंच न्हय तर सामुराईंची बुशिदो नांवाची झुजपाची तराय झेन परंपरेन प्रभादीत जाल्या. म्हळ्यार, झेन पंथान झुजा कलेचेरूय आपणालो प्रभाव घाला.

ह्या सगळ्या कलां मजगतची चा-नो-यू कला सामकीच आगळी वेगळी. च्या पियेवपाची कला ही. 'चा-नो-यू' चो अर्थ 'च्याचें हुनहुनीत उदक.' बाराव्या शतमानांतल्या एइसाई नांवाच्या एका झेन भिक्खून ही रीत सुरू

केल्ली आनी सोळाव्या शतमानांत सेन-नो-रिक्यू नांवाच्या दुसऱ्या एका भिक्खून ती पूर्णत्वाक पावयल्ली. सुरवातेच्या काळांतले झेन भिक्खू ध्यानाक बशिल्ले आसतना मदींच न्हीद आयली म्हणटकूच च्या करून घेताले. च्याक लागून तांची न्हीद उडून वताली. बोधिधर्म खंय ध्यानाक बशिल्लो तेन्ना एक फावट ताका न्हीद आयली. ताका न्हिदेची तिडक मारली आनी तिडके भरशीं ताणें आपणाल्या दोळ्यांच्यो पापण्योच कापून उडयल्यो. त्यो जंय पडिल्ल्यो थंय, कांय दिसांनी, कांय रोप वयर सरले. ते च्याचे आशिल्ले. अशी आख्यायिका आसा. तेन्ना सावन च्या हें ध्यानमार्गी झेनांचें मुखेल पेय जालें. आरंभाच्या काळांत तर खंय ते 'च्या' आनी 'च्यान' (ध्यान) दोनींची रूच सारकीच अशें म्हणटाले. ह्या अणभवांतल्यान चा-नो-यू ची रीत चलपाक लागल्या.

पयलीं पयलीं हे झेन पंथी भिक्खू रानांत वताले थंय कोंड्यांची एक सादी खोंप बांदताले आनी खोंपीच्या साद्या वातावरणांत चा-नो-यू खातीर बसताले. हाका लागून चा-नो-यू ची सुवात खोंपूच आसूंक जाय असो एक संकेत निर्माण जालो. ह्या संकेताक धरून किंकाकुजी देवूळ बांदतल्यान देवळा फाटले वटेन एके दोंगुल्लेचेर एक खोंप उबी केल्ली ती आयजूय थंय आसा. तोक्योक तर हांवें एके स मजली बिल्डिंगेचे आगाशेर एक खोंप पळेल्ली.

खोंप खऱ्यांनीच सादी आसता. जमनीर तातामी. वयर नळ्यां बदला तण. भितरल्यो वणटी कागदाच्यो. ह्या सादेपणांत भिकारपण वा कंजूसपण इल्लेंय नासता. ऊंच पांवड्याची अभिरुचीच तांतुंतल्यान उकती जाता. खोंपी भितरलें वातावरण शान्त, इतलें शान्त की आतांच्या खिणाक आदी ना, तसो अंतूय ना, अशें खऱ्यांनीच दिसपाक लागता.

चा-नो-यूच्या कार्यावळींनी फकत दोगांनी वचूंक जाय. चडूच जाल्यार तिगांनी. तिगां वयर भुरावळ जाता. चा-नो-यूंत ताकतीक उपकारना, तशी भुरावळूय उपकारना.

खोंपी भायर फातराचें एक वांकडें तिकडें आयदन दवरिल्लें आसतलें. ह्या आयदनांतल्या उदकान पयलीं हात पांय धुवपाचे. उपरांत खोंपींत वचपाचें. खोंपीचें दार मोटवें, कमर बागोवन भितर सरचें पडटलें. चा-नो-

यूचो अणभव घेवंक सोदतल्यान पयलीं नमळाय शिकची पडटा. दारांत चा-जीन 'दो जो' करून येवकार दितलो. बसपाच्यो सुवातो दाखयतलो. थंय आसनां पातळायल्लीं आसतलीं.तांचेर बसतकूच आमकां जा-जीनचें चलप बसप पळोवंक मेळटलें. चा-जीन हो यजमान हांगासल्लो. जपानाच्या सांस्कृतीक जिवितान चा-जीनाक खूब म्हत्त्वाचो मानला. जपानी अभिरुचीचो तो निर्णायक जाला. कितल्या-श्या शतमानांच्या खोल चिंतना उपरांत जपानच्या संवेदनक्षम चिंतकांनी अभिरुचीचो जो मापदंड तयार केलो ताचो चा-जीन जाणकार. जपानी वास्तुशास्त्री, चित्रकार, बागो उब्यो करपी कलाकार सगळे, ल्हान-सान गजालींनी लेगीत ताची बुद्द घेत आयल्यात. इतलेंच न्हय, तर दिसपट्ट्या जिवितांतल्यो सगळ्यो वस्तू - रांदचे कुडींतलीं आयदनां कसलीं आसचीं, केदीं आसचीं, तांचो आकार कसलो आसचो, रंग कसलो आसचो, वणटींक लायतात तो कागद कसले तरेचो आसचो, ताचेर कसलीं चित्रां आसचीं, कसल्या रंगांचीं आसचीं, चिक्रपिरयो, शेनऱ्यो, पांटुले, बाटल्यो, सगळें तयार करतना लेगीत खंय चा-जीनची बुद्द घेतात. येद्या व्हड मनशाच्या यजमानपणा खाला आमी चा-नो-यूचो अणभव घेवपाक लागतात. सुरवात पसून अखेर मेरेन चा-जीनच्यो हालचाली कवितेंतल्या छंदा सारक्यो चलपाक लागतात. शेगडी पेटोवप, भितरले कुडींत वचून च्या करपाचीं आयदनां हाडप, किटलेंत उदक घालप, आयदनां पुसप, च्या तयार जातकूच ती आमचे फुड्यांत हाडून दवरप, सगळें इतलें सवकासायेन आनी इतले सुंदर रितीन तो करता की तें पळेता आसतना धके-चपाटे, धांवपळ अणभविल्लें आमचें मन आपशीं शान्त जाता. आनी वेगळेच तरेच्या एका वातावरणांत आमी पावतात. मन शान्तूच न्हय, तर उपाट शान्त करप ही मोख चा-नो-यूची. खोंपींत इतली शान्तताय पातळ्ळेली आसता की शेगडेर दवरिल्लें उदक सळसळूंक लागतकूच ताच्या बुडबुड्यांचो आवाज लेगीत संगिता सारको दिसपाक लागता. हांगा कोण उलयना. आनी उलोवचें पडलें जाल्यार सुमारा भायर ल्हवू आवाजांत उलयता. उलोवपाचो विशय दिसपट्ट्या जिविता कडेन संबंद आशिल्लो आसूंक जायना, असो संकेत आसा. आदले मुस्तींत ह्या वातावरणांत सामुराई झुजाचे उगडास विसरताले. इतलेंच न्हय, तर खूनी

मनशाक लेगीत बगलेक बशिल्ल्याचो आपणाक खुन करपाचो आसा हाचो विसर पडटालो.

चा-नो-यूंत जीं आयदनां वापरतात तांकां नांवां आसतात. इतिहास आसता. ज्या चित्रांत च्या दितात ताच्या रंगांत आनी आकारांत लेगीत सभावीकपण आसता. क्योतोंतल्यो बागो ज्या तत्त्वाक धरून उब्यो जाल्यात त्याच तत्वान ह्या आयदनांची निर्मिती जाल्या. तांच्या धोगां-पोंगांत लेगीत एके तरेची सुंदरताय पळोवंक मेळटा. ती पळोवन आमच्या तोंडांतसून तांची तोखणाय जावची अशी उमेदूय चा-जीन बाळगिता. ह्या आयदनांचें मोल आंखूंक येना इतलें आसता. म्हाका एक आयदन भेट मेळिल्लें. ताचें मोल णव हजार येन, म्हळ्यार, १८० रुपये आशिल्लें.

चा-ना-यूची रीत म्हळ्यार जपानाची एके तरेची राष्ट्रीय साधना. तिचें म्हत्त्व वा तिचो प्रभाव अणभव घेतले बगर कळपाचो ना. च्या अर्द चित्र आसता. पुणून ती थेंब थेंब जिबेक लावन घेवपाची - वर देड वर लावन. तेन्नाच चा-नो-यूचें म्हत्त्व लक्षांत येता.

क्योतोक आमी आनीक एक आगळी वेगळीच बाग पळेली. कोकेदेरा नांवाची. पन्नास पंचावन जातींचो फकत शेळो हाडून थंय लायिल्लो. हेय बागेंत चा-नो-यूची एक खोंप पळेल्ली. कोंड्याची. खोंपींतल्या जनेलांतल्यान भायलो देखाव पळेलो तेन्ना हे खोंपींत चा-नो-यूक आयिल्ल्याक कितें दिसता जातलें हाचो अदमास करूंक पावलों.

जपानी लोकांचे सौंदर्य-बुद्दीची बऱ्यांतली बरी उकतावणी क्योतोंत पावला कणकणी पळोवंक मेळटा.

आयज क्योतो जपानाच्या चार व्हड शारां मजगतचें एक जालां. पुणून ह्या शाराचें वातावरण हेर तिनूय शारां परस सामकेंच वेगळें उरलां. एक कामाकुरा काळ सोडलो जाल्यार, ख्रि. स. ७९४ सावन १८६८ मेरेन क्योतो हेंच जपानाचें राजकी तशें संस्कृतायेचें केंद्र आशिल्लें. हाका लागून जपानी संस्कृतायेंत सुंदर, मोलाचें आनी मुळावें जें कितें आसा तें सगळें आमकां हांगा पळोवपाक मेळटा. १८६८ उपरांत जपान 'आर्विल्लें' राष्ट्र जालां. पुणून क्योतोक ताचो कांयच बादिकार जावंक ना. इतलेंच न्हय, तर क्योतो पोरणेंय जावंक पावूंक ना. क्योतो पोरणेंय न्हय, नवेंय

न्हय. पोरणें आनी नवें हांचो गोड संगम हांगा जाला तितलो जपानांत हेर खंयचेच कडेन जाल्लो पळोवंक मेळना. आयज जपान उद्देगिकरणाचे आघाडेर पावलां. पुणून क्योतोच्या लघु-उद्देगांक कसलीच बादा येवंक ना. आयज लेगीत 'निशिजीन' रेशमाचो उद्देग थंय पयलीं सारकोच चलत आसा. आयजूय चिनी मातयेचीं आयदनां पयलीं वरीच हांगा तयार जातात. आयजूय हांगासल्ल्यो बावल्यो गेयशां इतल्योच सुंदर दिसतात.

क्योतोक आमची नदर सगळ्यांत पयली पडटा बायलांचेर. जपानांतल्यो सगळ्यो रंभा मेनका उर्वशी हांगा येवन रावल्यात काय कितें, असो भास जाता. तांची मनभुलोवणी चलणूक तांगेले भाशेंतल्यानूय उकताडा येता. तशी तांगेल्या किमोनोंतल्यानूय दिसून येता. जपानी बायलांचो भेस आतां येवरोपेव बायलां सारको जाला. पुणून किमोनो न्हेसून भोंवपी बायलो क्योतोंत आयजूय खुब्ब पळोवंक मेळटात - जश्यो कितें बावल्यांच्या पसऱ्यांतल्यो बावल्यो जिव्यो जावन आयिल्ले वरी. क्योतो ही गेयशांची नालंदा. पुणून गेयशांचें गोमटेपण हांगासल्ल्या सगळ्याच बायलांच्या आंगांत दिश्टी पडटा. क्योतोंत पळेल्यो तसल्यो बायलो पुराय जपानांत म्हाका पळोवंक मेळूंक नात.

क्योतो पळोवपाची एक रीत आसा. पळोवपा सारकीं थळां आमी पळेतात तशें क्योतो पळोवंक फावना. क्योतो खरेपणानशीं पळोवचें अणभवचें आसत जाल्यार क्योतोंत येवन रावंक जाय. आपूण हांगासल्लोंच अशें मानून रावंक जाय. क्योतोच्या मेयरान आमचे खातीर तशी वेवस्ताय केल्या. दोन दीस पयलीं कळोवंक जाय इतलेंच. मागीर क्योतोचे संस्कृतायेंत वाडिल्ल्या खंयच्याय एका घराब्यांत आमचो पावणाचार जाता. क्योतोंत शुद्ध जपानी रितीचे 'रिसोर्ट्'य आसात. जपानी जावन रावले जाल्यारूच क्योतो आपणालें काळीज आमचे मुखार उकतें करता. उपरांत पोरण्यो पायणी लेगीत आमचे कडेन उलोवपाक लागतात. हांगासल्ले जपानी भाशेची मोडूय आमच्या लक्षांत वता. क्योतोची जपानी म्हळ्यार जपानीचें प्रमाण रूप. तिची खाशेली अशी एक गोडसाण आसा. जपानी नकळ आशिल्ल्याक लेगीत तिची गोडसाण जाणवता.

खरेंच, जपानाचें निजाचें जपानीपण अणभवचें आसत जाल्यार क्योतोकूच

येवंक जाय. क्योतोचें नांव घेना फुडें जपानी मनीस कित्याक फुलता तें तेन्नाच आमकां समजतलें. जपानी संस्कृतायेचीं सगळीं आगळीं वेगळीं आंगां - देवळां, बागो, नाच, संगीत, नाट्य - तांच्या निजाच्या घरंदाज रुपांत आमकां हांगाच पळोवंक मेळटात. जपानी मनशाक आपणाल्या जपानीपणाचो अभिमान दिसपाचो हक आसा अशेंच आमचें मत्त जाता.

जपानांत पळोवपा सारकें सगळ्यांत सुंदर थळ पळेल्लें. आनीक कांयच पळोवपाची गरज उरूंक नाशिल्ली. क्योतो पळेले उपरांतूच जीव धादोस-भरीत जालो आनी -

जें निक्कोक म्हणपाचें ते 'केक्को' हांवें हांगा म्हळें.

थोड्याच दिसां उपरांत हांवें जपान सोडलें.



# २४

# कूस परतुनूय जपान जपानूच उरलां

जपानाच्या जिवितांत दोन मोट्यो क्रान्त्यो घडून आयल्यात. तांतले एके क्रान्तीची - मेइजी क्रान्तीची - खबर ह्या पुस्तकाच्या सुरवातेच्या एका आवेसरांत सांगल्या. हे क्रान्तीक लागून सामंतशायेंत वाडिल्लें पोरणें जपान ना जावन हावेसांनी भरिल्लें एक नवें कर्तुत्वी जपान जल्माक आयिल्लें.

हे क्रान्तीक पयरूच शंबर वर्सां जाल्यांत.

हिचे आदीं तितलीच व्हड दुसरी एक क्रान्ती जपानांत जाल्ली. सव्या शतमानांत. तिवूय मेइजी क्रान्ती वरी दोळे उकते दवरून घडोवन हाडिल्ली आशिल्ली. तिचो फुडारी आशिल्लो शोतोकु नांवाचो एकोणीस वर्सां पिरायेचो एक राजकुंवर. जपानाचें आंतरीक बळ जाणा जावन घेवपाक हेवूय क्रान्तीची वळख आशिल्ली बरी.

जपानांत बुद्ध-धर्म आयलो तो दक्षीण कोरियांतल्यान. तोवूय दक्षीण कोरियाच्या राजाचे जपानच्या राजाक धाडिल्ले 'भेटवणी'च्या रुपान. दक्षीण कोरियांतल्यान एक दीस कांय बौद्ध भिक्खूंचें एक शिश्टमंडळ जपानांत आयलें. येतना तें बुद्धाची एक मूर्त तशेंच कांय धर्मपुस्तकां घेवन आयिल्लें. वांगडा दक्षीण कोरियाच्या राजाची जपानच्या राजाक एक चिटूय घेवन आयलें. चिटींत बरयल्लें -

'हो धर्म समजुपाक कठीण. चलणुकेंत हाडप तर खुबूच कठीण. पुणून तो बऱ्यांतलो बरो धर्म. चीनांतल्या व्हडल्या व्हडल्या बुदवंतांक लेगीत तो सारको समजूंक ना. पयसल्या भारत देसांतल्यान तो आयला. भारत आनी

कोरिया हांचे मदीं जितलेय देश आसात तांणी सगळ्यांनी तो घेतला. ताच्या प्रभावा भायर कोणूच उरूंक ना. जपानानूय तो घेवचो.'

जपानी लोकांच्या मनाचेर हे भेटवणीचो खुब्ब परिणाम जालो. ते अजापान आनी बारिकसाणेन बुद्धाचे मुर्ती कडेन, तिची जाताली ते पुजे कडेन पळोवपाक लागले. कांय दिसांनी कोरियांतल्यान कांय भिक्खू धर्मप्रचाराक जपानांत येवपाक लागले. सुरवातेक लोकांनी तांचो विरोध केलो. पुणून हे धर्मप्रचारक धर्मा वांगडा चिनी भास, चिनी लिपी, चिनी साहित्य, वैजकेवेलीं कांय पुस्तकां घेवन आयिल्ले. हाका लागून रुढीवादी लोक लेगीत इल्ले इल्ले तांच्या प्रभावांत येवपाक लागले. जपानांत जी संस्कृताय परंपरेन चलत आयिल्ली तिचे परस ही वयल्या पांवड्याची संस्कृताय म्हणपाची खोल जाण जपानी लोकांक जावपाक लागली. जिस्त ह्या वेळार शोतोकु राजकुंवरान सत्या आपणा हातांत घेतली. आनी ताणें संस्कृतायेवेले हे 'आगळिके'क एक वेगळेंच रचणुकी रूप दिलें. शोतोकुची नदर खूब पयसलें पळेताली. सगळ्यांत पयलीं खासा ताणें बुद्ध-धर्माची दीक्षा घेतली. रोखडोच ताणें ह्या धर्माक आपणाल्या राज्याचो तेंको दिलो. तेन्ना सावन जपान बौद्ध देश जाला. आयज ज्या शाराक लोक ओसाका म्हूण वळखतात थंय ताणें 'तेन्नोजी' नांवाचें एक देवूळ बांदून घेतलें. देवळा भोंवतणी धर्मसाळो, दवाखाने, हॉस्पिटलां उबीं केलीं. इतलेंच न्हय, तर बुद्ध-धर्म शिकूंक सोदतल्यां खातीर एक केंद्रूय उकतें केलें. ओसाका शार ते मुस्तींत जपानच्या दरवट्या सारकें शार आशिल्लें.

इतलेंच करून तो थांबलो ना. ताणें चीन देशा कडेन राजकी संबंद जोडपाचे यत्न सुरू केले. चीन देशाच्या राजाक ताणें एक चीट बरयली आनी ती आपणाल्या एका दुताच्या हातांत दिवन ताका चीनच्या राजाच्या दरबारांत धाडून दिलो. हें चिटींत ताणें आपणाक 'सूर्य उदेता त्या देशाचो राजा' आनी चिनी राजाक 'सूर्य अस्तमता त्या देशाचो राजा' म्हळ्ळो. चिनी राजाक हें संबोधन अवमाना सारकें दिसलें. शोतोकु घमेंडी आसूंक जाय अशें ताचें मत्त जालें. खरपणानशीं, शोतोकूक चिनी राजाचो अवमान करपाचो नाशिल्लो. पुणून चीन आयजवेर आपणा भोंवतणच्या देशांच्या राजांक उणें लेखीत आयलां तें ताणें पळेल्लें. ताका चीना कडल्यान जें

कितें घेवं येता तें सगळें नमळायेन शिकून घेवपाचें आशिल्लें. बंदेपणान, फांपरमुटकेपणान घेवपाचें नाशिल्लें. बराबरीच्या, समानतायेच्या पांवड्यार रावन घेवपाचें आशिल्लें. बराबरीच्या पांवड्याचो अधिकार ताणें चीना कडल्यान कबूल करून घेतलो. ते उपरांत रोखडेच राजकी संबंद सुरू केले. रोखडेच ताणें कांय जपानी तरणाट्यांक शिकपा सारकें सगळें शिकून येयात अशें सांगून चीनांत धाडून दिले. ते उर्बेन शिकले आनी शिकून येतकूच तितलेच उर्बेन जपानाक वयर काडपाच्या कामाक लागले. शोतोकून कांय चिनी विद्वानांकूय जपानांत आमंत्रण दिवन आपणाल्या आधाराक हाडले आनी थोड्याच दिसां भितर ताणें जपान मुळा सावन बदलून उडयलें. जपानाचो एके तरेचो नवो जल्मूच जालो. ताणें कितल्योश्यो नश्ट्यो, पाड्यो, कुसक्यो चाली-रिती-देखी सोडून दिल्यो आनी नव्यो चाली-रिती-देखी घेवन तें आपणाली प्रगती-यात्रा मुखार चलोवपाक लागलें. जपानांत वास्तुकला, शिल्पकला, चित्रकला, साहित्य सारकेल्या ज्या कलांची उदरगत जाल्या ती चडशी शोतोकुन घडोवन हाडिल्ले हे क्रान्ती उपरांत जावंक पावल्या.

शोतोकुची राजवट सुमार तीस वर्सां चल्ल्या. खरें म्हळ्यार, तो राजा केन्नाच नाशिल्लो. राजवट चलताली ताचे काकीची. शोतोकुन फकत राजवटीचीं सुत्रां आपणा हातांत घेतिल्लीं. तीस वर्सांच्या काळांत ताणें संस्कृतायेच्या मळार येदें व्हड काम केल्लें की आयज ताकाच लोक जपानी संस्कृतायेचो मूळ पुरूस मानपाक लागल्यात. नारा शारांत ताचें होरियुजी नांवाचें देवूळ आसा. थंयच्यान तो राज्याचीं सुत्रां हालयतालो. ह्या देवळांत युमेदोनो नांवाची एक अश्टकोनी वास्तू आसा. थंय तो ध्यानाक बसतालो. थंय जी अवलोकितेश्वराची मूर्त आसा ती ताणेंच आपणा हातान घडयल्ली म्हणटात. ताणें 'सद्धर्म पुंडरिक' ग्रंथाची एक अर्थावणीय बरयल्या. जपानी भाशेंत बरयल्लें हें पयलेंच पुस्तक म्हणटात. आयज चौदा शतमानां उपरांतूय लोक ताचो उगडास काडटात.

शोतोकुचे क्रान्तीन जपानाचें एक आगळें वेगळें आंग उकताडा आयलां. हो देस दुसऱ्यां कडल्यान घेवपा सारकें तें सगळें घेता. पुणून घेतकूच ताका पुराय जपानी करून उडयता. प्राणवान देस हो एक. जपानांत जो

बुद्ध-धर्म आयज चलता तो भारतीय न्हय, तसो चिनीय न्हय. तो जपानी बुद्ध-धर्म. जपानांत जो 'झेन' संप्रदाय चलता तो मुदलांत चिनी आसूं, आयज तो चिनी उरूंक ना. जपानी जाला. जपाना कडेन आपली अशी लिपी नाशिल्ली. चीना कडल्यान ताणें ती घेतली. पुणून उपरांत तिका अशें रूप दिलें की चिनी लोकांक ही तुमचीच लिपी म्हूण सांगल्यारूय खरें दिसपाचें ना. 'च्ये, जपानीच लिपी ती' अशें ते म्हणटले. वास्तुकला, शिल्पकला, चित्रकला, नीतिशास्त्र सगळें चीना कडल्यान ताणें घेतलां. पुणून तें चिनी उरूंक ना. जपानी जालां. दुसऱ्यांची केलदावणी करपी देस न्हय हो. अनुकरण करपी, नक्कल करपी देस न्हय. ताचें निजाचें अशें एक सत्व आसा. तें ताचे कडेन नाशिल्लें जाल्यार शोतोकुचे मुस्तींतूच जपान चीन जातलें आशिल्लें. जपान उरचें नाशिल्लें.

जपानाचें हें आंतरीक बळ पर्थून एक फावट कांय शतमानां उपरांत घडून आयिल्ले मेइजी क्रान्ती वेळार दिसून आयलें. हे क्रान्तीन जपानान आपणालो पोरणो इतिहास, पोरणी संस्कृताय, पोरणो समाज सगळें बदल्लें आनी एक नवें राष्ट्र म्हूण तें मुखार आयलें. ताणें सगळें बदल्लें. बदल्लो ना तो फकत आपणालो प्राण. तो घटमूट दवरलो. जपानाच्या सामाजीक, सांस्कृतीक, राजकी इतिहासाचे जाणकार म्हणपाक लागले, जपानांत केदेय व्हडले बदल घडून येवं, ताचो प्राण कसोच बदलपाचो ना. तो आसा तस्सो घटमूट उरतलो.

आयज जपानांत तिसरी एक क्रान्ती सुरू जाल्या. मेइजी क्रान्तीक लागून जपान 'अर्विल्लें' राष्ट्र म्हूण मुखार आयले उपरांत ताका प्रतिष्ठा मेळ्ळी. तिका लागून ताचो आत्मविस्वास वाडलो आनी १८९४त चीना आड, तर १९०४त रशिये आड झुजपाक तें फुरफुरून आयलें. म्हत्वाचें म्हळ्यार, दोनूय झुजां ताणें जिखलीं. परिणाम - ताचो मद वाडलो आनी तें कुड्डें जालें. पुराय आशिया खंडाचेर आपणालो शेक चलोवपाचीं सपनां पळोवपाक लागलें. हाका लागून येवरोप अमेरिकेची दुस्मानकाय ताका मोलावन घेवची पडली. चड अमेरिकेची घेतली. आनी दुसऱ्या म्हा-झुजांत ताका दारूण हार पदरांत घालून घेवची पडली. आयजवेर जपानान दुसऱ्या खंयच्याच देसा मुखार दिमी मोडूंक नाशिल्ली. केन्नाच कोणाचें बंदें

जावंक ना असलें एकूच राष्ट्र हें आशिया खंडांतलें. दुसऱ्या म्हा-झुजा उपरांत अमेरिकेचें बंदेपण मानून घेवपाचें ताच्या नशिबांत आयलें.

पुणून जपानी प्राण कितलोय दाम, दामून उरना. हें पर्थून एक फावट लोकांक दिसून आयलें. येदें व्हडलें संकश्ट कोसळ्ळेलें आसतनाय तें निर्शेलें ना आनी खर्शेलेंय ना. स सात वर्सां भितर बंदेपणांतल्यान मेकळें जायना फुडें ताणें परती तकली वयर काडून आपणाली विजय-यात्रा मुखार चलयली. आर्थीक मळार ताणें येदी उदरगत केली की आरे आरे म्हणटासर फ्रांस, इटली, इंग्लंड सारकेल्या देसांकूय ताणें फाटीं घाले. अमेरिका, रशिया आनी अस्तम जर्मनी सोडीत जाल्यार जपान आयज संवसारांतल्या दुसऱ्या खंयच्याय देसा परस उद्देगीक मळार एक व्हड देस म्हूण मुखार आयलां. बोटी बांदपाच्या मळार जापानाची फाट धरपी दुसरो देस ना. अमेरिका, रशिया आनी अस्तम जर्मनी हे तिनूय देस मेळून जितल्यो बोटी बांदतात ताच्याकूय चड एकलें जपान बांदता. टेलिव्हिजन, ट्रांझिस्टर हांच्या उत्पादनांत जपान पयलें. मोटारी आनी ट्रकांच्या उत्पादनांत दुसरें, लोखणाच्या मळार तिसरें आनी विजेच्या मळार चौथें.

आशिया, आफ्रिका आनी दक्षीण अमेरिकेंतल्या देसां कडेन सर करीत जाल्यार जपानाची उदरगत दोळ्यांत भरता. चीनांतले सत्तर क्रोट लोक वर्साक जितलें उत्पादन करतात तितलें जपानांतले फकत धा क्रोट लोक करतात. दक्षीण अमेरिकेंतल्या सगळ्या देसांच्या उत्पादनाच्या मानान जपानाचें उत्पादन चड. आफ्रिकेंतल्या देसांच्या मानान दुपेट, भारताच्याय मानान दुपेट. संवसारांतले सगळे देस आपले उदरगतीचो वेग कसो वाडोवचो ह्या हुसक्यांत आसतात. जपाना मुखार आसा तो वेग कसो वाडोवचो हो न्हय, तो थीर कसो दवरचो हो हुस्को आसा.

जपानाचे उदरगती कडेन पळोवन कांय जाणकार जपान आतां जपान उरूंक ना, अशें म्हणपाक लागल्यात. जपानांतल्या गांवांनी लेगीत जें नवें वारें घोळूंक लागलां तें पळेतकूच तें आतां अमेरिकेची नक्कल करपाक लागलां, अशें म्हणपाक लागल्यात. भेस, भीस, नाच, गाणें, कुटुंबांतलें तशें समाजांतलें ताचें जिवीत, ताचें राजकर्ण, सगळ्याच मळांचेर तें अमेरिकेचे देखीन चलपाक लागलां. इतलेंच न्हय, तर अमेरिकेचे अवगूण लेगीत तें

घेवपाक लागलां. धर्माच्या मळार तें उपेक्षा-धर्मी जालां. घोव बायले मजगतचें जिवीत सदळ जालां, नाइट क्लब, कॅबरे असल्या सगळ्या गजालींची जपानांत वाड जाल्या, इतलेंच न्हय, तर हिप्पी संप्रदाय लेगीत जपानांत सुरू जाला. जपानाच्यो म्हणूंक येतीत असल्यो फकत तीन गजाली उरल्यात - भूंय, वंश परंपरा, आनी भास. बाकिचें सगळें वेगान ना जायत वचूंक लागलां.

ही लेगीत एक क्रान्तीच म्हणूंक जाय. सगळें सकल वयर करून उडोवपी. शोतोकुच्या वा मेइजी काळार जे तरेचे बदल जपानी जिवितांत घडून आयिल्ले तेच तरेचे बदल आयच्या जपानांत घडून येवपाक लागल्यात. हांतुंतल्यान कसले तरेचें जपान जल्माक येतलें, आयज सांगूंक येवपाचें ना. तरूय कांय समाजशास्त्री आयच्या जपानी जिविताची बारिकसाणेन नियाळणी करून सांगतात की येद्या व्हड फेरफारा उपरांत लेगीत जपानी प्राण, जपानी आत्मो, जपानी सत्व तिगून उरलां. इतलेंच न्हय तर तांची वाडूय जावपाक लागल्या. मेइजी काळांतलें जपान पळेल्लो कोणूय आयज पर्थून जल्माक आयलो जाल्यार तो आयचें तोक्यो पळोवन घडये चकासूर जायत पुणून जपानी लोकांची सौंदर्य-बुद्द - तांची रंगां विशिंची ओड, सुंदर वस्तू भोंवतणी रितेपण आसूंक जाय हो आग्रो, बागांचें अगत्य, आपलेपण, इकेबाना, चा-नो-यू, ओ-नोह वा काबुकी नाटकां पळोवन ताका वेगळे कडेन खंय पाविल्ले वरी निखालूस दिसपाचें ना. जपानी जिविताचीं हीं सगळीं आंगां पयलीं आशिल्लीं तश्शीं आसात. इतलेंच न्हय, तर तीं विदेशांतल्या लोकांचेर लेगीत आपणालो प्रभाव घालपाक लागल्यांत. जपान आपणालें जपानीपण आतां फाटल्या काळांत बंदिस्त दवरूंक पावपाचें ना. तें फुडाराचे दिकेन पावलां घालूंक लागलां. जाच्यांत गती ना, जें बदलना, वाडना तें फातराळ. जपान फातराळ न्हय. ताच्यांत कर्तुत्वाचें चैतन्य भरलां. म्हूण आरंभा सावन आतां मेरेनची ताची संस्कृतायेची व्हांवती आपणालें सत्व सांबाळून अखंडपणान व्हांवत रावल्या. फाटल्या काळाचो खंयचोच बांद तिका आडावंक पावचो ना, आडावंक पावूंक ना.

❑





## २५

# सायोनारा

दोन म्हयन्यां पयलीं जपानांत पावल दवरलां त्या वगतार नियॉनच्या तरांतरांच्या रंगांच्या झगझगाटान दोळ्यांक जरूय भूल पडिल्ली आसली तरूय मनांत एके तरेची हुरहूर आशिल्ली. कसले तरेचो देस आसतलो काय, कसले तरेच्या लोकां कडेन संबंद येतलो काय, म्हजें कशें जातलें काय थंय, हे तरेच्या भंयान - ना म्हळें जाल्यारूय - जीव कलकलूंक लागिल्लो. दोन म्हयन्यां उपरांत मायदेसांत परतुपाक भायर सरलों तेन्ना फाटल्या कितल्याश्या जल्मां पसूनच्या इश्टांक, सोयऱ्या-धायऱ्यांक सोडून वतां अशेंशें कितें दिसपाक लागलें. पावोवपाक कितलेशे इश्ट हानेदा विमानतळार आयिल्ले. तांचे मजगतचे एक नरेश मंत्री सोडीत जाल्यार बाकिचे सगळे दोन म्हयन्यां पयलीं म्हाका सामकेच अनवळखी, परकी, आशिल्ले. आयज ते म्हजे जिवाभावाचे इश्ट जाल्ले. घरचे जाल्ले. जितल्यांक मेळूं येता तितल्यांक मेळ्ळों, वेंगेंत घेवं येता तितल्यांक घेतले आनी जड अंतस्कर्णान 'सेक्युरिटी चेका'क गेलों.

विमान सुटपाक अजून धा मिणटां आशिल्लीं. ह्या धा मिणटांत विचारांचीं कितले तरेचीं ल्हारां मनांत उठलीं! कांय दिसां पयलीं घरच्यान एक चीट आयिल्ली. हे चिटींत बरयल्लें, 'हांगासल्ल्या खबरेपत्रांनी थंय एक व्हड भुंय-कांप जावन कितलीशीं घरां मोडून पडलीं आनी शेंकड्यांनी लोकांक मर्ण आयलें अशें वाचूंक मेळ्ळें. तेन्ना, तूं आतां जाता तितले बेगीन घरा यो.' आनी हांवें जपानच्या खबरेपत्रांनी भारतांत लोकांक जेवंक खावंक मेळना, म्हूण खूब जाणांनी ह्या दिसांनी जीव दिला म्हणपाची खबर वाचिल्ली.

दोनूय देसांक एकामेकां विशीं इतलीच खबर आसची मू?

जपानांत पंदरा पंदरा वर्सां राविल्ले कांय भारतीय म्हाका तोक्योंत मेळिल्ले. 'तुमी तुमचे भाशेंत जपानाचेर एकाद-दुकलें पुस्तक बरयलां व्हय? जपानी बरपावळींतलें एकाद-दुकलें पुस्तक तुमी तुमचे भाशेंत अणकारून हाडलां व्हय?' अशें हांवें तांकां विचारिल्लें. तेन्ना सगळ्यांनी 'हो कितें उलयता, हें काम आमचें न्हय' अशें, म्हज्या तोंडा कडेन अजापान पळोवन, म्हाका भासयल्लें. पुणून तांकां कशें दुशण दिवं? ते आयल्यात हांगा व्यापारा खातीर. तोक्योंत आमची 'ऍम्बसी' आसा. थंय जपानी भास जाणा जाल्लो एकलो तरी मनीस आसा व्हय? दुभाश्याचें काम करपी एकली चली आसा. ती लेगीत जपानी! सगळ्यांचें जपाना विशिंचें ज्ञान इंग्रजींतलीं पुस्तकां वाचून जोडिल्लें. इंग्रजींत जपानाचेर बरयल्लीं बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां मेळटात, हांतूंत दुबाव ना. पुणून तितल्यान भागता व्हय? ना जाल्यार रशियेची ऍम्बसी पळोवची. थंयचो 'फस्ट सेक्रेटरी' जपानी भाशेचो, जपानी इतिहासाचो आनी जपानी साहित्याचो बऱ्यांतलो बरो एक जाणकार! अमेरिकेचो राजदूत तर स्वताच जपानाच्या सगळ्या आंगांचो जाणकार. कांय वर्सां पयलीं ऍडवीन रैशावर नांवाचो एकलो अमेरिकन राजदूत म्हूण हांगा आयिल्लो. ताका जपानी लोक 'जपानी'च मानताले. तो जपानाच्या मोगांत पडिल्लो. फाटल्या म्हा-झुजांत क्योतोचेर ऍटम बॉम्ब उडोवपाचो बेत अमेरिकेन केला म्हणपाचें कानार पडना फुडें तो 'व्हाइट हाउसां'त 'ऍपॉयंटमॅन्ट' बी कांय घेनासतना गेल्लो आनी नीट प्रेसिडॅंट ट्रूमनाच्या कॅबिनांत वचून 'ना... ना... क्योतोचेर बॉम्ब घालूंक जायना' अशें म्हणून खोळसांनी रडपाक लागिल्लो. रैशावर तेन्ना अमेरिकेंत आशिल्लो. जपानाक सारकें वळखून घेवपाक फकत इंग्रजी उपकारना. जपानी येवंक जाय.

म्हणटासर म्हाका प्रो. दोईंचो उगडास जालो. आमचे ऍम्बसींतूच तांची वळख जाल्ली. हिन्दी भाशेचे एक जाणकार. काकासायबांक मेळपाक ते 'सान बांचो' हॉटेलांत आयिल्ले. सुतांपुनव आशिल्ली त्या दिसा. सरोजबेन आमची व्हडली भयण. तिणें आमच्या हातांक राखी बांदिल्ली. ती पळोवन प्रो. दोईंनी म्हळें, 'अच्छा! रक्षाबंधन कब रहा?' हांवें तांकां म्हळें, 'दोईजी, तुमकां फकत हिन्दी भासूच येता अशें न्हय. हिन्दी संस्कृतायेचीय तुमकां

बरी वळख आसा म्हणची पडली.' त्या उतराक तांणी म्हळें, 'हय तर! खंयचीय भास शिकची आसत जाल्यार तिका जिची पोसवण मेळ्ळ्या ती संस्कृतायूय समजून घेवंकूच जाय.' दोई हिन्दी शिकल्यात हिन्दी संस्कृताये सयत. म्हजे हिन्दींत मदीं मदीं एकाद-दुकलें इंग्रजी उतर येतालें. दोईंचे हिन्दींत एक लेगीत येनाशिल्लें. ते अलाहाबादेक अलाहाबाद म्हणी नाशिल्ले. 'प्रयाग' म्हणटाले. गंगेक गंगा म्हणी नाशिल्ले. 'गंगाजी' म्हणटाले. दोन वर्सां ते प्रयागाक रावल्यात आनी हिन्दी शिकल्यात. प्रेमचंदांची 'गोदान' नवलकथा तांणी जपानींत हाडल्या. कितली खपल्या जातली? तीन लाख प्रती!

साहित्य अकादेमीन जपानी नवलकथा 'गेंजी मोनोगातारी' हिन्दींत हाडची म्हूण थारायलें, दोईंक विचारलें, 'करून दिशात व्हय तुमी?' तांणी कितें जाप धाडची? 'हांव हिन्दी शिकलां तो हिन्दींतलीं बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां जपानींत हाडपा खातीर. जपानी भाशेंतलीं पुस्तकां हिन्दींत हाडप म्हजें काम न्हय. तुमी कोणेंय जपानी शिकून घेवची. हांव शिकोवपाक तयार आसां...'

भारताची राष्ट्रभास हिन्दी. म्हूण जपानी लोक हिन्दी शिकले जाल्यार अजाप न्हय. पुणून जपानान गुजराती आनी मराठी भासो कित्याक शिकच्यो? तोक्योंत आमकां शिदासान म्हूण एकले मेळिल्ले गुजराती जाणा जाल्ले. कितलींशीं वर्सां ते एके जपानी बँकेंत काम करताले. तिचे सुरत, वडोदरा, अहमदाबादेक फांटे आशिल्ले. तिनूय शारांनी ते रावल्यात. उमाशंकर जोशींचे एक इश्ट. गांधींचें 'मंगल प्रभात' नांवाचें एक माणकुलें पुस्तक आसा. तें तांचें आवडटें. आमकां तें दाखोवन तांणी म्हळ्ळें, 'ह्या पुस्तकांत जो धर्मविचार आयला तो बौद्ध ख्रिस्ती हिन्दू - तिनूय धर्मांक एकठांय हाडटा.' हांवें मनांत म्हळें, आमच्या देशांत म्हजे पिळगेंतल्या कितल्याश्या जाणांक 'मंगल प्रभात' हे तरेन पळोवंक आयलां?

तोक्योंत हाजिमे नाकामुरा नांवाच्या एका विद्वानाक मेळिल्लों. एक 'ओरियेन्टलिस्ट'. संस्कृत भास, भारतीय संस्कृताय, हिन्दू-धर्म ह्या विशयांचे एक व्हड जाणकार. तांणी ह्या विशयांचेर जपानींत कितलींशीं पुस्तकां बरयल्यांत. डॉ. राधाकृष्णनांचे एक इश्ट. पुणून तोक्योंत म्हाका आनीक

एक प्रो. नाकामुरा मेळिल्ले. तरणे पिरायेचे. ते हिन्दी तर जाणाच आशिल्ले. मराठीय जाणा आशिल्ले. 'मराठी कित्याक शिकले तुमी?' हांवें तांकां विचारलें. तेन्ना तांणी म्हळें, लोकमान्य टिळकांचेर आपणाक एक प्रबंध बरोवपाचो आशिल्लो. इंग्रजींत मेळटात तितलींय पुस्तकां आपणें वाचून काडलीं. तीं वाचतकूच 'इतल्यान भागचें ना, केसरींतले लेख वाचूंक जाय, ते वाचपाक मराठी येवंक जाय अशें दिसलें, म्हूण मराठी शिकलों.'

इतलें सांगून तांणी म्हळें, 'मराठी शिकलों हांव लोकमान्यांक लागून. मराठींत न. चिं. केळकरांनी बरयल्लें लोकमान्यांचें जिवीत वाचतां वाचतां वासुदेव बळवंत फडक्यांनी म्हजें लक्ष ओडून घेतलें. आतां तांचेर बरयतलों म्हणटां... तुका कितेंय खबर आसा व्हय तांची?'

कितें जाप दिवं? हांवें म्हळें, 'तुमी भारतांत येयात. महाराष्ट्रांतल्या विद्वानांची आनी तुमची भेट घालून दितां.' हाचे भायर म्हाका जाप दिवंक आयली ना.

ह्यो जाल्यो विद्वानांच्यो खबरी. तोक्योंतल्या 'एशिया-आफ्रिका लँग्वेज इन्स्टिट्यूटां'त हिन्दी शिकतले वीस बावीस वर्सांचे एकले चलयेन म्हाका विचारलें, 'भारत में नारी का क्या स्थान है?'

'इन्दिरा गांधी की ओर देखकर खयाल करो' हांवें जाप दिली.

तिणें म्हळें, आपूण हालिंसाराक जैनेन्द्रकुमारांली 'त्यागपत्र' नवलकथा वाचतां. तांतुंतले मृणाल सारके बायल मनशेची हांगा आमकां कल्पना लेगीत करूंक येवपाची ना.

म्हाका मागीर विधवांक वयर काडपा खातीर अण्णासाहेब कर्व्यां सारकेल्या महिर्षीनी केल्ल्या वावराची, भारताचे सुटके झुजांत गांधींनी बायलां मजगतीं घडोवन हाडिल्ले जाग्रुतायेची, सुटके झुजांतल्या तांच्या वांट्याची खबर तिका विस्तारान सांगची पडल्या. आमचे मजगतचो कोणूय खंयच्याय जपानी मनशाक एकाद-दुकले जपानी नवलकथेंतल्या पात्रा संबंदान असलो प्रस्न विचारीत व्हय? म्हाका तरी जपानाक वचचे पयलीं एकाच जपानी बरोवप्याचें नांव खबर आशिल्लें. ते योने नोगुचीचें. तेंवूय तांणी गांधींचेर कितें बरयल्लें म्हूण. हाचे भायर जपानी लेखकां संबंदान वा जपानी साहित्या संबंदान कितेंच खबर नाशिल्लें. कशें आसतलें आशिल्लें?

येवरोप अमेरिका सोडून हेर कडेन साहित्यकार आसूं येतात म्हणपाचें आमकां कोणेंच अजून मेरेन सांगूंक ना. आयज इंग्रजींतल्यान जावं, पुणून तानिझाकी, कावाबाता, ओसारागी, मिशिमा, दाझाय सारकेल्या कांय साहित्यकारांचीं कांय पुस्तकां वाचपाक मेळ्ळीं आनी हांच्यांतले कांय साहित्यकार तर म्हाका विश्व-साहित्यांत लेगीत व्हड दिसपाक लागले. भारतांत हांचे मजगतच्या कोणाचीच खबर म्हाका हाचे पयलीं कोणेंच कशी सांगली ना? मियान्मारांतल्या साहित्यकारांक आमी वळखतात व्हय? थायलँडच्या खंयच्याय कवीचें नांव आयकलां व्हय आमी? आशिया खंडांतल्या देसां संबंदान आमी कांयच लावन घेनात तें कितें? कोणें आमकां अशे केले? ही बेपर्वाय कितले दीस आमी चलयतले? येवरोप अमेरिकेंतल्या देसांची आसा तशी आशिया आफ्रिका खंडांतल्या देसांची ओड आमकां कित्याक ना?

ही बेपर्वाय, उदासीनताय आमी आतां सोडून दिवंक जाय. ती आमकां पुटवपाची ना. जपाना कडले संबंद तर एका सारके वाडत वचूंक जाय. ह्या अद्‌भूत देशा कडल्यान शिकपा सारकें जायतें आसा. हालिंसाराक 'आर्विल्ले' (Modern) जावपाचे प्रक्रियेंतल्यान वता आसतना जपानाचो फाटल्या शंबर वर्सांचो अणभव तरी जाणा जावन घेवचोच पडटलो आमकां. आर्विल्ले जावपाचे प्रक्रियेंत भंय खंय आसात, खंय विघ्नां येवं येतात, तीं कशीं चुकोवचीं, पयस कशीं करचीं, आमचे संस्कृतायेक बादा येवंक दिनासतना आर्विल्ले कशे जावं येता, ह्या मळां वयलो जपानाचो अणभव जितलो आमकां उपकारा पडूं येता तितलो येवरोप अमेरिकेचो पडपाचो ना. रशियेचोय पडपाचो ना. ह्या सगळ्या देसांचे उदरगतीचो संदर्भूच वेगळो. जपानाचो अणभव आमी समजून घेतलो ना जाल्यार आर्विल्लेपण कित्याक म्हणपाचें आनी फिरंगीपण (Westerniza-tion) कित्याक म्हणपाचें तें आमकां सारकें कळपाचें ना. आर्विल्लेपणाच्या नांवान आमी कुड्‌डेपणान फिरंगीपण घेतले आनी ना ना म्हणटां म्हणटां आमचें नीज होगडावन बसतले. मागीर, 'यूनानो मिश्रोरूमा सब मिट गये जहांसे, अब तक मगर है बाकी नामोनिशां हमारा' अशें अभिमानान आमकां गावंक येवपाचें ना. जपान 'आर्विल्लें' जालां. 'फिरंगी' जावंक ना. तें आपणाक 'मॉर्डन' म्हणटा. 'वॅस्टर्न' मानिना.

आर्विल्ले जावपा खातीर विज्ञानाची गरज आसा आनी विज्ञाना खातीर इंग्रजी वा दुसरे खंयचेय येवरोपेव भाशेची गरज आसा असलो हट जपानान धरलो ना. पुराय विज्ञान ताणें जपानी भाशेंत हाडलें आनी जपानी भाशेंतल्यानूच बारीक लोकांक शिकोवन ताणें आपणालो विकास घडोवन हाडलो. जपानाचो खंयचोच वेव्हार जपानी सोडून दुसरे खंयचेच भाशेंतल्यान चलना. आमचें सगळें उरफाटें. विज्ञानाच्या नांवान आमी इंग्रजीचो हट घेवन बसले आनी इंग्रजींतल्यान विज्ञान आत्मसात करपा बदला विज्ञानाचो उपेग इंग्रजी घट करपा खातीर करपाक लागले. आनी, विज्ञानूय ना, इंग्रजीय ना अशी आमची गत्त करून घेतली. इंग्रजीच्या कुड्ड्या हटाक लागून आमी देसाक आर्विल्लो करपा जाग्यार ताका इंग्लंड अमेरिकेचे सांस्कृतीक वसणुकेचें रूप दिलां हें अजून खूब जाणांच्या लक्षांतूच कशें येना, समजना. जपान आमकां ह्याय मळार देख दिवंक पावतलें. ह्या देसा कडलो आमचो संबंद वाडुंकूच जाय.

ह्या शतमानाच्या आरंभाक जपानान आमच्या मनांत राष्ट्रवादाची जोत पेटयल्ली. उपरांत ताणें आमच्या मनांत भंय निर्माण केल्लो. आयज जपान विश्वशान्तीचो मना पसून पाखो घेवन संवसारांत वावरत आसा. ह्या मळार आमी जपानाक सांगात दिवंक जाय.

सेक्युरिटी लॉजांत बशिल्ले कडेन हे तरेचे कितलेशे विचार तकलेंत घोळ्ळे. ह्या दोन म्हयन्यांत पळेल्ल्यो अणभविल्ल्यो गजाली दोळ्यां मुखार आयल्यो आनी हांवें थंयच नित्शय केलो - आतां घरा परतना फुडें हांव म्हजें म्हाकाच जपानाचो प्रतिनिधी मानतलों. जपाना विशीं म्हज्या देसांतल्या लोकांच्या मनांत जिज्ञासा जागोवपाचो यत्न करतलों. भारत आनी जपान दोनूय देसांचो फकत व्यापारी आनी राजकी संबंद न्हय, सांस्कृतीक संबंदूय वाडूंक जाय म्हूण सगळ्यांक सांगतलों. तो दोनूय देसांच्या फायद्याचो जातलो, इतलेंच न्हय, तर आशिया खंडाचे नदरेनूय तो बऱ्याक पडटलो, हें सगळ्यांक पटयत रावतलों. म्हज्यान जाता तितलेंय हांव करीत रावतलों.

इतल्यान 'मुम्बय वचपी ऍअर इण्डियाचें विमान सुटपाचे तयारींत आसा.' म्हणपाची कळोवणी कानार पडली. हांव विचारांचे तंद्रेंतलो उठलों आनी विमानाचे दिकेन चलपाक लागलों. विमानतळाचे गच्चेर सगळे इश्ट



उबे आशिल्ले. सगळे 'सायोनारा' 'सायोनारा' करून हात हालयताले. कांय इश्ट चामड्याचो ड्रम वाजोवन 'नम् म्यो हो रें गे क्यों' मंत्राचो उद्घोश करताले. विमानाचे निसणी कडेन पावतकूच हांवें फाटल्यान वळून सगळ्यांक कमर बागोवन मनस्पुर्वेक नमस्कार केलो. दोळे भरून आयिल्ले.

म्हणटासर विमानान मळबार झेंप घेतली. मुखार सुंदर गालिच्या भाशेन पुराय निप्पोन देश पातळ्ळेलो दिश्टी पडलो. एका सारको ताचे कडेन पळेत रावलों. विमान जसजशें मुखार उडूंक लागलें तसतसो हो गालिचो फाटल्यान सरूंक लागलो. होनशू जुंवो गेलो. शिकोकू जुंवो आयलो. थंयचें साकुराजिमा जाळमूख दिश्टी पडलें. म्हणटासर तेंवूय फाटल्यान गेलें. कांय खिणां भितर पुराय जपान दोळ्यां मुखावेलें लिपलें आनी -

'आरेच्या! हांव काळिजूच जपानांत विसरून आयलां' अशें खोलायेन दिसपाक लागलें.





१९६७ वर्सा रवीन्द्रबाबान केल्ले जपान भोंवडेचें हें वर्णन. जांच्या सांगातांत तांणी ही भोंवडी केल्ली ते भौ. काका कालेलकार मूळ मराठी पुस्तकाचे आपणाले प्रस्तावनेंत बरयतात, 'जपान पळोवन जी खोस जाली, जें अजाप जालें, जी धन्यताय अणभवली ती सगली रवीन्द्रान मेकळ्या मनान, उमेदीन भरिल्ले भाशेंत आमचे मुखार दवरल्या. जपान पळोवन तो भारावन गेलो हातूंत अजाप दिसपा सारकें कांय ना; पूण ताचें हें वर्णन वाचून हांव भारावन गेलों हें म्हत्वाचें आनी म्हुण्णूच म्हाका वाचप्यांक सांगीन दिसता, हें पुस्तक तुमी मुजरत वाचात.... ह्या पुस्तकान मराठी साहित्यांत अभिनंदनीय भर घाल्या.'

रवीन्द्रबाबांले सादे सोंपे प्रांजळ शैलीक इल्लीय बादा येवंक दिना आसतना भौ. माया खरंगटेन केल्लो 'जपान जसा दिसला' पुस्तकाचो हो कोंकणी अणकार.




Publishers:
**RAJHAUNS VITARAN**
1- Meenakshi Bldg, Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji - 403 001
Ph: 2220320 / 2232177 E-mail: rajhaunsvitaran@dataone.in